# कोंकणी मासिक बिम्ब

## १९ वें वर्स

## चीन, कोरोना आनी आमचे अवचीन...!!

- दिलीप बोरकार



**BANK DETAILS :**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात. संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.


वर्स १९: अंक ४/५/६
एप्रील-मे-जून २०२०
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर**
वर्सुकी 400 रू.
3 वर्सां 1100 रू.
खंयच्याय म्हयन्यासावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक Bimb monthly ह्या नांवान धाडचो.



**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# कसवटणेचो काळ आयला...

कोरोना विशाणून सांवार मांडून कितलेशेच दीस जाले. ते गणती करूं येता आसले तरी लॉकडावनाक लागून घरांतूच बसून रावचें पडिल्ल्यान आनी जिणेंतले सगळे वेव्हार ठप्प जाल्ल्यान ते खऱ्यानीशीं आसपा परसूय संख्येन हिसपा भायर दिसले जाल्यार अजाप न्हय.कोरोनाचो हो सांवार आनीक कितले दीस चलतलो आनी ताची परिणिती कित्यांत जातली हाची कोणूच खात्री दिवंक शकना. कोविड १९ च्या रुपान पुराय संवसाराचेर आयिल्लें हें एक अरिश्ट म्हणटकच आपल्याकूच तें बादलां म्हणत गगनां करीत बसपांत अर्थ ना आनी रडणें भाकणें करीत कोणाचे काकुळटेचीय वाट पळोवप पुटवपाचें ना. तातूंत शाणेपणाचें थारतलें तें म्हणल्यार, आपल्याचेर आयलां तें निस्तारता आसतनाच शेजाऱ्याचेंय निस्तारपाक ताका मजतीचो हात दिवप. तीच नैतीक आनी भावनीक जापसालकी आयज जणेकल्याचेर येवन पडल्या आनी जणेकलो ती आपले तांकी प्रमाण पेलता म्हणपाचें दिसून येता.

कोरोना विशाणूचो फैलाव कोणाक लागून आनी कित्याक लागून जालो हाची उरतवारी घेवन बसतनाच संवसारांतलीं सगळीं राष्ट्रां आपापल्या मदलीं किजिलां आनी दुस्मानकाय कुशीक दवरून, मनीसपणाक जागतना दिसतात. एकमेकाक आपले तांकी प्रमाण सगळे तरेची मजत करतना दिसतात. हातूंत कोणाचो पोसो व्हड आनी कोणाचो ल्हान हाका म्हत्व आसना तर आयिल्ल्या अरिश्टाक फुडो करूंक जो कोण मजत म्हूण आपलो पोसो उकतो करता ताची दिनवासणी जावपा वांगडाच जो कोण आपली चिमटी सदळ करता ताचीय नोंद नक्कीच खंय तरी जाता. असल्या यडणुकांची दखल समाज घेताच घेता.

हेर राष्ट्रांनी ह्या अरिश्टाक लागून जी जिवीतहानी जाल्या आनी त्या राष्ट्रांचे अर्थवेवस्थेचे तीन तेरा वाजल्यात तें पळयत जाल्यार त्या मानान आमचो देश हो कितलोसोच बरो आसा अशें म्हणचे पडटा. तरी लेगीत दरेकल्याचें सुखदुख ताच्या काळजा वेदेंच आसता देखून असल्या सांवारा वेळार ताचे तोलणेक कोणूच तागडी वापरनात तर मनीसधर्माक आपशींच आंकरी फुटून जणेकलो आपले तांकी प्रमाण मजतीचो हात मुखार करता. काळ कसवटणेचो जाल्ल्यान आयल्लें मोड परततलें हाची खात्री आशिल्ल्यान ह्या मोडांत सांपडिल्लो आपलीं पावलां बळान थीर करता आसतनाच दुसरोय उबून वचूंक फावना म्हूण ताचीय जतनाय घेता. रतन टाटा सारखे उद्योजक, अक्षयकुमारा सारखे कलाकार, सचीन तेंडुलकारा सारखे खेळगडे आनी हेर कितलेच जाण ह्या हुंवारांत सांपडिल्ल्यांक हात दितात. कित्याक हो कसवटणेचो काळ आसा. तो कायमचो तिगून उरना. तो येता आनी वता. पूण ह्या कसवटणेच्या काळार कोणें हात फुडें केल्लो आनी कोणें हातांत शक्त आसतनाय तो मारिल्लो हाची याद मात काळ दवरता. आयिल्ल्या अरिश्टाच्यो कुरवो काळ कालांतरान पुसून उडयता. पूण ह्या अरिश्टांत कोणें कितें कितें केलां ताची दखल मात कर्तृत्वी समाज घेतले बगर रावना.

कोरोनाचो हो सांवार विश्वव्यापी जावन आसा. पुराय संवसाराचो हो कसवटणेचो काळ जावन आसा. हातूंतल्यान तग मारपा पासत राष्ट्रां राष्ट्रां एकमेकाक हात दितात. राज्यां राज्यां एकमेकाक सांबाळटात. एका गांवाक मजत जाय जाल्यार दुसरो गांव तो परकी गांव म्हूण फाटीं रावना आनी शेजारी आपल्या शेजाऱ्याचें आपल्याक पडूंक ना असो विचार करी नासतना ताका कितें जाय नाका तें पळयता. कित्याक हो सगळ्यांचे कसवटणेचो काळ जावन आसा. तेच पासत ह्या काळांत संवसारभरच्या घरांघरांनी अन्न शिजलें तें फकत आपल्या घरच्यां पासतच न्हय तर शेजाऱ्यां पासत, रस्त्या वयल्या अरिश्टांत सांपडिल्ल्या सर्वसामान्य मनशां पासत. फकत मनशा पासतच न्हय तर जी मोनजात जळामळाक हेडून व्हाऱ्यार पडिल्लें खावन आपलें पोट भरताली आनी लॉकडावनाक लागून तांकेरूय हावळ आयली तेन्ना ते मोनजाती पासतूय ह्या घरांत शिजलें. हें अशें कित्याक घडूंक पावलें तर अरिश्टाच्या वेळार मनीसपण अडसून रावना तर वझरो जावन झुळझुळटा. मनीसपणाची कसवट लागता ती ह्याच वेळार. कोरोनाच्या ह्या सांवारांत संवसार भर मनीसपणाची नोंद जाल्ली पळोवंक मेळटा आनी मनीसपण सासणाचें म्हणपाचो दिश्टावो जाता. अशे वेळार काळीज खोसयेन उचांबळीत जाले बगर रावना.

अशें आसलें तरी आमचे मर्दी समाजांत आपले पुरतेंच पळोवपीय लोक आसात म्हणपाचो अणभव येता तेन्ना मन खंतीनीय भरता. बिम्ब मासिक हें एका कुटुंबाचो पोटा पाणवाचो प्रश्न सोडोवपाचो वावर न्हय तर गोंयची राजभास आनी गोंयकारांचे आवयभासेंतलें एक तरी मासिक चलचें म्हूण केल्ली धडपड म्हणपाचें आमी फाटलीं अठरा वर्सां सावन सांगत आयल्यांत. हें मासिक नेमान येवचें म्हूण गोंयच्या उद्येजकांनी आपलेपरीन हात बोट लायलां. कोरोनाच्या अरिश्टाक लागून फाटले तीन म्हयने हे उद्येजक आर्थीक संकश्टांत सांपडल्यात. तांचो उद्येग घर्यून रुळार ये मेरेन तांकां थोडो काळ सुसेग दिवंचो आनी जे कोंकणीच्या नांवान नवे उद्येजक जल्माक

## सं पा द की य

आयल्यात, कोंकणी अकादमी, कला आनी संस्कृती खातें, राजा राममोहन फाऊंडेशन सारख्यो संस्था पुस्तकां विकती घेतात देखून आपली नोकरी सांबाळून वावुरणे प्रकाशक जाल्यात त्या प्रकाशकां लागीं आमी आपल्या प्रकाशनाची जायरात करची अशी विनवणी केली. पूण लाखभर रुपया दर म्हयन्याक पगार वा पेन्शन येवपी ह्या कोंकणी मोग्यांक आपणें पुस्तकां बरोवन तीं छापप आनी गड्डे व्हरून वयर सांगिल्ल्या संस्थांक पावोवप म्हणल्यारूच कोंकणीची सेवा करप दिसता तांतल्या भोवतेकांनी आमची विनवणी हांसून व्हेली. तांकां दिसता बिम्बांत जायरात दिवपाची ती राजहंस वितरण वा संजना पब्लीकेशनानूच. कित्याक ह्यो प्रकाशन संस्था वेवसायीक. आपलीं प्रकाशनां मात कोंकणीचे सेवेंत भर घालपी. पूण तांकां मात्तूय जाणविकाय जायना, आमी आमचीं पुस्तकां वेवसायीक प्रकाशकां लागीं दिना आसतना स्वताच छापतात तेन्ना तांचेर अन्याय करतात. तांचे पासत राबयल्ल्या येवजण्यांत आमीय वांटेकार जातात. प्रकाशन वेवसाय हो जांकां नोकरी वो हेर धंदो ना तांचो जोडीचो वेवसाय. सरकार येवजण आखून तांकां आर्थीक मजत जावंची म्हूण प्रकाशन पालव दिता. पूण ताचेर डल्लो कोण मारतात तर लाखभर पगार वा पेन्शन येवपी कोंकणीमोगी. पूण जेन्ना कोंकणीचेर अरिश्ट येता आनी ह्या कसवटणेच्या काळार आमी मुखार सरूंक जाय म्हणपाचें मात ह्या आपणेंच बरोवन आपणेंच छापून विकपी लेखकूंक दिसना तेन्ना खंत जावचे बदला तिडक आयले बगर रावना.

ह्या प्रकाशकांक मात्तूय दिसना, ललित सारख्या मासिकांत प्रकाशक आपल्या पुस्तकांच्यो जायराती दितात तश्यो बिम्ब वा जाग मासिकांत दिवच्यो. तशें दिसपाक बोल्सांत हात घालचो पडटा. पूण कोंकणीच्या नांवान बोल्सां भरप होच जांचो वावर तांकां कसवटणी विशीं सांगप म्हणल्यार वेळेचो अपव्यय. तोच वेळ, हे कसले प्रकाशक? आनी हांणी आपलें सोडून हेरांचें कितें प्रकाशीत केलां आनी प्रकाशकां खातीर राबयल्ल्या येवजणेर डल्लो मारपाचो हांकां कसलो अधिकार आसा? ह्या प्रश्नांच्यो जापो मागपाक घालयत जाल्यार सरकारच्या गुदावांत पडून उरपी बरोच कचरो उणो जावंक पावतलो.

आवचे कसवटणेच्या काळार ह्या वावुरण्या प्रकाशकांकूय कसवटणेक फुडो केले बगर पर्याय उरूंक फावना. ती काळाची गरज म्हणत जाल्यार कोण दुशण दियत शें दिसना.

# जैवीक झुजाचेर एक उडटी नदर




फुडाराक जीं झुजां जातलीं तातूंत जैवीक अस्रांचो व्हडा प्रमाणांत आसपाव आसतलो म्हणपाचें आतां संवसारांल्या गिरेस्त आनी सशक्त राष्ट्रांचे सगळेच फुडारी उलोवंक लागल्यात. तांचें म्हणणें आतां लिपून उरूंक नासलें तरी ते विशीं संवसारांतले सर्वसामान्य जनतेक व्हडलीशी जाणवाय आसा शी दिसना. ते पासत हे गजालीची विस्तारान आनी बारीकसाणेन विस्कटावणी जावपाची गरज आसा अशें म्हजें मत.

सुर्वेक आमी आयज खंयचे परिस्थितीक फुडो करतात हाचेर एक नदर मारूंया. फाटल्या बऱ्याच दिसां सावन कोरोना विशाणूचो फैलाव मोठे गतीन रानाक लागिल्ल्या उज्यावरी एक्लय राष्ट्राक वगळाय नासतना संवसारभर जायत आसा. ह्या विशाणूचो फैलाव जावपाक जो देश जापसालदार थारला तो संवसाराक हाचे फाटलें पुराय सत सांगपाक तयार ना. फाटले कितलेच म्हयने तांणी ही बातमी लिपोवन दवरली आनी जेन्ना ती भायर फुटली तेन्ना वटवागळांचेर हे गजालीचो आळ घातलो. आतां तर ज्या देशांतल्यान ह्या विशाणूचो फैलाव जाला त्या देशाचे प्रयोगशाळेंतल्यान तो निर्माण जाल्ल्याचें सत ल्हव ल्हव उक्ताडार येवंक लागलां. हो विशाणू इतले गतीन फाफसलो कि त्या देशाक हाचेर विचार करूंक वा कृती करूंक वेळूच मेळ्ळो ना. लाखांनी लोकांचो बळी ह्या दुर्येसान घेतलो आनी तो सांवार चालूच आसा. पूण ज्या देशांतल्यान ह्या विशाणूचो उगम जाला तो देश मात तोंडांतल्यान ब्र काडी ना. शास्त्रज्ञ मात हें कुवाडें सुटावें करूंक रातीचो दीस करीत आसात.

अशे हे परिस्थितींत तकलेक ताण दिवपी लाख मोलाचो प्रश्न म्हळ्यार संवसारांतलीं तांकीवंत राष्ट्रां जगाचो विध्वंस घडोवन हाडपाक जैवीक अस्रांचे निर्मणेक बी लागूंक नात मू..? भोवतेक प्रयोगशाळेंत हाचेर प्रयोग सुरू आसतना हो विशाणू अनावधानान भायर सुटला जावंक जाय आनी अशें जाल्यार ताचो परिणाम कितें भोगचो पडटलो हाची जाणविकाय भोवतेक प्रयोगकर्त्यांक जावंक नासुये..! आतां ताचेर नियंत्रण हाडूंक आंतरराष्ट्रीय यंत्रणा युध्दपातळीचेर झुजत आसा. ताचे मुखार हे गजालीची फाटभूंय सोदपाक वो ताचे परिणामांचेर चिंतपाक लेगीत कोणा कडेन वेळ ना.

हे महामारीक लागून येवपी मरणाचो आंकडो दिसानदीस वाडत आसा. सगळ्याक एक भिरांतेचें वातावरण फाफसलां. पुराय संवसार अरिश्टांत सांपडला. तांचे मुखार हातूंतल्यान भायर सरपाचो कसलोच उपाय दिसना. अशे वेळार हो सांवार संवसाराचेर लादपाक जो देश जापसालदार थारला ताणें संवसाराक सावध करपाची लागणूक नाशिल्ली..? ज्या देशांत ह्या विशाणूचो उगम जाला त्या देशान आपल्या देशाच्यो सिमा बंद करून हें दुर्येस भायर वचपाचें ना हाची जतनाय घेवन हेर देशांक सावध करपाची जापसालदारकी नाशिल्ली..? ताणें आपल्या देशांतल्यान भायर वचपी लोकांचेर ताबोडतोब बंदी घालूंक जाय आशिल्ली. पूण अशे तरेचें कांयच घडूंक ना. इतले म्हणसर हेर देशांनी हो विशाणू रिगलो आनी ताका आळाबंदा हाडप हाता भायर गेल्लें.

संबंधीत देशान हे घडणुकेचें भिरांकूळ रुप खबर आसूनय संवसारीक भलायकी संघटनेक(WHO) तर्शेंच असल्या पिडांचेर संशोधन करपी, वखदां सोदपी हेर संस्थांच्या शास्त्रज्ञांक ताचे विशीं कळोवपाची वा शादूर करपाची लेगीत तकालस घेवंक ना. तांच्या ह्याच बेजापसालदारपणाची ख्यास्त आयज संवसारांतल्या हेर राष्ट्रांतली निरपराधी जनता भोगता.

अशे हे परिस्थितींत म्हजे सारखेलो वैजकी मळावेलो मनीस जें कितें दोळ्यां मुखार घडटा तें पळयत रावपाचें सोडून आनीक कांयच करूंक शकना. हें सगळें घडटना म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतली याद जाता. त्या काळार सगळ्या हिन्दूं घरांच्या फुडले दारांत उदकाचें आयदन भरून दवरिल्लें आसतालें. थंयच तांबयो, साबू आनी तुवालोय दवरिल्लो आसतालो. सोयरो जावं वा घरांतलो कोणूय भायर साकून येतालो तो घरा भायरूच आपल्यो व्हाणो काडटालो, हात पांय साबू लावन धुतालो आनी तुवाल्यान पुसून घरांत भितर सरतालो. हाका लागून घरांत भायलो धुल्ल वा हळशीक येवंक पावनाशिल्ली. कोणूय सोयरो लेगीत जेवणा वेळार आपले हात बरे तरेन धुले बगर जेवणाच्या पानार बसनाशिल्लो. घरांतली प्रत्येक व्यक्ती न्हावन धुवन, धुल्ले कपडे चडयले उपरांतूच जेवणाक बसताले.

पूण जसजसो काळ बदल्लो तसो जण एकल्यान ल्हव ल्हव अस्तंत संस्कृताय आपणावंक आरंभ केलो. आदलींच्यो सगळ्यो संवयों आमी विसरले. भायर वापरतात त्योच व्हाणो, बूट आनी चपलो आमी घरांत घालून भोवंक लागले. आंगा वयले कपडे भायल्यान घालून आयल्यात तेच तशेच आंगार दवरून, अस्तंती संस्कृतायेचें मोठेपण मिरयत घरांत वावरूंक लागले. पूण लक्षांत दवरपाची गजाल म्हळ्यार अशें अस्तंत लोकां मदीं खंयच घडना. तांचे संस्कृतायेचेर बारकायेन लक्ष दिल्यार आमकां हें कळून येता. अस्तंती लोक भलायकेचे नदरेन भोवच शादूर आसतात.

आयज कोरोना विशाणूच्या फैलावाक लागून जायना, त्या दुर्येसाच्या भंयान आयज जे कोण अस्तंत संस्कृतायेचे गुलाम जाल्ले तेच आतां काळाचे भकीक पडून विसरायेर गेल्ली आदली संस्कृताय परत एक खेप आपणायतना दिसूंक लागल्यात. तांकां ताचे फाटली त्या काळांतली स्वच्छतायेची भुमिका कळून आयल्या. धर्माच्या नांवान त्या काळार स्वच्छताय राखपाची एक शिस्त कशी समाजान लावन घेतिल्ली ताचो अणभव आज आमी घेवंक लागल्यात.

हो सगळो प्रकार जेन्नां हांव ह्या दिसांनी अणभवतां तेन्ना हांव ह्या विशयाचेर चड खोलांत वचून विचार करूंक लागतां. आदल्या काळार म्हळ्यार शंबरेक वर्सां आदीं ही लिपेजीची शिस्त समाजांत चलणुकेंत आशिल्ली त्या काळार आयचे सारखी एखादी महामारी वा पिडा फाफसूंक नाशिल्ली मू..? आनी भलायकेचेर उपाय येवजण म्हूण आयचे वरीच ते काळार धर्माचो आधार घेवन ही शिस्त लावंक नाशिल्ली मू..? एक लक्षांत दवरूंक जाय तें म्हळ्यार त्या काळार लोकांचो शास्त्रा परस देवाधर्माचेर चड विश्वास आशिल्लो. देवाच्या भंयान धर्मांत सांगलां ताका पाळो दिताले. धेखूनच मनशाच्या जिविताक उपेगी अशें जें कितें आसा तें जर समाजांत रुजयतलो जाल्यार देवा धर्माचो आदार घेवनूच चालीक लावचें पडटालें. हिन्दू धर्माचे चाली प्रमाण आनीक एक म्हत्वाची चाल म्हळ्यार मरणा उपरांत कुडीक अग्नी दिवप. हाका लागून दुर्येसां पातळावपी जे जे कितें विशाणू आनी जीवजंतू आसात ते उज्यान सासणाचे नश्ट जावन वताले. आतां आमच्या समाजांत हेर कांय धर्मांचे लोक आपले प्रथे प्रमाण कूड मातयेक लायतात वो हिरांट्यांचे भक्ष्य जावचें देखून झाडाक हुमकळायतात. तांचे चाली विशीं म्हाका व्यक्तीगत रुपान कांयच म्हणपाचें ना.

पूण असले करणेन ते कुडीचेर दुर्येसां पातळावपी विशाणू कितलींच वर्सां मेरेन तगून उरूंक शकतात आनी तांकां अशी संद लाभिल्ल्यान तातूंतल्यान महामारीचो फैलाव जावपाची भिरांत आसता. तेच पासत हिन्दू लोक मरणा उपरांत कूड अग्नीक लायतात आसूं येता आनी तशें करपा फाटलें कारण तसलीच कसली तरी महामारी त्या काळार आयिल्ली जावं येता. ह्या असल्या सगळ्या गजालींचेर जेन्ना हांव विचार करतां तेन्ना हो कोरोना वायरस कितें येवन आयला आनी ताचो वावर कसो आसतलो हें सांगूंक जायना. पूण एक गजाल खात्रीन सांगूं येता ती म्हळ्यार ह्या कोरोना विशाणूच्या फैलावाक लागून जीं मरणां घडून येतात तांच्यो कुडी उज्याक लावपूच शाणेपणाचें थारतलें. अशें केल्ल्यान हेर मनीसजात दुर्येसाच्या चोपक्यांतल्यान वाचूंक पावतली.

पूण हांवें कितलेंय जरी अशें येवजिलें तरी समाजांतले संबंधीत लोक तशें येवजितलेच अशें समजूं येना. अशे वेळार म्हज्या सारख्याकूय फक्त देवाचेर भरवंसून रावून तार्णेंच आतां आमची राखण करची अशें पराथन करून ताका शरण गेल्या बगर दुसरो कांयच उपाय दिसना. तरी आसतना जीं जीं कितें अवर्शणां आमचेर हे आदीं आयल्यांत आनी येत आसात तातूंतल्यान मनीसजात वाट काडीत आसा आनी आपलें जिवीत कशें सुरक्षीत आसचें हाची जतनाय घेतात. कोरोना सारखे महामारीक समर्थपणान फुडो करपाक आपल्याकूच विलगीकरणांत व्हरून हेरां पासून अलिप्त रावतात. आपल्याक वेगवेगळ्या वावरांत गुस्पावन घेतात. तरांतरांच्यो कला केळयत अरिश्टांतूय मनाक पटाय हाडटात. ह्या कोरोनाच्या काळांतूय म्हज्या सारख्याक कविता सुचल्यार अजाप न्हय. अशीच एक कविता ह्या प्रसंगार वाचप्यां मुखार दवरून हांव म्हजे विचार आटापतां.

## कोरोना आयलो

कोरोना आयलो, कोरोना आयलो
वाऱ्या वांगडा उडत आयलो
लिपून झपून भितर सल्लो
मेळटा ताका आड घालो

भंवार्चे वारें घरांनी शिंपडलें
दारां जनेलां बंद करून रावलें
तोंडाक मास्क, हात परत परत धुले
एका-मेकागेर वो वच बंद जालें

दुकांनां बाजार बंद जालो
भाजी पालो मेळना जालो
नुस्तें,मटण,चिकन ना जालें
पुश्टीक अन्न मात पोटांत गेलें

रातच्यो पार्टयो बंद जाल्यो
सोऱ्याचो दुर्गंध बंद जालो
गांवभर भोंवपाचें बंद जालें
लोकांच्या मनाचें परिवर्तन जालें

रस्ते गल्ल्यो नितळ जाल्यो
रस्त्या वयली गर्दी ना जाली
नेणट्या जाणट्या लोकांक समजलो
रामायण महाभारताचो सार मनांत रिगलो



- डॉ.उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार
करंजाळें- गोंय
मो.९८२३०६६५४०

## हो अंक त्रैमासिक अंक

मार्च म्हयन्याचे अखेरेक कोरोना विशाणूच्या आक्रमणाक लागून संवसारभर महामारी जाहीर जाली. हेर सगळ्या वेव्हारा परस मनशाचो जीव वाचोवप म्हत्वाचें थारिल्ल्यान संवसारभर सक्तीचो लॉकडावन लावचो पडलो. हाकाच लागून एप्रील म्हयन्याचो अंक तयारी जावनूय तो छापखान्यात वचूंक पावलो ना. फाटल्या १९ वर्सांत व्यक्तीगत रुपान भलायकेचीं तीन अरिश्टां अचकीत आयलीं तरी दरेक म्हयन्याचो अंक वेळार पोस्टांत गेला. अंकाचीं पानां, छापणावळीचो दर्जो आनी साहित्याचो खजानो हातूंत खंयच कातर लायनासतना फाटलीं १९ वर्सां नेमान अंक आमी वाचकां मेरेन पावोवंक शकले. मात ह्या दोन दसकांत पयलेच खेप उपाय नासून आमकां अंक तयार आसूनय तो वर्गणीदारां कडेन पावोवप शक्य जालें ना.

मार्च अंक वर्गणीदारांच्या हातांत पावला. एप्रील आनी मे अंक मनांत इत्सा आसुनय ह्या लॉकडावनाक लागून आमी छापूंक घाडूंक शकलेनात तरी वर्गणीदारांनी आपल्या कश्टाच्या दुडवांनी वर्गणी भरिल्ली आसा हाची आमकां कल्पना आसा. देखून हो जून म्हयन्याचो अंक तांत्रिक नदरेन आमी तीन म्हयन्याचो धरला आनी पानां शंबर केल्यांत.तशेंच आमचो दिवाळी अंक गडगंज आसता हाचीय वर्गणीदारांनी नोंद घेवंची.

-संपादक




## वास्तव चित्रण

संपादक,

मार्च २०२० च्या बिम्ब मासिकांतली **रुपा केणी** हांची 'पार्टी ' ही कथा सामकी वास्तव जावन आसा. आयज दर शाळेंत ते कथेंतलीं पात्रां अणभवूंक मेळटात. शाळांतल्या शिक्षकांनी ही कथा तांचे भुरग्यां मेरेन पावोवंक जाय. तांकांय कळटलें की ते माजर जावन चोरून दूद पितात म्हूण आनी ही कथा वाचतकच तांकां कळून येतलें की ते कितले वायट गजाली करतात. आनी त्यो आयज ना फाल्यां तांच्या घरच्यांक कळीत जावन तांकां लज जावन ते भुरगे सुदरूं येतात. असल्यो कथा वाचीत जाल्यार त्या भुरग्यांक कोंकणी वाचपाची सवंय जावन फुडाराक कोंकणीचे वाचक वाडूं येतात. परबीं रुपा केणी बाय.

तसोच त्याच अंकांतलो मंजुषा सिनाय तळावलीकार हांचो *इकीगायः दिर्घायु आनी जिणेचें गुपीत* हो बेस सुंदर लेख. बिम्बांत तेंच तेंच गुळमुळीत बरप वाचून विटलेल्या मनांक थाकाय दिवपी एक पुस्तक परिक्षण. असलीं लिखाणां बिम्ब मासिकाची तांक वाडयतात. हेर लेखकांनी चतुरायेन रावचें.

- उदय देशप्रभू
पेडणें-गोंय

## हा स्य बिं म्ब



# भागिदारी

घाणेकारान आतां चिंतलें, पूत व्हडलो जाला. ताचेर आतांच संवसाराची जबाबदारी घालूंक जाय. ते खातीर आपल्या धंद्यांचीं सुत्रां आतां ताच्या हातांत दिवपाक जाय. पूण सगळो धंदो ताचेर एकल्याचेर सोपयत जाल्यार तो आपल्याक जाय तें करून धंद्याची वाटूय लावंक शकता हाची कल्पनाय ताका आशिल्ली. म्हणटकच अणभव ये म्हणसर एकूच उपाय म्हणल्यार पुराय धंद्याचो तोय भागिदार आनी जो किर्ते धंद्यांत नफो जाता ताचो अर्दो वांटो भागिदार जाल्ल्यान आपसूक ताका वतलो हाचो ताका विश्वास दिवप. म्हणटकच नफो चड जावपाचे नदरेन तो धंदो वाडयतलो आनी आपूणय भागिदार जाल्ल्यान आपर्लेय ताचेर लक्ष उरतलें ही घाणेकाराची माण्णी.

घाणेकारान सिनेमांत बी घडटा तशें आपल्या पुताक एक कॅबीन, एक तरनाटी सेक्रेटरी अशी मांडणी करून पाडव्याच्या शुभम्हुर्तार ताका ते खुर्चेर बसयलो. पुतानूय धंद्याक सोबता तशें आपलें योगदान दिलें आनी तें पळोवन घाणेकारूय खूश जालो. पूण एक दीस घाणेकाराक आपलो पूत खुबूच चिंतेरस्त दिसलो. तेन्ना ताका विश्वासांत घेवपा पासत घाणेकारान म्हणलें, ''पुता हें पळय, फाटले कांय दीस तूं चिंतेरस्त दिसता. पूण तूं कसलीच चिंता, हुरको करूं नाका. आमचो धंदो हो भागिदारीचो. जसो नफो आमी एक सारखो वांटून घेतात तशी काळजी आनी जबाबदारीय सारकीच वांटून घेवप हो धंद्यांतलो कायदो. तेन्ना तूं हुसको सोड आनी तुजी चिंता ह्या भागिदारा मुखार उक्ती कर. म्हणटकच ताची अर्दी जबाबबदारी हांव घेन.''

बापायचो चडूच आग्रो जातकच पुतान निरुपाय म्हूण तोंड उगडलें. ''डॅड, तुवें आग्रोच धरला म्हूण सांगतां. हें म्हजें सेक्रेटरी ज्युडी जें तुवें म्हाका दिलां पळय, तें सांगता आपल्याक दीस गेल्यात म्हूण आनी ताका जबाबदार तें म्हाका धरता.''

# गुपीत

सुनितान कंपनीच्या टेन्डर विभागाची मुखेली म्हूण आपली नेमणूक जाली देखून आपल्या कांय वेंचीक वांगड्यांक पार्टी दवरली. पार्टेक तार्णे आपल्या बॉसाकूय आपयल्लो. पार्टी रंगांत आयिल्ली. जो तो सुनिताचें अभिनंदन आनी तोखणाय करतालो. एतल्यांत एकल्यान म्हणलें,''टेन्डर विभाग हो सामको गुपीत विभाग. हातूंतलें गुपीत मात लेगीत भायर फुटूंक फावना. आनी बायलां कडेन तर तो विभाग दिवंकूय फावना. कित्याक बायलांक खंयचीच गजाल चड काळ गुपीत दवरूंक येना.''

ते बराबर सुनिताच्या बॉसाचें चाळवलें. ''हें सगळ्याच बायलां बाबतींत खरें न्हय हां..कांय बायलो गुपीत पोटांत दवरूंक सामक्यो फिशाल आसतात. सुनिताय तांतलेंच एक म्हूण हांवें ताका ह्या पदार बसयलां. तें चोवीस वर्साचें आसतना म्हजे कंपनींत जॉयन जाल्लें. आज बारा वर्सां जालीं, तार्णे आपली पिराय कितली हें गुपीत कोणाकूच उगतें करूंक ना. म्हाका लेगीत..जें हे कंपनींत जॉयन जायत साकून आपलें पिरायेचें गुपीत बारा वर्सां कोणां सामकार उक्तें करी ना तें मुकार करतलें अशें दिसता तुमकां? तें कसलेंच गुपीत कोणाक फोडीत अशें म्हाका तरी दिसना..''

ते बरारबर सगळ्यांनी सुनिताक चियर्स करीत व्हिस्कीचो ग्लास ओंठांक लायलो.

## शिर्शकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी साहित्याच्या मळार सगळ्या साहित्य प्रकारांत आपली खाशेली वळख निर्माण करपी **दिलीप बोरकार** हें अश्टताशी व्यक्तीमत्व. प्रवास वर्णन आनी बाल साहित्यांत तांकां केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. ते ज्येश्ठ पत्रकार ,तशेंच बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक जावन आसा.




# चीन, कोरोना आनी आमचे अवचीन...!!

**को**रोना विषाणूच्या कोविड-१९ ह्या वशाच्या दुर्वेसान पुराय संवसार आरत्याचो परतो करून सोडला. जानेवारी २०२० च्या २३ तारखेक चीनच्या हुबेई प्रांतांतल्या वुहान शारांतल्यान वयर सरिल्ले साथीचो कोविड-१९ हो विषाणू कांय दिसां भितर संवसारभर फाफसलो आनी जागतीक भलायकी संघटनेक (WHO) जागतीक महामारीची घोशणा करची पडली. फाटले दोन-अडेज म्हयने हे महामारींतल्यान भायर सरपाक संवसारांतले सगळेच देश आनी राष्ट्रां जिवाच्या आकांतान धडपडटात. तातूंतल्यान महासत्ता जावंक धडपडपी अमेरिकाय सुटली ना आनी आमेरिकेचो प्रतिस्पर्धी जावपाक धडपडपी चीनूय सुटलो ना. संवसारांत महासत्तेचो मुकूट केन्ना खंयचें राष्ट्र आपल्या मस्तकार चडयतलें हाची जाप कोण दिवंक शकता काय खबर ना, पूण हे सर्तींत जे कोण कोण देंवल्यात आनी एकमेकांचेर शेक चलोवपा पासत जी सर्त करतात ते सर्तीक लागून जी भिरांकूळ परिस्थिती आनी अरिश्टां उप्रासतात ताची जाप मात महासत्तेचे सर्तींतल्या राष्ट्रां वांगडाच हे सर्तींत नाशिल्ल्या सर्वसामान्य देशांतले जनतेक्य दिवंची पडटा.

आयज जो कोविड-१९ विषाणू संवसारार सांवार मातयता आनी लाखांनी निरपराध लोकांचो बळी येता आनी ताका आळाबंदाक

हाडपाक कसलेच तरेचे उपाय सांपडनात तें पळोवंक वचत जाल्यार हे मुखार मनशाक मुक्तपणान हे धतरिर संचार करपाची माणसुकीच उरूंक ना म्हणची पडटली. अशे वेळार प्रश्न पडटा, हे धतरे वयली मनीसजाती सारकी सुंदर निर्मिती अशी वळवळावन नानपयत करपाचो अधिकार महासत्तेचीं सपनां पळोवपी ह्या अवचीनांक कोणे दिला..? कोणेंय उठवें आनी आपले खाजी पासत म्हणा वा विकृती पासत म्हणा, जांचो कसलोच गुन्यांव ना त्या सर्वसामान्य लोकांचें जिवीत फुलचे आदींच किरमून उडोवप हें कितलें मेरेन समा आसा हाचेर विचार करपाची ही वेळ पुराय मनीसजातीचेर आयिल्ली आसा. तो शांतपणान करचो आनी तातूंतल्यान सैमाची जी अप्रतीम अशी निर्मिती जी मनीस जावन आसा ती परत एक खेप रसरसून वयर सरची देखून हो कोरोनाचो कोविड-१९ विषाणू सद्या संवसारांतले सगळे महासत्तेक खेळयता आनी रेड्या-पाड्यांच्या झुजांत जसो झाडांचेर काळ येता तसो तो एकदांच मेळपी जिवीत सुखान नंदपाची वान्सा येवन जियेवपी मनीसजातीचेर आयला. हे महामारीक लागून पुराय संवसारांत लाखांनी लोकांचो जीव गेला.

आमकां जो आंकडो सांपडटा तो उखलापो आसा. अमेरिके सारख्या फुडारिल्ल्या देशांतूच कितलेच लोक हे महामारीचे बळी थारल्यात आनी तांचीं मडीं ट्रकांच्या ट्रकांनी व्हरून एका सांगातान विलो लावपाच्यो घडणुको घडल्यात. हें सगळें जेन्ना आमी अमेरिका, स्पेन, इटली, फ्रान्स, जर्मनी, इंग्लंड ह्या सारख्या गिरेस्त आनी फुडारिल्ल्या राष्ट्रांनी पळयतात तेन्ना केनिया सारख्या गरीब देशांक कितें भोगचें पडटा ताची कल्पना येता. जेन्ना हो सगळो सांवार पळोवन लेगीत विज्ञान आनी तंत्रगिन्यान हाच्या बळाचेर मदांध जाल्लो मनीस कांयच करूंक पावना, तर गर्भगळीत जाल्लेवरी हेल्पलेस-दुबळो जावन पळयता तेन्ना ओळखुपाचें मनशान आतां अंतर्मुख जावन मनीसपणाचेर चिंतन करपाची वेळ आयल्या. आपले बुध्दीचे नाड्यार आपूण निर्मितल्याचेर लेगीत शेक गाजयतलों असो मदांधपणाचो विचार मनीस तकलेंत हाडटा तेन्ना हो सैम असल्या मदांधपणाचेर नियंत्रण हाडून आपराखण करपा पासत अवतार घेवन येता. अवतार बिवतारची संकल्पना आयचे काळार जरी हांसपा सारखी आसली तरी कोरोना विषाणूच्या आक्रमणा उपरांत हे धतरिर जें जें कितें घडलां आनी ताचो अणभव घेवंक मेळ्ळा ताचेर थंड चित्तान विचार केल्यार आमी खंयचे दिकेन वताले आनी खंयची उजू दिका हाची जाप आमकां मेळटा.

चीनच्या वुहान शारांतल्यान भायर सरून संवसारभर सांवार मांडपी कोविड-१९ हो विषाणू जैवीक अस्र म्हूण तयार केल्लो मानव निर्मित न्हय आनी ताचो संबंध वुहानच्या इन्स्टिट्यूट ऑफ व्हायरोलॉजींत सांबाळून दवरिल्ल्या, वटवापळांत सांपडिल्ल्या तीन कोरोना विषाणू लागीं कसलोच संबंध ना अशें ते संस्थेची संचालिका वांग यानयी हांणी कितलेंय आड्डून सांगलें तरी ताची निर्मिती जैवीक अस्र म्हूण चीनान केल्या आनी अपघातान तो प्रयोगशाळेंतल्यान सुटून नियंत्रणाचें गिन्यान मेळचे आदींच वुहानची सिमा वलांडून संवसारार पावला म्हणपाचें सत आतां ल्हव ल्हव उक्ताडार येवंक लागलां. ताका अधिकृत असो पुरावो नासलो आनी अमेरिकेन केल्लो दावो वा आरोप चीनान कितलोय भायरायलो तरी तीं चीनाचींच अवचीनपणां म्हणपाचें संवसारांतले जाणकार आतां उलोवंक लागल्यात.

घाळपणाक लागून चीनाचीं नाडेपेन्नां उक्ताडार आयल्यांत आनी तीं न्हयकारप चीनाचें कामूच. ताचेर कोणाचो विश्वास बसपाचो ना. अमेरिका जो आरोप करता तो राजकी आरोप अशेंय म्हणूं येता. पूण फ्रान्सचे विषाणू तज्ज्ञ लुक मॉन्तानिए ह्या नोबेल पुरस्कारान भोवमानीत जाल्ले शास्त्रज्ञ जेन्ना कोरोनाचो हो विषाणू मानव निर्मित अशें सांगता आनी एड्साचेर प्रतिबंधक लस सोदपा पासत चीनी प्रयोगशाळेंत चालू आशिल्ल्या संशोधनांतल्यान हो विषाणू तयार जाला अशें जगा सामकार आड्डून सांगता तेन्ना तांचें म्हणणें सामकेंच भायर मारूं येना.

हो विषाणू कसो तयार जालो, खंय जालो, मागीर चीनान वुहानची सिमा कशी बंद केली आनी पुराय शार क्वारोन्टायन केलें आनी थंयची बातमी भायर वचूंक फावना म्हूण सगळ्यांचीं तोंडां कशीं बंद केलीं हो इतिहास जगजाहीर आसा. तो झरोवपांत अर्थ ना. तेच वांगडा कोरोना सारखो हो विषाणू, जाची निर्मिती जैवीक अस्र म्हूण केल्ली आसा जाल्यार हो असलो प्रयोग फक्त चीनूच करी ना तर जांकां महासत्ताक जावपाचें आसा तीं सगळीं राष्ट्रां असले निर्मितींत आसात. तांकां मनीसजातीचे राखणे परस आपली राकेसी म्हत्वकांक्षा चड म्हत्वाची आसा. आपूण जो म्हारू निर्माण करता तो शेवटाक आपल्याच माथ्यार हात दवरूंक फाटींफुडें करपाचो ना म्हणपाचो अणभव हेर देशां वरींच चीनान घेतला. चीनांत ह्या विषाणूंच्या संसर्गाक लागून लाखांनी लोक जीव वगडावन बसल्यात. चीन जो अधिकृत आंकडो सांगता ताचे परस खरो आंकडो कितल्याच लाखांचेर पावला. पूण तो जाहीर जावचो ना हाची जतनाय हुकूमशाय चीन घेता. हो सांवार इतल्यारूच थांबचो ना. आयज जरी चीनांत हो विषाणू नियंत्रणांत आयला अशें सांगतात तरी हे महामारीक लागून जें आर्थीक लुकसाण जालां आनी ताचो परिणाम म्हूण फुडाराक जी उपासमारी जावंक लागतली ती कल्पने भायली आसतली. फक्त चीनूच न्हय तर पुराय संवसारार खांकनवाळ जाल्ली अर्थवेवस्ता मनीसकुळयेचो जीव घेत वतली. तेन्ना कोरोना विषाणूच्या सांगातान जियेता आसतनाच हातूंतल्यान मनीसजातीक भायर कशें काडप आनी मनीसकुळयेक पर्थून तिचें

सैमीक जिवीत भोगूंक दिवप हाचेर विचार करपाची वेळ आयल्या.

आयज संवसार भर ह्या कोरोना विषाणून जो सांवार मांडला आनी जाच्या भंयान लोक आकुळपिकूळ जावन परांत गुठली मारून बसल्यात त्या कोरोनाच्या कोविड-१९ च्या विषाणूची भिरांत कितली आसा, तो कितलो काळ संवसाराच्या माथ्यार बसतलो आनी ताच्या चोपक्यांतल्यान मनीसप्राणी कशी आपली सुटका करून घेतलो हें काळूच थारायतलो. आयज मेरेन संवसारार जितलींय अवर्शणां आयल्यांत आनी ताचे भिरांतेन सुर्वेक गर्भगळीत जाल्लो मनीस मागीर ताचे कडेन जुळोवन घेता वा ताच्या सांगातानूच जितलो काळ जियेवं येता तितलो जियेता. पूण थतर वितर जावन जियेवपाचें सोडीना. पूण असले प्रसंग जेन्ना जेन्ना येतात तेन्ना असल्या महामारीचेर थंडपणान विचार करून मनशाक जाता तितलो धीर दिवपाचो आसता आनी तातूंतल्यान तांकां कशें भायर सरूं येता हाचो विचार करूं येता हो विचारच सरकारी यंत्रणेचे तकलेंतल्यान कूस मारता आनी ताची सुवात घेता ह्या अरिश्टाचो चडांत चड हावको करून कसो दाखोवप, लोकांचो कसो आवरो उडोवप, तांकां मजत करपाचें आश्वासन दिवन ते पासत सरकारी तिजोरेंतलो पयसो कसो भायर काडप. तो लोकां मेरेन पावोवपाच्या नांवान ताचेर हल्लो कसो मारप हेच नदरेन मागीर महामारींत वावराचें नियोजन जाता. म्हणटकच खंयचेय महामारींत खंयचेय गजालीचो चडांत चड हावको कसो करप हाची जाणवाय आशिल्ले रोखडेच फुडें सरतात आनी मागीर सगळे वेवस्थेचेच तीन तेरा करतात.

कोरोना महामारीचें आगमन, ताचेर आमकां आशिल्लें गिन्यान, ताचो केल्लो आमी हावको आनी आज ताची कितें परिस्थिती आसा हाचो बारीकसाणेन नियाळ केल्यार सगळेच पिशाक पिंपळ दाखयत सुटल्यात म्हणपाचें दिसतात.

आमी सुखी, गिरेस्त, शाणे, बुदवंत आनी मनशांनी रावपाची, जाका सर्ग म्हणूं येता ती सुवात म्हळ्यार अमेरिका अशें आतां मेरेन मानीत आयल्यात. अमेरिकेचो नागरीक जावंक मेळप वो ग्रीन कार्ड जाका मेळटा तो नशिबवान अशें समिकरणूच जाल्लें आसा वो आमी गोंयकार तरी तशें मानीत आयल्यात. पूण खबर मेळटा त्या प्रमाणे हे अमेरिकेंत लागीं लागीं एक कोटी परस चड लोकांक कोरोनाची लागण जाल्ली आनी तातूंतल्या पन्नास हजार लोकांक मरण आयलें. हो आंकडो जर पळयत जाल्यार संसर्ग जाल्ल्या दर दोनशीं लोकां फाटल्यान एका मनशाचो ह्या कोरोनान बळी घेतलो. म्हणचे ह्या वशाक लागून मरण येवपाचें प्रमाण अमेरिकेक अर्धा टक्क्या परस उणें.

पूण अमेरिकेक दर वर्सा 'फ्लू' चे बळे हे सरासरी तीस ते साठ हजार आसतात. त्या मानान हे वर्सा कोरोनाच्या वशाक लागून मरण आयिल्ल्यांचो पन्नांस हजारांचो आंकडो सामको नगण्यच म्हणूंक जाय. म्हणटकच जागतीक भलायके संघटनेन ज्या कोरोनाक महामारी म्हूण जाहीर केल्या तो प्रकार म्हळ्यार आमी हे महामारीच्या काळखांत कारण नासतना देवचाराची आभासी प्रतिमा दोळ्यां सामकार हाडून आपलीच तकली धोंपरांनी मुंगरून घरांत लिपून बसल्यात.

ज्या चीनान हा विषाणू संवसार भर पातळावपाची अवचीनपणां केल्यांत तो चीन आतां हातूंतल्यान भायर सरून आपल्या दिसपट्ट्या



संवसाराक लागला. थंयच्या नागरिकांनी आतां जंय ग्रीन झोन आसा थंय तोंडार मारक लेगीत यालपाचें बंद केलां. करून संवरून उजळ माथ्यान भोंवप म्हणटात तें हें. आनी आमच्या गोंयांत किर्ते परिस्थिती आसा..! आमी गोंयकार ग्रीन झोनांत पाविल्ले. आनीक कांय काळान तोंडार मारक चडोवपाची गरज उरपाची नाशिल्ली. फक्त जण एकल्यान आपूण कोणाच्या संसर्गांत येवपाचो ना हाची जतनाय घेवन वेव्हार करीत जाल्यार, अनवळखी मनशा पासून दोन हात पयस रावल्यार येन्ना धर गोंय ह्या कोरोना भानगडींतल्यान मेकळें जावपाचें. पूण आमच्या सरकारान आबूजपणान इतलीं अवचीनपणां केल्यांत जाका लागून आयज कोरोनाचो वसो लागिल्ले वास्कोच्या एका मांगोर हिलाचेरूच पन्नास लोक एक दोन दिसांनी तयार जाले. हें कित्याक जावंक पावलें जाल्यार गोंयांत आपुणूच चड शाणो देखून गोंयचो मुख्यमंत्री जावपाचे लायकीचो आपुणूच हें सिध्द करपाची सर्त कांय आमदार-मत्र्यांनी लायल्या, ते पासत तांकां कोरोनाच्या महामारीचें खेळणें हाताक लागलां. ही एक गजाल जाली, दुसरी गजाल म्हळ्यार आयज केलें गेलें वतलें म्हणपी जो आमचो मुखेलमंत्री आसा ताची अवस्था, जाणें देखलेंना कालूं ताणें देखलें धरकल अशी जाल्ल्यान पुराय देशांत आपणें आपलें राज्य सांबाळ्ळें, सगळ्यां आदीं आपणें तें ग्रीन झोनांत हाडलें म्हणटकच आपुणूच योग्य मुख्यमंत्री हें दाखोवन दिवपाच्या आबुजपणांत सगळेंच सवंग विटयलें.

ज्या विषाणू विशीं संवसारांतल्या कोणाकूच व्हडलीशी म्हायती ना, ताची लागण जाल्यार तातूंतल्यान भायर सरपा खातीर किर्ते वाट आसा काय, किर्ते वखद आसा काय हाची कोणाक कल्पना ना तेन्ना अशे परिस्थितींत जाणकारांचो सल्लो घेवन, तातूंत शादुरकाय बाळगून परिस्थिती हाताळिल्ली जाल्यार आयज जो भंय उप्रासला तशी परिस्थिती आमचे गोंयचेर येवपाची नाशिल्ली. आमकां गोंया भायल्यान येवप्यां पासत गोंयचे शिमे वयले रस्ते उक्ते करपाची गरज नाशिल्ली. भाजी मेळनाशिल्ली गोंयकारांक..मेळूं नाका. पर्यटन ठप्प जाल्ल्यान मोठ्या प्रमाणांत भाजी बिंजी लागताली तशें नाशिल्लें. गोंयकार सगळीं शेतां पडींग उडोवन बेळगांव आनी हेर वाठारांतल्या लोकांचेर निंबून राविल्ले. ही असली परिस्थिती सदां काळ तशीच उरतली हे भ्रामक कल्पनेंत जियेवपी गोंयकारांक तातूंतल्यान भायर काडपाक ही कोरोनांतल्या लॉकडावना सारखी सुंदर संद आत्मनिर्भर हे संकल्पनेचीं सपना रंगोवपी गोंय सरकाराक मेळिल्ली. जांचेर गोंयकार पातयेवन आशिल्ले ते परप्रांतांतले कामगार साठली पोटली बांदून आपापल्या गांवघरा वचूंक भायर सरल्यात तांकां तशें करूंक प्रोत्साहन दिवपाची गरज आशिल्ली. कित्याक ह्या कामगार वर्गान गोंयांत सामाजीक प्रदुशण घडोवन हाडिल्लें. तांकां लागून गोंयची लोकसंख्या वाडल्या आनी ते सत्ता निर्मणे पासत निर्णायक भुमिका घेतात म्हणपाची आरड सगळेच मारूंक लागिल्ले. तांकां गोंयच्यान भायर काडपाचो विचार लेगीत केल्यार तांचीं राज्य सरकारां गोंयकारांक धमकी दितालीं. आपल्या राज्यांतल्या तुमच्या गोंयकारांक आमीय धांवडायतले म्हणटालीं. हाका लागून कोणाकूच एकमेकांचें वायटपण घेवप परवडनाशिल्लें. पूण आयज ह्या कोरोनान ह्या सगळ्यांचेर अशी परिस्थिती हाडली, जाका लागून गोंयकारूय आपखोशयेन गोंयांत येवपाक तयार रावले आनी गोंयच्यान हेर राज्यांतले आपले गांवांत वचपाक तळमळूंक लागले. अशे वेळार गोंयच्या सरकारान आनी हेर राज्यांच्या सरकारानी लॉकडावनाची चूड दाखोवन तांकां बेश्टावपाची गरज नाशिल्ली. ते जे पध्दतीन आपआपल्या गांवघरा वचूंक वथरेताले तें पळोवन सगळ्या राज्यांच्या सरकारांनी हें देणें घेणें समजिकायेन करूंक जाय आशिल्लें. शिमेचेर एका राज्याचें वाहन पावलें काय ह्या स्थलांतरीतांची खोलायेन तपासणी करून तांकां दुसऱ्या राज्यांतल्या वाहनांत बसोवन येरादारी करप सहज शक्य आशिल्लें. लॉकडावनाची भिरांत घालून, पुलीस आनी सुरक्षा दलांची भिरांत घालून कोंडवाड्यांत दामून दवरिल्ल्या जनावरां वरीं ह्या स्थलांतरीतांक मोदी सरकारान ह्या काळांत वागयल्यात आनी तांची ती अवतिकाय पळयत जाल्यार काळ मोदी सरकाराक माफ करचो ना तो जालोच, पूण मरपाचें आसल्यार आपल्या घरा वचून मरूं म्हणत, भुरगेबाळांक हांडीर आनी माथ्यार मारून वैशाख वणव्यांतल्यान हे स्थलांतरीत जे तरेन रस्त्यावेल्यान वळवळत वताले तें वळवळपय वेंचणुके वेळार मोदीक माफ करपाचें ना.

हें सगळें करून उपरांत किर्ते सादलें? उपरांतच्या काळांत ह्याच लोकांनी सुरक्षीत अंतर आनी कलम १४४ चें किर्ते केलें आनी तें राखपाक सरकार कशें अपेशी थारलें तें आमी सगळ्यांनी पळयलांच. हजारांनी स्थलांतरीत जिवाच्या आकांतान दिसरात रस्त्यावेल्यान उपाशीं पोटार, अन्नपाण्यां विणें धांवताले ताची तुळा १९४७ च्या काळांतले भारत पाकिस्तान फाळणी वेळावेले परिस्थिती लागीं करची पडप म्हळ्यार हाची इतलीं आमच्या सरकाराचीं नाकर्तेपणा दुसरीं नात.

गोंयच्यान आतां मेरेन लाखभर स्थलांतरीत आपापल्या गांवघरा गेल्यात. ते जेन्ना इतले संख्येन वतात तें पळोवन आमच्या बऱ्याचश्या गोंयकारांनी, 'तांकां वचूंक दिवं नाकात, तांकां आडायात, ते गेले जाल्यार आमचो विकास अडटलो' म्हणत आकांत केलो. असल्या गोंयकारांचें तशें घेवन बसपाची गरज ना. हे आदीं १९६१ सालांत गोंय मुक्तीच्या काळांत पुर्तुगेज गोंय सोडून वतात तें पळोवन,'आमचें आतां कशें जातलें?' म्हणत कलकल करपी लोकय ह्याच गोंयचे. पूण ते वचपाचे ते गेलेच आनी आतां हे कामगारूय



वतात. थळाव्यांक कितलीय गरज आसली तरी उखलाप्यांनी वचप ही काळाची गरज. ते गोंयांत आशिल्ले तेन्ना किर्ते करताले.? 'मातशे कामाक येयात रे बाबा, पोरसूं खणून दीं' म्हळयार खणटाले? ना, तांकां दिसवड्यार्चे बरें काम जाय आशिल्लें. शिवाय एकटो येना तर आपले वांगडा आनीक दोगजाण आसात तेय येतले, आनी दिसवडोय आमी सांगता तो दिवंचो पडटलो अशीं मदांधपणा पळोवंक मेळटालीं. तांकां हो मद कित्याक मारिल्लो तर सरकारान उण्यांत उणो दिसवडो थारावंक नाशिल्लो. ते भायर जांचो पोव भायर आसा, तो दुडू धाडटा तो आमच्या गांवच्या मानाबायक खर्चूपाक चिमटो येना आशिल्लो. हे कामगार सांगता तो दिसवडो दिवन तांकां मातोवन दवरिल्ले ते आमच्या गोंयकारांनीच. तेच पासत तांचें हांगा दुबय आनी कुवेत जाल्लें. हीं सगळीं मस्तेपणां जाग्यार घालूंक ह्या कोरोनान आमकां मजत केल्या तें आमी विसरूंक फावना. आतां फुडाराक तांची गरज पडूं येता ही गजाल वेगळी. जर मजूर वर्ग उपलब्ध ना जाल्यार कंपन्यो हे भुंयेर उद्योगधंदे उभारपाक फाटीं फुडें जातले. पूण खंयचोय उद्योग एका दिसान उबो जायना. त्या खातीर त्या उद्योगाचो ब्लू प्रिंट तयार करचो पडटा. आपल्या उद्योगाक कसले तरेचें श्रमबळ लागतलें तें आदीं थारावचेंच पडटा. तें एकदां कळ्ळें काय तें योग्य बळ आयात करप शक्य आसा. गरज नाशिल्ले अकुशळ लोक गोंयांत येवप आनी हांगा थंय बेकार भोंवून चोरयो मारयो करप, खून बलात्कार करप हें गोंयांत सर्रास घडटालें तें हेच पासत. म्हणटकच आमकां सामाजीक प्रदुशण आडावपाक ही अशी पध्दत आपणायल्या बगर पर्याय ना.

२२ मार्च साकून आमचें सगळें जिवीत सामकें ठप्प जावन गेलां. आमी सगळे उदरगतीच्या नांवान, विकासाच्या नांवान हे धर्तरेर जें जें किर्ते करताले तें सगळें एकाच दिसा कायदो करून, ख्यास्तीची भिरांत घालून लॉकडावन करून उडयलें. तार्चे कारण थारलें कोरोना व्हायरस. कोविडचें हें वशार्चे दुयेंस अशे तरेन आयलें जाका कुरार करूंक वखद ना, नियंत्रणांत हाडूंक वासीन ना, व्हडले व्हडले तज्ज्ञ वैज जे स्वताक प्रतीदेव मानून फुशारकी मारताले तेच दुयेंतीक जाल्लें हें दुयेंस आपल्याक जायत म्हूण, नाका बाबा तुमचे पयशे म्हूण कूस मारतना दिसूंक लागले. ते भायर हें दुयेंसूच अशें, जाका बाधा जाता ताका तें जालां म्हणपाचें बद दोन सप्तकांनी कळटा आनी ह्या दोन सप्तकां भितर तार्णे कोणा कोणाक हो प्रसाद दिला हें कळपाक मार्ग नाशिल्ल्यान जिवे रावपाचे आसत जाल्यार मनशां मनशां पासून पयस रावपाची आनी तोंडाक मास्क घालून सत्कीन स्वच्छताय पाळपाची अट खासा हे ह्या कोरोना दुयेंसानूच घाली. जर तशें घडूंक नाशिल्लें जाल्यार आपले कुडीचीं सुखां आनी भोग हाका संवकल्ले आमी मनीस आपले उदरगतीची गती एक खीण तरी बंद दवरतले आशिल्ले? आमचो देश हो सगळ्यांत व्हड लोकशायप्रधान देश म्हूण मिरोवपी आमी देशाचे सुरक्षे पासत विकासाची गती कांय काळ थांबोवया आनी स्वास घेवंया अशें राष्ट्रप्रमुखान विनयलें वो तसो कायदो केल्लो जाल्यार आमी तो मानून घेतले आशिल्ले? ना. आमी आंदोलना आनी सत्याग्रह करून उजो घालतले

आशिल्ले. पूण कोरोनान ती संद दिली ना.

हाका लागून ल्हान व्हड सगळ्या कारखान्यांचीं चक्रां थांबलीं. वाहना, यंत्रां थांबलीं. ताका लागून धुल्ल आनी धुंवर थांबलो. लॉकडावनाच्या ह्या काळांत पेत्रोल, डिझल असलें कितलेंच तेल जळपाचें थांबलें आनी ताचे पासून जें प्रदुशण जातालें तें थांबलें. न्हंयो शुध्द जााल्यो, हवा शुध्द जाली, शारांतली गर्दी उणी जाली. रस्त्यार दिसाक कितलेच अपघात जावन लोक सुण्या सारखे मरताले ते बंद जाले. सगळ्या तरांचीं कार्यालयां बंद जालीं. थंय वचून लेंगेलेंगे करप, हाचे ताचे पांय धरप,तांकां पयशे चारप. काम जायना जाल्यार गाळी घालप आनी मनस्ताप करून येवन आपलें प्रेशर वाडोवन घेवप हें सगळें बंद जालें.

बरें हें अशें बंद जाल्ल्यान कितें संवसार बुडलो? तशें कांयच घडिल्लें दिसना. उरफाटें लोक घरांत बसून राविल्ल्यान तांकां केन्ना न्हय तो सुसेग मेळ्ळो. आपले बायले लागीं, भुरग्यां लागीं निवांतान दोन गजाली मारूंक मेळ्ळें. सदांच शेळें आनी हॉटेला वयलें खावन इबाडिल्ली भलायकी सारखी जाली. घरच्यां वांगडा निवांतपणान बसून जेवपांत कितली खोस आसता तें कळ्ळें. सगळ्यांत बरी गजाल कळून आयली ती म्हळ्यार आमी जी धांवपळ करतात ती व्यर्थ, आमकां कमावपाक जाय तें सुखान जगपाक आनी तेच पासत आमी मर्यादेंत रावपाक जाय म्हणपाची.

पूण आमी आमची देशी संस्कृताय सोडली आनी अस्तंते कडल्या लोकांचें अनुकरण करूंक लागले. आमी सुखाचे आनी चैनीचे भ्रामक कल्पने फाटल्यान धांवत रावून भोगवादाक आनी चंगळवादाक संवकले. पूण ही संस्कृती म्हळ्यार मनीस म्हूण जगपाक योग्य ना म्हणपाचे विचार १९०९ सालांत म्हळ्यार एका शेंकड्या आदीं दक्षिण आफ्रिकेक आसतना गांधीन 'हिंद स्वराज्य'



ह्या आपल्या पुस्तकांतल्यान मांडून जगाक जागोवपाचो यत्न केल्लो. पूण ताचेर कोणें गांभिर्यान विचार करूंक ना. आज एका शेकड्या उपरांत आमी गांधीन तेन्ना जें सांगिल्लें ताचेच कडेन पर्यून वतना दिसता.

गांधीजीन सांगिल्लें खेड्या कडेन वचात. आमचो भारत खेड्यातूच आसा. उदरगतीच्या नांवान आनी जोडीच्या हावेसान आपलो गांव सोडून शाराचे दिकेन वचत राविल्ले स्थलांतरीत लोक आतां उपाशी पोटार आपल्या गांवा कडेन कशे धांवतात तें आमी ह्या दिसांनी अणभवतात. गोंयच्यान लाखभर लोक आपल्या गांवघरा खेड्यांत गेल्यात. गोंयातल्यान भायर गेल्ले 'आमचें गोंयूच बरें, पेजे नीस पिवन सुखान जिवीत सारया' म्हणत गोंयांत परतुपाक लागल्यात.

ह्याच गोंयकारांची गोंयचीं शेतां वाट पळयतालीं. जाका आमी विकास विकास म्हणटात तें कांयच खरें न्हय, विकासाच्या नांवान आमी मनशांनी जगाक ग्लोबल वार्मिंगा कडेन व्हेलें. सैमाचो विनाश केलो. पयसो जोडलो. पूण कोरोनान दाखोवन दिलें ह्या पयशांक आनी संपत्तीक कांयच अर्थ ना. कोरोनाची लागण जावन हॉस्पिटलांत मेल्ल्यांक, तांचीं मडीं परा हाडपाक जांचे खातीर तांणें जोडिल्लें, तेच लोक विरोध करपाक लागले. ह्या कोट्याधीशांच्या मड्यांचो विलो हेर गरिबांच्या मड्यां वांगडा एकाच ट्रकांत घालून खंय तरी व्हरून लायतात हें जगान पळयलें. म्हणटकच विकास तो होच काय कितें? ग्लोबलायझेशन म्हणटात तें हेंच काय? असल्या प्रस्नाचेर लोक आतां गांभिर्यान विचार करूंक लागल्यात. घरांत निवांत बशिल्ल्यान तांकां ती संद लाबल्या. देखूनच आयज गांधीजींचें ग्रामस्वराज्य हेंच चड वेव्हारीक दिसल्यार अजाप न्हय.

गांधीजींचें स्वराज्य कितें आशिल्लें? स्वराज्य म्हळ्यार स्वतावेलें नियंत्रण. तें सत्याग्रहाच्या आचरणांतल्यानूच प्राप्त जाता. ते पासत साधनां शुध्दच जाय, तशेंच साधनां आनी शाध्यां हातूंत सुसंवाद जाय. प्रेम आनी अहिंसा,तशेंच उच्च मानवी आनी सांस्कृतीक मुल्यांचेर नवसमाजाची उभारणी जावंक जाय, भोगवादाक आनी दुडवांचे पुजेक पयस मोखून मारूंक जाय, नैतीक मुल्यांची जपणूक करूंक जाय, हिंसेचेर आधारीत तत्वगिन्यान पुरायेन हुमटून भायर मारूंक जाय.

'हिंसा' ह्या उतराचो व्यापक अर्थान जर आमी विचार केलो जाल्यार आयज आमी जी रासायनीक शेती करतात ती हिंसक जावन आसा. तेन्ना अहिंसक म्हळ्यार सेंद्रीय शेतीचो प्रयोग जर गोंयकारांनी केलो जाल्यार एक सुंदर जिवीत जगपाचो अणभव घेवंक मेळटलो. हांव गोंयकारांनी कित्याक म्हणटां, गोंय हें हेर राज्यां परस आवाटान खूब ल्हान राज्य. ह्या गोंयांत सगळे तरेचीं सैमीक स्रोतां विपूल प्रमाणांत आसात. जाय ती फक्त श्रम करपाची इत्सा. जर ते केले आनी तातूंत मन ओतलें जाल्यार गोंयकार पोटापाणयांक वळवळचोंना तें जालेंच, त्याभायर तो पुराय संवसाराक स्वराज्याची देख दिवंक पावतलो. कोरोनान तीच बुध्द आमकां दिल्यार पुरो...

कथा



विजया
शरद
सावंत

# गोपीबाबाली विमान भोंवडी



आयज कोंकणी आनी मराठी साहित्यांत नदरेक भरपा सारकें लेखन करपी ज्यो कांय लेखिका दिश्टी पडटात तातूंत **विजया सावंत** हांचो उल्लेख करचोच पडटलो. आपली नोकरी आनी घरसंवसार सांबाळून विजया आपले परीन ललित साहित्य आनी कथा लेखन करतात.

*दोगांय लेपटॉपार फ्लावटांची रेट पळोवंक लागलीं. आवज आनीयेक आक्रीत घडलें. रेट पळवतना रातचीं बारा जावन गेलीं ..घडाघड सगल्यो रेटी वाडल्यो. छे..! गोपीबाबाली तकली परत बेजार जाली. सामको फटींगपणाचो बाजार हें जग म्हळ्वार!!*

अनिरुध्दाक कॅम्पस सिलेक्शनांत व्हडल्या पगाराची नोकरी मेळ्ळी आनी गोंय सोडून तो बेंगलोर रूजू जावपाक गेलो. गोपीबाब आनी तागेले घरकाक्षीक पुरमटिल्ले बशेन जालें. 'सदां हांवें तुका उच्च शिक्षण दिलें.. घरांतले देवा पुजे खातीर दवरलो ना' म्हण्ण नेट मारपी गोपीबाबाक अनि गेलो आनी रितेपण जाणवलें. व्हनीबायचे तर दोळ्यांतलें उदक थारना जालें. घरांतलो सग्गळो वावर उमेदीन करपी व्हनीबाय अनिच्या पयस वचपान व्याकुळ्ळी. कामेऱ्यां कामां साक्सयतालीं पूण व्हनीबायची शिटूक नदर थंय वचना जाली.

''आगे, रडटा किदें दिसरात? बरें न्हय अशें. तो पयस पावलो. आतां दोगांच एकमेकांक.'' वितरागान गोपीबाब उलयलो.

''अशें कितें म्हण्टा वो तुमी? म्हगेल काळजाचो कुडको..इतल पयस शिर्विसेक गेला..ताक सांबाळपी कोण आस थंय म्हणटा हांव? तुमी म्हण्ण फातरा काळजाचे..पुताचें कांयच पडून गेल्ना तुमकां!'' व्हनीबाय एक दीस खुबच चाळवल्ली. सद्या फोन करपाचें, व्हिडीओ कॉल करपाचें उतर दिवन गेल्लो अनिरुध्द नेटवर्क प्रोब्लेमाच्या जाळ्यांत आडकलो. एके वटेनचो आवाज दुसरे वटेन कसोच पावना..'मां कशी आसा?' हे उतर मांक मातय आयकना आनी 'पुता रे साबाळून राब हां' हे उतर ब्रेक मारीत अनि कडेन पावता..

''अनि, तुगेली आवय खुबच करता रे तूं वचत सावन. म्हाका कशीच आयकना ती. तूच किदें तें सांग आनी समजय तिका. ना जाल्यार तूंच यो पळोवया. हांगा गोयांत मेळटलो फाव तो जॉब. पगार मातसो उणो मेळत. पूण आमकां कित्याक जाय तो?''

गोपीबाबान बायलेच्या खांदार बंदूक दवरून फार पेटयले.

''पप्पा हांव देश सोडून गेलो ना. मांक समजाय. तासा भराचो विमान प्रवास...येतलों हांव रेखडोच तुमकां मेळपाक.. ना जाल्यार पप्पा अशें करात. तुमीच दोगांय येयात हांगा. हांव प्लेनाची तिकीट बुक करतां. तुमकां व्हरपाक एअरपोर्टार येतां. येयातच तुमी. म्हाकाय खूब याद येता.'

हें सगलें वॉट्सएपार.. बाबडे व्हनीबायक तातूंत गत नासली.

विमानान वचप म्हण्णा फुडें गोपीबाब बेठ्ठोच सुखावलो. ट्रेनीन भोंवपी गोपीबाब विमानांत पयलेच फावट बसपाचो. ''आगे, आयकलां,पुतान आफयलां आमकां बेंगळुराक. प्लेनान यो म्हण सांगलां. वचुया थोडे दीस रावपाक. हांगा गोविंदकाकाक पळय म्हणटां. इतली आख्खळ जावंची ना. खूब तेप जालो आमी भोंवल्यार.'' गोपीबाब उमेदीर आयलो.

''होय पुण्ण..प्लेना तिकीटी काडटलो कोण? त्या मोहना मातसो मेळवन येयात. असल कामात तरबेज आस तो.''

स्वताक हुशार समजपी गोपीबाबान असल्या कामा खातीर दुसऱ्याची मदत घेवप म्हळ्यार केदें कमीपण? ''आगे, असल्या साद्या कामाक कित्याक जाय मोहन

सोहन..म्हाका कळना काय किंदें? तुगेलो घोवाले बुध्दीचेर विश्वासच ना.''

हांगेलें नवें शिक्षण सुरू जातलें. म्हाका आयकूंक नवो विशय...मनांत बेजारून आनी तोंडार हांशें दवरून तिणें घोवाक पळेलें. 'बरें बरें..' अशें म्हणून ती रांदपघरांत गेली. अनिक मेळपाचे उमेदीन ती हुशार जाल्ली.

हांगा गोपीबाबालो वावर सुरू जालो. सद्दां लेपटॉपार विमानां तिकीटी पळोवप. सग्गळ्यो विमान कंपन्यो गोपीबाबान दोळ्यां सकयल्यान घाल्यो. दरेकाचे पयशे वेगवेगळे. गोपीबाबाक हें कशेंच मानवलें ना. बस खंयचीय आसूं, 'मोर्निंगस्टार' वा 'शांतादुर्गा' 'क्रांती' जावं 'शुभलक्ष्मी' ..आनीक 'कदंबा' जरी आसली जाल्यारय मडगांवां वचपाक तिकीटां पयशे तितलेच. तशो प्रायवेट बशी वळखीच्या मनशाचे एक दोन रुपय उणेच घेतात. पूण हांगाचें वारेंच निराळें. आयचो रेट फाल्यां ना. फायचो परवा ना. आब्बा..! गोपीबाब चाळवलो.

रातची जेवणां जातगीर गोपीबाबान बायले कडेन आपलें मत मांडलें. ''आगे, ह्यो विमान कंपन्यो कात काडपाक तयार जाल्यात. एक्कान एक फटींग. आमी ट्रेनीर या.''

'' तुमच्यान जायना जाल्या अनिक सांगा. तो तजवीज करतलो. आयकता वो तुमी मगेलें ?''

बायलेन आपल्याक पुताच्याकय कमी लेखलो हेंच मुळांत ताका मानवले ना.

''हांव विमानाचे रेटींत फटींगपणा चल्ल्यां तें उलयतां. विमानां तिकेट्यो बुक करपाक तकली वापरची पडना. फाल्यां हांव तिकिट्यो बुक करतां. तू किंदें म्हाका असोऽ समजता काय किंदें? आदल्या तेंपार मुंबय वचून ग्रेजुएट जाल्लों हांव. नोकरी धरिल्ली जाल्यार क्लास वन ऑफिसर जावपाचो. तुगेलो पूत सिर्विसेक लागलो आनी घोवाच्या शिक्षणाक किर्कोतच करपाक लागली!'' गोपीबाबालो इगो बरोच दुखावलो.

''हांव तश खैं म्हण्टां..तुमी अश बोड फिरोवन येवचे नीवो .. तुमीच काडात तिकिटी ...म्हाक केन्ना एकदां पुताचेर द्रिश्टी पड्डा अश जालां..मात समजुच्याक जायना तुमच्यांनी..''

व्हनीबायन दोळ्यांक पालव लायलो.

बायलेन दोळ्यांक पालव लायना फुडें गोपीबाब थारं भिलो.

''आगे तशें न्हय गे. तूं रडनाका पळोवया. हांव तिकेट काडटां आं. हे पळय आतांच काड्या. तूय यो बस.''

जाल्ली गजाल अशी..अनि कडेन उलयतना व्हनीबाय सदांच रडटाली. तें आयकून अनिक वायट दिसतालें. हेवटेन तो पप्पाक मां ची जतनाय घेवपाक सांगतालो. तिका हांसती दवर ना जाल्यार ती दुर्येत पडूं येता . तो वॉट्सेपार सुविचार, व्हिडिओ जोक्स... जें जें मांक आवडलें तें धाडतालो. आनी गोपीबाब तिका तें दाखयतालो. बरेच दीस असो वखदी काडो दिवन ना गोपीबाब सुदरलो ना मां सुदरली.

ताचें कामार लक्ष लागना जालें. आपले मोगाळ आवयची तिगेलो घोव काळजी घेना हें ताका मात्तय मानवलें ना. एक दीस ताणें गोपीबाबाक सॉलिड भायरी दिली. आपल्या मुखार केन्नाच जाप न काडपी पुतान अशें केल्ल्यान तो आबूज जालो. आतां बायल रडपाक लागली काय ल्हान भुरग्यावरी तो तिका वोगी करपाक लागला.

दोगांय लेपटॉपार फ्लायटांची रेट पळोवंक लागलीं. आयज आनीयेक आक्रीत घडलें. रेट पळयतना रातची बारा जावन गेलीं ..घडाघड सगल्यो रेटी वाडल्यो. छे..! गोपीबाबाली तकली परत बेजार जाली. सामको फटींगपणाचो बाजार हें जग म्हळ्यार! आमी फाल्यांच पळोवया. फाल्यां शेर्त बुकिंग करतां. जावं ते कितलेय पयशे. मागीर तीं पुतान वॉट्सेपार धाडिल्लें किंदें किंदें पळयत बसलीं. व्हनीबाय मातशी निवळ्ळी.

दुसऱ्या दिसा च्या बी घेवन दोगांय लेपटॉप घेवन बसलीं. हरशीं व्हनीबायक असल्या गजालींनी मात्तय इंटरेस्ट नासलो. पूण घोवार नदर दवरून त्यो तिकेटी मेळवंक जाय ह्या एकाच ध्येयान ती बशिल्ली. बायल इतले उमेदीन लक्ष दिता म्हणून गोपीबाबय नेटार आयलो.

तारीक१५-एअर इंडिया-सकाळीं ७.१५ क

ही इंडीगो- सक्काळी ५ क

ही गोएअर - ६.३० क

''पुरो, तुमी ७.१५ च्यो काडात.''व्हनीबाय उलयली.

''आगे ही पळय आठांची. ही काड्या?'' गोपीबाब आपलेच तंद्रेंत. मागीर बुकिंग प्रोसेस सुरु जालो. सव्वा सातां फ्लायटाचे रेट आठच्या फ्लायटा परस मातशे चड आसले. ताणें आपले हुशारकायेन आठांचें विमान घेतलें. निमण्या पेमेंटा वेळार तातूंत कन्विनियन्स चार्जेस असलें किंदें तरी पुसलें आनी ते सव्वा सातां विमाना परस चड जाले.

गोपीबाबान आपली चतुराय वापरली आनीक तो परत सव्वा सातां विमाना कडेन गेलो. तांणीय बी तीच कळाशी वापरून पयशे वाड्यले.

''हेंच्या आवयचो घो!'' गोपीबाब सॉलीड आवट..

''सकाळच्या पारा त्या निर्जीव वस्तूंक वायट उतरां कित्याक म्हण दितात? आमकां पयशाक किद उणाव आसा? कितलेय पयशे जावं तुमी अर्जंट बुकिंग करून सोडात.'' व्हनीबाय सॉलिड रागार जाली.

आपल्याचीं कोंतां कडेक दवरून गोपीबाबान बेगीबेगीन सव्वासातां विमाना पयशे फारीक केले. मेलार तिकेट पळयली आनी व्हनीबाय कडेन विजयी मुद्रेन पळेलें.

''दो पंछी, दो तिनकें, कहो ले के चले हैं कहाँ?

ये बनायेंगे एक आशियाँ '' पदाची ओळ

गोपीबाबाल्या वठांतल्यान भायर सरली तशी व्हनीबाय खऱ्यानीच लजेली. व्हनीबायले अदेर फिदा जावन तो दिसभर वाऱ्यार हुबलो.

एकदाचें बुकिंग जालें आनी मागीर व्हनीबायक कडकडो भरलो. मळबांतल्यान वचप.. धर्तरी पांयां कडेन ना हें चिंतून येवपाक लागले. विमानान हनिमूनाक येतना वतना दोन फावटी मारिल्ले नवे व्हंकलेन - भाचयेले चुलत नंणदेन -प्लेनांत हें व्हरप ना, तें अलावड ना...१५ किलांचें व्हडलें बेग, ७ किलांचें ल्हान बेग. लिक्विड अमर्के,धार आसलेली वस्त व्हरप ना...गोबर आनी माती.. सामको जीव खालो..हुतहुती खंयची...

तिणे अशेंय सांगलें, विमान वयर वतना कान गप्प जातात. परत परत आंवढो गिळत रावपाचें. आयकून तिणें सोमतोच आंवढो गिळलो.

''हांव किद म्हण्टां आयकल तुमी? प्लेनान सामान व्हरपा किटकिटशी दिसता. ''आगे तूं चुडीदार काय किर्दे तें ये पळोवया. फाल्यां या मडगांवां. रेडिमेड शॉपार या. तुका पेजाद ड्रेस येवया. आतां सग्गलें मेळता बाजारांत. आवय बापूय सुध्दां मेळतले!''

''अयोयोयो..हे कसले सुवाळे या वयार! हांव येवंची ना. तुमकां पयलेंच सांगतां. ''

''आगे..आमगेल्यो दर्यादिगो पळय ... घरांत घुंघट घेवपी, बुरख्यांत रावपी बायलो गोंयां येतगीर दादल्या बशेन हाफ पेंट घालून हात भर कांकणां,तकलेक सिंदूर, भांगरां शिंगरां आनी गॉगल लावन भोंवतात. ग्लासांत सोरो घेवन बसतात. आनी तूं गोंयकान्न चुडीदाराक नानाकार करता..? ''

''तांकां हांग पळोवच्याक वेता मसणो. सामकी अधाशावरी करता हीं बायलां. सग्गलें तांकून भोगून वतात..नांव इबाड गोंयचें..''व्हनीबाय तापार जाली.

गोपीबाबाले सुपीक तकलेंत कल्पना आयली काय ती प्रत्यक्षांत घडोवन हाडपाक तो आपली सग्गली बुध्द वापरता. तशें बायले



कडल्यान हयकार घेवप म्हळ्यार ताच्या हातचो मळ कसो..पूण तरी ताका दोन दीस लागले. घोवाल्या दिसरात मेळपी लेक्चरांक बेजारून आनी पुताक मेळपाचे खोशयेन ती हो त्याग करपाक तयार जाली.

घरांतल्यान भायर सरिल्ले व्हनीबायक गोपीबाबान बीचार भोंवडायली. आयस्क्रीम खाववली.. ही सवण्यां जोडी खूब तेंपान घोटेरांतल्यान भायर सरिल्ली. मना सारखी खरेदी करून जातगीर गोपीबाबान ल्हवूच आनीक एक पॉयंट मुखार हाडलो तो म्हळ्यार ब्युटी पार्लरांत वचपाचो. व्हनीबायन ताका केन्ना हयकार दिलो हें तिचे तिकाच कळळें ना. उप्पाट समाधान दोळ्यांत भरिल्ली व्हनीबाय घरा पावली तेन्ना व्हडली रात जाल्ली.

सदां रातीन तांगेर बेगां भरपाचो आक्त जातालो. पंदरा दुणे तीस किलो आनी सात दुणे चौदा किलो अशा चार बॅगांत कितले फावट सामान भितर गेलें आनी भायर आयलें देवच जाणां. लोणचें, मसालो, मोरावळो, भिंडां सरबत, साटां, घरगुती पापड-पणसाचे , फोवांचे, उडदाचे... वड्यो साबुदाण्याच्यो -कुवाळ्याच्यो.. शिवाय आमटाण, सोलां... यादी वाडत आसली.

''आगे ..आगे तूं किर्दे सासणाची रावपाक वता? हें असलें सामान ताका जायच किद्याक? लग्न जाल्लो जाल्यार सून रांदता आसली. तुजें चल्लां तरी किर्दे म्हणटां हांव.'' गोपीबाब बेजारलो.

''मेगल सामान दिसता तुमकां.. तुमी दिसांतल्यान सात फावटी शर्ट -पेंट, फात-टाय, सदरो, कोट, बंडी -धोतर, कानटोपी-स्वेटर असल विदुशका बशेन घालून हारशांत पळोवन बॅगांत भरतेर राबता तें किर्दे हांवें पळेलें ना म्हण दिसल कि तुमकां?'' व्हनीबायन गोपीबाबाक क्लीन बोल्ड केलो.

''हें पळयात, वास्देवा पसऱ्यार वचून तागडेर जोखून हाडात बेगां. मगेल्या जिवाक घोर नाका.'' व्हनीबाय.

हालीं गोपीबाब वजनाचे भाशेंत उलावपाक लागला. 'हे मेय्यां पोळे पाव कील तरी जाता गे? ताचेर पांच ग्राम काकम ओत पळोवया. आज शिताक तपलेंत एक कील



तांदूळ पडूं दी. पासयेक गेल्ले कडेन तुगेल्या वट्ट पांच कील बडबडीन म्हजी तकली उसळपाक लागली. शणैबाब.. राजकारण पंदरा किलां वयर केन्ना पावलें. पूण हांकां आमगेल्या शेता भाटां खातीर शंबर ग्रामय तकालस येवची दिसना. हे राजकारणी म्हळ्यार तांबडो खोको.'

''आयकता वो म्हजें?....म्हाकां भंय दिसता ..विमानान बसपाक..कितलें फारस वता. म्हजान सोसूं जातलें न्ही वो?''व्हनीबाय उलयली.

''च्चे...तुगेलें म्हण नाका जाल्लेंच. आमगेलो पंतप्रधान सद्दां विमानान भोंवता. सगले श्रीमंत लोक विमानानच भोंवतात. आमीच इतलीं वर्सा कशीं फाटीं पडलीं कळना म्हाका. ''

गोपीबाबाकय भंय दिसता. तरीय उश्णो नेट हाडून तो फकाणाचेर व्हरता.

फांतोडेर वचपाचें जालें . मलेशियांत विमान गायब जाल्ल्याची व्हडली बातमी पातळ्ळी. गोपीबाबान ती बायलेच्या कानार वचपाक दिली ना. पूण तो मात थर्रात भियेलो. किद्याकच विमानान वचपाक फुल्लीं आमी... ताका मात्तय झेम पडली ना. तिकिटाचे प्रिंट काडून बेठ्ठेच धा कडेन दवरले ताणें. व्हनीबायन तिनाक उठून न्हाणये उजो घालो. चार तांबये आंगार उडयले. घोवा कडल्यान देवा पुजा करून घेतली. नैवेद्य बी सगलें जावन तीं भायर सरलीं. फांतोडेर लेगीत निरोपाक बरींच बोडां जमिल्लीं. गोपीबाबाक ही निमणीच भेट काय अशें मनांत येवन भंयान कुलकुलो सुटलो.

मोहनान दोगांकय दाबोळी एअरपोर्टार सोडलीं. चुकिल्ल्या गोरवा वरी गत जाल्ली तांची. पूण गोपीबाब अडेचो झेत मारीत मुखार सरलो. भितर वतगीर १५ दुणे ३० कील बॅग चेकिंग बी बरें जालें. आतां मनशांचें चेकिंग... हांगा घोव-बायलेक एकेच लायनीत राविल्लीं सक्तीन वेगळीं केल्लीं. परक्या जाग्यार आपणें एकल्यानच वचूंक जाय हे कळना फुडें व्हनीबाय खुबच भयाभीत जाली. कशें तरी चेकिंग जावन ती भायर सरली. आपलें बॅग घेवन घोवाक सोदूंक लागली. तो दिसना जातगीर काचाबूल जावन रडपाक पावली.

गोपीबाब लायनीत बरोच फाटी उरलो. पयले घड्याळ, मोबायल मागीर वॉलेट, पेन आनीक निमणो ताचो बेल्ट लेगीत काडपाक लायलो. ह्या बोवाळांत तो परत परत फाटी गेलो. लायन फुडें गेली. बेल्ट काडटगीर तागेल्या सुटिल्ल्या पोटान चडांतचड मनस्ताप दिवपाक सुरुवात केली. कसो तरी सेक्युरीटी मुखार उबो रावलो तेन्ना ताका घाम देवतालो. सेक्युरीटीन दोनय हात वयर काडपाक सांगले. कुळदेवीक काळजांतल्यान उलो घालून ताणें हात वयर काडले. पॅंट फरसकन्न सकयल देवतली ह्या भंयान दोळे गच्च धांपून घेतले. बेतकाटी धुंवडायत तो दुःशासन तपासतालो. द्रौपदी कुळदेवतेक होरायताली. देवी भक्ताक पावली. गोपीबाबालें चेकिंग सोंपलें. भायर येवन पयल्यान पयलें पट्टो ताब्यांत घेवन ताणें आंवळ्ळो आनी उरिल्लें सामान पळोवंक लागलो. व्हनीबाय सापडना जाली. तो परत कांचवेलो.

जाल्लें अशें..भिल्ली व्हनीबाय बॅगांतली तुळशी माळ घेवन जप करपाक बशिल्ली. जप करतना स्वताक विसरिल्ली व्हनीबाय गोपीबाबाक एका कोणशांत मेळ्ळी. तो तापाय काडटलो इतल्यांत घोवाक पळोवन ती हुंमशे हुंमशांनी रडपाक लागली. गोपीबाबान तिका,'आगे हांव हांगाच आशिल्लों, तूं किद्याक रडटा?' अशें म्हणून समजायली.

निमणें विमानांत चडपाची वेळ आयली. निवेदकान सांगिल्लें तीं लक्ष दिवन आयकतालीं. आनीक गोंदोळ नाका. दोगांय जाणां एके वेगळेच उत्सुकतायेन मातशी बाविल्ले बशेन विमानांत शिरलीं. सीट सोदून ७ दुणे १४ कील बॅगां वयर उडोवन स्वास घेतलो. जनेलांतल्यान भायर व्हिस्त मारली. थंय एक विमान आसलें. 'हे पळय तें आठां विमान.. म्हारगेलें..' 'ही पळय आठां बस शांतादुर्गा ' चे धर्तेर गोपीबाबान बायलेच्या गिन्यानांत भर घाली. म्हणसर एकलें नाचरें आयलें. मदीं इमर्जन्सी दारा

कडेन उबें रावन कथ्थक करीत इमर्जन्सी दारां कितली, ती कशीं उगडप तें सांगपाक लागलें.

''देवा देवा ,हें कित चल्लां म्हणटां हांव..आयकता वो तुमी?..''

बेल्ट बांदतगीर हालपाक जायना जाल्ल्यान व्हनीबायन दाव्या हाताचें बोट गोपीबाबाक तोपर्ले. एअर होस्टेस परत परत तेंच सांगताली. मागीर 'हवेचो दाब चड उणो जातगीर ऑक्सिजन मास सिटा वयर आसा तो सकल देंवतलो. तुमी नाकाक लायात ..उदकांत विमान देंवपाचें जालें तर लायफ जेकेट सिटा पोंदा आसा... ' असलेंय ती उलोवंक लागली. आतां गोपीबाबाल्या जिवाक्य बरें दिसना जालें. आमी पुताक मेळपाक वतात काय यमाक तेंच समजना. ताका विमान बेपत्ता बातमेची याद जाली. व्हनीबायन कसो तरी बेल्ट सोडयलो. उबी रावन ती रडत रडत एअर होस्टेसीर तापपाक लागली. ''आमी सक्यल देंवतां. मोडकारें विमान सोड्टा तरी कशें तुमी? आमगेल्या जिवार उठल्या ही बायल!''

गोपीबाब भुरग्यांवरी 'आगे बस पळोवया..'करीत तिचो हात धरून ओडपाक लागलो. फाटल्यान फुडल्यान आशिल्ल्या प्रवाशांनी तिची समजूत घाली. हें सगल्या फ्लायटांनी सांगतात. सद्दां वचप्यांक तार्चे कांयच दिसना.

व्हनीबाय वोगी जाली. सायडीन एकलो तरणाटो दोनी कानांक वायर लावन दोळे धांपून वोग्गी बशिल्लो. ताच्या राज्याक कसलीच खबर नासली. ह्या भुरग्याक पळेतरीन तिच्या जिवाक सूऽऽ जालें. इतलो वेळ मेरेन आमी गोंयांतच आसात. कोंकणी उलोवपी गोंयकार हांगा पातळील्ले आसात हें सुध्दां दोगांय विसरिल्ली.

विमान सुटल्याची एनावंसमेंट जाली आनी तें हाल्लें. दोगांयचेरय परत आवरो आयलो. नकळत दोगांयनी एकामेकांचे हात घट्ट धरले. व्हनीबायक आंवढो गिळपाची याद जाली. भसभशीत थुकी तोंडांत आयली. आंवढो येना जालो. ती घुस्मटली. कुरू करतली घोवाक सांगपाक जाल्यार तो दोळे धाप्पून बशिल्लो. निमणे घोवा रागान तिणें घसघशीत थुकी पोटांत घाली. गोपीबाबाली मान बागयली आनी ताच्या कानांत आड्डली.

''म्हाकां आंवढो गिळपाक येना. जाण्तुमी?..''

इतलो हल्लो जातगीर गोपीबाबान घडांयच्च कन्न दोळे उगडले आनी तो बायलेक 'ही मातशी सुटल्या काय? ' असो पळोवंक लागलो.

विमान वयर चडलें तशीं तीं दोगांय ल्हवल्हव जायत गेलीं.. तांचे कान बारीक बारीक सगले आवाज आयकताले. आपले बशेन ताचो तीं अर्थ लायतालीं. सुर्याचें मोवमोव वत जनेलांतल्यान तांचेर पडलें. तसो गोपीबाब मुड्डार आयलो. जनेलांतल्यान दिसपी मनभुलायणें चित्र ताणें बायलेक दाखयलें.. 'बादल पे पाँव है या छूटा गांव है.. 'गुणगुणत तो व्हनीबायक पळोवंक लागलो.

''आवयरस! स्वर्गांत आयिल्लवरी दिसता म्हाका.. ह्या ढगांच्या जार्दीनांतल्यान वतां आमी...सत्यवान सावित्री अशींच दाखयलां यमा फाटल्यान वतना. आमगेल् नारदमुनी नारायण नारायण करीत ढगांतल्यान चमकता. आनी दुसरे पुस्तकांतलो तो घडो..चंद्र रथांतल्यान भोंवडे वता तो.. देवाने ओडले ससाचे कान..तेव्हापासून ते झाले लांब. याद आसा न्ही वो तुमकां?.. '' व्हनीबायच्यो यादी खंयचे खंय पावल्यो. सग्गलें जग विसरून भायर पळेत तीं दोगांय किटकिट्टालीं. सून येवपाच्या वयार हे मोगी भान विसरिल्ले. वेलेचाराचें जग हांच्या मोगाची खोलाय नकळो आसलें.

विमान अभ्रां आयली काय चड वयर वयर वतालें. पंख्याचो व्हडलो आवाज येतालो.

''फुड्ले खेपे ह्या आवाजा लागीं सीट येवचे ना हां आमी. हांव आतांच सांगून दवर्ता तुमकां..'' व्हनीबायन कानार हात दवरून संगीत नाटकांतल्या हिरोईनीची पोझ घेतली.

''हय गे हय गे..तुजें उतर म्हळ्यार आदेश म्हाका.. हे जिखून येतलें हांवें.. ''

तोवूय हिरो जालो.. फाटल्या सिटार आवयच्या आंगार आशिल्लें धाकटुलें खुब्ब रडपाक लागलें. कशेंच आयकना. आवय बापूय ताका ओगी करपाक तळमळताले. पूण तें आनीक व्हडान रडपाक लागलें. गोपीबाबाक कूय आयली. तो माजरा पिलाचें 'मिउं म्यांव मँव' करपाक लागलो. व्हनीबाय ताका मोटेल्या दोळ्यांनी पळेताली. पूण भुरगें अचकीत रडपाचें थारलें. फाटल्यान एक गोड थँक्यू आयलो.....

निमणें विमान बेंगळुरू देंवपाची एनावंसमेंट जाली. चडटना बारीक बारीक गजालींचेर चिंतपी ह्या जोडप्याक आतां कांयच पड्डून गेल्लें नाशिल्लें. विमानांतल्यान देंवन तीं भायर आयलीं. धांवपी पट्यांचेर बेगां येतात तें पळोवंक थंयच उबीं रावलीं. केन्नातरी आपलें बेग दिसना फुडें धांवत वचून गोपीबाबान बेग उखल्लें. दुसरें बेग व्हनीबायन उखल्लें. ल्हवपीक जोडपें सवकासायेन हांसत भायर आयलें.

अनिरुध्द केन्नासान तांगेली वाट पळेतालो. पयलेंच फावट दोगांय भायर सरल्यांत म्हणून ताकाय हुस्को जाल्लो. दोगांक्य पळोवन तो खुशालभरीत जाल्लो. 'मा-पप्पा ' करीत लागीं धांवलो. पुताक पळेना फुडें व्हनीबाय सग्गलें विसरली. पुताक वेंगेंत घेवन हुडक्यांनी रडपाक लागली. गोपीबाब मात सटपटलो. काय बरी परमळीत मोगरीं कशी फुलील्ली आपली बायल किंयाकच रडटा ताका कळ्ळें ना. आपूण तिका बरें बशेन हाडली ना म्हण्ण पूत तापतलो हे चिंतून तार्चे मुखामळ भायरी येतिल्ल्या बशेन जालें.



सांता क्रूज-गोंय-मो. ९४२३०५७६७६

जिवेवेली जतनाय



सखाराम
शेणवी
बोरकार

कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.



# कोंकणी लोकसंस्कृतायेंतलो दिवो

एका शेटीन खंय देवळांत पुराण कथा-किर्तनाच्या समयार लावपाक एक दिवली भेट दिली. दुसऱ्या एकल्यान तांतूत तेल घालून ती पेटयली. सगळे लोक ते दिवलेक आनी दिवलेच्या उजवाडाक तोखेवंक लागले. पूण तेल घाल्लो मनीस आपणेंच देवळांत उजवाड केलो म्हण मिरोवंक लागलो. त्या गडगंज दिवले खातीर शेटीन खूब पयशे मोडिल्ले.

ल्हान आसतनां आमी घरांतलीं सगळीं भुरगीं तिनसांजचीं पडवेर बसून,मदीं चिमणी दिवो दवरून एका सुरांत

'दिव्या दिव्या दिपत्कार
कानी कुंडल मोती हार
दिव्या पाहून नमस्कार
दिव्या पाहून नमस्कार.
तिळाचें तेल कापसाची वात
दिवा जळूं दे सारी रात'

अशी प्रार्थना म्हणटालीं.

**दि**व्याची गजाल आयली की म्हाकां पयले यत्तेंत शिकिल्ले 'आधी होते मी दिवटी, शेतकऱ्यांची आवडती ' हे कवी वि.म. कुलकर्णी हांचे मराठी कवितेची सदांच याद जाता. कवी हे कवितेंतल्यान दिव्यांत जायत गेल्ले बदल आमचे नदरे मुखार हाडटा. जसो काय दिव्यांचो इतिहासच कवी आमचे मुखार दवरता. पयलीं दिवटी, मागीर पणटी, मागीर लापयांव, मागीर पेट्रोमाक्स, उप्रांत विजेचो बल्ब असो तो दिव्याचो प्रवास. कवितेंत निमणे कडेन कवी म्हणटा: 'एकच ठावे काम मला, प्रकाश द्यावा सकलांला! कसलेही मज रूप मिळो, देह जळो अन जग उजळो '. दिव्याचें रुप खंयचेंय आसूं ताचें काम आपूण जळपाचें आनी दुसऱ्याक उजवाड दिवपाचें. हेंच दिव्याचे जिणेचें सार!

दिव्याचो उजवाड काळोख पयस करता आनी सरभोंवतणचो वाठार उजवाडान भरता. म्हाकां ल्हानपणांत आयकल्ली एक काणी याद जाता. काणयेचें नांव 'घरभर पदार्थ'. एक व्यापारी म्हातारो जाता. आतां आपल्या व्यापार धंद्याचीं सुत्रां खंयच्या पुता कडेन सोंपोवचीं म्हण तो आपल्या तिनूय पुतांक सामकार आपयता. तिगांय पुतां कडेन तीन-तीन पयशे दिता आनी तांकां सांगता, ह्या तीन पयशां भितर घरभर पदार्थ हाडात. पयले दोगय पूत बापायक पिश्यांत काडटात. तीन पयशांत म्हणून घरभर पदार्थ मेळटा? निमणो पूत मात बाजारांत वता आनी एका पयशाच्यो चार पणट्यो, एका पयशाचो कापूस आनी एका पयशाचें तेल घेवन येता. चारूय पणट्यांनी तेल घालता, कापसाच्यो वाती करून त्या पणट्यांनी घालता आनी चारूय पणट्यो घराच्या सालांतल्या चारूय कोनश्यांत दवरून त्यो पेटयता. सालभर उजवाड जाता आनी मागीर तो बापायक म्हणटा जालो ना घरभर पदार्थ? बापूय खोशी जाता आनी आपल्या व्यापार धंद्याचीं सुत्रां त्या निमण्या पुता कडेन सोंपयता.

कदीम काळा सावन मनश्यान आपल्याक लागतल्या उजवाडाची गरज विंगड- विंगड तरांनी भागयल्या. दिव्याचें सगळ्यांत आदलें रूप म्हळ्यार चूड वा कवदो. माडाच्या वा माडयेच्या सुकिल्ल्या चुडटांच्यो चुडट्यो बांदून चूड करतात. आदल्या काळार देंवचार खंय रातची वाट विसरलेल्या

मनश्याक हे चुडीच्या उजवाडांत वाट दाखयतालो असो जनमानसांत समज आसा. ताचे वेल्यान 'चूड दाखोवन म्हारू घरांत हाडप' ही म्हण घडली. हे म्हणीचो अर्थ -आपूण जावन संकश्टाक आमंत्रण दिवप.

दिवटी ही दिव्यार्चे पयलें सुदारीत रूप धरलें जाल्यार ताचीं मागीरचीं रुपां म्हळ्यार निरंजन, कयपंजी, दिवली, माड(व्हडली दिवली), थाणदिवली अश्या उप्रांतच्या ताच्या साबार रुपांनी मनश्याक उजवाड दिवपाचें काम केलें.

दिवट्यो, मशाली पेटोवपाक तेल लागता. ताचे वेल्यान 'तेलकाराचें तेल जळटा, मशालजीची गांड जळटा' ही म्हण आयली. हाचो अर्थ खर्च एकलो करता पूण तो खर्च करता म्हण दुख्ख भलत्याकच जाता. 'तेल जळटा देवळाचें, भटान कित्याक रडचें?' हीवूय म्हण वयल्याच अर्थाची. हाता भायर गेल्ल्या चल्याक 'दिवटो' आनी चलयेक 'दिवटी' म्हणटात.

आमचे लोकसंस्कृतायेंत दिवो आनी ताचेर आदारिल्ल्यो अश्यो साबार म्हणी आनी वाक्प्रचार घोळटात. दिवाळेच्या दिव्यांचेर कोंकणींत एक म्हण घोळटा ती म्हळ्यार 'अशेंय म्हणचें न्हय, तशेंय म्हणचें न्हय, दिवाळेचे दिवे रे पुता!'. हे म्हणीचो अर्थ असो- दिवाळेक पणट्यो पेटयतात. ह्या पणट्यांतलें तेल केन्ना -केन्ना सोंपता, केन्ना -केन्ना हांतल्यो थोड्यो पणट्यो वाऱ्यानय पालवतात. म्हणटगीर त्या जाग्यार धड उजवाडूय आसना आनी धड काळोखय आसना. जेन्ना खंयच्याय मनश्याक आपलें स्वताचें अशें स्पश्ट मत नासता, तो हेंवूय खरें म्हणटा तेंवूय खरें म्हणटा तेन्ना ही ओपार मारतात.

'आयदनांतलो दिवो' अशी एक अर्थपुर्ण म्हण कोंकणींत आसा. जसो आयदनांत आशिल्ल्या दिव्याचो उजवाड भायर फांकना तसो गिन्यानान भरिल्ल्या मनश्यान जर आपलें गिन्यान दुसऱ्याक वांटलें ना तर त्या गिन्यानी मनश्याचो समाजाक कांयच फायदो जायना.

'कुरकुटांत पणटी दवरून तोंड ओंवाळून घेता' ही आनीक एक अशीच म्हण. आपली स्तुती, तोखणाय आपणेंच करप असो ताचो अर्थ. थोड्यांक आपली, आपल्या घरच्यांची, आपल्या भुरगेबाळांची दुसऱ्यां मुखार आपणेंच तोखणाय करपाचो खूब सोस आसता. तेन्ना ही ओपार मारतात.

'दिव्यांत वात आनी तोंडांत हात' ही एक म्हण कोंकणींत घोळटा. आदल्या तेंपार भर सांजवेळ खेळून पुरो जातगीर भुरगीं घरांत येतालीं आनी दिवो लागले की जेवपाक उतावीळ जातालीं. तांकां लेखून ही ओपार मारताले. तेलाची बचत करपाक बेगीन जेवन घेतात अश्या चामट्या लोकांकय लेखून ही म्हण आदीं वापरताले.

'माजरा बोडावेलो दिवो' अशी एक म्हण कोंकणींत आसा. माजराचे तकलेर दिवो दवरल्यार तो पडल्या बगर रावना. डळमळीत आदार आशिल्ली वस्त टिकना असो हे म्हणीचो अर्थ.

'जाचें जळे ताका कळे' ही दिव्याचेर आदारिल्ली आनीक एक कोंकणींतली फामाद म्हण! हे म्हणी फाटली काणी अशी- एक दीस खंय एका चामट्या मनश्यान आपल्या आंगणांतले तुळशी पेडार एकूच वात घालून दिवली पेटयली. तागेर आयलो एक सोयरो. त्या सोयऱ्यान पळयलें की घेजमानान एकूच वात घालून दिवली पेटयल्या. दिवलेंत एकूच वात घालून पेटोंव नये अशें म्हणटात तें त्या सोयऱ्याक खबर आसलें. ताणें वगत केलो ना, त्या उरिल्ल्या चारूय खणांनी वाती घालून ताणें ती दिवली परत पेटयली. तो चामटो मनीस घरा आयलो. ताणें ती पांच वाती घालून पेटयल्ली दिवली पळयली. ताका मारली तिडक. ताणें आपल्या घरांतल्या सगळ्यांक विचारलें हें कोणालें काम काय म्हण? त्या सोयऱ्यान म्हळें दिवली आपणें पेटयल्या. 'दिप जळे, विघ्न पळे!'. त्या उतरांक तो चामटो मनीस म्हणपाक लागलो, 'जाचें जळे, ताका कळे!'. दिवलेंतल्या तेलाचे पयशे म्हजे खर्चतात. तुका सगळ्यो वाती घालून दिवली पेटोवंक कितें जालां?. हाचे वेल्यानूच 'जाचें जळटा, ताका कळटा' ही म्हण पडली.

'दिवली शेटीली, तेल म्हगेलें' अशी एक म्हण घोळटा. हे म्हणी फाटली काणी अशी- एका शेटीन खंय देवळांत पुराण कथा-किर्तनाच्या समयार लावपाक एक दिवली भेट दिली. दुसऱ्या एकल्यान तांतूत तेल घालून ती पेटयली. सगळे लोक ते दिवलेक आनी दिवलेच्या उजवाडाक तोखेवंक लागले. पूण तेल घाल्लो मनीस आपणेंच देवळांत उजवाड केलो म्हण मिरोवंक लागलो. ते गडगंज दिवले खातीर शेटीन खूब पयशे मोडिल्ले. पूण ताचें मात खंयच नांव नासलें. शेटीलो खर्च चड पूण सगळें स्रेय मात थोडे पयशे मोडून तेल घालपी व्हरूंक सोदतालो. 'दिवली शेटीली, तेल म्हगेलें ' म्हळ्यार कमी खर्च करुन चड स्रेय घेवप.

'दिवो दिवठणी, बायल हांतरुणी'. 'दिवठणी' म्हळ्यार दिवो दवरपाचो जागो. दिवो आपले सुवातेर सोबता तेच प्रमाण अस्तुरी ही पलंगार सोबता. हे म्हणीचो अर्थ म्हळ्यार ती- ती वस्त त्या- त्या जाग्यार सोबता.

'घरांत दिवो जाल्यार देवळांत दिवो' म्हळ्यार पयलीं आपली गरज भागोवपाची मागीर दुसऱ्यांचे गरजे कडेन लक्ष दिवपाचें. 'आधीं पोटोबा मग विठोबा' ह्या अर्थान.

'दिव्याचें तेल सोंपलें, पुराण आयतेंच आटापा आयलें'. हे म्हणी फाटली काणी अशी- एकटो पुराणीक देवळांत पुराण सांगतालो. हागेलें पुराण बरेंच लांबलें. इतले

म्हणसर देवळांतल्या दिव्यांतलें तेल सोंपलें आनी पुराणीकाक पुराण सोंपोवचें पडलें. जो मेरेन साधन आसा तो मेरेन काम जाता. असो हे म्हणीचो अर्थ.

ह्या दिव्या वांगडा सादूरकाय बाळगूंची हें सांगपी एक म्हण कोंकणींत आसा: 'पिश्या हातांत दिली वात पिसो नाचता सगळी रात'. होच दिवो पिश्याच्या हातांत दितगीर कसली गत जाता हें ही म्हण दाखयता.

त्या भायर 'दिवटे मुखार दिवो'(व्हड गजालीं मुखार ल्हान गजाल), 'दिवसा वेळार दिवो नाका, चान्न्या रातीं चूड नाका', 'दिवो आपूण जळटा आनी दुसऱ्याक उजवाड दिता', 'दिवो न्हिवतना व्हड जाता'(मनश्याक ताचे निमणे वेळार फाम-प्रसिध्दी मेळटा) 'दिवलेंतलो कारागीर तो! कोण कोणाक राखतलो?' (घडवेलें घडटाच), 'दिव्या पोटांत काजळ' (बऱ्या आवय बापायगेर वायट भुरगें जल्माक येवप), 'दिवले पोंदा काळोख' म्हळ्यार दिवो दुसऱ्याक उजवाड दिता पूण ताचे मुळा पळोवंक वचत जाल्यार काळोख आसता अश्यो आनीकूय दिव्याचेर आदारिल्ल्यो म्हणी कोंकणींत आसात.

दिव्याचेर आदारिल्ले साबार वाक्प्रचार आसात. 'वंशाचो दिवो', 'दिवो पेटप', 'तोंडार उजवाड पडप', 'तोंडाक चुड्टी लागप', 'दिवे लावप', 'दोनय/ सगळ्या दिव्यांनी तेल घालप'(सगळ्यांक खोशी दवरप), 'दिव्यावेलें पाकूट(पिसोर्लें)' 'तकलेंत उजवाड पडप' (आतां 'ट्युब लायट पेटप'अशें म्हणटात.) अशे ते कांय वाक्प्रचार. 'शेणांचो दिवो लावप' हो एक वाक्प्रचार आदल्या काळार घोळटालो. पयलीं कोणय मनीस रिणांत बुडून कर्जबाजारी जायत, रिणां बुड्यत जाल्यार ताच्या घरा मुखार खंय शेणांचो दिवो लायताले.

ह्या दिव्याचेर कांय उमाणींय आमचे कोंकणी भार्शेत घोळटात.



१) 'राजा जेवता
आनी बुकलो पळयता'.
हाची जाप 'दिवो.'

२) 'आमगेर आयला सोयरो
राव म्हळ्यार रावना
ताचें ताका दिंवया
रावता जाल्यार पळोवंया'
हाची जाप 'दिवो.'

३) 'इल्लीशी चिचूबाय
शेंपड्येन तेल पिता'
हाची जाप पेट्रोलाचो दिवो, निरंजन

४) 'गोरी गोरी मानेरतीन
माथ्यार उजो घेवन उबी'
हाची जाप दिव्यांतली वात

दिवलेचेर एक सोबीत उमाणें आसा.
तें अशें:
'एका झाडारी सरोवर
तेवर पक्षी सोबला सुंदर
ते विना शुन्य मंदिर
रे खेळीया सांग तेचें नांव'

दिव्याचो उल्लेख आमकां धालांच्या गितांनी आनी होंवयांनीं मेळटा.
हें धालांतलें एक गीत पळयात:
'इल्लीशी दिवली, कासारान पेटली
वाटेर भेटली अंबाबाई
इल्लीशी दिवली, कासारान पेटली
वाटेर भेटली म्हालक्ष्मी गे
इल्लीशी दिवली, कासारान पेटली
वाटेर भेटली कामाक्षी गे'
(सगळ्या देवांक म्हणप)

ह्या दिव्याचेर आदारिल्ल्यो होंवयो आसात. तांतली ही एक होंवी आसा जी लग्न कार्या वेळार (लग्नाचे वेळार माटवांत दिवो व्हरतनां) आदीं म्हणटाले. ताचें एक कड्वें अशें:

'दोन शेर गे डुंगळे
तीन शेर गे शिर्शे-कार्शे
गणेसा देवळांत , सवळो गे घडयिलो
घडप्यानीं घडयिलो, वोताऱ्यानीं वोतीयलो
पांच गे वातींचो , दुददुडे सरपळेचो
दिवो घडयिलो...'

खंयच्याय बऱ्या कामाची सुरवात दिवो पेटयल्या शिवाय जायना. दिव्याचे जोती सारखी जिणेचीय जोत अखंड पेटत रावची ही लोकमनाची इत्सा आसता. असो हो दिवो आमचे लोकसंस्कृतायेक उजवाड दाखयत आसा.

आनी निमणे कडेन दिवो म्हळो कीं म्हाकां 'दिवे लागले रे, दिवे लागले रे! तमाच्या तळाशीं दिवे लागले!' ह्या गोंयचे नामनेचे कवी स. शंकर रामाणी हांच्या मराठी कवितेच्या ओळींची याद जाले शिवाय रावना. काळखाच्या मुळांतच वचून दिवे लागप आनी काळोख पयस जावप! केदो व्हडलो विचार हो!



पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१

स्केच



स्मिता तिंबले

# कविता सावंत



व्यक्ती तितल्यो प्रकृती- २३

शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान **स्मिता तिंबले** हांणी संगिताचें शिक्षण घेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात. तांचें 'यादे माई' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा. तांचें 'आपालिपा', 'गोंयच्या फेस्ताक'हीं न्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. भुरग्यांची शिक्षणीक पुस्तकांय तांणी तयार केल्यांत. समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तिमत्वां रंगोवप होय तांचो एक छंद.

**दोळ्यांत आयिल्ली दुकां निग्रहान आडावन तार्णे दोतोराचे उपकार मानले. आतां तांकां बेगीन निर्णय घेवपाची गरज आशिल्ली. तार्णे आपले कपडे, वस्ती आनी हेर सामान वांगडा घेतलें. रिक्षा करून दोगांय बसस्टँडार आयलीं. गोंयां वेवपी बशीच्यो तिकेटी काडून तीं बशींत बसलीं आनी तांणी सुटकेचो निस्वास सोडलो.**

सा रे म प ध सा

सा ध प म रे सा

कवितान राग दुर्गाचे आलाप घेवन आरोह अवरोहांत आपल्या रियाजाक सुरवात केली. दाव्या हातान इलेक्ट्रोनीक तानपुऱ्याचे स्वर आयकुपाक येतात तशे लावन दोळे बंद करून तार्णे शुद्ध स्वरांचेर लक्ष केंद्रीत केलें. रे म प ध म प ध म..रे चें आवर्तन घेतना मना सारके स्वर लागतात हाचो ताका आनंद जालो. उजव्या हातान स्वतःच्या पांयार ठेको धरीत तार्णे 'गावत दुर्गा रागिणी ' ची चीज सुरू केली. हळुहळू तानो घेतल्यो. थोड्या वेळान तानो वाडयत पयली स्वरान, मागीर आकारान घेवपाचो बरोच वेळ रियाज केलो. कविता तंद्री लागिल्ले भशेन खूब वेळ आपले घराचे वयले कुडींत बशिल्लें. आयज अशेंच गायत रावचें अशें ताका दिसतालें.

हे कुडी भायल्यानच एक ल्हानशी गच्ची आशिल्ली. फांतोडेर येवन कवितान आपल्या रियाजाक सुरवात केल्ली. सहज दोन वरां तें मोकळ्या आवाजान गायत आशिल्लें. कुडीच्या भायर सूर्याची किरणां पडिल्लीं ताका दिश्टी पडली. अरे! साडे सात जाली... ताका आवयन सांगिल्ल्या उतरांची याद जाली. 'कविता, सकयल येतना मात्शी सान्न मारून वो हां! हांव वड्यांचें पीठ तयार करतां. बेगीन साडे सातांकूच वड्यो पत्रावळींचेर घालूं या.'

कवितान पुट्ट करून उठून तानपुऱ्याचें बटन बंद केलें. आपली बैठक घडी करून दवरली, आनी कुडीचें दार उगतें करून गच्चेर आयलें. बरेंच उजवाडील्लें! थंड वारें आनी कोवळें वोत. वा! सुंदर वातावरण-कविताच्या मनांत परत सुरावळ घोळूंक लागली. तशेंच गुणगुणत तार्णे कोनशाक आशिल्ली सान्न गच्चेर फिरयली. इल्लीशीच गच्ची सुर्याच्या किरणांनी चक्क जाली. आईन उलो मारचे पयलींच कविता सोंपणां देवून देवा कुडीत गेलें.

''आई, जालें?''

''हय, ह्यो पळय देवा कडेन पांच वड्यो घाल्यो. आता तू रुच सांग म्हाकां. घे...''

''हं..बेस्ट!''

ताळटा वयलें पीठ रूच घेवन चाटून उडयत कवितान सांगलें.

''चल, या वयर. डांगर घालपाक थोडें पीठ काडून दवरपाक जाय. हें पळय हाडलें भोगोर्णे.'' भोगोण्यांत बचकभर वडयांपीठ घालून धांपून दवरीत आईन म्हणलें.

''गुड गुड.'' अशें म्हणून दोनूय हातांनी वडयां पिठाचो तोप घट्ट धरून कविता सोंपणाचेर पावलें लेगीत.

कुंकमां करंड आनी पत्रावळींचो पेळो घेवन कविताच्या फाटल्यान आई सोंपणां चडून गच्चेर पावली. तिणें पयले पत्रावळीचेर एके कुशीक हळद कुंकूम घालो. ल्हान ल्हान वड्यो करून तिणें पत्रावळ पूर्ण केली.

''मात्सो काकीक उलो मार गो शाण्या.

हांव चक्रन विसरलें पळय!'' अशें आईन म्हणपाक, काकीन गच्चेर पावल घालें.

''अरे वा! शंबर वर्सां आयुश्य तुका!'' आईन हांसून म्हळें.

''मात्सो हाका च्या दिवन हेवटेन सल्लें. बेगीनूच घाल्यार तितलें वत लागचे ना न्हीं गो. चल सडसडीत घालूया. कविता बरोबर आसल्यार मागीर आनी विचारूंकूच नाका... जालें काम...''

तिगांय उलयत उलयत वड्यो घालूंक लागलीं. हिंग जिऱ्याच्या वासान गच्ची घमघमली. आपलें पोन्ने कापड सकयल हाथरून आईन कविताक ताचेर पत्रावळी रचूंक सांगल्यो. पाचव्या रंगाचें कापड, ताचेर वाटकुळ्योच पत्रावळी आनी पत्रावळींचेर केशरी रंगांच्या वडयां थिबक्यांची नक्षी. तें पळोवन तिगांय खूश जालीं.

''चारूय वटेन फातर दवर गो, ते पळय थंय दवरल्यात.''

गच्चेच्या कठड्या कडेन बोट दाखोवन आईन सांगलें.

''चल, एक वावर जालो. आतां लग्नाचो सांबार केन्ना करुया?'' काकीन आईक विचारलें.

''देवकार्याच्या दोन दीस पयली करुया. हांव फोन करतां तुका. चल काफी करून दवरिल्ली. सकयल या मगो?''

तिगांय रांदचे कुडींत टेबलार बसून उलोवंक लागलीं.

इल्ली इल्ली कविताच्या लग्नाची तयारी लागीं करपाक आई आनी काकी लागिल्लीं. एके वटेन कविताची परिक्षा तोंडार आयिल्ली. रियाज आनी लिखीत परिक्षेचो अभ्यास सांबाळून तेंवूय भाग घेतालें. सगळें जाता तितलें घरच्या घरा करपाची तांची येवजण आशिल्ली. आपलो शिवणीचो वेवसाय सांबाळून सगळें करतना आईक मात्शें नाकापुरो जावालें. थारायल्लें लग्न ह्या वर्सा जावुंकूच जाय आशिल्लें. कविताच्या फाटल्यान रोखडेंच एका वर्सान ल्हान मीता आशिल्लें. घोवा फाटल्यान दोनूय चलयांक वाडोवन आतां तांकां लग्न करून दिवपाक आई उतावीळ जाल्ले भशेन करताली. तिका कासावीस जाल्ली पळोवन कविता केन्नाय म्हणटालें, ''आई घाई करूं नाकां गे. Haste is waste. म्हाकां भंव दिसता हे घाईचो...!''

म्हयनो भरान कविता लग्न करून मालवण ताच्या घोवागेर गेलें. स्वतःचें घर, थोडो मालकीचो जमनी कुडको आसा. प्रायवेट कंपनींत हालींच कामाक लागला इतले म्हायतीचेर हें थळ पसंद केल्लें. कविता ताका एक दोन फावट पांच-धा मिनटांच मेळील्लें. गोरो धवो आनी शांत सभावाचो हाचे फुडें ताचें वर्णन कोणेंच करूंक नाशिल्लें . कविताक ताच्या सभावाचो अंदाज आयलोच नाशिल्लो. तें पळोवंया मागीर असो विचार करून तें आपलो हुस्को कुशीक सारतालें.

थोडेशे जुजबी उलोवप, बरोबर जेवप-खावप हाचे भायर कविता आनी ताच्या घोवाचो संबंध येवूंक नाशिल्लो. घोव इल्लो अतीच शांत, मात्सो घुमोच अशें ताका दिसलें. आपलेच तंद्रेंत आशिल्ले भशेन दिसता काय तो? कविता आपल्या घोवाच्या सभावाचो अंदाज येवपाक सोदतालें.

आपले मदीं कसलेंच नातें अजून तयार जावना अशी खंत कविताक आशिल्ली. पूण कसो संवाद वाडोवप असो प्रस्न पडटालो. संवाद वाडोवपाक दोनूय वटेन प्रयत्न जावूंक जाय. कविताल्या घोवाक हें विशीं कसलीच इत्सा आसा अशें एक्तूय दीस दिसनाशिल्लें. कविताक सामकी तगमग लागिल्ली. अस्वस्थताय सगळें जीवन व्यापून गेल्ली. खंय तें म्हजें लग्ना पयलींचे मोकळे, हांसरे दीस आनी खंय हे उबगण हाडपी, चिंतेस्त दीस ... विचार करून करून ताका खात्री पटली की आपलो घोव हो सर्वसादारण मनशां भशेन खचीतच न्हीं. कितें तें सोदून काडचेंच पडटलें.

कविता सदांच आपल्या घोवा कडेन उलोवपाचो प्रयत्न करतालें. ताका प्रतिसाद मेळऽ नाशिल्लोच. पूण तार्णे आपली जिद्द सोडली ना. साधाच खंयच्या तरी विशयांक कवितान उलोवपाक सुरवात केली.. त्या बरोबर घुमो सो दिसपी ताच्या घोवान केंच्च करून आवाज काडलो आनी सणसणीत एक थापट कविताचेर फुलयलें. बेसावध कविताक सावरपाक एक मिनीट गेलें. अपमान आनी कळ सोसपाक खूब कठीण गेलें. पूण, आपल्याक जो संशय आयला तो खरोच अशी कविताची खात्री पटली.

आतां कविताचे हाल सुरू जाले. शारिरीक दिश्टीन आपूण कविता परस श्रेष्ठ अशी ताच्या घोवाक मिजास चडली आनी तो दर रातचो कविताक मेळत तसो मारूंक लागलो. अशे कांय दीस गेले. एके वटेन मारान वळवळून ह्या संकटांतल्यान कसो मार्ग काडप हाचो कविता विचार करूंक लागलें. आपले आवयक सांगून तिका हुसक्यान घालपाची कविताची तयारी नाशिल्ली.

गोंयच्यान मालवण तशें पयसूच... तार्णे आपल्या आदाराक धाकले भयणीक मीताक आपोवन घेतलें. ताका सगली खबर सांगली. दोगांनीय मेळून एक दीस कविताच्या घोवाच्या टेबलाचो खण उगडून पळयलो. त्या खणांत तांकां वखदांच्यो खूब गुळयो मेळ्ळ्यो. ह्यो कसल्यो गुळयो त्यो पळोवपाक म्हणून ताणी तांचीं नांवां वाचून पळयलीं.

तांकां कांयच बोध जालो ना. मात्शें सोदतकूच तांकां दोतोराच्या रशेदाचेर त्या वखदांची नांवां मेळ्ळीं. दोतोराचें नांव आनी पत्तो हाताक मेळटकूच कविता आनी मीता दोगांय त्या दोतोराक वचून मेळ्ळीं. तांणी तें रशेद व्हरून सरळ दोतोराच्या हातांत दिलें. दोतोर तें पळयतकूच तकली वयर काडून कविता आनी मीता कडेन अजापान पळोवंक लागलो.

''हांव कविता, राजनाची बायल. ही म्हजी भयण मीता.'' कवितान सांगलें.

''कितें? बसात, बसात. तुमी ह्या पेशंटाची बायल? केन्ना लग्न जालें हाचें? म्हाकां कांयच खबर ना.'' दोतोरान म्हळें.

''आयज स म्हयने जाले दोतोर. म्हाकां ह्या मनशा पासून मारा शिवाय एक उतर लेगीत मेळूं ना.'' कवितान आपल्यो माराच्यो खुणो दोतोराक दाखयल्यो. त्यो पळोवन दोतोर रागान म्हणूंक लागलो, ''खंयच्या मनशान ह्या पेशंटाचें लग्न लावन दिलें? हांवें तर स्पश्ट सांगिल्लें , हाका बरींच वर्सां उपचारांची गरज आसा. लग्नां सारके घडणुकेंत ताका घालूंक नाकात. ताचे कडेन लग्न जाल्ली चली त्रासांत पडटली. सिझोफ्रेनीक मनशाक लग्न करून तांणी तुका त्रासांत उडयलां.''

दोतोराची उतरां आयकून कविताक आनी विचार करपाची गरजूच उरली ना. दोळ्यांत आयिल्ली दुकां निग्रहान आडावन ताणें दोतोराचे उपकार मानले. आतां तांकां बेगीन निर्णय घेवपाची गरज आशिल्ली. ताणें आपले कपडे, वस्ती आनी हेर सामान वांगडा घेतलें. रिक्षा करून दोगांय बसस्टॅंडार आयलीं. गोंयां येवपी बशीच्यो तिकेटी काडून तीं बशींत बसलीं आनी तांणी सुटकेचो निरवास सोडलो.

घरा येवन आवयक सविस्तर सगळें सांगून कवितान राजनाचेर फसवणुकीची केस घाली. चड वेळ लागनासतना कविताक घटस्फोट मेळ्ळो. दुर्दैवाच्या फेऱ्यांत सापडिल्लें कविता स्वबळाचेर धिरान भायर सरलें. संगिताच्या मळार ताणें आपली चुणूक दाखोवन दिली. फुडें रोकडोच कवितान आपलो साथिदार सोदून काडलो.

आतांची चली मनीस ही अशी कविता सारकी आसूंक जाय. आपलें आयुश्य आपल्या हातांत घेवपी. मुळुमुळू रडत रावन आपल्या नशिबाक दोश दीत रावपी न्हीं अशी..।



गडगांव-गोंय,मो.: 9763552719

पसय



अनिल
व्यंकटेश
सावंत

# देवमनीस



अनिल व्यंकटेश सावंत हे कोंकणी खातीर वावुरपी एक निश्ठावान. संगीतकार आनी गायक अशी तांची कलेच्या मळा वयली वळख. भारतीय स्टेट बँकेचे अधिकारी म्हूण निवृत्त जाल्ल्या सावंत हांकां साहित्यांतूय रुची आसा. 'कांय वाचिल्लें, कांय आयकल्लें, कांय पुंजायिल्लें.....' अशे तरेचें तांचें खुसखुशीत बरप ह्या सदरांत येता.

**तुमचें काळीज भरून आयलें. ताणें बऱ्या घरांतली चली हाडिल्ली. आतां ताचें लग्न जाल्लें, ताणें संवसार थाटिल्लो. एके जापसालदारकेंतल्यान तुमकां मेकळीक मेळिल्ली. आतां तुमकां मातसो सुसेग मेळूंक जाय आशिल्लो.**

आयज आयतार. सदचे भशेन ऑफिसांत बशिल्लों.

एक अगांतूक दारार उबो.

हातांत कागदाची पोती.

चेरो वळपेला.

खाड वाडलां, म्हेळे कपडे .

म्हणपाक लागलो, "येंव? तुमची मजत जाय. देमांद चलोवपाचो आसा. आमचे सगले इस्टेटीचेर स्टे हाडूंक जाय."

पोतयेंतल्यो फोली मेजार दवरल्यो .

"आनीक किते दुकुमेंत जाय जाल्यार सांगात. आनी कितलो देसपेज जातलो तें कळ्ळ्यार बरें जातलें."

हांवें ताचे कडेन पळयलें. खूब त्रास काडून मनीस उबगला हें तोंडा वयल्यान कळटालें. ताका बसपाक लायलें. तो कदेलार बसलो.

ताच्या दुकुमेंताचेर नदर भोंवडायली. ताणें आनीक किते बरोवन हाडिल्लें तें वाचलें. ताचे कडेन उलोवन आनीक कांय म्हायती एकठांयली.

एक वर भर इतले मदीं गेलें.

ताका म्हळें, "सगले दुकुमेंत परत एक फावट नदरे खाला यालतां आनी मागीर केसी संबंदान उलोवया. तुमी अशें करात, आठ दिसांनी फावट मारात."

बरोबर आठ दिसां उपरांत तो परतून आयलो.

आयजूय आयतार.

ताचो अवतार तोच. खाड आनीक मातशें वाडलां.

भावाविशींचो राग आजुनूय उणो जावंक नाशिल्लो.

हांवें 'बस' म्हळें, तो बसलो.

एके वटेन वायट दिसतालें.

"हांवें तुमचे दुकुमेंत पळयले आनी बाकी कागदांय चाळळीं. तुमी दोग भाव, एक भयण. ल्हान आसतनाच आवय-बापूय भायर पडले. तुमी ९ वी पास. धाकलो भाव एल्एल्बी, एम्बीए. तुमी भावाक शिकोवपा खातीर तुमचें शिक्षण अर्दवट दवरलें. कश्टी मारून कामाक लागले. शेतार राबून , दिस-रात कश्ट करून दुडू एकठांय केले. पालसणकाराचे खणीर फातर तासले, आयतार पसून पळय नासतना सावयकाराले वखारीर फळयो चिरल्यो, रक्त येता हें पळय नासतना पाट्यो आडव्यो घाल्यो.

पूण भावाक शिकपा पसून आडायलो ना.

एक फावट भयण गोरवां घेवन शेतांत गेल्ली थंय तुमच्या धाकल्या भावान किर्ते तरी कळ काडली आनी पाड्यान शींग उखल्लें तें ताच्या पोटांत. रक्तबंबाळ जालो.

तुमच्यान पळोवं नजो जालें. तुमी ताका तसोच उखलून ऑस्पितलांत व्हेलो आनी वखदां विरसदांनी ताका बरो केलो. तो बरो जायसर तुमचो दोळ्याक दोळो लागलो ना. तुमी तशीच तुमची घरकान्न. तिणेंय आवय भशेन ताका सांबाळळो, ताचेर माया केली.

लत्तुब्रायेन ताका वाड्यलो.

त्या वेळार तुमची लेगीत पिराय व्हड नाशिल्ली. आशिल्ली ती फक्कत माया.

आवय बापाय फाटल्यान हांवूच एक तांचो ही भावना किर्ते ती आशिल्ली.

भावान बीएस्सी केली. मागीर एल्एल् बी. फुर्डे एमबीए. घरा अभ्यास जायना म्हणून हॉस्टेलार दवरलो. घरा किर्ते शिजतालें, ताचो वांटो तुमी ताका सायकली वयल्यान पावयलो. पंचवीस किलो मिटर तुमी पेदल मारीत वताले.

केन्ना घरची शागोती, केन्ना आवडटात म्हणून पातोळ्यो, शिरवळ्यो... किर्तेच ना अशें ना. जाय जाय तें जाय जाय तेन्ना तुमी जिवाची पर्वा करी नासतना ताका पावयलें.

आनी एक दीस अचकीत ताका पोटांत दुखपाक लागलें. कळो मारताल्यो. दिसाच्यो राती करून तुमी तुमचे घरकान्नी सयत ताच्चेर उपचार करताले.

कितले दोतोर, वैज जाले, आंगारे-धुपारे, घाडी-भगत जाले.

कोण म्हणटालो कोंबो काप, जाल्यार कोण बोकडो दी.

हाका दान कर, ताका भुजवण दी.

दुडू उदका भशेन भायर रकतालो.

निमणो निश्कर्श लागलो की ताची एक किडणी फुकट गेल्या.

तुमकां परस जालें. इतलो तळटाच्या फोडा भशेन भावाक ल्हानाचो व्हड केलो आनी आतां हें अशें!

तुमी अनमनले नात.

तुमची एक किडणी तुमी ताका दिली.

म्हर्जे किर्ते एके किडणीच्चेर चलूं शकता.

ताका फुडलें आवुश्य आसा.

खंय खंय शिर्विसे निमतान भोंवचें पडटलें एके किडणीचेर जावचें ना.

हांव घराच आसां.

घरचीं नाकां म्हणटा आसतना तुमी



तुमच्या मना सारकेंच केलें.

फुर्डे ताका बरी शिर्विस मेळ्ळी.

तुमकां धन्य जालें. गांवभर तुमी दुदफेणे वांटले.

तार्णे आपल्या मतान लग्न केलें, आपणाक आवडटा तिचे कडेन. सगळें भायले भायर.

तुमकां विचार्ल्लें ना, तुमचें मत घेतलें ना. तुमी लग्नाक मुजरत गेले. तुमकां व्हडलोसो वालोर थंय मेळ्ळो ना तरीय तुमकां अपुरबाय दिसली.

तुमचें काळीज भरून आयलें. तार्णे बऱ्या घरांतली चली हाडिल्ली.

आतां ताचें लग्न जाल्लें, तार्णे संवसार थाटिल्लो. एके जापसालदारकेंतल्यान तुमकां मेकळीक मेळिल्ली. आतां तुमकां मातसो सुसेग मेळूंक जाय आशिल्लो.

बायलां भुरग्यांक एक नवें घर तयार जावपाचें; चार दीस वचून रावपाक. पूण....

लग्न जायत पसून भावान घर सोडलें. अर्दी मर्दी चीट येताली तीय केन्नाच बंद जाली.

केन्नाय उत्सवाक आपयल्यार म्हणटा, 'म्हाकां वेळ ना.'

काम खूब आसा. बायलेक बरें ना, तिका खेड्यांत रावप पुटवना, असलीं किर्तेशीं कारणां.

पयशे तर केन्ना दिलेच नात. तुमी ताचो एक मोडचो पयसोय केन्ना पळयलो ना.

आतां तुमच्या जिवाक बरें दिसना.

एके किडणेक लागून तुमकां आतां त्रास जावपाक लागल्यात. काम झेपना. ताका लागून दुडवांची चणचण.

एक फावट तुमकां गरज म्हणून तुमी फार्टी फुर्डे जावन धा हजार मागले जाल्यार म्हणटा, आपले कडेन ना. नवें घर घेवपाक पळयतां. सद्याक रीण माथ्यार चडलां. कळंतर फारीक करता म्हणसर नाका पुरो जाता. एके वटेन बायलेचें गुरवारपण. तो वाडटो खर्च, कशें जातलें कळना. हांवूच तुजे कडेन मागपाक सोदी..........''

इतलें उलोवन हांवें मातशी उसरपत घेतली.

''आतां तुमकां दिसता की ताचे इश्टेटीर आमी स्टे हाडूंया?''

तार्णे सट्ट करून म्हळें, ''हय, सारकें.''

''हाडूंक मेळटा आनी कायद्यान तुमकां फायदो जायतूय बी.

पूण.........

तुमी दिल्ली तुमची किडणी परतून मेळटली?

तुमी रगत आटोवन ताका वयर काडलो तें परतून येतलें?

तुमी भावा खातीर रात दीस जागून कश्ट काडले ते तुमचे दीस परत येत?

ताच्चेर इतलीं वर्सां लायिल्ली माया, मोग परतून मेळत?

ह्या सगळ्या मुखार ताचे इश्टेटीचें आनी दुडवांचें मोल कांयच न्ही. शून्य!

ताची नियत बदल्ली. तो आपले वटेन गेलो. तुमी तुमचे वटेन.

तो भिकाड्डो, तुमी तर सामके गर्भश्रीमंत,

दिलदार मनीस.

आसूं. भोंगूं तार्चे.

तुमी सदांच अशेच काळजाची गिरेस्तकाय सांबाळात.

अशेच गिरेस्त रावात आनी हीच गिरेस्तकाय वाड्यात.

तुमी सैमां गिरेस्त उरतले.

तुमकां कांयच उणे पडचें ना.

कोणा कडेन हातूय पसरचो पडचो ना.

तुमी जें आवज मेरेन भावा खातीर केलें तें आतां पुता खातीर करात. भाव विसरलो, पूत तशें करचो ना.

तुमच्या बापायचो जो जागो आसा तातूंत तुमचे वांट्याचो तुमी कसात, ताचो तसोच पडून उरूं दी. ताका हात लावं नाकात.

देमांदा फाटल्यान दुडू वगडांवचे परस भुरग्यांक शिकोवन व्हड करात. भुरगीं तीं आपलीं........''

म्हजें उलोवणें सोंपिल्लें.

हांव दोन मिनटां ताच्या तोंडा कडेन पळयत उरलों.

ताच्या पोल्या वयल्यान घळघळीत दुकां व्हांवतालीं.

म्हज्या कबिनांत कांय वेळ शांतताय पातळिल्ली.

कांय वेळान तो उठलो.

' येतां दोतोर ' अशें म्हणून आपले दुकुर्मेत घेवन नमस्कार करून गेलो.

म्हज्या मना वयलें एक व्हड वजें उणें जाल्लें......

* * *

धा वर्सां जालीं हे गजालीक.

अचकीत तो आयज म्हज्या कॅबिनांत भितर सरलो.

हांसमूख चेरो आनी वांगडा सुंदर आनी गोरो दिसपी एक भुरगो. हांव पयलीं वळखलों ना. मागीर याद जाली.

हांवें हांसून म्हळें,' बसात '.

म्हणपाक लागलो, ''दोतोर, हांव तुमचो चड वेळ घेना. हो म्हजो चलो. तुमी सांगलें ते भशेन सगलें केलें. खूब मेळयलें. खूब जोडलें, देवाचे सासायेन आनी तुमचे दयेन. चल्याक खूब शिकयलो.

फुडल्या शेनवारा तो फुडें शिकपाक अमेरीकेक चल्लो.''

आनी दुदफेण्याची कास म्हज्या मेजार दवरली.

''तुमचे सांगणेन हांवें वाट बदल्ली. देमांदा फाटल्यान गेल्लों जाल्यार सगलें वगडावन आयज देमांद खेळतूच उरपार्चो. तुमच्या तोंडांतल्यान तेन्ना देवूच उलयलो.''

हांव पळयतूच उरलों.

ह्या देवमनशा कडेन उलोवपाक उतरां मोनी जाल्लीं.



म्हापशें- गोंय. मो.: ९४२०१६३५९९



वोवळां

शीला
कोळंबकार

# भुरगेपण परतून जियेतना



केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार, सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार, विमला पै पुरस्कार ह्या सारख्या प्रतिष्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानीत **शीला कोळंबकार** हांणी कथा, ललित लेखन तशेंच बाल साहित्यांत आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. तांचें लिखाण म्हणल्यार कोंकणीं साहित्यांतले 'शीला'लेख अशें म्हणूं येता.

**बालवाडींत तें बावली घेवन वता. वाटेर बावलेक तें सांगता, ''म्हजो हात घट धर. वाटेर धावूं नाका. शाळेंत मस्ती करूं नाका. दुसऱ्या भुरग्यांक मारूं नाका.''**

म्हाकां दोन चले. व्हडल्याचें नांव विनय. धाकल्याचें शैलेश. शैलेशाक एक चली. तांचें नांव देविका. विनयाक लग्नाक अकरा वर्सां जातकच चली जाली. तांचें नांव रितिशा.

रितिशा जाल्लें तेन्ना देविका चार वर्सांचें आसलें. तें रितिशाक आपूण धरतां म्हणटालें. हांव मागीर ताचे हातांत दवरिल्ले भशेन करतालें. रितिशालो हात लागलो काय सामकें मुरगुट्टालें.

शैलेश दुसऱ्या फ्लॅटांत रावता. ताची घरकान्न प्रिया, देविकाक घेवन आमगेर येतालें. घरा वतना देविका सदांच म्हणटालें,''छोटूबाळाक हांव घेवन वचूं?'' हांव ताका सांगतालें,''आगो, तें मातशें व्हड जालें काय ताका व्हर.''

''तें केन्ना व्हड जातलें?'' ताचो प्रस्न.

एकदीस आमगेर आयिल्लें. तेन्ना घरा वतना ताणें, 'छोटूबाळाक व्हरूं?' काय म्हण विचारलें ना. हांवें म्हळें,''देविका, तूं छोटूबाळाक व्हरना?''

''ना.''

''कित्याक गो?''

''म्हजी कमर दुखता.''

-मागीर प्रियान सांगलें, देविका आवयक 'उबारून घे' म्हण सांगतालें, तेन्ना आवयन ताका म्हळें,''नज ग म्हज्यान वयर उबारूंक! म्हजें कमर दुखता.''

देविका घरा गेलें. ताणें आज्जेक-आवयचे आवयक फोन केलो. तिका सांगलें,''काकी, छोटू बाव घेवन आयल्या. पूण ताका उलोवंकूंच येना.''

रितिशाक चार म्हयने जाले उपरांत बारसो केलो. बारशाक घरच्रेच लोक आसले. मुंबय रावपी सगले नातेवाईक आयिल्ले. तातूंत म्हज्या देरालो चलो मनोज आसलो. देविका ल्हान म्हूण ताणें ताका वयर उबारून घेतलें. देविका 'बचाव, बचाव' म्हूण आड्डलें. मनोजान ताका रोकडेंच सकयल दवल्लें. घाम पुसलो आनी म्हळें, ''तरी बरें! सगळे घरचे लोक आसले. रस्त्यार बी अशें जाल्लें जाल्यार मार खावपाचो!''

रितिशा दिसींमासीं व्हड जायत गेलें. ताका दोन वर्सां जालीं तेन्ना तें एकेक उतर उलोवंक लागलें. पयलो शब्द ताणें उच्चारलो तो 'काका'. दुसरें उतर उलयलें तें 'कार'.

वर्तमानपत्रांनी येता त्यो गाडयो तें पळयतालें. 'त्यो गाडयो कोणाच्यो?' म्हूण विचारल्यार सांगतालें 'काकाल्यो.'

एक दीस हांवें ताका विचाल्लें, ''काकागेर वचूं या?''

''हा.'' ताणें म्हळें. आवय बगर कोणा वांगडा वच नाशिल्लें तें भुरगें म्हजे वांगडा येवंक तयार जाल्लें. आमी दोगांय तयार जालीं. ताणें म्हाका विचारलें, ''पेशे?'' हांवें म्हळें, ''कितें?'' ताणें पर्सा कडेन बोट दाखयलें.

ताका मोबायल खूब्ब आवडटा. म्हूण ताका खेळण्यांतलो मोबायल हाडून दिलो. तो मोबायल घेवन तें बसता. तो कानाक लावन उलयता. कितें कितें उलयता, आमकां कांयच कळना. मदींच 'हूं! हूं!' म्हूण हुंकार भरता. मदींच हांसता. मदींच 'ओके' म्हणटा. मागीर 'बाय' म्हणटा. बटण दामून मोबायल बंद करता. 'कोणालो फोन गो?' म्हळ्यार 'काकालो' म्हूण सांगता.

ताचो काका म्हळ्यार म्हजो धाकलो पूत, मुलुंखूच दुसरे कडेन रावता. तरीकूय ह्या धाकल्याक तो काका चड आवडटा. मदींच तें काकाक फोन लाय म्हणटा. ताचो आवाज आयकलो काय शांत जाता. रगत उदका परस दाट म्हणटात तें अशें काय?

रितिशा अडेज वर्सांचें जालें, तेन्ना वाक्यां उलोवंक लागलें. म्हूण ताका बालवाडींत घालें. ताचे पयलीं ताका 'हायफाय', 'फ्लाईंग कीस' 'टाटा' करूंक शिकयल्लें. तें सगळें तें करतालें.

बालवाडींत तें बावली घेवन वता. वाटेर बावलेक तें सांगता,''म्हजो हात घट धर. वाटेर धावूं नाका. शाळेंत मस्ती करूं नाका. दुसऱ्या भुरग्यांक मारूं नाका.''

एक खेप म्हाका पसऱ्यार वचपाचें आसलें. रितिशाक हांवें 'येता?' काय विचाल्लें. तें येवपाक तयार जालें. बूट बी घाले. दारांत पावन परतून घरांत गेलें. हांवें विचाल्लें,''कितें जालें?''

''म्हजो मोबायल विसल्लें. तो घेवन येतां.''

घरा येतना वाटेर आमचे बिल्डींगेंतली एक बायल मेळ्ळी. तिणें रितिशाक,'हाय रितिशा!' म्हळें. हाणें तिका फ्लाईंग कीस दिलो. बाय बाय,टाटा केलें. वाटेर ताणें म्हाकां विचाल्लें,''कोण ती?''

''आमचे बिल्डींगेंतली मगो ती!''

''हय? हांव तिका वळखलें ना.''

रितिशाक दोतोरागेर व्हेलें काय तें भायलें दार पळोवनूच रडूंक सुरवात करता. मागीर हांव पयलीं दोतोरागेर वचून नंबर लायतां. मागीर दोन पेशंट मुखार आसले काय घरा फोन करतां. मागीर ताची आवय ताका घेवन येता.

अशेंच एक खेप ताका दोतोरागेर व्हेल्लें. तेन्ना तें रडूंक लागलें. तपासून जातकींच ताका विचाल्लें,''तूं कित्याक रडलें? दोतोरान तुका मारलें?''

''ना.''

''दोतोराक वायट दिसचें ना?''

ताणें सोमते आपले कान धरले आनी 'सोली', 'सोली' म्हळें.

०००

रितिशाले आवयक म्हळ्यार कल्पनाक दोतोरागेर वचपाचें आसलें. ताणें रितिशाक विचारलें,''रितिशा, हांव दोतोरागेर वतां, तूं येता?''

''ना.''

''आज्जे बराबर रावता?''

''हय.''

''रडचे ना न्ही?''

''ना.''

कल्पना दोतोरागेर वचून आयलें. घरांत भितर सरना फुडें रितिशान ताका विचारलें,

''आई तूं लल्ली?''

०००

दारावेली बॅल वाजली. हांवें दार उगडलें.

''कोण आजी?'' रितिशान विचारलें.

''कचरेवालो.''

''ताका कचरेवालो म्हणूं नाका.''

''मागीर ताका कितें म्हणूं?''

''ताका मनीस म्हण.''

०००

तें मामागेर चार दीस रावून आयिल्लें. तें नवो खेळ शिकिल्लें. लिपचेल्यांनी. आपल्याच दोळ्यांचेर दोनूय हात दवरून 'पिकावू' म्हणटालें. मागीर आमी ताका हेवटेन तेवटेन सोदप. ताणें दोळ्यांवेले हात काडले काय,'आरे! तूं हांगा आसलें?' अशें म्हणप. मागीर ताका हांसो फुट्टालो. ताचे कडल्यान हांव नवें उतर शिकलें, 'पिकावू.'

०००

सुटये दीस. ताचो बापूय न्हिदिल्लो. हें ताच्या पोटार वचून बसलें. ताका येतात तितल्योय कविता ताणें ताचे पोटार बसून ताका म्हणून दाखयल्यो.

आवयन विचारलें,''तुवें कविता बापायक म्हणून दाखयल्यो?''

''ना. हांवें बाबाक कविता शिकयल्यो.''

०००

देविका आमगेर आयलें काय रितिशा

खूश जाता. रितिशा ताका 'दिदी' म्हणटा. देविका आयलें काय आज्या कडेन पेपर,रंगीत पेन्सिल मागून घेता. मागीर रितिशाय आज्याक सांगता,''आजोबा,पेपल.''

''कित्याक गो?''

''डॉईंग कालूंक.''

आजो मागीर ताका पेपर दिता. एकदीस ताणें अशोच रेघो भिरकाटायल्यो. हांवें ताका विचारलें,''हें कितें काडलां गो?''

''पावस!'' ताणें सांगलें.

ooo

एक खेप ताका आमसूल दिसलें. तें ताका जाय आसलें. ताणें तें जिबेक लायलें. आंग शिरशिरायलें. हांवें ताका सांगलें, ''साकर गोड आसता तशें हें सोल आंबट आसता.'' 'आम्बट, आम्बट' करून ताणें तें उतर पाठ केलें.

मागीर ताका हांवें म्हळें,''म्हाका एक पापी दी गो.'' ताणें ती दिली. हांवें म्हळें,''म्हाकां ती आंबट लागली. आतां गोड पापी दी.'' ताणें ती दिली. मागीर हांव ताचे कडल्यान केन्ना आंबट, केन्ना हून, केन्ना तिखट अशें म्हणून ताचे कडल्यान पापी वसूल करून घेतालें. एकदीस ताचे कडेन पापी मागली. ताणें ती दिली. हांव कितें म्हणचे पयलींच ताणें सांगलें,'गोड पापी दिल्या आं!'

मदीं तें म्हयनोभर सदाशिवगड, कारवार रावन आयलें. येतकीच ताणें आज्या कडल्यान पेपर मागून घेतलो. रंग मागले. रंगीत पेन्सिल ताणें येवंक ना. वॉटर कलर घेतले. पाचवो रंग घेतलो. कागदभर त्या पाचव्या रंगाचें पिशोल मारलें. हांवें म्हळें,''हें तुवें कितें काडलें गो?''

''कारवार!'' ताणें सांगलें.

आतांच्या भुरग्यांचीं चित्रां काडूं नज. आमच्या भुरग्यांक आमी कशीं वाडयलीं ताची याद ना. पूण नातरां वाडटना पळोवपाचो आनंद वेगळोच. 'मुद्दला' परस 'व्याज' बरें म्हणटात तें फट न्ही!!



मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७

अंथ्रेकणी



उदय
म्हांबरो

कोंकणी भाशेन आयज जीं म्हत्वाचीं जैतां हातासल्यांत आनी ते पासत जांणी सगळे तरेच्यो खस्ती काडल्यात त्या निश्ठावंत कार्यकर्त्यां मदीं **उदय म्हांबरो** हांचें नांव घेतले बगर कोंकणी इतिहासाक पर्याय ना. कलात्मक नदर आशिल्ल्यान नाटकां, काव्य, ललित साहित्य प्रकारा कडेन ओढो आसा. तांचो '*हय सायबा*' हो काव्य संग्रह बरोच गाजला.

# ना ना का का



**नानाकाका सगळयांचीं कामां करताले. पूण केन्नाय एक खंत उक्तायताले. तांचेकडे कामा खातीर वचपी गोंयकार भाव काम जावंचे आदीं कितले फोन आनी कितलीं पत्रां धाडटाले पूण काम जातकूच मात फोन करपाक विसरताले.**

चडशे मुंबय रावपी गोंयकार चवथीक गोंयांत येतात. पूण आमचो नानाकाका मात चवथी बदला दर वर्सा मुळगांवचे जात्रेक येताले. कारण मुळगांवची जात्रा म्हळ्यार एक व्हडलें स्नेहसंमेलन कशें. वेताळ पंचायतनांतल्या वेगवेगळ्या देवळांच्यो जात्रा एकाच वांगडा जाल्ल्यान चडशे सगळे गोंयकार, मुंबयकार, देशांतल्या हेर वाठारांतले तशेच देशा भायले सोयरे जात्रेक मेळटात. जात्रा सोंपतकूच दुसरेच दिसा सावयवेरेंचो अनंताचो कालो जाता. काल्याक वेगवेगळ्या वाठारांत शिंपडिल्ले भुरगेपणांतले वांगडी मेळटात.

भुरग्यां भितर भुरगो आनी जाणट्यां मदीं जाणटे जावपी नानाकाका सभावान जितले मायेस्त आसले तितलेच शिरस्तीक मात सामके कडक आसले. बेजबाबदारपणां, बेशिस्तपणां, आळस, नन्नाकार तांकां अजिबात मानऽ नासलीं. अश्या वेळार कोणाकूय शेपलायतना ते फाटफुडो पळय नासले. मनाचे इतले बरे आसुनूय जायते फावट स्पश्ट उलोवप आनी सडेतोडपणांक लागून दुस्मानकाय मात ओडून घेताले. खासा आपूण शिस्तबद्ध वागताले देखून दुसऱ्या कडसून तीच अपेक्षा बाळगिताले.

म्हजे भुरगेपणांत आमगेर कोणूय सोयरो येतकीर तो वता तेन्ना आमी ताच्यो व्हाणो लिपयताले. तो आनीक रावंचो हीच आमची प्रामाणीक भावना. पूण नानाकाका वेळाक म्हत्व दिताले. ते आमकां तापयताले. त्या सोयऱ्याक आमी आग्रो करून दवरतात आनी तो भिडेक लागून रावता. तांतूत ताचें कितलें नुकसान जाता ताचेर आमकां शेर्मांव आयकून येवंचो पडटालो.

आमची आई आमचेच भशेन. कोणूय आयलो काय ताका च्याचो आग्रो करताली. च्या दिले बगर सोडी नासली. जेवंक दवरून घेताली. कितले फावटी आईचें च्याचें आदन तापचे आदीच बस येताली आनी तो सोयरो बस चुकून आमगेर राबिल्याक उरतालो. नानाकाका मागीर बेजार जातालो. तो म्हणटालो, 'तुमचे च्याक लागून ताचीं मुखा वयलीं कितलीं कामां उरलीं तीं बाबड्या ताकाच खबर! च्या जाय जाल्यार तो जाय म्हणटलो. नाका नाका म्हणटा ताकाय आग्रो करून च्या दिवप आनी ताची बस चुकोवन तुमकां किर्ते मेळटा?' तांचे मुंबयंत खंय सडेतोड वागतात अशें ते म्हणटाले. 'तुमी च्या घेतले?' 'तुमी जेवन आयल्या?' अशें सरळ विचारपाची पद्धत आसा अशें ते म्हणटाले. थंय खंय कोणाक अशें सरळ विचारल्यार वायटूय दिसना.

त्या काळार मोबायल नासले. लँडलायन, ट्रंक कॉल चे दीस ते. एका एका कॉलाक कितलेशे पयशे पडटाले. अर्जंट, लायटनींग कॉल तर कितलेच पटीन म्हारग. सेकंदाचो हिशोब आसतालो. नानाकाकाक केन्नाय कोणेय फोन केल्यार ते फोन उखलिना बरोबर टेलिफोन ऑपरेटरा भशेन घडाघड पयलीं आपलो नंबर सांगतालो. म्हणजे तुवें रॉंग

नंबर आसल्यार सट् करुन दवरचो हो तांचो हेतू. पूण आमचो गोंदळ जातालो. आमी हॅलो हॅलो करून उरफाटे अदीकूच बील वाढयताले. काम जायना बरोबर 'जालें तुजें? दवरतां फोन' म्हणटाले आनी फोन कट करताले. ते पन्नास वर्सां पयलीं जितले शिस्तबध्द आसले ताच्या धावो वाटो लेगीत आमी अजुनूय जावंक ना हें विशेश.

नजो, नकळो, कळना हीं उतरांच नानाकाकाच्या शब्दकोषांत नासलीं. सुशेगाद बसलेले तांकां हांवें केन्ना पळयलेच नात. कोण बेकार बसलेले पळयल्लेय तांकां सोंसलें ना. ते स्वतः पिरायेच्या पंदरा वर्सांचेर मुंबय गेले. घरची परिस्थितीच तशी आसली. सोनापुर स्ट्रिटाचेर आशिल्ल्या नारायण गोविंद डांगी हांच्या राष्ट्रीय हिंदू बेकरेंत काम करीत करीत केवळ कश्ट आनी काटकसरीच्या वांगडाच प्रामाणिकपणाच्या म्हालवजार मुखार त्याच मुंबयंत स्वतःचें बिस्किटींचें दुकान घालूंक पावले. पूण जांचे बेकरेंत पयलें काम मेळ्ळें त्याच नारायण डांगीक आपलो स्वतःचो वेवसाय सुरू करून लेगीत जिवीतभर 'शेठ' म्हण मान दिलो.

काकी घराच आसताली. पूण तिकाय कसलो आळस नासलो. दोगांची जोडी बरी सोबताली. नानाकाका शेअर मार्केटांत इन्वेस्ट करताले. ताका दिसपट्टे कितलेशेच शेअरांचे फॉर्म पोस्टांतल्यान येताले. काकी ते फॉर्म दसोवन ताच्यो पोतयो करताली. तशेंच लाखाटे सारके धडेर कातरीन स्वळ कापून तें सगळें सामान काकाच्या दुकानार चॉकलेटी बांदून दिवपा खातीर धाडटाली. सांजेच्या वेळार बेकार आसता तेन्ना सळी तळटाली. कुरकुरे तळटाली आनी दुसरे दिसा काकाच्या दुकानार विकूंक धाडटाली.

काकीक गोड्या मुताचें दुर्येंस आसलें. देखून तिका गोड खावपाक मनाय आसली. पूण तिका मात गोड खावपाक आवडटालें. काकाक दिवाळेकडे खूब लोक मिठाय दिताले. पूण काका घरा येतना ती मिठाय वाटेर सगळ्या शेजाऱ्यांक वांटून सोंपयताले. काकीक आमी मुंबय वतना मयंडोळी केळीं व्हेल्यार आमचेर तापताले. ते म्हणटाले, ''साखर म्हारग जाल्या. तुजीं केळीं म्हाकां म्हारग पडटात.'' काकी केळ्यांचो हालवो करून फ्रिजांत दवरताली. काकी बाजारांत गेल्याशी पळोवन काका ल्हवू शेजारच्या भुरग्यांक आपोवन केळ्यांचो हालवो तांच्या हातार तेकोवन आचांव रिकामो करतालो. काकीच्या पोटांत साखर वचची न्हय म्हणून काका सामको दोळ्यांत तेल घालून रावतालो. तांणी स्वतःच साखर खावपाची सोडिल्ली. हॉटेलांत च्या पिवपाक गेल्यार सगळ्यांक साखरे शिवाय च्या ऑर्डर करताले. आनी साखरे शिवाय च्या मागल्यार बरी नवी च्या करून मेळटा अशी वयल्यान आद्वोगासी करताले. पूण मुंबयच्यान गोंयां घरा येतना मात लातांची लातां भरून मैसुरपाक, सुतरफेणी, माहिमचो हालवो, जाम, चॉकलेटी, नानकटाय बिस्किट आमचे खातीर घेवन येताले.

मुंबयच्यान गोंयां येताले तेन्ना दर फावट आमचे घरांतली एक तरी मोडकी वस्त ते वतना मुंबय व्हरताले आनी दुसरे फावट येतना सारकी करून हाडटाले. पोरन्यो घड्याळी, पेट्रोलमास दिवो, किर्ते म्हणून ना. आमी माळयार वा कोणश्याक मारिल्ल्यो ह्यो वस्तू ज्युस्त तांचे नदरेक पडटाल्यो.

आमचीं पोरणीं कालसांवां सकयल आल्फियादागेर व्हरून पोतयो शिवून हाडटाले. पोरणी पातळां एक करून ताच्यो गोयड्यो वा रजय शिवून हाडटाले. जळींमळीं पडलेले कोयते, सुरयो, आदळ्यो बंगारागेर व्हरून उदक लावन हाडटाले.

पोस्टान आयिल्ले लाखाटे एके कडेन कातरीन कापून पसऱ्यार बारीक सारीक मसाले वा पिपिरमिटां बांदून दिवपाक कशे वापरचे तें म्हाकां तांणीच शिकयलें. मान्न्यांत आंगाच्या शाब्बाक पोंदच्यान सोदाची गुड्डी लायल्यार शाबू वयले वयर सुको उरता आनी चड दीस वापरूंक मेळटा हिंवूय शिकवण तांचीच.

नानाकाकाक मुंबयचो पुराय अभ्यास आसलो. नानाकाकाच्यो सगळे तरेच्या लोकांकडे वळखी आसल्यो. नानाकाका बरोबर भारतांत खंयूय भोंवतना कोण ना कोण तरी 'काका' म्हणून हटकीत म्हऱ्यांत येतालो. नानाकाकान भुरगेपणांतूच आमकां भावंडांक मुंबय लोकलीन आनी बशींत एकट्यान भोंवपाक शिकयलीं. मुंबयचे गर्देंत पाकीट कशें सांबाळचें ताचोय मंत्र दिलो.

नानाकाका मुंबयच्यान येतले हाची आमकां जितली उमळशीक आनी उमेद आसताली तितलोच कांच आसतालो हेंवूय तितलेंच खरें. तांकां सगळें निवळ जाय आसलें. आमी तर सदां अशे घाळ. नानाकाका येतले म्हणटकीर आमी चवथीक, दिवाळेक काडटात तसो घरांतलो घयरांव काडटाले. नाका त्यो वस्तू लिपयताले. घर बरें धुताले. मोरी, मान्ने चकचकीत करताले. भांडशिरीं, गुड्ड्याक मारिल्ले कपडे पोटलेक बांदून खाटी पोंदा धुकळटाले. सगळें कशें चकाचक जातालें.

आमकां गोंयकारांक जाग्याची किंमत खबर ना अशें ते सदांच म्हणटाले. मेळटा जागो म्हणून आमी वस्तू कश्याय कश्यो खंयूय उडयतात अशी तांची सदांच कागाळ आसताली. तांच्या मुंबयच्या वन रुम किचनच्या घरांत सगळें कशें जागच्या जाग्यार आसतालें. वीस वर्सां आदीं पेंट मारिल्ले वणटीक एक्य खत नासलें. सोफार बसतकीर तकली वणटीक तेंकची न्हय म्हणून सोफा वणटी पसून वेंतभर भायर. आनी धुकळून सोफा फाटीं वचचो न्हय देखून सोफाच्या पांयांक लाकडाचे कुडके लावताले. एके वणटीक केल्ले आरमारींत सगळो संवसार निटनेटको. मदीं ब्लॅक एंड व्हायट इ.सी.टिव्ही, टिव्ही वयर पुस्तकांची आरमार

आनी तांतूत हारीन मांडिल्ली पुस्तकां. पोंदा वॉशिंग मशिन. एका अर्दान वयर नवे, पोरने कपड्यांचे वेगवेगळे खण तर पोंदा हातरुणां आनी पांगरुणां. दुसऱ्या अर्दान वयर प्रवासांतली बॅगां आनी सकयल्या खणांत रोदां लायिल्ले टी पॉय. सोयरे येतकूच भायर काडपाचे. सोयरे वतकीर परत पुसून भितर दवरपाचे. रांदचे कुडींत वणटीर कोनश्याक देवाऱ्यांत देव, तर सकयल फ्रिज. जेवणाचे मेज कवळून वणटीक लावपाचें. जाय तेन्ना सकयल काडून जेवंक बसपाचें. असो इंच इंच जागो वाटोवन संवसार करपाची कळाशी नानाकाका वरी आमकां केन्ना जमतशी दिसना म्हाकां.

ठाकुरद्वार, गिरगांवांत नानाकाकांचें चॉकलेट, बिस्किट आनी ड्राय फ्रुटचें दुकान आसलें. तरेकवार चॉकलेटी, तरेतरेच्यो बिस्कुत्यो, खारी, नानकटाय वेरट तर तांची खासियत. तांच्या त्या ल्हानश्या धा बाय स फुटांच्या दुकानांत कितले म्हाल ते वेवस्थीत मांडटाले. दर एक आचावांत पिपिरमिटां आनी चॉकलेटी हारीन मांडटाले. आचांव रिकामे जातकीर पुराय रिकामे करून आंगश्यान निवळ बरे पुसून चकचकीत करताले. ठाकुरद्वारची येरादारी जांणी पळयल्या तांकां थंय धुल्ल कितलो तें वेगळें सांगपाची गरज ना. पूण नानाकाकान एक फुटाचो एके बड्येक ल्हानसो फाडो बांदलेलो. त्या फाड्यान ते धा वीस मिनटांनी आचांव फाफुडटाले.

इतले ल्हान दुकान आसुनूय ते दुकानार तांचो स्टोव आसलो. त्या स्टोवाचेर ते फक्त दुदांत च्या पालो आनी साखर घालून च्या करून खास मनशांक दिताले. कवी माधव बोरकार, संगीतकार यशवंत देव, दत्ता डावजेकर हांचे सारक्या नामवंत लोकांनी तांच्या हातच्या च्याची रुच घेतल्या.

नानाकाकांचें दुकान ठाकुरद्वार नाक्यार आसलेल्यान आनी तांच्या दुकानार मेळपी खारी बिस्किट फामाद आसलेल्यान ती बिस्कीट व्हरपाक जायते नामनेचे लोक थंय पावताले. तशेंच पोलीस अधिकारी, आर. टि. ओ. अधिकारीय पावताले. मंत्रालयांतले अधिकारी, बॅन्क मॅनजेर, शेअर ब्रोकर, कलाकार, संगीतकार, लेखक सगळेच पावताले. तांच्यो वळखी अफाट आसलेल्यान जायते गोंयकार आपली मुंबयची कामां घेवन नानाकाका म्हऱ्यांत पावताले.

नानाकाका सगळ्यांची कामां करताले. पूण केन्नाय एक खंत उक्तायताले. तांचेकडे कामा खातीर वचपी गोंयकार भाव काम जावंचे आदीं कितले फोन आनी कितलीं पत्रां धाडटाले पूण काम जातकूच मात फोन करपाक विसरताले. पूण नानाकाकांचें कोणेंय कुरकुटभर लेगीत काम केल्यार ते त्या मनशाक केन्नाच विसर नासले. यादीन ताका मिठायेचें बॉक्स हाडटाले. आनी तें हांव दिवपाक विसरत म्हणून आपुणूच तागेर व्हरून दिवन ताका देव बरें करूं म्हणटाले.

तांणी केन्ना आपल्या जिवाची अपुरबाय केल्ली हांवें पळोवंक ना. पूण तांगेर आयिल्ल्या दर एक मनशाक धादोस करून धाडला. ते मुंबय चड्शे लोकल, वा बशीन भोंवताले, नातर चलत. टॅक्सी वा रिक्षा सामकीच चुकना जाल्यार वापरताले. नानाकाका काटकसरी आसले आपले पुरते. आमचे खातीर, इश्ट मित्रां खातीर मात उदका सारको पयसो मोडटाले. तांणी गोंयांतल्या कितल्या तरी कुटुंबा खातीर आपलो वन रुम किचनचो जागो गरजे ताकतीच्या वेळार रावपाक आनी तांची सरबराय करपा खातीर वापरलेलो हांवें पळयला. कोणाचें लग्न मुंबय थारलां, कोणाक मुंबय नोकरी मेळ्ळ्या, कोणाची लग्नाची खरेदी करूंक जाय. सगळ्यांक पयले नानाकाकाच दोळ्यां मुखार येताले आनी नानाकाकाय तांचे खातीर सगळें करताले.

नानाकाकांचो दीस फांतोडेर साडेचारांक सुरू जातालो. साडेपांचाक घरांतल्यान भायर सरताले. गोरेगांव स्टेशनार पांच पन्नासची गाडी धरून चर्नीरोड स्टेशनार स पस्तीसांक देंवताले. पावणे सातांक दुकान उगडटाले. वतना काकी दिताली तें हुमण, तोंडाक आनी सोलांची कडी व्हरताले. दुकानार शीत रांदताले, कांदो, टोमाट कापून सालाद करताले. दनपरां दोनांक शटर अर्दार हाडून भायर बोर्ड लायताले, 'मालक जेवत आहेत'. जेवतना केदेंय व्हडलें गिरायक आयल्यार ते ताका बोर्ड वाच म्हणून सांगताले. ही सगळी धडपड आमी ज्या पोटा खातीर करतात तें पोट भरतना इतर कसलेंच काम करूंक फावना अशें तांचें तत्वज्ञान आसलें.

उपरांत तिसऱ्या माळ्यार दोतोर मन्या कुलकर्णीच्या घरा वचून अर्दवर फाट तेंकयताले. मदीं केन्नाय बारीकशी खरेदी. परत दुकान सुरू. बंद रातीं आठ मेरेन. साडेआठांची लोकल धरून धा मेरेन परत घरा. जीवनभर हेंच व्रत. फक्त संवसार सोडून गेला तो दीस सोडून.

हाचे बगर तांचे जिणेंत आसलें तें संगीत आनी वाचन. रातीकडे धां क घरा पावतकीर मंद आवाजांत नाट्यगीत किंवा ग. दि. माडगुळकरांचें गीतरामायण आयकप हो तांचो छंद आसलो. शुक्रारा दुकान बंद. ते दिसा काकीक एक नाटक पळोवंक मेळटालें किंवा संगीत कार्यक्रम. आनी वेळ मेळटा तेन्ना वाचन. पुस्तकां वाचपाचो नाद काकाक खूब आसलो. तांच्या गोरेगांवच्या फ्लॅटांत आरमार भरून शेंकड्यांनी पुस्तकां आसलीं. नानाकाकांचे यादीक तीं पुस्तकां आमी वेर्से विलेज लायब्रीत एका खाशेल्या कपाटांत दवरल्यांत. हांव बरयतां हाचो तांकां अभिमान आसलो. नानाकाकांकडल्यान हांव आयुश्यांतल्यो खूब गजाली शिकलों. तांचेकडे जें अणभवांचें गांठवल आसलें तें आमी वापरूंक पावले तर उजू वाटेन चलूंक पावतले हांतूत मातूय दुबाव ना.



सावयवेरें, फोंडें-गोंय.
मो.:९४२०७६६७६९



अशोक
भोंसलो

**अशोक भोंसलो** हो कोंकणींतलो एक म्हत्वाचो कवी आनी कथाकार. ताचो 'सुरवन' हो कविता संग्रह आनी 'खुंटावणी' हो कथासंग्रह उजवाडाक आयला. ताचो 'बिम्ब' तशेंच हेर साबार पुरस्कारांनी भोवमान जाला. कोंकणी रंगमाचयेवेलो तो एका काळावेलो नामनेचो रंगकर्मी.



# त्या पावसांत

**वयर उखलतना ताचो पोलको क्वळलेलो. सायूय बी वयर उखललेली. कुले म्हज्या ताळटार आसले. ताचें पोट म्हज्या कपलाक तेंकलेलें. गोऱ्या पोटा वयली भोंवरो क्शी बोंबली पळोवन म्हजो मना वयलो शेक सुटलो.**

आवज म्हयन्याचो दुसरो शेनवार. सरकारी कार्यालयाक सुटी. बारा जावसर न्हिदून रावल्यार म्हजें कांयच अडवें नासलें. पावस-गीम उक्काडार म्हणटा तसो हांव वरांडांतल्या सोप्यार न्हिदपी. आनी सुर्यादादाचीं तिरपी किरणां आंगार पडटकच सुमार सात-साडेसातांक जागो जावपी.

भायर आषाढांतल्यो दडक्रे पडटाल्यो. सदां भशेन आवजूय हांव जागो जालों. पूण पावसाक लागून उठपाक बेठीच आळस केली. कुशी बदलत हातुण्णारूच पडून रावलों. न्हिदला थंयच्यानूच आमच्या घरा मुखा वयल्या वाठाराक नियाळूंक लागलों.

आमच्या आंगणा पलतडीन आशिल्ले बांयचेर उदक व्हरूंक आनी न्हावपा धुवपाक सदांच सकाळीं गर्दी आसताली. पूण आयज पावसाक लागून बांयचेर किण्ण आसलें. तरी शेजारच्यो दोग बायलो सत्र्यो फुलोवन उदक भरताल्यो.

इतल्यांत हांडीर कळसो येवन लग्न करून दिल्लें शेजारचें सिमा उदक व्हरूंक भिजत बांयचेर आयलें. वाडिल्ल्या पोटा वयल्यान ताका दीस गेल्यात म्हूण कळटालें. ताका पळोवन हांव सट्ट करून उठलों आनी सोप्यार बसलों.

''केन्ना आयलां गो सिमा?'' उदक भरतले एके बायलेन विचारलें.

''काल.''

''गुरवाचाराक आयलां दिसता आवयगेर!'' दुसरी बायल.

''हय. सुटऽ सर रावतलें.''

''आगो, पूण भिजता कित्याक? भरिल्ल्या दिसांचें तूं! थंडी बी भरत मगो तुका!'' पयले बायलेन हुसको उगतावलो.

''ना गे, न्हातलें हांव रोकडेंच.''

''पूण सिमा, तूं शें आयलां उदक व्हरूंक? कुळाराक येतांच आवयन बांदलें काय किर्ते गो याण्याक?'' एकलेन भरिल्लो कळसो हांडीर उखल्लो.

''ना गे काकी, हांवूच आयलां.'' अशें म्हणत सिमा खळळ करून हांसलें. त्यो दोगीय बायलो उदक घेवन आप-आपल्या घरा गेल्यो.

उदक भरतल्या सिमाक हांव सोप्यार बसून पळयत रावलों. ताणेंय म्हाकां पळयलो. तें हांसलें. हांवेंय हांसत ताका हटकिलें.

''संतोष, आतांच उठ्ठा काय किर्ते रे?''ताणें विचारलें.

''हय. पूण तूं भिजता कित्याक? सत्री हाडूं?'' किर्ते तरी उलोवंक जाय म्हूण हांव उलयलों.

''नाका, पावसांत भिजचेली संवय आसा म्हाकां!''

अशें म्हणत पयले गुरवाचाराक आवयगेर आयिल्लें सिमा दोड घेवन ल्हव ल्हव घरा वचपाक गेलें.

सिमाचीं निमर्णी उतरां कानार पडलीं आनी म्हजें मन भूतकाळांत गेलें. ताका आनीक किर्तेंच विचारपाचें भान म्हाकां उरलें ना. नदरे आड जायसर हांव ताका पळयत

रावलों. केन्ना केन्ना जिणेंत म्होंवीं ल्हारां येतात. अशेंच एक म्होंवें ल्हार कांय तेंपा पयलीं म्हजेर फक्त आपटून गेल्लें.

इतल्यांत पावसाची एक व्हडली दडक आयली. वावझड घरांत येवन म्हजेर बसूंक लागली. हांव त्या रुमरुम्या पावसाच्या नाचाक पळयत उरलों. केन्ना पावस पळोवंक ना अशें न्हय..आयज एके वेगळेच तंद्रेंत हांव पळयतालों. तातूंत सिमाचीं, 'पावसांत भिजचेली संवय आसा...' हीं उतरां कानांत सादतालीं.

ooo

शिरवाण म्हयनो. एका आयताराची सकाळ. एक सारको पावस पडून उमळ जाल्ली. आमच्या घरा कुशीच्या व्हाळांत उमळ जावन झरे व्हांवताले. व्हाळा वयल्यो झिली आनी झाडां बरींच मातलेलीं.बांय उप्पाट भरिल्ली. आतांय बारीक पावस शिडशिडटालो. पूण झाडां वयल्यान पोगळटल्या ओथांब्यांक लागून मोठ्ठो पावस पडिल्ले भशेन दिसतालें. सिमा भिजत आयताराक व्हाळाचे धडेची पत्री पुंजायतालें. सिमागेर ताची आवय आनी भावजय आयतार पुजपी. पूण पत्री पुंजावचेलें काम दर आयताराक सिमाक पडटालें. सिमा भिजत पत्री काडटालें आनी हांव ताका पळयत बल्कांवाचे मेरेर बसून दांत यांसतालों.

सिमाची आंगलोट सोबीत. व्हंकल जाल्या सिमाक एक सारकें पळयत रावचें शें दिसतालें. आनी आतां तर पावसांत अर्दवट भिजिल्लें सिमा खुबूच सोबीत दिसतालें. ताचें मार्थे भिजून विणयेच्या शेपट्या वयल्यान थेंबे पोगळटाले. ओलो जाल्लो पोलको फाटीक आनी पोटाक दसलेलो. हड्ड्याची गोलाय दोळ्यांक दिपकायताली. केळीच्या गब्या भशेन आशिल्ल्यो गोन्यो पोंवटो भिजलेले सार्येतल्यान हय न्हय श्यो झळकताल्यो.

व्हाळा धडेची पत्री काडून सिमा धाकटुल्या पांटल्यांत घालतालें. शिरवाण सरी वरीं दिसतले आंकवार अरतुरेक पळोवन दोळ्यां मुखार जोगलावणें चकचकलेल्या भशेन म्हाकां भास जावंक लागलो. आंग अनवळखी भावनेन शिरशिरलें.

व्हाळाचेर पातळलेल्या झिलीं मदीं वागचपक्याचें एक रोपटें आसलें. खूब वागचपके फुल्लेले. पूण फुलां बरींच वयर आसलीं. तीं फुलां काडपाक सिमा उड्यो मारूंक लागलें. पूण ताच्या हाताक तीं मेळना जालीं. ताणें वळून आडे-कडेक बडी बी आसा काय म्हण पळयलें. आनी तेन्नाच ताची नदर म्हजेर पडली. ते सरशीं ताणें म्हाकां उलो मारलो.

''सुभाष, हे ते वागचपके काडून दी रे म्हाकां.''

''तुजो हात पावना?''

''नारे, बरेऽऽ आसात. मातशे काडून दी रे.''

''पूण हांव भिजतलों मगो! तूं भिजलांच, म्हाकांय भिजयता?''

इतलें म्हणसर हांवें घोंट घेवन तोंड कुचकुचायलें. दोळे मात सिमाची सोबाय पिताले. सिमान आपल्या भिजलेल्या आंगाक पळयलें. उपरांत म्हजे नदरेचो सोद घेतलो. हांव ताकाच तुकू तुकू करून पळयतां म्हूण तें मातशें लजलें.

''मातसो भिजल्यार तुका कोंब फुटचे नांत रे!'' ताणें हांसत म्हळें.

म्हणटकच हांवें बेगबेगीन तोंड सारकें धुलें, आनी तुवाल्याक पुसलें. तोच तुवालो भेंडाक गुठलावन सिमा म्हऱ्यांत व्हाळांत देंवलों. घरा भायर सरतकच उगड्या आंगार पावसाचे थंड थेंबे पडले आनी आंग शिरशिरून कांटो फुल्लो.

म्हजेय हात वागचपक्यांक पावना जाले. हांवेंय चार पांच उड्यो मारल्यो. तरीय हात कसोच पावना जालो. म्हणटकच हांवें सिमाक सांगलें, ''सिमा,राव आं..,हांव घरा कडली बडी घेवन येतां..''

''बडी नाका रे, हांव उखलतां तुकां. तूं फुलां काड.''

''किर्ते? तूं म्हाकां उखलता?''हांवें आजाप परगटायलें.

''नाका नाका. तूं उडयशीत म्हाकां. त्या परस हांवूच तुका उखलतां.

तूं काड फुलां.'' हांवें म्हळें.

सिमान हातांतलो फुलांचो पाटुलो धडे-वयल्या फातरार दवरलो. ताच्या भेंहाक धरून हांवें ताका वयर उखल्लें. ताणें वागचपक्याचे एके ताळयेक हात घातलो.

सिमाक उखलतना म्हज्या मनाक कशेंशेंच दिसलें. वयर उखलतना ताचो पोलको कवळलेलो. सायूव बी वयर उखललेली. कुले म्हज्या ताळटार आसले. ताचें पोट म्हज्या कपलाक तेंकलेलें. गोऱ्या पोटा वयली भोंवरो कशी बोंबली पळोवन म्हजो मना वयलो शेक सुटलो. वासनेचें मोड आंगांत घुंवूंक लागलें. तेच भिरकेंत हांवें ताचे बोंबलेक ओंठ तेंकयले. ते सरशीं ताका खातखुतल्यो जाल्यो जावंक जाय. सर्र करून तें सकयल देंवलें. ताच्या हातांत वागचपक्याचीं दोन फुलां आसलीं. म्हजेय हड्ड्यार दोन वागचपके चिड्डल्ले. शिरां पेटलीं. रगत सळसळ्ळें. म्हजे हात ताचे फाटीर ल्हव ल्हव भोंवपाक लागले. दोगांयच्या नाकांतल्यान हून सो धग व्हांवपाक लागलो. सिमाच्या हातांतलीं फुलां गळून व्हाळांत पडलीं आनी उदका वांगडा व्हांवून गेलीं. ताणेंय बी म्हाकां आपले वेंगेंत अंदिलो. तेच वेळार पावसाची एक मोठ्ठी दडक आयली. दोन तरण्यो कुडी कितलोसोच वेळ एकमेकांच्या गोपांत चिप्प भिजल्यो. त्या पावसांत वागचपक्याच्या फुलांतलें म्होंव एक भंवर चोखीत रावलो.

व्हांवत्या व्हाळाच्या आनी पावसाच्या आवाजाक लागून आमची जागमाग वयर कोणाक आयकूंक येना आसली आनी व्हाळा वयर मातलेल्या झिलींक लागून आमी सकयल आसां तीं कोणाक दिसय बी नासलीं.

इतल्यांत पावस बारीक जालो. सिमान मारिल्ली वेंग सदळ केली आनी म्हज्या गोपांतल्यान विस्कळ जालें. हांव सूत तुटिल्ल्या पतंगा भशेन सकयल पडलों.

''सिमा..!'' हांवें एक सुरकारो सोडलो.

''सुभाष, सोड म्हाकां.''

''पूण...''

''सांजवेळार मेळुंया..''

''हांव वाट पळयतां.''

''बरें..!''

सिमा फुलांचो पाटुलो येवन व्हाळा वयर सरलें. तें घरा वतकच बऱ्या वेळान हांव घरांत भितर गेलों. सिमा सांज वेळार मेळटलें, ह्या मालवजार मन व्हाळाच्या खळखळार खळखळूंक लागलें.

तिनसांज जाली. सिमाची वाट पळयत हांव वारांदाच्या सिनालार बसून ताची वाट पळयतालों. सिमा नटून थटून एकदाचें आयलें. ताणें विणयेर जायांचो पोड माळिल्लो. त्या परमळान म्हाका अदीकूच पिसायलो.

''सुभाष, तुकां किर्तें सांगूंक जाय.''

''किर्तें?''

''कशें सांगूं..?''ताची नदर किर्तें तरी शेणिल्लें सोदूंक लागली.

''वो बस. सोप्यार बस.'' ताका बसपाक हांवें आग्रो केलो.

''ना, उबेंच रावून सांगतां. पूण...''

''आमचो रोमान्स लग्ना उपरांत, हेंच सांगूंक सोदता न्हय तूं..?''

'' ना सुभाष, कशें सांगूं? घडये तुका वायट दिसत..!''

''तूं आनीक वायट दिसऽ सारकें सांगतलें जाल्यार आयकुंच्चेंच पडलें.'' हांव वयले तराक मातसो हांसलों.

''मागीर आयक, म्हजी सोयरीक जाल्या. आमचेच जातीच्या चल्या कडेन. दिवाळी जातनाच पयल्या म्हुर्तार आमचें लग्न जातलें. म्हाकां विसरून वच. सकाळीं जें घडलें तें एक नाटक अशें समजून विसरून वच.''

इतलें सांगून सिमा आनीक आनी आमचे थंय रावलें ना. ताणें बद घरची वाट धरली. ताणें सांगिल्ली गजाल आयकून म्हजी तकली भेरेली. दुसरे वटेन सिमाचो रागूय आयलो. ताचे विशीं तिरस्कार दिसूंक लागलो.

पूण कांय तेंप वतकच विरार जाल्लें म्हजें मन जाग्यार आयलें. म्हजें सोंवळें मन विचार करतालें-लोकांच्यो वाडिल्ल्यो चलयो मौज मजा करूंक किर्तें अश्योच गांवार पडल्यात..? तांचो तांकां फुडार ना..? तरणी पिराय पिशी पिराय हें जरी खरें आसलें तरी एकदां वेर गेल्यार अख्खें जिवीत कशें सादोवंक जायत..!!

कांय दीस गेले. पावस उलगलो. व्हडली दिवाळी जाली. सिमाचें लग्न जालें. सिमा दुसऱ्या गांवांत घोवागेर गेल्ल्यान ताका हांव इल्लो इल्लो विसरत गेलों. सिमाक पुराय विसरलों.

०००

आशाढांतल्यो मोट-मोट्यो दडको भुंयेर घालून येताल्यो. सोप्यार बसलां थंयच मनाक तंद्री लागिल्ली. मन पांखां लावन भुतकाळांतली भोंवडी करून आयलें. आतां पावसांत भिजत बांयचेर उदक व्हरूंक आयिल्लें, दीस गेल्ले सिमा आनी गेल्या वर्सा त्या पावसांत भिजत पत्री पुंजावपी आंकवार सिमा हातूंत कितलो बदल ..अळ्गो पावस धतरेर पडटालो, धर्तरी पांचवीचार जाल्ली. सिमाचेंय जिवीत पांचवेंचार जाल्लें. पूण हांव त्या पावसांत इतलो भिजूनय सुको सडसडीत उरलों.

(टीप: ही कथिका पुराय काल्पनीक.नांवा वयल्यान कोणाय वाचकाक सत्यकथा कशी दिसूं येता. पूण ना.)



भाटलें, पणजी. मो.: ९९२३८०३१५८

शब्दुली



रुपाली कामत शेटये

# फकांडं



**रुपाली कामत शेटये**
पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत ग्रंथपाल म्हूण कार्यरत आसा. तांकां बरोवपाची आवड आसा. बिम्ब मासिकांतल्यान तांचें बरप तांच्या संवेदनशील सर्जनशीलतायेची गवाय आसा.

*हांवें तांकां मुखावेल्यान व्हरून बल्कावांत बसयलें आनी काणी सांगपाक सुरू केली. लक्ष्मीकांत बेर्डेचो 'तात्या विंचू' निकतोच पळयल्लो कारणान मातशी तेच भशेन काणी सांगतना अचकीत तांकां तें रुपणें दाखयलें.*

आपणें दुसऱ्यांची कितपत फकांडां करचीं आनी दुसऱ्यांनी केल्लीं तुमचीं फकांडां कितलीं सोसचीं हो एक मोठो प्रस्न. म्हजी शेजारी कम इश्टीण शीला म्हणटा,''हें जग, संवसार म्हळयार फकांडां कशें न्हि गो..? मनीस जल्माक येता, आपली जीण सारता आनी एक दीस हो संवसार सोडून वता. खंवचे कडेन कांयच अर्थ ना. सगळें फकांड..!''
''आगो संवसार म्हणजे असोच न्हय गो..? जल्माक येता तो एक दीस संवसार सोडून वताच..! कोण अमर उरूंक आयला तर..? कांय जाण शंबरी गांठटात, कांय वयावेलेच बेगीन वतात. आमचे हातांत कांयच ना. आमी फकत खामसुत्री बावलीं मगो! सगलें देवाच्या हातांत आसा.'' हांव.

आतां फकांडां हीं जायते बशेन आसतात. मस्कऱ्यो करून हांसप, टवाळक्यो करून किटकिटप, दुसऱ्यांच्यो बकच्छायो करप, टिका करप, विटंबना करप अशीं हीं जायते तरांचीं फकांडां. इश्टां मदीं मस्कऱ्यो करून हांसपाच्यो गजाली ह्यो चालूच आसतात ही बरी खबर! त्यो आपल्या इश्ट-इश्टीणी भितर करच्यो..वाटे वेल्या मनश्यांच्यो न्हय. तांचेर टिका करून मस्कऱ्यो करप ही जाली विटंबणां. शीलाक भुरगेपणांत एक वायट संवय आशिल्ली. एक दीस बशिल्ले कडेन तार्णेच म्हाका ही गजाल सांगिल्ली. शाळेंत वतना खंयय वाटेर कोणूय दिसल्यार ताका 'शूक, शूक' करप आनी दुसरे वटेन पळोवप. तो मनीस मागीर कोण 'शूक, शूक' करता तें हे वटेन ते वटेन पळोवंक लागतालो. हें पळोवन खंय शीला हांसतालें. ताका मज्जा दिसताली. आसूं..! भुरगेपणांतलीं मस्तेपणा म्हण माफ करपा सारकें. आनी तो काळ तितलो वायट नाशिल्लो म्हण उपकारतालें. आज जाल्यार मुरकटार दोन थापटां खावचीं पडपाचीं..!

भुरगेपणांत आमी खूब फकांडां करतात. जशें शाळेंत शिक्षकांची मिमीक्री करून फकांडां करप, तांणी तापयल्यार तांचे फाटल्यान तोंडां वांकडीं करप, दुसऱ्या वर्गांतल्या भुरग्यांचीं फकांडां करप हें चालूच आसतालें. हांवूय भुरगेपणांत सामकें मस्तें आनी फकाणेस्त भुरगें. आनी अजूनय तशेंच आसां. केन्नाय शाळेंतलीं आनी कॉलेजींतलीं इश्ट वांगडी मेळळयार तांचें म्हजेर एक पेटंट वाक्य..'तूं म्हूण आसा तश्शें आसा. मस्तें, फकाणेस्त आनी टवाळकी. फक्त आंगान सुटलां आनी वयान वाडलां. भुरगेपणां आसा तश्शीं आसात!''

हांवूय तांकां नेटान जाप दितां,''वन शूड रिमेन जॉली ॲन्ड अल्वेज यंग ॲट हार्ट. ॲज इज जस्ट द नंबर, आय वील बी फॉरेवर लायक धीस..''

तर भुरगेपणांत सुटयेंत मावशेगेर, मामागेर आनी हेर सोयऱ्यांगेर वचप आनी धुमशेणां घालप हें साहजीकच. आमचें मात वेगळें आसतालें. पापा आमकां खंयच वचूंक दिना आशिल्लो. ताका आपलीं दोनूय भुरगीं म्हळयार हांव आनी म्हजो भाव, आपल्या दोळ्यां सामकार जाय आशिल्लीं. ताच्यो मेवण्यो म्हणजे म्हज्यो मावश्यो धोमणो मारताल्यो. ''भावोजी, धुवेक लग्न करून घोवागेर तरी धाडटलो मरे? काय पर

जांवय बी करतलो..? ''पापाची जाप,'' तें मागीर पळोवंया.. ताका टायम आसा अजून'' अशें म्हणीत ताचे दोळे तेन्नाच भरून येताले. आसूं.. फकांडाचेर उलोवप चल्लां आसतना हें सेंटीमेंटल नाका. म्हाकां एकूण चार मावश्यो. म्हजे तिसरे मावशेचीं भुरगीं आमगेर सुटयेंत रावपाक येतालीं. तीं म्हाकां सामकीं घट. अजूनय आसात. 'दिदी दिदी' करून फाटल्यान भोंवपी. म्हजे परस पिरायेन तीं धा बारा वर्सांनी ल्हान. आमी तिगांय जाणां मेळून सामकींच धुमशेणां घालतालीं आनी मस्ती तर विचारपाची नाशिल्ली. तांचीं हांव फकांडां कशीं कशीं म्हूण करतालें, देवा भोगणारे..! फकांडां काय मस्ती तेंच कळना..सांज जाली काय तांकां भुतांच्यो खबरी आनी काणयो सांगून भेकडावप. तांकां भेकडावपाक हांवें एके धवे चादरीक दोन बुराक काडून दोळे केल्ले आनी ती चादर माथ्यावेल्यान घालून 'भूत भूतं' म्हणत तांचे फाटल्यान धांवप. तीं सामकीं भिवून गुळी जातालीं आनी मागीर व्हडल्यान रड सुरू. म्हाकां आवयच्यो तापसाणी खावच्यो पडटाल्यो. पूण दुसरे दिसा तेंच पर्यून करप.

हांव णववेंत आसतनाची एक गजाल. आमचे घरा मुखार एक आंब्याचें व्हड झाड आसा. एक दीस थर्मोकॉलचें भुताचें अशें रुपणें करून, शेजारच्या एकल्या भुरग्याक सांगून तें आंब्या रुखार दवरूंक लायलें. म्हजो भाव असल्या भानगडींनी आसनाशिल्लो. ताका फकत क्रिकेट आनी फुटबॉलाचें पिशें. बाकीचीं आमी शेजारचीं भुरगीं असल्या कामाक फितूर..शेजारचीं आमी एकूण सात आठ भुरगीं तेन्ना. तातूंतलें हांव व्हडलें आनी लिडर.. तर तें रुपणें दवरलें आनी सांज जावपाची हांव वाट पळयतालें. काळोख जालो रे जालो हांकां भेकडावपाचें..पूण



कितें ना कितें जावन फुडें वचत उरलें. जेवणाचो वेळ जालो, आमकां पयलीं वाडलीं आनी मागीर व्हडलीं जेवंक बसलीं. हा.. म्हाका ज्युस्त चान्स पडलो. हांवें तांकां मुखावेल्यान व्हरून बल्कावांत बसयलें आनी काणी सांगपाक सुरू केली. लक्ष्मीकांत बेर्डेचो 'तात्या विंचू' निकतोच पळयल्लो कारणान मातशी तेच भशेन काणी सांगतना अचकीत तांकां तें रुपणें दाखयलें. आव्वयस्स! तांचो रडून आकांत..सगळीं धांवट भायर आयलीं. मावसभयण थोडोच वेळ रडून थांबली, पूण ताचो भाव ल्हान चार वर्सांचो आशिल्ल्यान ताची रड थांबच ना. तो सामको भियेल्लो वरीं जाल्लो. पयलीं आवयन म्हजेर एक धपको घालोच, मावशेनूय उतरांचो फार करून म्हजो जीव नाका केलो. कसलीं कसलीं उतरां म्हूण सांगूं, 'येदी व्हडली घोडी जावन सुध्दा असलें गो कितें करता..? अक्कल ना तुका..? मेंर्द, सुबेज, पारपोळ.....' मावशी नॉन स्टॉप अर्द वर उलयली. पापान म्हजी सुटका केली. भावोजी आनी मेवणेचें मातशें पेटलें. थोड्या वेळान तेंवूय मिटलें. ''आगो भुरगीं तीं, आसूं..!' अशें म्हणीत पापान बाजारांतल्यान हाडिल्ले मानकुराद कापले आनी आमी खावंक बसलीं. म्हाकां अजूनय ते रातीची याद केल्यार हासूंक येता.

अशींच आनीक एक खेप फकांडां केल्लीं म्हजेर अंगलट आयल्यांत. हांव आनी आमची टीम सामकीं कार्निवालाचे उमेदींत आशिल्लीं. हांव इकरावेक शिकतालें. आमी भुरगीं पॉरकोट्यांनी (बोंबाडे) रंगीत उदक भरतालीं आनी मागीर एकमेकांचेर शेवटीतालीं. साश्टींत थोडे गांवांनी अशे पॉरकट्यांनी रंगीत उदक भरून एकामेकांचेर आनी वाटेवेल्यान वचप्यांचेरूय मारतालीं. ते वटेन वचपी बशींचेर लेगीत शेवटीतालीं. लोक त्या उदकान भिजतकीर तांच्यो दोन येतीश्ट गाळी पडटाल्यो. एके कडेन तर त्या पॉरकोट्यांनी रेंव लेगीत भरून मारताले. अजूनय अशें खेळटात काय ना हें हांव सारकें नकळों. मदीं ताचो अतिरेक जाल्ल्यान सरकारान कायदो करून ताचेर बंदी हाडल्या म्हण आयकल्लें. तर ते दिसा आमचे कडेन एक धायेक पॉरकोटे शिल्लक उरिल्ले. आमकां कसली दुर्बुध्दी सुचली देव जाणां.. सांजेच्या आठ वरांचेर आमी मेन रस्त्यार जमलीं आनी ते पॉरकोटे येतल्या वतल्यांचेर मारप हें थारायलें. जालें.. दोग तीग जाणांनी आमी मारिल्ले पॉरकोटे सोंसले. एक पॉरकोटो जो शेवटून मारिल्लो तो एके गाडयेर बसलो. तार्णे जसो चिर्र करून ब्रेक मारूं नाका आमी सगळीं फुज्ज्यो. आमी हे वटेन ते वटेन

लिपूंक जागो सोदीत धांवूंक लागलीं. काळोख आशिल्ल्यान एक बरें जालें आमी लिपल्यांत तीं दिसलीं नात. हांव आनी एक वांगडी एके बिल्डींगे फाटल्यान लिपलीं. गाडयेंतल्यान दोन मनीस देंवून आमकां कॉलनींत सोदूंक लागले. दोन तीन घरांनी लेगीत तांणी विचारलें. अर्द पावूण वर तांचो सोद चालू आशिल्लो. आमी ल्हवू ल्हवू करून खाची कुर्चीतल्यान कशींयबशीं म्हज्या घरा पावलीं. ते म्हणसर ते परतले अशें दिसलें. साडे णवांक सुमार आमी घरांतल्यान भायर सरून पासय मारीत जाल्यार थंय कोणूच दिसलो ना. जावं सायबा, देव पावलो! आनी आमी वाचलीं. आमचे पोटांत भंयान गुळी जाल्ली. हीं फकांडां आमकां सारखीं भरतलीं आशिल्लीं. तेन्नाच कानाक पीळ घालो, असलो आनीक खेळ नाका रे देवा..!

पापान आमकां केन्नाच तापोवंक वा मारूंकय ना. हांव तर सामकें पापाचें लाडकें. हांवें मस्ती केल्यार भावाक तापसाणी पडटाल्यो. पापा भायर सरलो सो पळोवन माँ म्हजेर फोग काडटालीच.. म्हाका कोणेंच तापयल्लें वा म्हजेर आड्डल्लें पापाक आवडनाशिल्लें, आवयन सुध्दां.. नातलांच्यो सुटयो पडिल्ल्यो आनी आमी भुरगीं सालांत बसून खेळटालीं. मदींच हांवें नातलांचें गीत 'झिंगल बेल झिंगल बेल खड्ड्याक लायलें तेल' अशें फकाणांनी म्हळें. तें आयकतांच केन्नाच तापनाशिल्लो पापा एकदम तिडकलो. ''आगो पारपोळा, कसलीं पदां गो तुमचीं..? काय बऱ्या नातलांच्या गिताची तुमी वाट लायली.'' हांव पापाक पळयत उरलें आनी आपशींच म्हज्या दोळयांतल्यान दुकां आयलीं. केन्नाच तापनाशिल्लो म्हजेर तापलो. बऱ्याच वेळान म्हज्या पिश्याच्या लक्षांत आयलें, कि ताचे सेंटीमेंट्स हर्ट जाल्यात आसतले! ते कित्याक तें तुमकां कळ्ळांच आसतलें. यस ही वॉज बाल्ड..हांवें नकळत ताचीं आनी नातलांच्या गिताचीं फकांडां केल्ले बद्दल चूक मागली.

आमचे सोयऱ्यांतलो एक थंड मस्तीखोर आशिल्लो. तीं एक भाव आनी एकच भयण. भयण ताचे परस आठ वर्सांनी ल्हान. उलोवंक तो फाटीं पूण मस्ती करूंक फुडें. भयण दोनूय कामांत फिशाल. बडबर्डेय बी आनी मस्तेंय बी. एक दीस खंय तीं दोगांय सालांत एकामेकांक मारतालीं. सामकें झूंज पेटिल्लें. भयणीची रड सुरू जाल्ली. आवय रांदचे कुडींतल्यान कायलातो घेवन जशी सालांत आयली, भावान शरणागतीक घेवन इल्लेशें तोंड करून आवयक म्हळें,''आगे, आगे मारूं नाका, फकांडां फकांडां गे सगळीं. आमी झगड नाशिल्लीं. फकांडां करतालीं.'' जशी आवयन फाट परतीली, परत धुडगूस चालू.

आमकां म्हूण फकांडां खंयचेय गोश्टींचेर सुचतात.आतां 'कोरोना' व्हायरसा सारख्या गंभीर दुर्येसाचेर सुध्दां आमी फेसबुकार, व्हाट्सेपार फकांडां केल्यांत. कोरोनाचेर मेमर्सांनी तर धुमाकूळ घालो. हांवेंय शेअर केलां, ना अशें न्हय. हांवूय फकाणीस्तूच न्हय..! जे लोक 'कोरोना सामको गंभीर. ताचेर फकांडां करप नासता;' असलीं व्हडलीं भाशणां दिताले ते लोक मारक खंय घालतात? वेल्यान हेच लोक फकांडां करतात, 'मेम्ज' शेअर करतात म्हणपाचें हांवें दोळ्यांनी पळयलां.

बरें..कोरोनाचेर मेम्ज आनी फकांडां जातात थंयच आसा. ती कोण नेहा धुपीया म्हणटात तिणें खंय एका चल्याक(रोडीज शो) तापोवन काडलो आनी ताचेर गाळयांचो शिंवर केलो. घेऽऽ मागीर तिचेर फकांडां आनी मेम्ज चालू जालीं. 'इट्स हर चॉयस टु हॅव फायव्ह बॉयफ्रेंडस्' हें वाक्य फामाद जालें. एका चल्यान खंय आपली इश्टीण आपल्याक फटयता म्हूण तिचेर एक फुलयलें. ही गजाल ताणें आपल्या 'रोडीज शो'त सांगलें. नेहा धुपीया ही नटी ताका लागून तिडकली आनी 'इट्स हर चॉयस टू डू ' अशें म्हळें, आतां सगळ्याक तिचेर ट्रोलींग चल्लां. जावं आमचीय तितलीच मनरिजवण जाता.

हांव टिवी पळयना आनी आशिल्लो तोय माळयार उडयला. सगळें असलें गिन्यान मेळटा तें सोशल मिडीयाचेर. जावं 'लाफींग इज गूड फॉर हेल्थ' अशें म्हळांच. फकांडां करून हांसूकच जाय पूण लिमिटांत. लिमीट क्रॉस जावन 'अती तिथे माती' जावंक फावना. अतिशोक्ती आनी दुसऱ्यांचेर टिका करप ना. फकांडां हीं लिमिटा भितर केल्यार सोबता . हें म्हणपाक कारण म्हणजे हांवूच एका तेंपार चडूच फकाणेस्त आशिल्लें. जें उतरा पावलार फकांडां करून लोकांक हांसयतालें. आतां जशें जशें वय वाडटा तशें तशें बुध्द शिकतां. खंय आनी कोणाचीं फकांडां करप तीं. पूण जित्याची खोड खंय मेल्या बगर वचना. इश्ट इश्टीणी वांगडा फकांडां आनी म्हजी बडबड चालूच आसता. घोव म्हाकां सदांच म्हणटा,'तूं आनी आतां बदलचें ना. आनी तुजीं फकांडांय आनी हेरांक हांसोवपाचो सबावूय बदलचो ना.' म्हाकाय तितलीच खात्री आसा कि हांव मरसर तरी अशेंच उरतलें आनी जे सर हांव हेरांक म्हज्या फकांडांनी दुखयना तर फकाणेस्त आसप कित्याक वायट..? आनी आमच्या आदाराक 'सॉरी' हें उतर आसाच न्हय..!



सांतइनेज, पणजी-गोंय.
मो: ९३७३४६७४७७

## कवनां म्हयन्यालीं



**उर्जिता भोबे**

भांगरभूय दिसाळ्यांतल्यान आनी बिम्ब मासिकांतल्यान सातत्यान काव्य लेखन करपी **उर्जिता भोबे** 'उर्जास्रोत' हो कविता संग्रह घेवन कोंकणी कवितेच्या दालनांत देंवलां. तें आपले कवितेची खाशेली वळख घेवन येता.ताणें मुंबय विद्यापीठाची डायेटीक्स ह्या मळा वयली पोस्ट ग्रॅज्युयट डिप्लोमा ही पदवी संपादन करून आहारतज्ञ म्हूण नामना जोडल्या.

### चिक्र आनी पिरी

सोबीत आमचो संवसार
जशी चिक्र आनी पिरी
केन्ना आसता थीर
केन्ना किरी किरी

सगळो भार तुजेर
तूं कडक चिक्रावरी
हांव तुजे आधाराक
तुजीच नाजूक पिरी

कितलोय जरी तापलो तूं
हांव न्हिंवोवन दितां
रकलें कितें जाल्यार
हांव राखून घेतां

तूं मात घट राव
चलोवपाक संवसार
हांव मर्दी मर्दी
करतां तुका आधार

तुका म्हणूं कर्तो
म्हाकां उर्णे लेखूं
देख आमची दिवन
जग आमी जिखूं

खोलाव तुजी गरजेची
समजून घेवंक संवसार
हांवय न्ही उथळ
दिश्टींत म्हजे विस्तार

एकट्यान सगळें वर्जे
केन्ना उबारूं येता?
केन्ना तूंय जा पिरी
चिक्र हांव जातां
केन्ना तूंय जा पिरी
चिक्र हांव जातां

### अनुमती

हार्लीसराक काळीज म्हजें
आड्डून आड्डून सांगता म्हाकां
जिवीत जगून पळय तरी
सपनां पळोवंक भियेवं नाका

रंग भर गो जिवितांत ह्या
पडलां कशें रंगा विणें
एकटेपणाक उपाय तूं सोद
मोगान फुलय तुजें जिणें

तुजी तुकाच सूट दी गो
मेकळें जिवीत जियेवपाची
तुजीं तुकाच लाय गो पांखां
गरज कितें भियेवपाची

लागीं ओड गो मोगान तुकाच
मेळटा जेन्ना तुका सवड
पोटान पोट सूख गो पिये
तूं तुज्याच मोगांत गो पड

दी तुजी तुकाच गो
आपुर्बायेची मिठी
तूं फक्त तूंच जा गो
ये तुजीच अनुमती
'तूं' फक्त 'तूं'च जा गो
ये तुजीच अनुमती

### म्हजी अस्मिताय

म्हाकां भोव आवडटात
सांवळे म्हजे पोले
माथ्यावेले केंस म्हजे
घामान जाल्ले ओले

भोव म्हाकां भावता
रांपेल्ली कात
फुटिल्ले ओंठ आनी
विस्कळिल्ले दांत

भाजिल्ले हात
कात्रे पांयावेले
विस्कटिल्ले केंस
दुखरे घाय म्हगेले

गर्व आसा तांचो म्हाकां
आसा अभिमान
तांकाच लागून आसा म्हजी
ताठ सदां मान

सांवळे पोले केंस ओले
रांपती कात भाजरे हात
दुखरे घाय कात्र्या पांय
उबरे केंस खरें बेंस

जशी आसा तशीच पळय
म्हजी आवतिकाय
हीच खरी जावन आसा
म्हजी गिरेस्तकाय

*उत्तरां कानदार देंवचलीं म्हणटकच कविता जाली असो खूब जाणांचो समज आसा. तो आतां पयस करूंक जाय. बिम्ब आतां दर म्हयन्याक एका कवीक ह्या पानार घेतलें. तेंच पान बिम्ब परीवार ग्रुपार वतलें. रसिकांचें मत अजमावतलें. जांकां व्यक्त जावंक दिसता तांणी पाच वाक्यांनी व्यक्त जावचें. फुडले अंकांत तें प्रतिबिम्बांत उजवाडाक येतलें.*



## का व्य फु लो र



### नांवां

हालता पानां धोलता पानां
वाऱ्याच्या मंद सुरांत
तान एक वझऱ्याची
झुळझुळटा गर्भांतल्यान

जाता माती गंधवती
रुजता रगतांत बोल
पैसुल्ल्यान येता काळोख
सावरत आपलो तोल

दोळ्यांचे दिवे लावणेक
म्हणची न्हय अवेळ
रमरता देग दर्याची
सुकते भरतेचो खेळ

सांडटा पारजखिणां
पर्जळाच्या गावां
उदेलीं काळखाचेर
नखेत्रांचीं नांवां...

### देवाच्यान सांगतां

हांवें एक देवूळ बांदलां
आनी एक नागडो देव पुजला
हांव ह्या म्हज्या देवाची
नागड्यानीच पुजा करतां
देवाच्यान सांगतां
ह्या म्हज्या देवळांत कोणूच येना...

हे गजालीक आतां तेंप जाला

हालींसराक
हो म्हजो देव
दियार म्हज्या सपनांत येता
आनी म्हजेकडे
एक मुकटो आनी एक उपरणें मागता...

### रान

हांवें केन्ना घर सोडलें?
म्हाकाच खबर ना
दीस हुबले, म्हयने गेल्ले
वर्सां जिरलीं पांयां पोंदचे धर्तरेंत
घरा आसली एक आवय
आनी आसलो एक बापूय
एक भयण आनी एक भाव
पूण सगळे सुवार्थी खंयचे कडले
आपलेपणान वाट पळोवपी एकलोय ना
नाकाच जालीं तीं नातीं
वसाड सगळी माती
एक एक पावल मारीत
चलतां हांव दीस आनी राती

आरेच्चा!
हें आनी किर्तें ?
एके वटेन भगभगीत रेंवट
आनी दुसरे वटेन झाडां आनी झाडां
आनी झाडांचें अठंगें रान

खडपार कांय अक्षरां दिसतात
कोरायल्लीं
'जो कोण रानांत पांय दवरतलो
तो मनीस उरचोना '



- माधव बोरकार
ताळगांव-गोंय.
मो. :९४२०२२२८७६



- आर.रामनाथ
रायंगिणी,फोंडें-गोंय.
मो.:९८५०४५८७६३

-अरुण साखरदांडे
म्हापशें - गोंय
मो.: ९४२२०६१७०२



काव्य फुलोर

## नबत

बोंबड्यान बडी माल्ली धोलार
सांतेरीच्या देवळा मुखार
आमोरेर
नबत जाली...नबत जाली
म्हातारी आइ्डाली
राणग्याच्या....नू...
पाया पडात...पाया पडात
आवयन दिवो पेटयलो पड्वेर
चित्रबोधांतलें 'गमभन' जालें
झिळीमिळी...झिळीमिळी
पराच्या फुटक्या नळयांतल्यान
येवपी वताची तिरपी धार
पेजे ताटलेंत
बोटां सांसपिता गोटे चार
होच काय माजो फुढार?
काळ्या फातराच्या देवाचो
मनांत सदांच भंय
लावंचो पांयांक हात
जेणें चिरून घेतल्या 'गमभन'
आनी धांवचो.....
कानांत वारो भरिल्ल्या पाडका वरीं
अनवाणी पांयांचे याव पोंशेत
येकटोच
बोंबड्याच्या धोलाचो गाज
येता आयकूंक पयस...पयस
वयचो परतून
येवंचो धोल झपोन
वाजोवंचो धणकावन
भिनोवंचो धोलाचो गाज
शिरंतरांत
नबत जपल्या म्हाजे जिणेंत
सांसणाक
आयजूय...

- सतीश गंवस
पणजी-गोंय



## आवय

म्हजे भितरली
एक अद्‌भूत शक्त
कोणाक तार्चे गुपीत
कळपार्चे ना

सोदूंक वचत जाल्यार
थाव ताचो लागपाचो ना
गर्भखोल अर्थ
सोदूंक गेल्यार लेगीत
मेळचो ना

म्हज्या काळजार्चे स्पंदन
तिकाच कळटलें
जिणें म्हाकां
अनवळखी जगाची
वळख करून दिल्या

विचारांचे भोंवतणीं
म्हजे धिटायेचो
गोफ विणून दवरला

खंय आपटलें, भियेलें
अस्वस्थ जालें
तिर्जेच नांव नकळत ओंठार येता
तें म्हणल्यार 'आवय'



- अलका असोळडेकार
मडगांव-गोंय
मो. : ९८२२९८११०७

## कविता आनी कवनुलां

म्हज्या काळजाच्या झाडार
एका शेवण्यान आवज
घोंटेर केला...

घोंटेरांत सुसेग आसा
मर्दी मर्दी येवपी उमेदी
वाऱ्या झुळूक शेवण्याक
मनाच्या अथांग मळबांत
उडपाक सांगता...

काळजाचे सावळेंत
घोंटेर सुरक्षीत आसा
मनांतल्या त्या सुर्याचीं
किरणां घोंटेराक
उब दीत आसा...

उदेवपी सुर्याचीं हुनहुनीत किरणां
प्रेरणा दिवपी...
अस्तंमपी सुर्याचीं दुगदुगीत किरणां
धादोसकाय दिवपी....

सपनांचो पतंग
धरून आत्मविश्वासाच्या दोराक
वयर वयर वता
वाऱ्याच्या सहवासान
मळबाचे उंचायेक

- ईशा लवंदे
माशेल-गोंय






## पावस

उंच उंच मळबांतल्यान
थेंब थेंब पावस पडटा
पावसाचो थेंब पळोवन
आमच्या मनांत आस जागता

आस ही आसा शेतकाराची
पांटवेंचार शेत वसवपाची
दाण्यान दाणो एकठांय करून
वर्साचो पुरूमेंत करपाचो

आसूय आसता कांय सुकण्यांची
पावसाच्या पयल्या थेंब्याक तेळपाची
अदकाचो एकूच थेंबो जिखून ताळ्यांत
वर्साची तान भागोवपाची

आस ही आसा झाडां पेडांची
पावसा उदक आंगार झेलपाची
चारूच म्हयने न्हावन धुवन
वर्सूय भर फुलपा फळपाची

आस ही मनांत पावसा तुजी
झड झड झड जावंदी पुराय
अचकीत असो थांबू नाका
सोसची ना म्हाका तुजी दुराय

- प्रिया गणेश कामत
पंचवाडी - गोंय

## आशेची कीट

आंब्यार बसून मुक्त गळ्यान
कोगूळ गायता गीत
आमी मात घरांत बंदिस्त
शिकतात जगपाची रीत

बुचकळ्यांत पडल्यात विचार
काचाबूल जाला शब्दान शब्द
लेखणी हातांतली थरथरता
सैर भैर जालां कवीत

सूर कसोच लागना
ताल सुटत चल्ला
समेर येवपाची धडपड
ख्रिणा ख्रिणा चल्ल्या

कोणाची ही चूक
कोण भोगता सजा
देवा तुज्या हातांत आसा
आमची हार जीत

नवो सूर्य उदेतलो
नवी उमेद फांकयतलो
धुंवता सगळ्या काळजांत
आशेची एकूच कीट

- सिंधू अनंत शे. असोळडेकार
मडगांव - गोंय
मो.: ९८६०२३२१५८



## यादी

काळाच्या पड्ड्या आड वचूंक ना त्यो यादी
काळजाक दसोवन  दवरल्यात त्यो यादी

विसरूंक मेळना तुजे घराचे वाटेक
चोम्या चोम्यानी  किल्लाल्यात त्यो यादी

लोक जियेतात फाटल्या काळाच्या स्मरणान
निर्वाणेच्या रंगान परत रंगोवन त्यो यादी

वाटे वयलो गोयणो आतां बंदूच आसता
घरा यो म्हूण आतां आपयनात त्यो यादी

शिकलीं एकेच शाळेंत एकेच पाटयेर बरोवन
सांबाळून दवरल्यात अजून पुसूंक ना त्यो यादी

- सुनील पालकार
कालापूर - गोंय
मो.: ९९२१७९६८६५



## काव्य चंवर

### खेव

मातला संवसारार खेव
गोळाक लायला मनीस जीव

पळयल्ली कितली रणभूंय
आनी रणवीर जाल्ले उदार
झुंजूंक आपले भूंये खातीर
प्राण अर्पण करूंक तयार

पूण हो तर पाडो खेव
गोळाक लायला मनीस जीव

यातकी झुजां जालीं
अधर्मी लंकापती रावणाले
कुरुक्षेत्रार कौरव पांडवाले
मेले कितले माल्ले कितले
कोंत हिशेब तो देवच जाणां

पूण हो तर दुश्ट खेव
गोळाक लायला मनीस जीव

हांगा वर्सान वर्स मांडार खेळ
पदां गायली, दुल्पदां गायलीं
गाजली नृत्यांगना
पळोवंक नाशिल्लो असलो खेव
स्वास जाणें गुदमरुन दवल्ला

हो तर विचीत्र खेव
गोळाक लायला मनीस जीव

हाडली हावळ जात्रा फेस्तांचेर
लायलो कलम लग्नां काजरांचेर
येतली फाटीं मनशांची मेकळीक
म्हणटा कसो मनीस तूं सोंशीक

केन्ना जातलो पयस हो मस्तो खेव
जाणें गोळाक लायला मनीस जीव

वच्चें आमी तोडून सगली बंदना
मनीस जातीक जीण अशी परवडना
देवाचेर विश्वास, पाळया संयम
मुक्त करोनाचेर मेळोवन जैत
जातले आमी पर्यून सक्षम

जाणे गोळाक लायला मनीस जीव
ताकाच गोळाक लायतलो मनीस जीव

- एच.मनोज
चिखली गोंय

### व्हाण

पायांतली
व्हाण
माथ्यार
येवन
नाचले
वोरसय
वोरसय
यरभर
घुमलें
घुमें मर्दी
मनीसपण
गळ्याक
फांस
लावन
रडत
भेकत
किळांचून
मेलें....

- महेश गांवकार
नंद्रण,मोर्ले-गोंय
मो.९७६३७७३१५७

तेफळां



डॉ.वामन रा नायक

# आमचे सरकाराक सांगतलो कोण?



**डॉ.वामन रा.नायक** हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ तांणी 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.

आवयभाशेंत शिक्षण दिवपी देश उदरगतीचे तेंगशेर पावल्यात. आवयभाशेंत दिल्लें शिक्षण विद्यार्थ्यांक लागीचें दिसता, अशें प्रतिपादन महाराष्ट्राचे राज्यपाल तथा कुलपती भगतसिंह कोश्यारी हांणी केलें. संद मेळटा तेन्ना ते मातृभाशेंत शिक्षण घेवपाचेर भर दितात.

**म**हाराष्ट्रांतल्या शाळांनी मागीर ती सीबीएससी, आयसीएस तशेंच हेर बोर्डाच्या शाळांनी मराठी शिकोवप हें बंधनकारक जावपाचें आसा. शाळांक मान्यताय दितना ही अट घालतले. हे अटीचें पालन करी ना त्या शाळांची मान्यताय रद्द जातली अशी तरतूद मराठी शिक्षण कायद्या खातीर तयार केल्ल्या मसुद्यांत आसा. राज्यांत मराठी भाशेचो वापर वाडोवपा खातीर राज्य सरकार आग्रो करता. मंत्रालयांतले फायलीत अभिप्राय मराठीत नासल्यार ती फायल परत धाडटले, अशे निर्देश काडीत आसात अशें कळटा. तशेंच राज्यांतल्या वेगवेगळ्या महामंडळांत मराठी भाशेचो कितलो वापर जाता हे विशीं अहवाल मागला. तशेंच चालू अर्थसंकल्पीय अधिवेशनांत हे विशीं कायदो मंजूर करपाचे आसात अशें सरकारान सांगलां. तशें जालें जाल्यार तमिळनाडू, केरळ, कर्नाटक, तेलंगणा, आंध्रप्रदेश आनी गुजरात ह्या राज्यांनी आवयभाशेचे सक्तीचो कायदो केला तातूंत भर पडून महाराष्ट्राचे आनी मराठी संस्कृतायेचे नदरेन हें हिताचें पावल थारतलें.

'मराठीच्या भल्यासाठी' ह्या नांवाचें एक व्यासपीठ लक्ष्मीकांत देशमुख हांच्या फुडारपणा खाल वेगवेगळया जाणकारांनी, कायदेतज्ञांचे मजतीन,कायद्याचो मसुदो तयार केला. बारीकसाणेन पळेल्यार आतां ह्या मसुद्याचें कायद्यांत रुपांतर जावंचें. ताका वेगवेगळीं कारणां आसात. हाचे पयलीं बरोच तेंप भाशा संचालनालयाक एक पुराय वेळेचो संचालक नाशिल्लो. हालींच तो सरकारान नियुक्त केला आनी ताका हेर कामांतल्यान मुक्त केला. तशेंच सीबीएससी आनी आयसीएस बोर्डाच्या शाळांनी हो कायदो लायलो जाल्यार कितें अडचणी येतल्यो ताचेर विचार करपा खातीर तज्ञांक सांगलां. सीबीएससी आनी आयसीएस बोर्डाच्या शाळांनी शिकपी बरेच विद्यार्थ्यांचे पालक हेर राज्यांतले आसतात. तांकां नोकरे खातीर हांगा थंय वच्चें पडटा. हाचेर उपाय म्हूण कांय राज्यांनी राजभाशा शिकप अनिवार्य केलां पूण तांकां परिक्षा दवरूंक ना. त्या विशयांत तांकां परिक्षा आसना. हे धरतीचेर तांकां सूट दिवप योग्य आसा काय कितें हाचेर विचारमंथन चालू आसा.

स्वातंत्र्या उपरांत लोकांच्या राज्यांत, लोकांचे भाशेंत राज्यकारभार हे तत्वा प्रमाण थळाव्या प्रशासनांत थळावे भाशेचो वापर जावंक जाय. थळावे भाशेचो सार्थ अभिमान बाळगप म्हळ्यार इंग्लिशीचो व्देश वा तिरस्कार करप न्हय. हांगा महात्मा गांधीन इंग्लिश भाशे विशीं आपलें मत मांडलां तें अशें आसा- इंग्लिश आंतरराश्ट्रीय वेपाराची भाशा आसा. आमचे मदल्या कांय जाणांक इंग्लिश भाशेचें गिन्यान आसप गरजेचें आसा. इंग्लिश भाशा समृध्द आसा. ती आमच्या वेपार आनी आंतरराश्ट्रीय क्षेत्रांत खुशाल आसूं दी. पूण आमचेर सांस्कृतीक आक्रमण करपी इंग्लिश भाशा मात हाकलून दिवंक जाय. *(यंग इंडिया १९२१)*

बऱ्याच जणांचो असो समज आसा की वयलें शिक्षण आनी वैज्ञानिक क्षेत्रांत इंग्लीश भासूच जाय. पूण कांय प्रगत देशांनी, फ्रान्स, जर्मनी, जपान, रशिया, चीन, इटली ह्या देशांत विज्ञानांतले शिक्षण संशोधन तांचे आवय भाशेंतल्यान चलता. हे खातीर तांणी आवय भाशांनी गरज ते काम केल्लें आसा.

भारता फाटोफाट इस्रायल १९४८ त स्वतंत्र जालें तेन्ना अनेक देशांतले विविध भाशीक ज्यू थंय स्थायिक जाल्ले. त्या उपरांत

इस्त्रायलान 'हिब्रू' ही मातृभाशा राष्ट्रभाशा म्हूण आपणायली. आयज हिब्रू ही इस्त्रायलची ज्ञानभाशा आसा. लिपीच्या अनेक अडचणींचेर मात करून विज्ञान तंत्रज्ञाना विशींचे सगले विशय हिब्रूंतल्यानच शिकयतात. अशे तरेन तांणी हिब्रू ही आपली नश्ट जावपाक पाविल्ली भाशा पुनर्जिवीत केली.

सद्याचे संवसारीकरणांचे फाटभूंयेर अनेक देश आसात जे आपले आवयभार्शेतल्यान सगल्या विशयांचें शिक्षण दितात आनी घेतात. जपानचीच देख घेतल्यार ह्या देशान आपलीं सगलीं शास्त्रां आनी हेर विशय आपले आवयभाशेत हाडल्यात. परकी भाशेची कुबडी तांकां पसंत पडली ना. ह्या देशान उदरगत बरे तरेन साधिल्ली आसा.

आवयभार्शेत शिक्षण दिवपी देश उदरगतीचे तेंगशेर पावल्यात. आवयभार्शेत दिल्लें शिक्षण विद्यार्थ्यांक लागीचें दिसता, अशें प्रतिपादन महाराष्ट्राचे राज्यपाल तथा कुलपती भगतसिंह कोश्यारी हांणी केलें. संद मेळटा तेन्ना ते मातृभार्शेत शिक्षण घेवपाचेर भर दितात. हालींच पुणे विद्यापीठांत प्रकुलगुरू विद्यापीठाच्या पदवीदान सुवाळयांत इंग्लिशींतल्यान उलयताले. राज्यपालांनी तांकां मराठींत उलोवपाक सांगलें आनी प्रकुलगुरू डॉ.एन.एस.उमराणी मराठींत उलयले. महाराष्ट्रांत मराठी भाशेचो वापर शासकीय थरार बऱ्याच प्रमाणांत जाता. हालींच महाआघाडी सरकाराच्या सोपूत सुवाळ्याक चडशे आमदारांनी मराठींत सोपूत घेतलो. मुखेल सचिवान नोटीफिकेशन मराठींत वाचलें.

दापोली कृशी विद्यापीठांत वर्सुकी पदवीप्रदान सुवाळो जाता. ह्या कार्यक्रमाचें सुत्रसंचालन आनी हेर भाशणां दर वर्सा इंग्लिशींत जातालीं. अंदू ह्या सुवाळयाक राज्यपाल भगतसिंह कोशयारी उपस्थीत आशिल्ले. तांणी आपले भाशणांत सगल्यांचे दोळे उक्ते केले. जांचे खातीर हो कार्यक्रम आसा तांचे भार्शेत सुत्रसंचालन कित्याक करीनात, तांणी आपले मनांतली खंत उलोवन दाखयली. राज्यपाल पयलेच फावट सोंपे हिंदींत उलयले आनी ते कितें उलयले तें सगले शेतकार आनी नव्यानूच शेतकार जावपाक मुखार सरिल्ल्यांक बरे तरेन समजलें

१९९४ त महाराष्ट्रांतल्या सगल्या पारंपारीक विद्यापीठां खातीर कायदो केल्लो आसा. देखून तांकां मराठीचो वापर करचो पडलो. विद्यापीठां विद्याविशयक बाबीं खातीर पुरायेन स्वायत्त आसतात हें खरें आसलें तरीय अर्थीक बाबतींत तीं शासनाचेर अवलंबून आसतात. अशे परिस्थितींत शासनाच्या भाशाविशींच्या धोरणाक मान दिवप हें तांची नैतीक लागणूक थरता. हें गोंयच्या विद्यापीठाकय लागू जाता.

प्रशासनाचो गाडो सुरळीत, नेटान आनी योग्य दिकेन चलतलो जाल्यार वावुरप्यांक तांचे आवयभार्शेत काम करून दिवप फायद्याचें थारता, हें बऱ्याच जाणकारांचें मत आसा. आधुनीक प्रशासनशास्त्र, शिक्षणशास्त्र हीं सगलीं शास्त्रां हें मान्य करतात, न्हय तर तीं फोर्सान सांगतात की आवयभाशेत काम करप संवकळीचें आनी सोंपें जाता.(संदर्भः डॉ.गीता भागवत-राजभाषा मराठीच्या पावाशी पा.९१)

प्रशासना खातीर जेन्ना थळाव्यो भाशा उपेगांत घेतल्यो तेन्ना हेरांच्या अणभवांतल्यान कांय मुद्दे मतींत दवरप गरजेचें थारता.

१.प्रशासनीक भाशा ही साहित्यीक (कथा-कादंबरी, नाटकां) भाशे परस वेगळी आसूंक जाय. अलंकारीक उतरांनी फुलोवप प्रशासनीक भार्शेत आसचें न्हय.

२.प्रशासनीक भाशा ही कायद्याचे भाशे परस वेगळी आसची. कायद्याची भाशा गरज तेन्नाच वावरपाची. लांबलचक वाक्यां इंग्लिशींत आसतात तशीं तीं थळावे भार्शेत समजप अवघड जातात. एका वाक्यांत चड उतरां आयलीं म्हणटकच अर्थ सामको कळना. वाचपी कंटाळटा.

३.आपूण बरयतां तें कोण तरी वाचतलो हे मतींत दवरून बरोवप जावंक जाय. प्रशासन झटपट आनी अपेक्षे प्रमाण जातलें जाल्यार भाशा दुसऱ्यांक समजता, रुचता अशी आसपाक फाव. भाशेचो अर्थ लावपांत वाचणाऱ्याचो वेळ आनी बुध्दी फुकट वचूंक फावना.

ललित साहित्याचो अणकार आनी प्रशासकीय अणकार हातूंत वेगळेपण आसता. मराठी भाशा विशयांत बरे गूण मेळळे म्हूण ते प्रशासनीक लेखन बरें करतलेच म्हणू नज. साहित्यीक भार्शेत कवतुकाचे थारिल्ले अलंकार वापरप, लालित्य असलीं खाशेलेपणां प्रशासनीक भार्शेत अवगूण थारूं शकतात.

प्रशासनीक भाशा ही मुद्देसूद, सुटसुटीत, सुसंगत, नेमकेपणां आनी सुस्पश्टताय आसप ही बऱ्या बरपाचीं लक्षणां म्हूण मानतात. प्रशासनीय अणकार हो साहित्याच्या अणकारा परस कांय प्रमाणांत वेगळो जाल्ल्यान अनुवादकांक प्रशासनीक भाशा अणकाराचें खाशेलें प्रशिक्षण दिवप योग्य थारता.

इंग्लिशीचे धर्तेचेर लांबलचक वाक्यां बरोवपाची प्रवृत्ती आसूं येता. पूण प्रशासनांत झटपट निर्णय घेवपाचो आसता. देखून प्रकरणाची फाटभूंय आनी संबंधीत नेम थोडे भितर आसत जाल्यार निर्णय घेवप सोंपें जाता. देखून भाशा सोंपी आसप म्हत्वाचें, भाशेचो अर्थ लावपांत वाचणाऱ्याचो वेळ आनी बुध्दी पिड्डयार जावंक जायना. देखून सोंपीं उतरां, ल्हान ल्हान वाक्यां हाका खूब म्हत्व आसा

अशे तरेन प्रशासनीक भाशा ही-

१.सोंपीं उतरां, ल्हान वाक्यांनी आसचीं.

२. तातूंत मुद्देसूदपणां आसचो. योग्य परिच्छेद, योग्य अंतर आदी.

३. योग्य लेखन शैली आसची.

मूळ इंग्लिशीची शैली, वाक्यरचना आदर्श मानची न्हय. आतां प्रगत देशांनी इंग्लंड अमेरिकेंतूय प्रशासनाची भाशा सोंपी करपाची मोहीम चालू आसा.



पुणे. मोः ९५२७७४४९९०




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळार्चे हितोपदेश)

## जंगल शाळेचो नवो फांटो



नातलांचे परबेची सुटी आयिल्ल्यान सगळीं भुरगीं परत एक खेप गोंयांत आपल्या घरा आयिल्लीं. तेन्ना एल्मोन तांकां जंगल शाळेचो एक नवो फांटो हालींच सुरू जाला म्हणपाची खबर दिली. हें आयकून सगळीं भुरगीं सामकीं उच्बळीत जालीं. ते कानार पडल्या बराबर केन्ना काय थंय वतात अशें तांकां जालें.

म्हणटकच एक दीस सक्काळीं सगळ्या भुरग्यांक आनी बिंगोक घेवन एल्मो बेतलांत गेलो. थंय तीं मोटर बसयल्ल्या एका व्हड्यांत बसलीं. व्हडें साळ न्हंयेतल्यान मुखार वचून अरबी म्हासागरांत भितर सरलें.

तांणी देडेक वर प्रवास केल्या उपरांत एल्मोन सगळ्या भुरग्यांक आपापले स्वीमसूट चडोवपाक सांगलें. उपरांत तांकां मास्क चडयले आनी प्राणवाय आशिल्ले सिलींडर तांचे फाटीक बसयले. बिंगोक स्वीमसुटाची गरज नाशिल्ली. पूण ताकाय मास्क तशेंच प्राणवायचो सिलींडर चड्यलो.

मागीर एल्मोन बिंगोक आनी भुरग्यांक आपले वांगडा त्या खोल आनी निळ्याच म्हासागरांत उडकी मारूंक सांगलें. जेन्ना तीं त्या नितळ उदकांत खोल खोल वतालीं तेन्नाच तांकां येवकार दिवपाक थंय एक देवमासो आयलो.

"येवकार, तुमकां सगळ्यांक जंगल शाळेच्या नव्या फांट्यांत उर्बे भरीत येवकार. तुमी सगळीं भुरगीं नुस्तें खावपाचें सोडून पुरायपणान शिवराक जाल्यांत देखून आमी सगळें नुस्त्या कुटूंब तुमचे उपकारी आसां. आतां तर म्हासागरांत लेगीत व्हडलीं नुस्तीं सानुल्या नुस्त्यांक खावंक वचनात. आमी सगळीं उदकांतली वनस्पत खावन जियेतात. आतां आमी सगळीं कोणाचीच भिरांत नासतना शांतीकायेन जियेतात. आमी ही शाळा आमच्या मोगाळ भुरग्यां पासत सुरू केल्या."

देवमाशान सगळया भुरग्यांक म्हासागराच्या सामकें तळाक व्हेलीं. थंयचो तो देखाव पळोवन भुरगीं सामकीं सुदबूद विसरलीं. थंय तरातरांचे रंगरंगयाळे कोंगे, शिंपयो, घुलो, गुळगुळीत गुंडे तशेंच तांबडीं आनी पांचव्या पानांची वनस्पत, झिली, झोपां असो जळामळाचो सोबीत देखाव नदरेक भूल घालतालो.

शेकड्यांनी सान सानुलीं नुस्तीं मेकळेपणान उदकांत पेंवतालीं. देवमाश्यान भुरग्यांक सगळयाक भोंवडावन नुस्त्याच्या कितल्याच जातींची वळख करून दिली. थंय राशीनी मोरयो, बांगडे, विस्वण, सुंगटां, वागयो, तामोशे, सुरंगुट्यो, कुल्ल्यो, खुबे, शिनाण्यो ,

तिसऱ्यो आनी बरेंच किर्ते किर्ते आशिल्लें. भुरग्यां पासत तें एक आगळेंच तरेचें विश्व आशिल्लें.

''भुरग्यांनो,तुमी थकूंक बिंकूंक नात मू..?''देवमाश्यान विचारलें.

''ना, ना. मात्तूय ना.'' सगळीं भुरगीं एकाच सुरांत आड्डलीं.

''तशें जाल्यार म्हजे सांगातान थोडो वेळ तुमच्यांनी पेंवूं येता.'' देवमाश्यान तांकां म्हळें.

देवमासो जसो जसो त्या अथांग म्हासागरांत पेंवतालो तशीं भुरगींय ताचे फाटोफाट पेंवतालीं. एकेसुवातेर तांकां तळाक एक बुडिल्लें तारूं दिसलें. तें पळोवंक त्या म्हासागराचोच एक वांटो कसो दिसतालें. दर्यातले कितलेशेच जिवावळीन तातूंत राबितो केल्लो. देवमाश्यान भुरग्यांक त्या तारवाचे वेगवेगळे भाग दाखयले आनी तातूंत जियेवपी जलप्राण्यांची वळख करून दिली.

इतल्यांत तांची नदर एका नुरस्त्याचेर पडली.

''हे.. ! हे ऽतें पळयात डॉल्फीन..! आमच्या नुरस्त्या जमातींतलें तें सगळ्यांत हुशार नुरस्तें.'' देवमाशान म्हळें.

दर्या तळांतल्या ह्या पराक्रमा उपरांत घरा पर्थुपाचो वेळ पावलो. एल्मोन सुंदर भोंवडी घडोवन हाडिल्ल्या बद्दल देवमाशाचे उपकार आठयले. मागीर सगळीं पेंवत पेंवत तांच्या व्हड्या कडेन आयलीं. तांणी आपापलो मास्क, सिलींडर आनी स्वीमसूट देंवयलो आनी कपडे चडयले. बरोच वेळ उदकांत रावून करमेल्ल्या त्या भुरग्यांक व्हड्यावेलें वतार्चे न्हाण सुखावंक लागलें. आतां सगळ्यांचे ताळे सुकिल्ले आनी पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली.

डॉल्फिनान आपल्यो वेगवेगळ्यो कला आनी कळाशीचे खेळ दाखोवन भुरग्यांची मनरिजवण केली. भुरग्यांनीय ती आत्मसाथ केली. पूण तांचे परस बिंगोक ती चड बेगीन कळिल्ली.

बिंगोन लिटरभर दुदांत फुगयल्लो उंडो मटक केलो. जाल्यार भुरगीं न्हंयचे देगे वयल्या माडांचीं निकतींच काडिल्ल्या ताज्या आड्सरांचें उदक पियेलीं. तांणी काळंगांय खालीं.

मागीर एल्मोन तांकां बेतलांतले एके ब्राह्मणींत व्हेलीं. थंय तांणी भाजी-पुरी, हळसाण्यांचें तोंडाक, दाळ-भात, कांदा भजीं, सोलकडी आनी निरपणसा फोडींचेर ताव मारलो.

एल्मी, एल्मोची घरकान्न सगळ्यांनी बरे भशेन घरा पावचें म्हूण तांचे वाटेर दोळे लावन बशिल्ली. घरा पावतकच बिंगो तशेंच सगळ्यांनी हुनहनीत न्हाण येतलें आनी सामकें ताणून दिलें.

ooo



# गोविंदा आला रे आला..



**तो** आगोरत्ताचो म्हयनो आशिल्लो. भारतीय दिनदर्शिके प्रमाण श्रावण म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत मायराच्या आज्याचो पंच्यात्तरावो वाढदीस आशिल्लो. देखून सगळीं भुरगीं गोंयांत सुटयेर आयिल्लीं.

श्रावणांतल्या आठव्या दिसा गोकुळाश्टम ही परब येता. भारतांतले सगळे लोक ती मोठ्या दबाज्यान मनयतात. तिका कृष्णाष्टम म्हण्णूय वळखतात. हेच दिसा भगवान श्रीकृष्णाचो जल्म जाल्लो.

हाकाच जोडून गोपाळकालो आनी धंयहांडी फोडपाची 'गोविंदा' ही सर्तूय जाता.

गोविंदा सर्तीच्या वेळार सामकी वयर दोरयेर धंयाहांडी हुमकळायतात आनी मागीर गोविंदा जाल्ले भुरगे एकार एक चडून हांडये मेरेन पावता असो मनशांचो पिरामीड घडयतात. ते हांडयेंत घरावें धंय, चॉकलेटी, पिपीरमिटां आनी हेर खाणां वांगडा बक्षिसांय आसतात.

ते हांडये मेरेन पावून ती फोडून सर्त जिखपाक तरनाटे गोविंदा उंच पिरामीड करपाचो यत्न करतात. एकल्या गोविंदाक तर सामको वयर मेरेन चडून हांडी फोडून जैत मेळोवपाचें आसता. अशे तरेन जैतिवंत पंगडाक ते हांडयेंतलें, धरून रोकड दुडवांचें बक्षीस अशें सगळें फावो जाता. कोणूय पडून जखमी जावंक फावना म्हूण ताका जिखपा पासत सकयल जाळेंय लायतात.

आरुषाक एक कल्पना सुचली. फक्त गोविंदांनीच सर्तींत वांटो घेवपा बदला तांचे मदीं प्राणी इश्टांचोय आसपाव करचो. मान्यताय घेवपाक एल्मो आयोजकांक वचून मेळ्ळो. आयोजकांनी फाटीं फुडें करीत एकदांची तांकां मान्यताय दिली.

आयोजकांनीय चिंतलें, जर हे सर्तींत प्राण्यांचोय आसपाव केल्यार ती एक नविदाद थारतली आनी लोकांची गर्दीय जातली.

ते वर्सा हांडी सदचे परस बरीच वयर बांदिल्ली. खंयच्याच पंगडाक ताचे मेरेन पावपाक जमलें ना. चडशे मनशाचे पिरामीड अर्धारूच कोसळूंक लागले. शेवटाक प्राणी, पक्षी आनी भुरगीं बी आशिल्लो पंगड मुखार आयलो.

हतयान सगळ्यांत सकयलो येर तयार केलो. ताचे वयर वाग्वेलां रावलीं आनी दुसरो टप्पो घडयलो. तिसरो टप्पो पुराय करूंक वाग्वेलांचे फाटीर वागांनी उडी मारली. ताचे उपरांत निमणो टप्पो अनुष्का, नताशा, खुशी, रेहान, आरुष, रणवीर, अवंती आनी रायना हांणी घडयलो.

मायरा सगळ्यांत धाकटें आनी वजनान हल्कें आशिल्ल्यान ताका शेवटाक दवरिल्लें. तें सडसडीत एकेक टप्पो चडलें. हतयान आपले सोंडयेन ताका उखलून पयलीं आपले फाटीर चडयलें. वाग्वेलांनी ताका उखलून आपले फाटीर घेतलें. मागीर मायरान पुट्ट करून वागांचे फाटीर उडकी मारली. उपरांत तें अचळय माकडाच्या खांदार चडलें.

एका माकडाच्या खांदार उबें रावत ताणें हांड्येक हात घालो. पूण आरे सायबा..! हांड्ये मेरेन हात पावपाक तें मातशें शें उणें थारलें..चुरचुरे बाबड्याचे!

इतल्यांत अजाप घडलें. शेवण्याचें भिरें भुर्रऽऽ करून आयलें आनी दोरयेर बसलें. आनी तांच्या वजनान ती दोरी सकयल देंवली आनी हांडी ज्युस्त मायराच्या माणकुल्या हाताक लागली. मायरान आपले इल्ले इल्ले हात ते हांडयेंत घाले आनी गोड गोड धंय भुरकायलें. मागीर ताणें ती हांडी फोडली. सगळ्यो चॉकलेटी, पिपीरमिटां आनी हेर खाणां सरसर करून सकयल भुरग्यांचेर पडूंक लागलीं. सगळ्यांनी तीं जिखून घेतलीं. हो प्राण्यांचो, शेवण्यांचो आनी भुरग्यांचो एकवट पळोवन प्रेक्षकांनी मोठ्ठ्यान हुर्यो घालीत चियर्स केलें. उपरांत मायरा त्या पिरामिडा वयल्यान ल्हवपीक सकयल आयलें. ताचे फाटोफाट हेर भुरगींय देंवलीं. मागीर ती परब आनी तांचें जैत मनोवपाक सगळीं गोविंदाच्या गिताचेर एका तालार नाचूंक लागलीं..''गोविंदा आला रे आला... गोविंदा आला रे आला...''



मूळ इंग्लीश - **दत्ता दामोदर नायक**

*(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)*

कोंकणी अणकार-**मानसी धाऊस्कार**



# एकवट जिंदाबाद

शारांत सर्कस आयिल्ली. सर्कशींतल्या सगळ्या प्राण्यांक एका व्हड तंबूंत दवरताले. सर्कशीचो मालक सामको ल्हेंवटो आशिल्लो. जनावरां कडेन ताचो वेव्हार बरो नाशिल्लो. ताचें एकूच तत्व आशिल्लें, चामडी दियन पूण दमडी न्हय. सर्कशींतले प्राणी ताने-भुकेन आड्डताले पूण तांचो मालक तांच्या जेवण-खाणां कडेन तशेंच तांची सुरक्षा आनी भलायके कडेन आडनदर करतालो.

एकेराती सर्कशीच्या निमण्या खेळा उपरांत सगळीं जनावरां आपलें सूख-दूख एकामेकां लागीं वाटूंक लागलीं.

सगळ्यांत आदीं वांस्वेलान म्हळें, '' पयरच्या पयल्या खेळाची गजाल. म्हाकां जोर आशिल्लो. रिंग मास्टरान येवन म्हाकां म्हळें, ''चल रे वांस्वेला, मोटार सायकल चलोवन लोकांक खूश कर. पयलीं म्हाकां दिसलें हाका बुद्ध शिकोवंची म्हूण! मागीर हांवें चिंतलें ह्या बाबड्याची कसली चूक? तो तर सर्कशींतलो एक बारीकसो नोकर. सगळी चूक तर आमच्या मालकाची आसा. आमकां पोसपाची सगळी जापसालदारकी ताची. कारण आमी ताका कश्ट करून जोडून दितात. आमचोय म्हूण जीव! मालक आमचे लागीं असो निश्काळजीपणाचो वेव्हार करता हें म्हाकां मात्तूय मानवना.''

वांस्वेलाचें हें उलोवप आयकून अप्पूल्या पाय्यार कोणें मीठ फापुडिल्ले वरी ताका जालें . ताणें म्हळें, ''म्हजें आयक, फाटल्या सप्तकांत दनपारच्या खेळा वेळार हांव म्हजी करामत दाखयतना म्हाकां पाय जाल्लो तेन्ना मालकान कसली पर्वाच केली ना. जेन्ना दोतोरा कडेन वखद विरसदाचें उलोवप जालें तेन्ना मालकान म्हळें, ''चड टेन्शन करपाची गरज ना. हें सुणो-माजरा सारकें जनावर थोडेंच आसा, तो तर एक पक्दस्त हती. तांचे कुडीर पायाचो व्हडलोसो परिणाम जाय ना. मेल्यारूय फायदोच करून वतलो. केन्ना आयकूंक ना? 'जितो हत्ती लाखाचो जाल्यार मेल्लो सवाय लाखाचो.'

गंगाराम ओगी बसपी न्हय. गळो साफ करीत ताणें म्हळें, ''टैं टैं टैं टैं, सद्दां भायल्यान एक माजर सर्कशींतल्या कॅम्पसांत घुसता आनी म्हाकां मटकावपाक आशेता. बरें जावं आमच्या मोतीचें, तो भौं भौं करून ताका रोकडेंच धांवडायता. ना जाल्यार इतल्यांत म्हजें टेंऽऽ जावपाचें! म्हजें म्हणपाचें तात्पर्य म्हळ्यार आमची राखण! आनी आयकात, पिकिल्ले गाजर, कुसकीं नासकीं तोमाटां आनी भातेल्ल्यो मिरसांगो खावन दीस काडटां. तुमकां किते खबर ना हें!''

कांय हशक्षलीं लाकडाचे एके व्हड काशींत आंगा गुठली करून बशिल्ले . एका पारव्यान म्हळें, ''आमची म्हूण किते ही जीण? काल आमचो मास्तर आमकां दोगूय भावांक जेन्ना आदेश दियत उज्या रिंगांतल्यान परत परत वचूंक लायतालो तेन्ना आमी बरेच थकले आनी उज्या रिंगांतल्यान वतना दोगूय एकामेकांक आपटून आमचीं पाखांच हुलपलीं. पूण मनशांक आमची पर्वाच ना. असल्या वायट आनी गुलामगिरी परस मरण परवडलें.''

इतल्यांत एका लोखणा पांदऱ्यांतल्या शिंवान येद्या मोट्यान गरड घाली जसो किर्तें सगळयांक आतांच खावन उडयतलो. ताचे गरडींल्यान ताचो राग सारको उफेतालो. ताणें म्हळें, ''म्हजी हालत पळयात. हांव जंगलाचो राजा. म्हजे हांगा कसले हाल करून दवरल्यात पळयात. एक मरतुकडो सुणो सो! कांय दिसां पयलीं सर्कस पळोवपाक आयिल्ल्या एका ल्हान भुरग्यान आपले आवयक विचारलें, 'मम्मी हो तेच जातीचो सुणो गे, जो आमी आयतारा पोलो ग्रावंडाचेर डॉग-शो पळोवपाक गेल्लीं तेन्ना पळयल्लो तो?' आमकां शिंवाचे सुणे करून उडोवपी सर्कशीच्या मालका, केन्ना तूंय गुलाम जावन पळय स्वताक.''

रातभर जनावरां विचार-चर्चा करीत बसलीं.

दुसऱ्या दिसा सर्कशीचो पयलो खेळ सुरू जालो. पयलीं कलाकरांनी आपापली करामत दाखयली. उपरांत जनावरांचो करामत दाखोवपाचो वेळ आयलो. सगळ्यांत आदीं एक कलाकार एका पारव्याक येवन आयलो. ताका एक एक करून निसणीच्या धाव्या पांवड्या मेरेन पावपाचें आशिल्लें. पारव्यान नज आसतनाय झेप घेवन मातशे वयर हुमकळटल्या झोपाळ्याचे दांड्येर वचून बसलो आनी ताणें आपल्या मास्तराक म्हळें, ''हांव आतां तुज्या मालकाची नोकरी करचों ना. खातीर काम करचोना. कसलीच करामत दाखोवचोना.''

हें पळोवन मास्तर अजापीत जालो. ताणें पारव्याक मायेन परत आपोवपाचो यत्न केलो. पूण पारवो मातूय बाडगलो ना.

मागीर पाळी आयली वाग्वेलाची. जेन्ना मास्तरान ताका मोटार सायकल चलोवपाची कुरू केली तेन्ना वाग्वेलान रागान आपल्या लांब आनी धारेच्या नाखटांनी मोटार सायकलीच्या टायरांचो वारोच सोडलो. आनी रागान गुरगुरत म्हळें, ''आमची कांयच पर्वा ना तुमकां. तुमी आनी वेवस्थापक६ आपापल्या पोटाचेंच पळयतात. कसलीच करामत दाखोवचो ना हांव.''

तंबूंत आतां बरोच बोवाळ जावपाक लागलो. आतां अप्पूची पाळी आयली. ताका एका कलाकारा वांगडा फुटबॉल खेळपाचें आशिल्लें. कलाकारान जेन्ना अप्पू वटेन फुटबॉल उडयलो तेन्ना ताणें त्या फुटबॉलार नेटान खोंट मारून तो फोडून उडयलो. अशेंच जेन्ना सुण्यांकूय करामत दाखोवपाक सांगलें तेन्ना ते कलाकारांक दांत दाखोवपाक लागले. आयज जनावरांक किर्तें जालां हें कलाकारांक कळनाशिल्लें. इतल्यांत सर्कस पळोवंक आयिल्ले लोक आड्डपाक लागले, ''हें किर्तें चल्ला? ही सर्कस काय फकांडां? आमचे तिकेटीचे पयशे परत दियात.''

इतले म्हणसर सगळी खबर मालका मेरेन पाविल्ली. बऱ्याच कश्टांनी जनावरांक परत तंबूंत हाडलीं. आवा शिवा करून सर्कशीचो खेळ उलगयलो. शो जाले उपरांत धनयान एक बसका आपयली.

हे बसकेची खबर जनावरां मेरेन पाविल्ली.. गंगाराम नेट्टान आड्डलो, 'मिटींग आमचे कडेन करात. आमचे कडेन.''

कांय जाणटे पिरायेच्या कलाकारांनी मालकाक ताचें खंय चुकता हें दाखोवन दिलें. तो जनावरां कडेन गेलो आनी एक-एका जनावराक पोशेत, तांची चूक मागीत म्हणपाक लागलो, ''म्हज्या मोगाळ सहकाऱ्यांनो, हांव तुमचे कडेन जे तरेन वागलों ताचो म्हाकां पश्चताप जाता. खरें म्हळ्यार चड जोडपाचे आशेन म्हज्या दोळ्यांर सुवार्थाची पट्टी बांधिल्ली. धनाचे लालशेन हांव कुड्डो जाल्लों. खरें म्हळ्यार तुमीच म्हजे जोडीचें साधन हें हांव विसरूनच गेल्लों. तुमच्या कश्टाच्या बदलाक हांवें तुमकां किर्तें दिलें? हांव तुमकां उतर दितां, ह्यान फुडें तुमकां म्हजे विशीं कसलीच कागाळ आसची ना.'' हें सांगून ताणें आपल्या कांय कामगारांक जनावरांचो बरो सांबाळ करपाची ओर्द सोडली.

आपलें जैत पळोवन अप्पून व्हड्ल्यान योशणा दिली, ''आमचो एकवट.''

हेर जनावरांनी वांगडाच म्हळें, ''जिंदाबाद.''

सर्कशींतलें वातावरण पर्थून एक खेप खोशयेन भरलें.



मूळ पंजाबी- **दर्शन सिंह आशट**
(केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या बाल साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत)
हिन्दींतल्यान कोंकणी-**श्वेता नायक**

# नितांत पावलो जुंव्यार..!



माया खरंगटे

-५-

मामू, नितांताक घेवन दादूचे वटेन गेलो. थंय लेगीत दादूचे लोक काम करताले. नितांत हांगा-थंय भोंवलो. तांचे कडेन गजाली केल्यो. तांची भास मातशी वेगळी आसली. पूण नितांत ताका कळूंक नाशिल्लीं उतरां विचारून-विचारून घेतालो. तेय अपुरबायेन ताका जापो दिताले. नितांताक दादूचे लोक आवडले.

तांच्या म्हऱ्यांत बसून गजाली करतना नितांतान हळूच एक बॉक्स हातांत घेतलें. ताचेर इंग्लिशींत बरयल्लीं अक्षरां नितांत वाचूंक लागलो. तितल्यांत एकट्यान येवन ताच्या हातांतलें बॉक्स घेतलें आनी म्हळें, ''मुन्ना, त्या बॉक्साक हात लावं नाका हां, तें तुज्या हाताक लागतलें.''

''कितें तें?'' नितांतान उमळशिकेन विचारलें.

''तें कितेंय आसूं; पूण तुवें हांगाचे एक्कय वस्तीक हात लावं जायना. हीं बॉक्सां उगडून पळोवप ना. कळ्ळें?''

नितांतान तकली हालयली. मनांतल्यान मात ताका एके गजालीची खोस जाली. ताणें मनांतच म्हळें, '... तीं अक्षरां म्हाकां वाचूंक आयलीं... वाव... तें कसलें तरी कॅमिकल... कितें काय, हात लाय नाका म्हळां... हे लोक चोरून कितेंय करतात दिसता... म्हणजे स्मगलिंग... हय, हांवें पळयलां... खंय पळयलां... ये... याद जायना... मामूक विचारपाक जाय... कशें विचारूं?..'.

नितांत येदेंशें तोंड करून मनाच्या विचारांत घुस्पलो. मामू तांचे कडेन गजाली करूंक गुल्ल जालो.

मदलें दार उगडून महम्मद भितर आयलो. ताणें म्हळें, ''चलो मुन्ना, खाना खाने.''

''जालें रे सगळें?''मामून विचारलें.

''हां जी.''

महम्मद नितांताक घेवन दुसरे वटेन गेलो. थंय पांच-स व्हडलीं बॉक्सां बांदून दवरिल्लीं. आनी कांयच सामान नासलें. नितांतान हळूच महम्मदाक विचारलें, ''हांगाचें सामान खंय?''

''बोटींत घालें.''

''म्हणजे, हांगाच्यान आतां खंय वचप आमी?'' नितांतान विचारलें.

''आमी म्हळ्यार तूं न्हय.''महम्मदान सांगलें.

''आरे, गजाली करत रावतले? चलात जेवपाक येयात. बेगीन जेवन भायर सरूं जाय आमकां.'' अस्लम भाईन धेकणो घालो.

बिर्याणीच्या वासान नितांताक भूक लागिल्ली. नितांत प्लेट घेवन बसलो; पूण ताच्या मनांत महंम्मदाचें वाक्य घोळटालें... ताणें म्हणिल्लें, आमी म्हळ्यार तूं न्हय... म्हळ्यार कितें काय? थोडे जाण हांगा रावतले, बाकीचे वतले... यल्लाप्पा आनी सिद्धी गेल्यार पुरो... विचारांच्या घुस्प्यांत भिरभिरपी नितांत सवका-सवका जेवतालो.

बाकीचे जेवन उठले. तांणी कपडे बदल्ले. म्हणटा सर सगळेच कपडे घालून तयार जाल्ले, मामू सुद्धा. नितांत भियेलो... म्हळ्यार हांवें एकट्यानच हांगा रावप? तो बेगीबेगीन मामू म्हऱ्यांत गेलो, ''मामू, म्हजे कडेन दुसरे कपडे नात, हांव कितें घालूं?''

''तुवें हांगाच रावपाचें मुन्ना. आमी दोन दिसांनी येतले.''

''हांवें एकट्यानच रावप? ना मामू, म्हाकां भंय दिसता.''

''यो, यो, आमचे वांगडा, चल ताका व्हरया आनी वाटेर दर्यांत उडोवया.''सिद्धीन दोळे मोठ्ठे करून ताका पळयत म्हळें.

अस्लम भाईन एक धेकणो घालो.

''सिद्धी चड मद माल्ला रे, मुन्ना तूं भिवनाका हां. हो चाचू तुजे बरोबर आसतलो, आनी तुमी दाटूवटेन न्हिदात. थंय ते सगळे आसात. आमी परवांच येतले. तुका कपडे हाडटां, बुकां हाडटां वाचपाक.''

अस्लम भाईन ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां पुसत सांगलें.

''तुमी खंय वतात भाई?'' नितांतान रडकुऱ्या आवाजान विचारलें.

''आमी कामाक वयतात मुन्ना. रोखडेच येतले हां.''

चाचून मुखार येवन ताचो हात धरलो आनी म्हळें, ''चल मुन्ना, आमी बेगीन कामां सोंपोवया आनी तेवटेन या.''

मामूक ताका सोडून वतना वायट दिसलें. कोण कोणाचो अपुरबायेचो भुरगो... सगळें विसरला... आमच्या असल्यां म्हऱ्यांत पावला... ताचें इस्कूल चुकतलें... हांगा ताची कोणय वाट लायना जाल्यार पुरो... या अल्ला, ताची याददास्त बेगीन दी... ताका ताच्या घरा पावयतकच म्हज्या जिवाक सुशेग... मामून हळूच दोळ्यांतलीं दुकां पुसलीं, आनी तो सडसडीत भायर गेलो. नितांताक घेवन चाचू रांदचे कुडींत आयलो.

चाचून सगळीं कामां जाग्यार घालून तो नितांताक घेवन दादू वटेन गेलो.

दादूचे मनीस नितांताची बरी अपुरबाय करताले. तांणी नितांताक तांच्यो धाडसाच्यो गजाली सांगल्यो. फकत ते कितें काम करतात तें मात सांगलें ना. तांच्यो धाडसाच्यो गजाली आयकून नितांताक बरी मजा आयली.

तांच्या गजाली वेल्यान नितांताक एक कळ्ळें, हे दोनय वटचे लोक स्मगलर. ताका एके वटच्यान भंय सो दिसलो आनी एके वटच्यान ते कितें चोरून विकतात, तें जाणून घेवपाची ताका उमळशीक लागली. ताणें म्हळें, ''ह्या बॉक्सांनी कितें घालां तुमी? भाईच्याय मनशांनी अशेंच कितें तरी घालां. आतां खंय तरी घेवन गेल्यात ते.''

''मुन्ना, तुका नाका ह्यो गजाली. चल आमी न्हिदुंया.''

''येता हां!'' म्हणून नितांत टॉयलेटी कडेन गेलो. थंय हब्बू आशिल्लो.

हब्बू दादूक असोच एक दीस दर्या वेळेर मेळिल्लो. हांगा थंय भीक मागून जगतालो. दादूचे टोळयेंत येत साकून ताका खावपा-जेवपाक भरपूर मेळटालें आनी कामय तशेंच करचें पडटालें.

नितांताक पळोवन ताका खोस जाल्ली. आपल्याक इश्ट मेळ्ळो म्हणून तो उमेदी जाल्लो. ताणें हळूच नितांताक सांगलें, ''जाणा मरे, आमी वखदांची तस्करी करतात.''

''म्हळ्यार कितें?''

''म्हळ्यार तुजें बोड. आरे आमी दोन नंबरचीं वखदां विकतात.'' हब्बून हळूच सांगलें.

''कितें? खरीं वखदां हाडून...'' नितांतान अजापान विचारलें.

''हय, हय.''

''आरे न्हिदपाक येनात. गजाली करत बसतले?''

दुसरे दिसा नितांतान नाश्तो खालो, न्हालो. 'आतां कितें करूं?' ताचे मुखार व्हड प्रस्न उबो रावलो. तो उदास जावन रांदचे कुडींत बशिल्लो. वयल्यान दिसपी हारशाचेर ताची नदर थिरावल्ली. कोणय सुकणी बी दिसतात काय म्हणून तो पळयतालो. ताची उदास नदर पळोवन चाचूक वायट दिसलें. ताणें म्हळें, ''मुन्ना वाज आयलो?''

''हय रे, वोगी म्हणून कितें बसून रावूं?''

''खरेंच. तू मम्मी-पप्पा फुडयांत आसतना इस्कुलाक वतालो मरे. तुजे खूब इश्ट आसले.''

''हय तर, पूण म्हाकां कितेंच याद जायना. कितें शिकतालों काय हांव?''

नितांत परत येवजुणुकेंत पडलो... खंय आसा काय म्हजी मम्मा-पप्पा, शाळा आनी इश्ट आसतलेच... कोण काय ते? म्हाकां सोदतात जातले ते... असो हांव सगळेंच कसो विसरलों?''

''मुन्ना, तूं तुज्या इश्टां वांगडा कितें खेळटालो, याद कर.''

''ना रे चाचू, कांयच याद जायना... आं, चाचू म्हाकां रातीं स्वप्न पडिल्लें, हांव खूब भुरग्यां बरोबर खेळटालों बॉल घेवन. तो दादलो पिल्लूक वाजयतालो.''

''तो इस्कुलांतलो सर आसतलो मुन्ना. आनी तूं तुज्या क्लासींतल्या भुरग्यां वांगडा खेळटालो जातलो.''

''आसत.''

नितांत परत उदास जालो.

चाचून म्हळें, ''मुन्ना, चल आमी वचून नुस्तें मेळटा जाल्यार पळोवया. आज तुका शिता बरोबर नुस्त्याची कडी वाडटां.''

वयर वचया म्हळे बरोबर नितांत खोशी जालो.

''चल चाचू, बेगीन या.'' नितांतान ताकीत केली.

''राव, जनरेटर बंद करून येतां.''

''कितें? जनरेटर आनी हांगा?''

"मागीर हांगा लायट कशी आसा तर?"

"आतां लायट, फॅन बंद जातलो? फ्रीजय बी."

"हय. मागीर सांजेर परत जनरेटर चालू करतले."

"आनी हांगाय आतां काळोख जातलो."

"ना मुन्ना, वयर वतकर मजा दाखयतां तुका."

ते वयर आयले.

काल ताका मामून वयर हाडिल्लो तेन्ना काळोख जायत आयिल्लो. आज उजवाडांत तो जुंवो बरो सोबीत दिसतालो. भोंवतणी निळो दर्या, आनी वोताक लागून तें निळें उदक लखलखतालें, ताचेर सुकर्णी धिट्टचो घालतालीं. नितांताच्या तोंडांतल्यान आयलें, 'वाव! कितलो सोबीत हो वाठार?'

जुंव्यार मर्दी-मर्दी ल्हान-व्हड तळपां आशिल्लीं. तांचेर नितांत चडूंक-देवूंक लागलो. तेन्ना ताका सट्ट जालें... 'आरे, अशींच तळपां आमी चडटाले, देंवताले... खंय काय?... आनी हे कोण?... आमी हाताक धरून उडयो मारताले तें... हें... कांयच याद जायना...' अशें येवजना जातकर नितांत पिकार जातालो.

तो चाचूच्या फाटल्यान वतालो. चाचू एका जाग्यार वचून रावलो. थंयच्या झोपां मर्दी एका मोठ्या पायपाचें तोंड आशिल्लें. चाचून नितांताक तें दाखयलें. त्या पायपा भोंवतणी चार लोखंडाचे वारांव पुरिल्ले. तांचेर कंवचेचें धाकणें घाल्लें. भोंवतणच्यान वारो आनी उजवाड भितर वतालो, पूण पयसुल्ल्यान पळयतल्याक कांयच



कळनासलें. दिसतालें तें झोंप. चाचून म्हळें, "मुन्ना, भितर उजवाड आनी वारें कशें येता तें कळ्ळें मरे? हेवटेन आमच्या घरा वयर अशीं चार-पांच पायपां आसात. आनी थंय दादूचे वटेन चार-पांच पायपां आसात."

"पूण पायपां कित्याक रे?"

"उदक आनी हेर कितेंय भितर सरूं नये म्हणून."

नितांतान म्हळें, "बरी मरे तुमची आयडिया. हीं पायपां इतलीं लिपोवन कित्याक दवरल्यांत. हांगा काय आनी कोण रावनात."

"मुन्ना, हांगा आनी कोण रावनात खरे, पूण केन्ना केन्नाय लोक पिकनिकेक येतात, केन्नाय चुकून पोलीस बोट घेवन ह्या जुंव्याक भोंवताडो घालून वतात. म्हणून वोदोळ आमी भायर येतना हांवें पयलीं हेवटेन-तेवटेनची सुलूस घेतली.

"म्हाकां एक सांग चाचू, तुमी अशे लिपून कित्याक रावतात, आनी पोलिसांक कित्याक भियेतात?"

"आरे मुन्ना, आमचो धंदोच तसलो. म्हणून ह्या कोण नाशिल्ल्या जुंव्यार आमी रावतात. तुमच्या काणकोणच्या त्या घरा पोंदच्या भुयारांत आमी रावताले. थंय तूं पावलो. तो जागो लोकांक कळटलो म्हणून आमी हांगा आयल्यात."

"आं, तुमी स्मगलींग करतात तर."

"यो मुन्ना, आमी तळ्या कडेन पावले. ह्या तळ्यांत बरें नुस्तें मेळटा."

"हें खाऱ्या उदकाचें तळें?"

"ना मुन्ना गोड उदकाचें. हेंच उदक आमी वापरतात."

"वाव, भोंवतणी खारें उदक, आनी मर्दी गोड उदक. जादुशी मरे?"

"जादूच, हांगा जायते जुंवे आसात पळे, तांचेरय आमचे भशेन गोड उदकाचीं तळीं आसात खंय. थोड्या जुंव्यांचेर कोण कोण रावतात लेगीत."

"ह्याच जुंव्याचेर कोण्ण कित्याक रावनात काय?"

"हांगा कोण रावनात म्हणून आमी हांगा जमनी पोंदा घर बांदून सुशेगाद आमचो धंदो करतात."

उलयत उलयत ते तळ्या म्हऱ्यांत पावले. त्या तळ्याक पंप आशिल्लो. तो

पळोवन नितांतान विचारलें, "चाचू, हांगा हो पंप कोणे दवरला?"

"आमी लायला. ह्या तळ्याचें उदक आमी वापरतात."

"शी, आमी पितात तें हेंच उदक?"

"आरे मुन्ना, आमचें उदक निवळ करपाचें मिशीन पळोवना तुवें?"

"हय, एक्कागार्ड म्हणून बरयलां तें मरे?"

"हय, तातुंतल्यान उदक निवळ करून आमी वापरतात."

चाचून नुस्तें धरपाच्यो दोन गरये बडयो हाडिल्ल्यो आनी बारकेर्ली सुंगटां हाडिल्लीं. गरयेक सुंगटां लावन एक दोरी उदकांत सोडली आनी बडी नितांताक धरपाक लायली. दुसरी बडी आपणे घेतली आनी नितांताक सांगलें, "हात हालय नासतना वोग्गी उबो राव. दोरी जड लागली काय म्हाकां सांग."

नितांताक मजा आयली. तो बडी घेवन उबो रावलो. पूण ताचो हात हालतालो. बऱ्या वेळान चाचूचे गरयेक एक नुस्तें लागलें. चाचून हळूच बडी वयर काडली. तें नुस्तें पळोवन नितांत नाचूं लागलो. चाचून तें नुस्तें काडून पोतयेंत घालें. परत गरयेक सुंगटां लावन चाचून उदकांत सोडलें. चाचूक पांच-स नुस्तीं मेळ्ळीं. पूण नितांताक एक्कय मेळ्ळें ना. तो बेजार जालो.

चाचून म्हळें, "मुन्ना, तुका संवय ना, आनी तूं हालता. म्हणून नुस्तें लागना. संवय जातकर मेळटलें."

नितांताक बडी धरून वोग्गी उबो रावपाक वाजय आयिल्लो. ताणें म्हळें, "चाचू, हांव नुस्त्यांचेर रागार. तूच धर नुस्तें. हांव खेळटां."

नितांत तळ्या देगेर आशिल्ल्या फातरार बसलो आनी बारीक-बारीक फातर घेवन उदकांत मारूं लागलो. पातळशे फातर उदकांत उडयतकच ते दोन उडक्यो मारताले. नितांताक मज्जा आयली. ताणें आनीक एक पातळसो फातर हाडलो आनी आडवो धरून उडयलो. त्या फातरान तीन उडयो मारल्यो. नितांतान ताळयो मारीत उडयो मारल्यो.

नितांत बरोच वेळ फातर मारून खेळ्ळो. मागीर ताका वाज आयलो. ताणें पळयलें एक झाड तळ्याचेर बागवल्लें. ताचेर पक्षी बशिल्ले. ते उदकांत उडी मारून नुस्तें हाडून झाडार बसून खाताले.

हे वटेन चाचूक धायेक नुस्तीं मेळ्ळीं. चाचून सामान कवळ्ळें आनी नितांता म्हऱ्यांत आयलो.

"चल मुन्ना आमी घरा या."

"हें चाचू, हांगा बरें दिसता. त्या बिळांत वाज येता."

"आरे, म्हाका जेवण करूं जाय. सांजचीं परत येवया."

"खरेंच मरे, सांजचे परत वयर येवया मरे?"

"हय, हय, येवया हां परत वयर."

नितांताक घेवन चाचू सकल आयलो.

चाचू नुस्तें उजरावंक बसलो. नितांत कितें करतलो, ताका वाज आयलो. थंय कागदां आशिल्लीं, ताचो बॉल करून तो खेळपाक लागलो. कागदाचो बॉल कितलो वेळ उरतलो, तो पिंजलो. मागीर मात ताका रडूंक येवंक लागलें. तो एका जाग्यार बसून हुडक्या-हुडक्यांनी रडूंक लागलो.

नितांताची जाग ना म्हणून चाचू ताका सोदत भायर आयलो. पळे जाल्यार नितांत बॉक्सा कुशीक बसून रडटा. ताणें ताका वेंगेंत घेतलो आनी फुसलावंक लागलो.

(चलता...)

मडगांव-गोंय. मो.:९४२०६८५२७८

# एक आशिल्लें बायूल

- हर्षा सदगुरू शेटये



-४-

## पावसाचे दीस

पावस खूब पडटा. बायुलाक पोरसांत वचपाक मेळना. बाईमावशी क्लासांत आसा. जयमावशी आनी धाकलो मामा इस्कोलांत गेल्यांत. व्हडलो मामा खंय खंय गेल्लो आसता! तो घरांत कमी आनी भायर चड आसता. आजो पोरसांत गोरवां फाटल्यान आनी झाडां फाटल्यान आसा. पावस पडटा म्हणून तो बायुलाक व्हरना.

बायुलाक मागीर वाज वाज येता. तें मागीर विठाबाय बांयचें उदक कशें काडटा, हांड्यांत कशें घालता, ढोऽ ढोऽ करून कपडे कशें उमळटा तें पळयता...आजयेन ताका न्हाणोवपाक मान्न्यांत हाडलां...विठाबाय आसा ती पळोवन ही मातशी भायर वता. हे वटेन बायूल बेगबेगीन व्हिरतीद बालदेंत बुडयता आनी फातरीर आपटीता... तरीय ढोऽ ढोऽ आवाज येना...

'माणसुकी ना बाये हे चलये कडेन... यो पयलीं हांगां..'हाताक धरून आजी ताका झडझडीत न्हाणोवन काडटा..वाल्यान पुसता.

''आई म्हाका म्हातारी कर..!''

आजी मागीर ताका वालो गुठलायता, एक पोत पदरा भशेन माथ्या वयल्यान दिता आनी म्हणटा 'जाली आमची इल्लीशी म्हातारी'. मागीर बायूल मुड्डत मुड्डत कुडींत वता..हारश्यांत पळयता आनी हांसता.

'यो गो बाये, कपडे घाल.' हाताक मेळटा तो व्हिरतीद घालून आजी मेकळी जाता . एक केळें खायत खायत तें क्लासांत वता.

बाईमावशी भुरग्यांक अ आ इ ई म्हणपाक शिकयता. तेंवूय तांचे म्हऱ्यांत बसता आनी म्हणपाक सुरू करता. परतेंय भायर येता. पावस मातसो कमी जाला, तें एक सोंपण देंवता. पावळेर हात धरता. पोशांत उदक येता, परतें उडयता. परतें येता. ज्युस्त इस्ताफेन थंय पावता. इस्ताफेन पापा आज्याल्या घरा फाटल्यान रावता. ताका लागीं पडटा म्हणून तो पापा आज्याल्या पोरसांतल्यान मुखेल रस्त्यार येता. तो बायुलाचेर एक थेंगसो घालता. 'चल पयलीं भितर..'आंगार कापोत घालून वचपी इस्ताफेनाक तें थर्त भिता आनी भितर धांवता.

रांदचे कुडींत विठाबाय सोय कांतता. तिचे म्हऱ्यांत वचून तें बसता. ती इल्लीशी सोय ताच्या हातार दवरता. सोय खायत खायत तें परतें एकदां क्लासांत पासय मारून येता.

आजो न्हांवन देवाची पुजा करता. तें आज्या बरोबर ल्हान पाट घेवन देवा कुडींत बसता. पाळ्यांतलें एक एक फूलआज्याल्या हातांत दिता. आजो मागीर तें देवाक घालता. पुजा जातकीर तें तिर्थ पिता. वाटयेंतली साकर खाता. मागीर ताका आपणेंय पुजा करन कशें दिसता. आजो ताका लाकडी विठोबा दिता. ताका तें वणटीक तेंकोवन उबो करता. अनंताचीं फुलां ताचे आंगभर घालता आनी घांट वाजयता. वाटयेंत साकर दवरता.

पावसान खूब काळोख केला. तें सालांत येता. बावलेक पांयार घालता.'न्हिद गो बाय, न्हिद गो बाय' करून पांय

हालयता. सालांतली जमीन शेणाची,जमनीक मातशे खवळे आयल्यात. तें एक खवळी बोट घालून वयर काडटा. मागीर आनीक एक काडटा. आतां ताका बरो उद्योग मेळ्ळा. तें बोटां भितर घालून घालून खवळे काडून जागो निवळ करून दवरता.

मावशेलो क्लास सोंपता. ती वारांदा वटेनचें क्लासाचें दार बंद करून सालांतल्या दारांतल्यान भितर येता. मावशेली नदर बायुलाचेर पडटा. ''आगो, पापया किते करता गो तूं हें..? मदलेच कुडके काडून बुरशें करून दवरलां मगो तुवें..? शी ! शी! शी..! आतां पावसांत शेण सुद्धा काडूंक मेळचें ना.''

मावशी ताका उठयता. मोरयेंत व्हरून हात धुता. आनी सोमर्ते जेवपाक व्हरता. ताट घेवन तें आनी मावशी वारांदार बसता. रस्त्या वयल्यान धवो निळो युनिफॉर्म घालून वचपी भुरगे दिसतात. बायूल तांकां पळयता..''हो पळय एक धाकलो मामा गेलो...आनीक एक जयमावशी गेली...आनीक एक गेली...'' तें नाचता...जयमावशी आनी धाकलो मामा येयसर ताचें मेजप सुरूच आसता.

मामा मावशी जेवसर तें रांदचे कुडींत कदेलार वचून बसता. ताका थंयच लकणी येता. तें बशिल्ले कडेन न्हिदता. ताका जाग येता तेन्ना तें खाटीर न्हिदिल्लें आसता. कुशीक आजो न्हिदिल्लो आसता. ही लोखंडाची खाट खूब उंच. ताका सकयल देंवपाक येना.

आजो जागो आसा काय म्हणून



पळोवंक तें आज्याच्या दोळ्याची मलपी वयर काडटा. आज्याक रेखडीच जाग येता. आजो केन्नाच ताचेर तापना. 'कसली गो तुजी चिमणेची न्हिद!' म्हणत ताका सकयल देंवयता. तें घरांत एक पासय मारून येता. आजी मदले सालांत आड पडल्या. जय मावशी आनी धाकलो मामा अभ्यास करतात. तीं मॅट्रीकेक आसात.

तें क्लासांत वता. थंय कोण कोण किते किते करतात तें पळयता. कोणाच्या हातांत कातर आसा. कोण तरी कातरीन कपडो कापता. ताका दोन तिराटे मेळटात. तें ते जमनीर पातळायता. दोनी बोटांनी ते कापपाक सोदता. मागीर आनीक तिराटे पुंजायता आनी भायर येवन वता.

थोड्या वेळान जय मावशी ताका खावपाक कांकण आनी दूद हाडटा. बायुलाक कांकण खूब आवडटा. तें बेगबेगीन कांकण घेता आनी हाताक घालता. मावशे मुखार हात हालयता. 'आगो दी गो, दी गो.' मावशी ताका विनयता. निमाणें एकदाचें तें कांकण काडून दिता. जय मावशी कुडके करून दुदांत बुडोवन ताका खावयता. तोंड धुता, पो लायता. नवो व्हिस्तीद घालता. कैंसार दांतोणी मारता.

पावस थांबला. जोतें घालून तें आज्या वांगडा देवळांत वता. सदचीच कार्यावळ तें उमेदीन करता. टण टण करून घांट वाजोवप, टिण्ण आवाज करून फंड पेटयेंत पयशे घालप. प्रदक्षिणा काडप, जमनीर नाक घशटोवन 'पाव पाव' करप. भुरगीं खेळटात तीं पळोवप आनी परतें घरा येवप. पेज जेवप आनी न्हिदप...आनीक एक दीस सरता.

-५-

## बायुलाक भाव जाता

एक दीस सकाळ फुडें एक गाडी येता. गाडयेंतल्यान एक बायल देंवता. ती मावशेच्या क्लासांत वता. ती मावशे कडेन उलयता. आजो आजयेक सांगतना बायूल आयकता. 'ती सावित्री सचदेव. गोंयच्या राज्यपालाची बायल. सोशल वेलफेर आनी चायल्ड वेलफेर

असोसिएशनाची अध्यक्ष.' बायुलाक तें कांय कळना.

मावशेलो क्लास आतां सांखळे लागसार कुडण्या व्हरतात. ती मावशेक थंय शिकोवंक यो म्हणून सांगता. ती मागीर आज्या, आजये कडेन उलयता. आजी म्हणटा,''इतले पयस तें कशें येतलें..?'' ती बायल मावशेची फाट थापटिता. मावशी आनी आजो तिका पावोवपाक मोटारी मेरेन वता. बायूल तिका टाटा करता. तिवूय ताका 'टाटा' म्हणटा.

दोन दिसांनी क्लासाचें मशीन आनी हेर सामान व्हरतात... आतां बाई मावशी सबंद दीस बायुला बरोबर आसता. खावोवप, लावप, न्हाणोवप... सगळ्या कामांक आतां ताका बाई मावशी जाय पडटा.

बाई मावशी नुस्तें उजरायतना तें म्हऱ्यांत बसता. ल्हवूच नुस्त्याच्या दोळ्याक हात लायता.

''बायूल, हात खंय तुजे..?''आजयेचो आवाज येता. बायूल बेगबेगीन हात फाटीं काडटा.

....आनीक एक दीस मदींच दनपरां एक दादलो एक पत्र घेवन येता. आजो पत्र वाचता. ''बायुलाक भाव जालो, बायुलाक भाव जालो. भाव जालो....'' आजो उलो करून सगळ्यांक सांगता. बाई मावशी मातला मामीक उलो करून सांगता...

''मातला मामी, ताईगेर चलो जालो गेऽऽऽ''

आजो आनी आजी बेगबेगीन जेवून मडगांवां वतात. आजयेक पावन आजो दुसरे दिसा परतो येता. बाई मावशी, बायूल, आजो परतीं बारशाक वतात. तो वाटकुळेंच तकलेचो भाव बायुलाक खूब आवडटा. ताचे मोव मोव केंस बायुलाक आवडटात. बायूल ताच्या खड्ड्याक परतें परतें हात लायता.

''बाई मावशे, आमी ताका वतना घरा व्हरुंया ?'' बायूल विचारता, ''व्हरुंया मगे?''

धाकल्या बाबूक आजी पाळण्यांत घालता तें बायूल बरें करून पळयता.

दोन दिसांनी आजी आनी बाई मावशी बाबूक, बायुलाक, धाकल्या बाबूक आनी तांच्या मां क घेवन सांखळे परतीं येतात.

आजी धाकल्या बाबूक पांयार घेवन तेल बी लायता तें बायूल उमेदीन पळयता. आजी तेलाची उरवळी घेवन बसल्या. उरवळेंतलें तेल चिपटान हातांत घेता आनी बाबूचे तकलेर थापता.

''आखो माखो तेल माखो

तेलकाराचो बुड्कुलो फुटलो

तेल गे तेल...तेल गे तेल''

टण टण टण...चिपट उरवळेचेर मारता. परत चिपटान तेल हातांत घेता.

''बायुलाक कर...बायुलाक जाय आखो माखो...''

बायूल आपल्याकय तश्शें तेल लावन घेता आनी आजये कडल्यान न्हाणोवन घेता. आतां बाई मावशी बी ताका न्हाणोवपाक उपकारना.

धाकल्या बाबूक धूप घालतात. तोवूय बायुलाक जाय पडटा.

''आंदा बांदा

गिरीगिरी चांदा

शिंपीभर गंदा

वाटीभर अक्षदा

बाबूल्या कपलाक तिऽऽती....''

आजी बाबूक काजळाची तीट लायता. कपलाक आनी पोल्याक. इतलो तेंप बायुलान कपलाक काजळाची तीट बी कांयच लायली ना. आतां सुवार्थान तें सगळें करून घेता.

आजयेन, मामान, मावशेन धाकल्या बाबूक धरलो रे धरलो तें आपूण येवन ताका तेंकता.

हरशीं तें खुळखुळो बी वाजोवन धाकल्या बाबूक खेळयता. ह्या बोवाळांत बायुलाचो दुसरो वाडदीस येता आनी वता. बायुलाचो बाबा गोंया भायर आसता. आजी बायुलाचे आवडीचे दुदफेणे करता आनी बायुलाक ओवाळटा.

बाबूक न्हीद कमी. हालोवन धोलोवन न्हिदोवंचो पडटा.

''घुमचे कटर घुमचे कटर ला ला रे

बाबूचो न्हिदपाचो वेळ जाला रे

कोणी तरी बाबूक न्हिदूंक व्हरात रे

धव्या घोड्यार बसून येयात रे

घण...घण..घण...टण...टण...टण..''

आजी बाबडी हातांनी बाबूक धोलयता..

''आजी बायुलाक धोलय, बायुलाक हालय...बायुलाक न्हिदय..''

''हांगा यो हांव न्हिदयतां तुका...'' आजो ताका उबारीत म्हणटा. ''दोळे धांप आतां....''

''बाय गो बायुला

तुज्या पांयांक गो चिनेलां

वयल्या वाड्यार शाळा तुजी
ताका उक्तीं जनेलां...''

बायूल आज्याचे वेंगेंत न्हिदता.

''पळय, न्हिद येताली पोराक..! हट्टान दोळे धांपना आशिल्लें....!''

बाबू तीन म्हयन्यांचो जाला. बाबू, मां आनी धाकलो बाबू मड्गांवां वचपाक भायर सरल्यांत. व्हरपाक बाबा आयला. तें बाबा कडेन वता पूण गाडयेंत बसचे वेळार बाई मावशेक आपयता. गाडयेंत बसून तांचे बरोबर या म्हणून बाई मावशेचे फाटीक लागता.

बाबा बायुलाक सांगता, ''तूं यो..तुका दोन दिसांनी परतें हाडून पावयतां.''

पूण तें एकलें येवपाक तयार ना. तें बाई मावशेच्या पदराक धरून ओडटा. बाई मावशेचे केंस धरून ओडटा. ती ताका सकयल दवरता. पूण तें तिचे केंस कशेंच सोडना. आजो येवन काचकुल्यो करून बायुलाक कुशीक काडटा. आतां तें आज्याक बुड्डीता. व्हडल्यान रडत पोरसांत उबें आसा...

## दिवाळी

आतां मावशेन आपले जोडीचे पयशे आशिल्ले तार्चे नवें मशीन घेतलां. ओणोव घालून बायूल रोद कशें हालता तें पळयता. मावशेचे पांय वयर सकयल जातात तशें सकयलें रोद हालता. वयलें चक्र कशें घुंवता..? बायुलाक सामकी नवलाद कशी..!

मावशी ना ती पळोवन तें मशिनाची वादी बी वयर सकयल करता. त्या नव्या मशिनाचेर बाई मावशी बायुलाक तांबड्या तिकल्यांचो व्हिंरतीद शिंवता.

एक दीस बाई मावशी, जय मावशी वारांदाचेर पणट्यो पेटयतात. वारांदाचेर, खांब्यांचेर बालांव लांबयल्यात. ते बालांव दोडून दवरलेले ते बायुलान पळयलेले. ते वांटकुळेच कशे जाले काय..? बायूल अजापान पळयता.

रातचो 'घुमचे कटर...घुमचे कटर...कटर कटर घूम ' वाजपाचो आवाज येता. मावश्यो बायुलाक घेवन आड्या कडेन येतात. रस्त्यार नरकासूर नाचयतात. वांगडा कृष्ण आसा. बायूल पळयता. तें काळेंच तोंड, तांबडेच मोठ्ठे दोळे...''बायूल भिता...नाका नाका... बायुलाक नाका.'' तें...तें फाट करता. दोळे धांपता.

दुसरे दिसा मावशेन शिविल्लो तिकल्यांचो नवो व्हिंरतीद घालून तें दिव्यांक उबें रावलां.

आजो, व्हडलो मामा, धाकलो मामा आनी बायूल. आजी आरत घेवन उबी आसा.

धाकलो मामा बायुलाक विचारता, ''कालचो नरकाचो सूर कसो दिसतालो..?''

''नाका नाका..बायूल भिता.''

कोणाक ना भिवपी बायूल नरकाचो... म्हणटनाच भिता. आज्याक तें बरें दिसना. एक दीस आजो पोरसांत उजो घालता आनी बायुलाक सांगता,''नरकासुराक लासयलो आं..तो ना आतां.''

बायुलाचो भंय वता.

## रामनाथ भाऊलें घर

ह्या वर्सा बायुलाचो धाकलो मामा मॅट्रीक जावन फुडें शिकपाक मड्गांवां गेला. तो माई मावशेगेर रावता. जय मावशी घराच आसा. ती फुडें शिकपाक वचूंक ना. आतां दोनूय मावश्यो बायुलाच्या फाटल्यान फुडल्यान आसतात. आतां ताची मस्तीय वाडल्या. पूण घरा भायर कोणागेरूय गेलें जाल्यार शाण्या भशेन वागता. मावशेन दोळे बी केले जाल्यार लोकांमुखार उलोवपाचें थांबता. पूण ताका जें जाय तें जायच. मागीर तें खट कशें फाटीक लागता.

बायुलाक आतां तिसरें वर्स चलता. पूण आपले हातांनी तें जेवना. ताका काणयो सांगून सांगून, शेंवणीं बी दाखोवन लावचें पडटा.उंदराची उनुल्ली, तेला तुपांत तळिल्ली, हुंदीर मामा चिंता करी, कावळ्या तुजे दोळे फुटूं..वडा तुजीं पानां झडूं... काणी आयकून आयकून बायुलाची काणी पाठ जाल्या. मावशी मदीं किर्ते चुकली बी जाल्यार बायूल तिका याद करून दिता.

आज्याल्या घरा फाटल्यान आज्याले भयणीलो चलो रामनाथभाऊ घर बांदता. घर जायत आयलां. बायूल मागील दारा आड्या कडेन वचून वचून पळयता.

अंदूं माया म्हयन्यांत मुंबय सावन बायुलाचो भाऊमामा, मामी, देविना, नितीन बी आयल्यांत. बायुलान मामाक पयले फावट पळयला.

रामनाथभाऊ राधाकृष्णाच्या देवळा कडेन काजू कारखान्यार काम करता. तो आज्याल्या पोरसांतल्यान फाटल्यान घरा कडेन वता. बायूल ताच्या फाटल्यान वता. रामनाथभाऊल्या घराक तेंकून ऐस्तापेनालें घर. ताका तेंकून सांतानालें घर.

एक दीस तें रामनाथभाऊल्या घरा कडेन आसतना ठो...ठो...ठो... करून

फुगेट्यांचो आवाज येता.

''केदो व्हडलो आवाज, किर्ते जालां..?''

बायुलान हरशीं फुगेट्यांचो आवाज आयकला.

''आज्याल्या पोरसांत वानर येतात. घरार चडून ते नळे फोडटात. आजो मागीर एक एक फुगेट लायता.'' तें रामनाथभाऊक सांगता.

''आगो सांतानागेर बाबू जाला, म्हणून लायल्यात माराणे. खूब फुगेटी...म्हणून व्हडलो आवाज!''

'सांतानागेर बाबू जाला' ही गजाल घरांत सांगपाक तें धांवत धांवत घरा येता.

''आई,आई सांतानागेर मगे बाबू जाला. ताणें ठो ठो करून फुगेटी लायल्यात. आमी या मगे बाबूक पळोवपाक..?''

''हय,तूं वच आज्या बरोबर.''

थोड्याच दिसांनी रामनाथभाऊलीं घरचीं नव्या घरांत रावपाक येतात.

तायबाय, तांचे चले, विनोदमामा, विलासमामा,महेश आनी चलयो विनयताई, रोशनताई आनी इल्लेशें ज्योतीबाय...

आतां बायुलाचो वेळ आनीकूय बरो वचूंक लागला. तें इल्लेश्या ज्योतीबायक पळोवपाक परतें परतें वता.

णव-धा वर्सांचें रोशनताई ताका खूब आवडटा.

तायबायल्या घरा फाटल्यान व्हडलो दोंगर आनी तेंकून व्हडली खण. खूब पावस पडटकीच ही खण भरून व्हांवता. बायुलाच्या आज्याच्या घराचे दावे वटेन एक व्हाळ आसा. खण भरतकीच उदकाचो लोट व्हाळांतल्यान रस्त्यार येता. बायूल वारांदाचेर उबें रावन हो उदकाचो सांवार पळयता. ह्या उटंगाराच्या पावसांत व्हाळांतल्यान नुस्तें वयर येता. सक्यल्या वाड्या वयले लोक पाटलो बी घेवन येतात.

बायुलाच्या आज्याचें घर खूब वयर. आड्यांतल्यान भितर सरून पोरसूं. मागीर घरांत वचपाक धा एक रूंद सोपणां. मुखार रस्त्याक तेंकून बापूलें घर. रस्त्यार उदक भरतकीच रोखडेंच तांच्या दारांत वता. पूण आज्याल्या वारांदाचेर उदक येना.

बायुलाक दिसता आनीकूय खूब पावस पडचो. धाय सोपणां उदकांत बुडचीं. उदक वारांदाचेर वयर येवंचें. मागीर बायुलान जाय तशें त्या उदकांत नाचचें.

तें आजयेक विचारता, ''आनीक कितलो पावस पडपाक जाय गे हांगा उदक येवपाक..?''

''कित्याक गो पुता..?''

''आगे म्हाका कागदाचीं व्हडीं सोडपाक मेळटलीं न्ही गे..!''

''आगे बाये, नाकात आनी बुडट्यो. सक्यल्या घरांत खूब बुडट्यो पळयल्यात आमी.''

साखळे बाजारांत आज्याल्या आज्यालें पोरणें घर आसा. पावसांत वाळवंटी न्हंय भरून व्हांवता. मागीर आज्याल्या बापायचें कपड्यांचें दुकान, आज्याल्या बापोलभावाचो पसरो बी सगळें उदकांत भिजतालें.

''जाणा मगो बायुल, बुडटी येता म्हणून बाप्पान हें अशें वयर घर बांदलें. बाप्पा म्हळ्यार आज्याचो बापूय. ताचो व्हटलो फोटो आज्याच्या घरांत आसा.''

बुडटी येता शी दिसतकीच सक्यल्या घरांतले लोक हांगा रावपाक येवपाक लागले. नाका त्यो यादी, पूण बायूल आजयेक विचारीत रावता.

''आगो बाये, आजीमांये तुका कित्याक गो ह्यो खबरी..?''

अश्याच एका उटंगराच्या पावसांत बायुलाचो तिसरो वाडदीस जाता. बायूल बाई मावशेन शिंविल्लो नवो ख्रिस्तीद घालता. आजी दूद आटोवन दूद फेणे करता. दुदाचो आंबो, काजू, अणस..असलो फळार करता. हरशींय जाल्यार घरांत दूद चड उरल्यार आजी रोखडी दूद आटोवन बायुलाक दूद फेणे करून दिता. 'दूद पिना पूण दूद फेणे तरी आवडीन खाता पापीण!' अशें म्हणीत ताका ओखेता.

ह्या पावसांत खूब दीस जाले बायुलाचो बाबा येवंक ना. मर्दी मर्दी तें याद काडटा. पूण ती तितलेच पुरती. तें मावशे वांगडा केन्नाय वता मडगांवां. पूण दोन दीस रावन परतें येता. थंय ताच्या मां क ताचे फाटल्यान नाचूंक वेळ ना. घरचीं कामां आनी व्हडल्या भावाचें, धाकल्या भावाचें करपाकूच तिचो दीस वता. म्हणटकीच तें आतां सांखळेच आपलें घर समजूंक लागलां. मडगांवां गेल्यारूय आपणें सांखळे परतें येवपाक जाय हें ताका कळ्ळां.



# देख

## नामदेव ग.सुर्लीकर

विवेक नांवाचो कश्टाळू इश्ट म्हजो. हॉटेलांतले कपडे उमळोवंक हाडप हो ताचो सदचो धंदो. तागेली बायल, पूत राजू ल्हान आशिल्लो तेन्ना देवा घरा गेल्ली. म्हणटकूच ताच्या परिवारांत राजू बगर आनीक कोणूच दुसरो तिसरो नाशिल्लो. विवेकालें आनी ताचे घरकान्नीचें एकूच सपन आशिल्लें, एक दीस तांचो पूत शिकून व्हड आय.पी.एस. ऑफिसर जावंचो! पूण तागेल्या पुताचें शिक्षणा कडेन मातूय मन लागनाशिल्लें. तो तर स्कुलाक वचपाकूच भियेतालो. विवेकाक सदांच सकाळीं ताका उठोवंचो पडटालो. तेन्नाच तो हातरूणा वयलो उठटालो. राजूक सदांच स्कुलाक वचपाक वगत जातालो. आनी होमवर्क तर तो केन्नाच पुराय करी नाशिल्लो. ते पासत सद्दां बाई कडल्यान तापोवण्यो खावंच्यो पडटाल्यो. वयल्यान वर्गातले भुरगे ताका चाळयताले.

राजू सदांच स्कुलाक वचपाक नाका म्हूण कसलीं ना कसलीं निमतां करतालो. केन्ना ताचे पोटांत दुखतालें तर केन्ना दांत उसळतालो. केन्ना तकली दुखता म्हूण रडटालो. अशे तरेन सदांच नवीं नवीं नाका आशिल्लीं निमतां करतालो. विवेक ताका सदांच तापयतालो. कानाक धरून स्कुलांत व्हरून सोडटालो. पूण राजूचेर ताचो कांय एक परिणाम जाय नासलो. एक दीस स्कुलांतल्यान घरा येतना, हाच्या फुडें हांव केन्नाच स्कुलाक वच्चोंना अशें येवजितालो. घरा कडेन आंगणा मेरेन पावतकच राजून बापायक उलो मारलो.

''बाबा, हांव न्ही फाल्यांच्यान स्कुलाक बी वयचों ना हां, आतांच सांगून दवरतां.'' विवेक पळयत उरलो. एक उतर लेगीत उलयलो ना. ''फाल्यांच्यान हांव तुज्या वांगडा काम करपाक येतलों.''

विवेक थोडो वेळ ओग्गी रावलो.

''बरें आसा म्हज्या पुता. तूं स्कुलाक वचना म्हणटा जाल्यार वच नाका. पयलीं हात पांय धुंवून जेवन घे. फाल्यांच्यान हांव तुका म्हज्या वांगडा कामाक व्हरतां.''

राजू खूश जालो. मनांतल्या मनांत हांसलो. फाल्यांच्यान स्कुलाक वच्चें पडचें ना. सदांची कटकट गेली. पूण तो थोडो अजापय जालो. पप्पा इतक्या बेगीन मान्य जालो? अशें कशें जावं येता? हो मनीस तर सदांच तिडकतालो बोंबले देटांतल्यान.

दुसऱ्या दिसा दोगूय बेग्यानूच उठले. च्या बा पेतली. राजू आपल्या बापाय वांगडा



वचपाक तयार जालो. तागेल्या बापायन कपड्यां पोटली राजूच्या माथ्यार दिली आनी दुसरी पोटली स्वता आपल्या माथ्यार घेवन व्हाळार वचपाक लागले. व्हाळार पावतकच माथ्या वयली कपड्यां पोटली सकयल दवरली आनी कपडे धुवपाक लागलो. राजू मनांतल्या मनांत विचार करतालो, आरे हें काम तर सामकें सोपें आसा. कपड्यांक उदकांत बुडोवपाचें आनी साबण लावन घासपाचें, फातरीर धाड्य म्हूण धाडोवपाचें. जंजळावन जंजळावन पिळपाचें आनीक सुकपाक घालपाचें. कपडे सुकल्या उपरांत परत एकठांय करपाचे. पोटली बांदपाची, घेवन माथ्यार घरा हाडपाचे.

पुणून जेन्ना राजून आपल्या बापाय वांगडा कपडे धुंवपाक कॉमेस केले तेन्ना कांय वेळान कपड्यांचो मळ, दाग यासून काडटा म्हणसर भेंड आनी हातांची बोटां खूब दुखपाक लागली. कपडे सुकून काडटां म्हणसर सामको जाम जालो. थकलो. कशे तरेन तरी तार्णे सगल्यां कपड्यांची पोटली बांदली आनी तकलेर घेवन घरचो रस्तो धरलो.

घरा पावतकच विवेकान वेळ आसा म्हूण कपड्यांक फेर्र मारपाक सुरवात केली. राजू कडेन आनी कांयच काम करपाची ताकत उरूंक नाशिल्ली. जेवलो खालो आनी न्हिदून सोडलें. न्हिदला थंय कशीच केल्यार न्हिद ताका पडना. तागेलें अख्खें आंग फोडटालें. हय न्हय सो जोरय आयिल्लो. तकलीय दुखताली. किर्ते जाता तें ताकाच कळऽ नासलें. तरी दुख्ख तो सोसतालो बाबडो. बापूय इतली वर्सा सावन इतलें कुस्तार काम करीत आयला. हे काम तर शिकपा परस चड कुस्तार. चिंतीत पडिल्लो आसतना चिंतनानी अख्खी रात सोंपली. केन्ना उजवाडलें तें बाबड्याक कळ्ळें लेगीत ना.

सदां भशेन बापूय ताका उठोवपाक कुडींत गेलो. पळयत तर राजू उठून बसला.

''चल, या मरे कामार?''

'' बाबा, हांव तुमच्या वांगडा कामाक येवचों ना.''

''कित्याक रे? काल तुवेंनूच तर सांगलां, सदांच म्हज्या वांगडा कामाक येतलो म्हूण. मागीर आतां किर्ते जालें?''

''बाबा तुजीं कामां आतां करचों ना. हांव स्कुलाक वतलों. म्हजें शिकप तुमच्या कामा परस सादें सोपें.''

हें आयकून विवेकाक खोस जाली.

''बाबा, तूं तर सद्दां म्हाका जबरदस्तीन स्कुलाक व्हरून सोडटालो. तर हे फावटी तुवेन तशें केलें ना कित्याक?''

विवेकान हांसत म्हटलें, ''शाण्यां म्हज्या पुता हांवेन तुका मोगान, मारून बड्यत सगळे भशेन पळयलें. समजायलेंय. पुणून तुजेर ताचो कसलोच परिणाम जाय नाशिल्लो. ते खातीर हांवेन विचार केलो, तुका तुजो निर्णय स्वता घेवं दी म्हूण! आनी तुवेंनूय बी तशेंच केलें. तुवेन अणभवलें स्कुलांतल्या शिक्षणां परस म्हजें काम चड कुस्तार आसा म्हूण. तूं स्वता तुजे इत्सेन स्कुलाक वचपाक तयार जालो. आयज म्हाका तुजेर विस्वास जाला की तूं म्हजें आनी तुगेलें आवयलें सपन खऱ्यानीच पुराय करतलो म्हूण. एक ना एक दीस व्हड आय.पी.एस.ऑफीसर जातलो.''

'' हय बाबा, आयज म्हजे खऱ्या अर्थान दोळे उकते जाले. तुमचें दोगांयलें सपन हांव पुराय करतलों हें म्हजें उतर तुमकां.''

आपल्या पुताचीं उतरां आयकून विवेकाले दोळे भरून आयले. तार्णे पुताक मायेन वेंगयलो.

# नेम पाळुंया ...

दीपा मुरकुंडे



सांजवेळा स वरांचेर विनयाचो शिकवणी वर्ग सोंपलो. तो चलत चलत धा मिनटांनी घरा कडेन पावलो. ताणें फ्लॅटाची बॅल वाजयली. बाबान दार उक्तें केलें.

''बाबा, आज तूं म्हजे पयलीं घरा पावलो. बरें, म्हाका आज तुका कितें सांगूंक जाय.'' विनयान म्हळें.

''हय मरे? चल तर हात पांय धुवून यो.'' बाबान म्हळें.

''विनू, कपडेय बदलून यो. बाबा वांगडाच च्या घेवंक बस.''आईन सांगलें.

''हां आई, रोखडोच येतां.'' म्हणून आपले बूट आनी दप्तर जाग्यार दवरून विनय धांवतूच भितर गेलो. हात पांय धुवन, कपडे बदलून रोखडोच भायर आयलो.

आईन ताचे खातीर गरम गरम टोस्ट करून दिले.

''बाबा, हांव च्या घेतना तुका कितें सांगपाचें आसा म्हाका, सांगूं?''विनयान विचारलें.

''नाका विनू, पयलीं टोस्ट खावया, च्या पिंवया. मागीर सुसेगाद बसून उलोवंया. आज म्हाका तुजे कडेन उलोवपाक वेळ आसा.'' बाबान सांगलें.

दोगांयनीय च्या घेतली. आई तांचे सरी येवन बसली.

''हां विनू, आतां सांग तुका कितें सांगपा आसा तें !''बाबा.

''बाबा, ह्या म्हयन्याचे तीस तारखेक म्हजो वाढदीस आसा. म्हज्या वाढदिसाक म्हाका भेट म्हणून तुवें म्हाका स्कुटर दिवंक जाय.'' विनय.

''कितें? स्कुटर? शाण्या, तुजी पिराय कितली आसा?''बाबा.

''बाबा, आतां चवदावें वर्स सोपून पंदरावें वर्स सुरू जातलें. म्हळ्यार हांव स्कुटर चलोवपा इतलो व्हडलो जातलों.'' विनय.

''शाण्या, अठरा वर्सां पुराय जाले शिवाय स्कुटर चलोवप नासता. आतां तूं सायकल चलोवंक शकता. पूण स्कुटर न्हय.''बाबान सांगलें.

''ना बाबा ना. म्हजो इश्ट विजय स्कुटर चलोवंक शिकला. तोय म्हजेच पिरायेचो आसा. तो स्कुटर चलोवंक शिकून रस्त्यार चलयता जाल्यार हांवें कित्याक शिकप ना?''हांवें कित्याक रस्त्यार चलोवप ना?'' विनय रागार जावन उलयतालो.

''विनू, आतां तकली मातशी थंड दवर आनी बाबा कितें सांगता तें पयलीं आयक. मागीर तुका जे प्रस्न विचारपाचे आसात ते विचार.'' आईन विनयाची फाट पोशेत सांगलें.

''बरें आई. आतां हांव बाबा सांगता तें आयकतां.''विनय.

''विनू, वाहना चलोवपा बाबतींत कांय कायदे आसात. सगळ्यांत पयलीं म्हळ्यार अठरा वर्सां पुराय जाले बगर रस्त्यार स्कुटर चलोवप नासता. स्कुटर ही मशिनाचेर चलता. ताचेर मनीस पुराय नियंत्रण दवरूंक शकना. कारण ती आपचलीत आसता. ते खातीर समजपणाची गरज आसता, ती चवदा-पंदरा वर्सांचे पिरायेच्या भुरग्यां मदीं आसताच अशी ना. सायकल ही मनीस आपले पांयांनी चलयता. हाता पांयांचो वापर करून तो तिचेर नियंत्रण



दवरता. सरकारान केल्लो कायदो आमी मोडूंक जायना. तो आमच्या बऱ्या खातिरूच सरकार करता.'' बाबान सांगलें.

''पूण बाबा, म्हज्या इश्टाक विजयाक ताच्या बाबानूच स्कुटर हाडून दिल्या. चलोवपाकूय तार्णेच शिकयल्या. विजयाचो बाबा आनी विजय सरकारी कायदो मोडूंक शकतात जाल्यार आमी कित्याक मोडचो न्हय?''विनयाचो प्रस्न.

''विजयाच्या बाबान चूक केल्या हें कळटा आसतनाय हांवेंय ती चूक करप ना. आतां विचार कर, तूं आल्येगेर गेल्लो तेन्ना तांच्या शेजाऱ्यान आपल्या चवदा आनी सोळा वर्सांच्या चल्यांक स्कुटर घेवन दिल्ली. तांणी ती शिकून ते रस्त्यार हेर वाहनां कडेन सर्त करूंक लागले. तांच्या आई बाबांक लोकांनी वचून सांगलें. पूण तांणी तें काना मनार घेतलें ना. शेवटीं परिणाम कितें जालो? ट्रका कडेन सर्त करून एकलो मेलो आनी दुसरो हांतरुणार पडून आसा. भुरगेपणांत जें काम करपा इतलो समंजसपणा नासता तेन्ना तें काम तांकां करूंक दिवंक जायना. दुसरें म्हळ्यार आमच्या बऱ्या खातीर सरकारान जे कायदे केल्यात ते जर आमी पाळळे नात जाल्यार ती आमची व्हडली चूक जातली. तूं स्कुटर चलयतना तुजी चूक नासून लेगीत जर अपघात जालो जाल्यार ताची ख्यास्त म्हाका भोगची पडटली. तुज्या बाबाक अशी ख्यास्त जाल्ली तुका आवडटली? ना न्हय? देखून आमच्या बऱ्या खातीर केल्ले कायदे आमी पाळूंक जाय.''बाबान सांगलें.

''बाबा, हांव अठरा वर्सांचो जातकर तूं म्हाका स्कुटर घेवन दितलो? खऱ्यानीच दितलो?'' विनयाचो प्रस्न.

''हय, खऱ्यानीच दितलों. ह्या वाढदिसाक तुका सायकल घेतां, चलोवंक शिकयतां. ती घेवन तूं शिकवणेच्या वर्गाक वच आनी यो. तुका रस्त्याचेर वाहन चलोवपाचो आत्मविस्वास येतलो. पूण तुवें कोणाकूच सायकलीचेर घेवप ना आनी विजया वांगडा स्कुटरीर तर अजिबात वचप ना. तूं ताचे वांगडा गेला हें केन्नाय म्हाका कोणाय कडल्यान समजल्यार हांव तुका सायकल दिवंचोना. कळ्ळें?''बाबान सांगलें.

''हय बाबा. हांव खऱ्यांनीच सांगतां. हांव तुका तशें उतर दितां.'' विनयान आत्मविस्वासान सांगलें.

विनयाचो प्रस्न सुटावो जालो म्हणून विनयाक आनी ताच्या आई बाबाक बरें दिसलें.

❖

मो. ९२२६८९४१२६

# आमची मामाई

- उषा ज. कामत



**मा**माई हें उतर आयकलें काय म्हाका आमची मामाई दोळ्यांमुखार येता. इल्लीशी, मोटवी, गोरीपान, सामकि मिर्यांनी भरिल्ली पूण तोंडभर हांसून येवकारपी अशी ती आमची मामाई.

हय, म्हजे यादींतली मामाई जाणटे पिरायेची. पूण तिच्यो खूब यादी म्हजे कडेन आसात. हालीं तेंपार मामाई हें उतर खंयच आयकूंक येना. पूण हांव ल्हान आसतना मामाई हें उतर सामकें चालंत आशिल्लें.

मामाई ही म्हज्या सख्ख्या मामाची आई न्हय. तर पयसुल्ल्या मामाची आई. पूण तिचो सहवास म्हाका खूब फावटी मेळ्ळा. सामकी बडबडी, मायेस्त, गुणेस्त अशी ती मामाची आई म्हळ्यारच मामाई.

मामाईक गजाली करपाक खूब आवडटालें. ल्हान भुरग्यांक भोंवतणी बसोवन ती आपले भुरगेपणांतल्यो यादी सांगताली. यद्ये तिका तिचें भुरगेंपण चडूच याद जातालें जावंये..! तर, ती अशे तरेन भुरग्यां मदीं सामकि भुरगी जाताली आनी आपल्यो फाटल्यो यादी जागयत आमचे वांगडा हांसताली...किटकिट्टाली.

एक फावट खंय मामाई आपले आवय वांगडा कुडाळाक आपले मावशेगेर गेल्ली. इतले पयलींचें कुडाळ तें. सगळो वाठार रुखांनी भरिल्लो. आनी अश्या रानांत मावशेलें घर. भोंवतणी तसो चार पांच घरांचो शेजार आनी फाटल्यान एक ल्हानशी न्हंय. यद्ये न्हंयचो फांटो आसुंये. पूण ती न्हंय बरीच खोल आशिल्ली.

गांवांतल्यो बायलो सकाळीं ते न्हंयचेर कपडे उमळपाक घेवन वताल्यो. सांगातान भुरग्यांक्य न्हावपाक व्हरतालीं. ही मामाई आपले व्हडले मावस भयणी वांगडा न्हंयचेर गेली. देगेर कितल्योशोच फातरी आशिल्ल्यो. एकएकली कपडे घेवन फातरीर उमळटाली. मावशे भयणीक फातर मेळटा सर मातशें रावचें पडलें. त्या गांवच्या बायलांनी मामाईक आनी ताका पळयलां मात...ये..एकार एक प्रश्न सुरू..'कोण गा ह्यां ? कवां इलां? खंयसून इलां ? तुजा सारकां दिसतां सां ! आज मी सकळ इल्लय गो. जालां माजां. ये गो जाई..ये, हंय ये..हंयसर ये धुंवांक..''

एका फाटोफाट तीं मालवणी उतरां आयकूंक मजा दिसताली मामाईक. गजाली करत करत सगळीं कपडे उमळटालीं. आनी अचकीत न्हंयचें उदक वाडाक लागलें. न्हंयक बुडटी आयली. खरे तर ते सोंपत्या पावसाचे दीस आशिल्ले खंय. तेदे वेळार कांय पावस पडऽ नासलो. पूण अदीं मदीं अशें घडटालें खंय आनी त्या गांवचे लोकांक तें सदचेंच कशें..

एकामेकाक जागयत, बोवाळ घालत सगळीं जाणां वयर सरलीं. मामाईक हें सगळें नवें. तिका कांयच कळना जालें. सगळीं जाणां एकाच वांगडा आरडटालीं. पळय जाल्यार उदक एकदम चडून मामाईच्या कंबरा वयर पावलें. मामाई सामकि भिली. भयणीन व्हडल्यान आड्डून लागींच्या फातरार चडून राव म्हण फातराक बोट दाखोवन सांगलें. गळ्या मेरेन पाविल्ल्या उदकांतल्यान ती कशीबशी थंयच आशिल्ल्या फातरार चडून उबी रावली. मामाई सांगता- घरा मावशाक कोणें खबर दिली कोण जाणा..मावसो धांवत आयलो तोच न्हंयेंत घुसलो खं य आनी मामाईक फाटीर मारून धडेर घेवन आयलो. 'म्हाका लज जाली.' मामाई खबर सांगतना मुरगटली.

'खरेंच त्या दिसा बुडटां बुडटां वाचलें हांव. देवाची कृपा!' म्हणत दोळे धांपून मामाई हांसताली. आमी भुरगीं मामाईक पळयत उरतालीं. दोळे धांपून हांसतना मामाई सुंदरूच दिसताली.

(चलता.)



पासय

डॉ. नूतन देव

# आरोग्यम धन संपदा..



**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान ' आभाळ ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

**सामाजिक(Social) भलायकी सांबाळपाक पयलीं म्हणचे आपूण ह्या समाजाचो एक घटक म्हणपाचें भान आपल्याक आसूंक जाय. जो कोण 'हांव आनी हांवूच' इतल्याचोच विचार करता ताका सामाजिक भलायकेचो लाभ जावंक शकना. जितलो सुवार्थ उणो तितलीं दुर्येसां उणीं.**

७ एप्रील हो दीस जागतीक भलायकी दीस म्हणून मनयतात. जेन्ना मनशाक कसलेंय एक दुर्येस जाता, तेन्ना सर्वसादारणपणान आमी भलायकी इबाडली अशें म्हणटात. पूण रोग जावप हो तर आमचे भलायकेचो एक ल्हानसो वांटो जावन आसा. म्हणटकच आमची संपूर्ण भलायकी म्हणल्यार किर्तें हाचेर जण एकल्यान थोडोसो विचार करपाची आयज गरज आसा.

आमी उदेंत, अस्तंत, उत्तर, दक्षिण अश्यो चार मुखेल दिका आनी आग्नेय, नैऋत्य, वायव्य आनी ईशान्य अश्यो उपमुखेल दिका मानतात. तशेंच आमी भलायकेचे चार मुखेल आनी चार उपमुखेल फांटे पालतात. मुखेल फांटे म्हणल्यार शारीरीक भलायकी, मानसीक भलायकी, सामाजीक भलायकी आनी आध्यात्मीक भलायकी. तशेंच कौटुंबीक भलायकी, नैतीक भलायकी, आर्थीक भलायकी आनी राष्ट्रीय भलायकी अशे चार उपमुखेल फांटे म्हणूं येतात. अशी ही आठ फांट्यांनी आशिल्ली भलायकी आपल्याक लाभल्या काय किर्तें हाचो आमी दरेकल्यान विचार करपाची गरज आसा. ते फांटे संपादन करपा पासत ते दिकेन वचपाची आमी सदांच तयारी दवरूंक जाय.

आपले भलायकेची काळजी घेवप ही संपुर्णायेन आपलीच जापसालकी आसा म्हणपाचें सगळ्यांनी मान्य करूंक जाय. हाका आडवाद म्हणल्यार सामकीं ल्हान भुरगीं आनी सामकीं जाणटी मनशां म्हणूं येता.

भलायकेचो विचार करतना सगळ्यांत आदीं आमी आमचे शारिरीक (physical) भलायकेक घट्ट दवरूंक जाय. आमकां एके सुवातेर साकून दुसरे सुवातेर वचपाक आनी वेळार पावपाक, बरे स्थितींतलें एक वाहन जाय आसता तशें आमची कूड अशें आमी म्हणूं येता. जर वाहन वाटेर परतें परतें बंद पडूंक लागलें जाल्यार तें सारकें करून ताका मूळ पदार हाडपाक जशे दुडू, वेळ, कश्ट लागतात तशेंच कांय प्रमाणांत आमकां दुर्येसां जातकच आमचे कुडी बाबतींत घडटा.

आमचे कुडीचें स्वास्थ्य बरें दवरतले जाल्यार आमी वेवस्थीत आहार, व्यायाम,

न्हीद आनी नितळसाण हांचें भान दवरूंक जाय. आमचे जिवितांत आदीं साकून चलून आयिल्ले जिन्नस, गांवांत तयार जावपी भाजीपालो वा कड्डण, घरांत शिजिल्लें जेवण हाचेर आमचो चड भर आसूंक जाय. फक्त पोट भरपाक वो जिबेच्यो अपुर्बायो करपाक जेवण न्हय तर 'अन्न हें पुर्णब्रह्म' हें आमी जाणूं क जाय. जशें अन्न तशेंच तें खातल्याचें शरीर घडटा हाचो विसर आमी पडूंक दिवंक फावना.

आमचे कुडीक व्यायामाची खूब गरज आसता. पुणून एकदम कडक, त्रासदेणो व्यायाम आसचो न्हय. जशी दिव्याची वात संथपणान जळटा तशें थोडेंशें व्यायामा बाबतींत जावंक जाय.

नितळसाणी विशीं तर आमी सगळींच मानतात, Cleanliness is next to Godliness. कितलींशींच दुर्येसां नितळसाण पाळ्ळी जाल्यार आमचे पासून पयस वतात म्हणपाचें आमकां विज्ञान सांगता. भुरगेपणा साकून नितळसाणीच्यो ल्हान ल्हान संवयो आमी आपणांव येतात. जाणव्यांनी हें केल्यार तांचें तें पळोवन भुरगीं आपोआप शिकतात. थोडे भितर सांगपाचें म्हणल्यार अती खावप वा दिसपट्टें उपास करप, चड न्हिंदप वो खूब जागरणां करप, कांयच काम करी नासतना बसून रावप हें सगळें आरोग्याक घातक आसा.

कुडी वांगडाच येता तें आमचें मन. 'जैसा तन वैसा मन.' आपली मानसीक (Mental)भलायकी पुरायेन आपणेच घडोवपाची आसता. कित्याक तर आपलें मन आपूण सोडून दुसरो कोणूच वळखूंक



शकना. राग, लोभ, द्वेश, मत्सर, गर्व हांचेर आपलो पुरायेन ताबो आसूंक जाय. वेसना पासून आमी पयस रावूंक जाय. मन जर प्रसन्न आसलें जाल्यार मानसीक दुर्येसां आमकां जायनांत. गोडेंमूत, रक्तदाब, कोलायटीस, एक्सिमा सारकीं कितलींशींच कुडीचीं दुर्येसांय आमकां जावंक पावनात.

सामाजीक(Social) भलायकी सांबाळपाक पयलीं म्हणचे आपूण ह्या समाजाचो एक घटक म्हणपाचें भान आपल्याक आसूंक जाय. जो कोण 'हांव आनी हांवूच' इतल्याचोच विचार करता ताका सामाजीक भलायकेच्यो लाभ जावंक शकना. जितलो सुवार्थ उणो तितलीं दुर्येसां उणीं. आपल्याक दुसऱ्याची गरज आसता आनी आपणें दुसऱ्याक मजत करपाक जाय हाचें आमकां पुराय भान आसपाक जाय.

आपूण ह्या पुराय सैमाचो एक वांटो म्हणपाचें जेन्ना आमकां होलमता, आपले भितर ल्हानशी काय जायना एक दिव्य ज्योत आसा, जल्माक येतना आपूण थारावन येवंक ना, तशेंच आपलें मरण आपल्याक वेंचून काडूंक येना हाची कल्पना जेन्ना आपल्याक आसता तेन्ना कसलेंय दुर्येस जेन्ना आपल्याक जाता तेन्ना मनांत सकरात्मक विचार हाडून ताका फुडें करूंक जाय. आमी एक लक्षात दवरूंक जाय तें म्हणल्यार घर जरी आपलें आसलें तरी त्या घरांत रावपा पासत आमकां ताचो टॅक्स हो भरचोच पडटा. मरणाचो भंय बाळगिनासतना जो कोण जगता ताका आध्यात्मिक (Spiritual) भलायकेच्यो लाभ जाता.

म्हणटकच भलायकेच्यो ह्यो चार मुखेल दिका, चार फांटे आमी बरे करून सांबाळ्ळे जाल्यार उरिल्ल्या चार उपफांट्यांचो आमकां अचळय लाभ जाता. तेन्नाच आमी आमकां ह्या देशाचे सुदृढ नागरीक म्हणोवंक शकतात.

आतां हालीं तेंपार खंयच्या खिणाक कोणाचेर कसलें अरिश्ट येत तें सांगूंक येना. हालींसराक संवसारार 'कोरोना' ह्या दुर्येसान आकांत मांडला. हे दुर्येसाची लागण जाका जाता ताका सुर्वेक ताची कल्पना लेगीत आसना. जांची रोग प्रतिकार शक्त उणी आसा तांकांच कोरोनाची लागण जावपाची शक्यताय चड आसता. देखून जण एकल्यान वयर सांगिल्ल्यो गजाली आत्मसाथ केल्यार ह्या जिवघेण्या दुर्येसाक आमी हारोवंक पावतलीं. देवान आमकां ह्या कोरोना आड झुजपाची शक्त दिवं हीच एक मागणी.



मडगांव- गोंय, मो.: ९९२३३०६७५१

माणाचें पान



मंजुषा सिनाय तळावलीकार

# दीर्घायु आनी आनंदी जिणे पासत ब्लु-झोन



फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच, तेच वांगडा समिक्षा, कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

***आमकांय बी अशी जीवन पध्दती आपणावन दिर्घायु आनी निरोगी जीण जगपाक जाय जाल्यार आमी आसा थंयच रावन आमचो वैयक्तिक ब्लु झोन निर्माण करचो पडटलो अशें सारांशाक लेखकान सांगलां. सुशेगादीन जीण पालवात. मनान सदांच आनंदी आनी चिरतरुण रावात.***

"The Blue Zones'
Lessons for living longer from the people who've lived the longest'
By- DAN BUETTNER

अजून मेरेनच्या संशोधन आनी म्हायती प्रमाण आमची धर्तरीच एक असो गिरो जावन आसा जंय जीवसृश्टी आसा आनी अगणित तरेच्या जिवांक ती पोसता. धर्तरेचेर जिवीत तिगपाक गरजेचें वातावरण म्हळ्यार उदक, प्राणवायु आनी हेर तरेचीं पोशक तत्वां आशिल्ल्यान हे शक्य जालां. यडये अजून मेरेन सोद लागूं नाशिल्ले आनिकूय गिरे ह्या सौरमंडळांत आसत, जंय जीवसृश्टी आसा आनी धर्तरेवेलो सगळ्यांत 'प्रगल्भ जीव' म्हळ्यार मनीस, त्याच सोदांत आसा. आनी तशी सुवात आमकां मेळतूय बी. पूण तो मेरेन सगळ्यांक धर्तरेचेर रावप हो एकूच पर्याय आसा. ते खातीर हांगाच रावपाक खंयचे जागे बरे, जंय आमी निरोगी आनी चडांत चड जीण जगपाक शकतलीं हाचोय सोद कांय जाण येत आसतात.

तसलेच तरेच्या एका सोदांतल्यान नॅशनल जीओग्राफीचो अन्वेशक डॅन ब्युटनर हाणें ब्लू झोन्स नांवाचो प्रकल्प हातांत घेवन "The Blue Zones- Lessons for living longer from the people who've lived the longest' हें पुस्तक बरयलां. डॅन ब्युटनर हांच्या संशोधना प्रमाण संवसारांत पांच थळां आसात जंय लोक संवसारीक सरासरी परस चड जीण जगतात. ते जागे म्हळ्यार आशिया खंडांतलो जपान हांगासल्लो 'ओकीनावा', जो पयले नंबराचेर आसा. दुसरो युरोप खंडातलो इटलीचो 'सार्दिनिया', तिसरो उत्तर अमेरिकेचो कॅलिफॉर्निया हांगचो 'लोमा लिन्डा', चोवथो उत्तर अमेरिकेचोच कोस्टा रिका हांगाचो 'द निकोया पॅनिन्सुला,' आनी पांचवो युरोप खंडांतलो ग्रीस हांगचो 'इकारीयो'. फाटल्या अंकांत बरयिल्ल्या 'इकिगाय' ह्या लेखांत जपानांतल्या ओकिनावा ह्या जुंव्याचो उल्लेख आयला. तांचे 'इकिगाय' हे जीवनपध्दती खातीर तो जुंवो संवसारांत दिर्घकाळ जगपी लोकांचो जुंवो म्हूण नामनेक पावला आनी तो ब्लू झोन्सांत पयले सुवातेर आसा.

ह्या सगळ्या जाग्यांक ब्लू झोन्स अशें नांव कशें आनी कित्याक पडलें ताचे फाटल्यान एक रंजक काणी आसा. ऑक्टोबर १९९९ ह्या वर्साक नामनेचो इटालियन दोतोर आनी वैद्यकीय संख्याशास्त्रज्ञ जियानी पेस हाणें फ्रान्साक जाल्ले एके परिशर्देत एक पेपर सादर केलो. ताचे संशोधना प्रमाण सार्दिनिया हांगा १००० सार्दिनियन नागरीक शंबर वयर पिरायेचे आशिल्ले आनी तातुंतल्या २०० जाणांक तो स्वता मेळिल्लो. ते परिशदेक डॉ. मिकेल पौलिन नांवाचो एक

बेल्जियन लोकसंख्याशास्त्रज्ञ आशिल्लो, जो तेच तरेचें संशोधन फाटले १५ वर्सां सावन करतालो. ताका तें खरे दिसलें ना. म्हूण तार्णे ताचें खरेपण तपासपा खातीर रोकडीच इटलीक सार्दिनिया हांगासर भेट दिली. थंयसर जल्म-मृत्युचे दाखले दवरपी ऑफिसांत तार्णे सगळ्यो नोंदी तपासल्यो तेन्ना ताका जियानी पेस हांच्या संशोधनाचेर विस्वास बसलो. तीन म्हयन्यांनी तो सार्दिनियाक परत आयलो आनी ४० नगरपालिकेंत वचून तार्णे १८८० ते १९०० ह्या कालावधींतल्यो सगळ्यो नोंदी तपासल्यो तेन्ना जे जे नगरपालिकेंत चड दिर्घायु निर्देशांक (Extreme Longevity index) दिसता थंय थंय तार्णे नकाशाचेर निळे शाईच्या पेनान वर्तुळ काडलें. नकाशाचेर तार्णे निळे शाईन खूण केल्ल्या जाग्यांक तेन्ना सावन 'ब्लू झोन्स' हें नामकरण जालें.

ऑक्टोबर २००४ वर्सा ब्लू झोन्साचो लेखक डॅन ब्युटनर हार्णे नॅशनल जीओग्राफीचो छायाचित्रकार डॅविड मॅक्लेन हाचे वांगडा आपलें संशोधन सुरू केलें तें युरोप खंडांतल्या इटलीच्या सार्दिनिया ह्या जुंव्या सावन. तो जुंवो इटलीच्या मुख्य शारा सावन १२० मैलांचेर आसा आनी थंयची लोकसंख्या अदमासे १६ लाख आसा. तांकां थंय मदत करपाक स्टॅनफॉर्ड विश्वविद्यालयाचो मानववंशशास्त्रज्ञ डॉ.पावलो फ्रॅन्कालासी मेळ्ळो. ते भायर दोन इटालियन पत्रकारांक घेवन तांणी काम सुरू केलें. डॉ. पावलो हार्णे थंयच्या दिर्घायु लोकांच्या वंशा बद्दल म्हायती दिली. अठरा हजार वर्सां आदीं युरोपांत हिमखंडाच्या काळांत फक्त आयबेरिया आनी बालकन्स ह्या दोन जाग्यांचेर मनीसवस्ती आशिल्ली. जेन्ना हिमखंड वितळूंक लागलो तेन्ना थंयसल्ले लोक स्थलांतरीत जावपाक लागले. बाल्कन्साचे अस्तमे कडेन आनी आयबेरियाचे उदेंन्ते वटेन वचपाक लागले. आयबेरिया वस्तींतले लोक सार्दिनियाक स्थलांतरीत जाले. ते शिकार करून, फळफळावळ पुंजावन आनी नुस्तें पागून आपलें पोट भरताले. ते आपलेच वंशा भितर लग्नां जाताले म्हूण तांचे वंशावळींत खुबशे प्रमाणांत अनुवांशीक शुध्दताय उरूंक पावली. दिर्घायू जीण जगपाक अनुवांशिकता कांय प्रमाणांत कारणीभुत आसता हें संशोधनांतल्यान दिसून आयलां अशी म्हायती डॉ. पावलो हार्णे दिली. उत्क्रांतीच्या (evolution) सिध्दांता प्रमाण जेन्ना एकादी प्रजाती आरामशीर वातावरणांत रावता, जंय पुनरुत्पादन (reproduction) सोपें आसता तेन्ना ती प्रजाती चड प्रमाणांत उत्क्रांत (evolve) जावंक पावना. ख्रिस्त काळा सावन सार्दिनियन लोकांची जी जीवनशैली आशिल्ली ती चड प्रमाणांत बदलूंक ना. तांच्या आहारांत गवांचो पाव, दाळ, बोकडेचें दूद, कॅनोनाव वाइन, भाज्यो, फळां, पेकोरिनो चीज हांचो आस्पाव आसता. ते चडशे शिकार करपी वो राखणे आशिल्ल्यान तांकां भरपूर व्यायाम जाता. नितळ उदक-वारें, शुध्द आहार हाचे खातीर ते लोक अजून मेरेन दिर्घायू जीण जगपाक शकतात.

फेब्रुवारी २००५ वर्साक लेखकान ब्लू झोन्सांतलो दुसरो जागो जपानांतलो ओकिनावा ह्या जुंव्यार संशोधनकार्य सुरु केलें. जपानांतल्या ह्या जुंव्याची लोकसंख्या फक्त १३ लाख आसा. वैयक्तीक गोपनीयता राखून दवरपाक, तांच्यो जल्ममृत्युच्यो नोंदी दिवपाक सरकारान मात्शे प्रतिबंध घाल्ल्यान तांकां त्यो नोंदी मेळोवपाक मात्शें कुरतार पडलें. शेवटा एका दिसाळ्यांत तांकां कांय प्रमाणांत म्हायती मेळ्ळी. ते प्रमाण जवळजवळ ७०० मनीस १०० वयर पिरायेचे आशिल्ले. तांचीय जीवनशैली सैमा कडेन वार जोडपीच आशिल्ली. ते लोक इकिगाय जीवन पध्दत आपणायतात. इकिगायचो अर्थ 'मुल्यवान वो अर्थपुर्ण जीण'. इकीगाय जीवन पध्दती प्रमाण दर एकल्यान आपले जिणेंतलो दर एक खीण अशे तरेन जगप जे वरवी आपली जीण खूब अर्थपुर्ण जातली. थंयच्या कांय लोकांच्यो लेखकान मुलाखती घेतल्यो. ते लोक खूब कश्टाळू, आपलें धान्य, भाज्यो, फळां आपुणूच पिकयतात. एकमेकां कडेन मोयपासान वागतात आनी आपल्याक आवडटात त्यो गजाली करपांत, छंद जोपासपांत चडांत चड वेळ घालयतात. तांची सामाजीक बांधिलकी तोखेवपा सारकी. ते लोक भावनीक आनी अर्थिक आदार दिवपी गट स्थापीत करतात जांकां 'मोई' अशें म्हणटात. संकश्टाच्या आनी ताणतणावाच्या वेळार ते वांगड्यांक अर्थिक तशेंच भावनीक आदार करतात जे वरवी तांकां सुरक्षिततेची भावना मेळटा. जाणटे पिरायेचेर लेगीत ते काम करीत रावतात. तांच्या घरा शेजरा ल्हान पोरसूं आसता जातूंत ते वखदी झाडां, कंदमुळां रोयतात आनी नेमीत तांचें सेवनूय करतात. अशे तरेन दिर्घायू जीण जगपाची संधी तांकां मेळटा.

ताचे फुडलो ब्लु झोन अमेरिका खंडांतलो दक्षिण कॅलिफॉर्निया हांगसरलो लोमा लिंडा जो लॉस एन्जेलिस हांगसरल्यान ६० मैलांचेर आसा. थंयची लोकसंख्या २१००० जातुंतले ९००० एडवेन्टीस्ट जे प्रॉटेस्टंट

क्रिश्चन्स हांच्या एका पंथाचे अनुयायी. एडवेन्टीस्ट हे सर्वसामान्य अमेरिकनांचे सरासरीन १० वर्सां चड जियेतात. तांच्या दिर्घायुचे जिणेचें गुपीत म्हळयार ते शाकाहारी. तांच्या धर्मानुसार ते सोरो पिनांत, सिगरेट ओडनांत वो आनी कसलींय जिवाक हानीकारक व्यसनां करनांत. निरोगी भलायकी दवरपाचेर तांची चड भर. ते खातीर ते नित्य नेमान व्यायाम करतात आनी कुडीचे वजनाचेरूय नियंत्रण दवरतात. तांच्या शारांत हॉस्पिटल, उपचार, वखद-विसरदाच्यो सगळ्यो सोयी आसात. ते भायर तांचें स्वतांचें मेडिकल आनी नर्सिंग कॉलेज लेगीत आसा. ते आपल्या दिर्घायुष्याचें सगळें श्रेय आपल्या धर्माच्या रितिरिवाजांक दितात जे तांकां निरोगी जीवन पध्दतीची शिकवण दितात.

चवथो ब्लु झोन मध्य अमेरिकेच्या कॉस्टा रीका हांगासल्लो निकोया हो जागो. 'कॉस्टा रीका' हाचो अर्थ रीच कोस्ट म्हळयार श्रीमंत किनारपट्टी. थंय संत्र्यांचें पीक चड जाता म्हूण लोकांक 'क' जीवनसत्व खूब प्रमाणांत मेळटा. थंयचें आनीक एक वैशिश्ट म्हळयार थंयच्या उदकांत कॅल्शियम चड प्रमाणांत आशिल्ल्यान, तशेंच ती किनारपट्टी आशिल्ल्यान सुर्याचें वतूय भरपूर प्रमाणांत मेळिल्ल्यान 'ड' जीवनसत्वाचोय तांकां उणाव आसना. ते खातीर तांची हाडां घट उरतात. तशेंच थंयचे लोक न्हिदेच्यो वेळो खूब काटेकोरपणान पाळटात. म्हळयार ७- ९ वरां न्हीद ते दर दिसा घेतात. कॉस्टा रीका हो जुंवो जरी नासलो तरी ओकिनावा सारकोच बाकी थळां सावन माल्सो पयस आशिल्ल्यान, तांचोय बाकी संवसारा कडल्यान संपर्क खूब कमी प्रमाणांत उरता. ते खातीर थंयचे लोकांक आपलें सगलें काम स्वता आनी थळाव्या लोकांच्येच मजतीन करचें पडटा.

आनी निमणो पांचवो ब्लु झोन युरोप खंडांतलो ग्रीस हांगा सरलो इकारिया हो जुंवो जाचो उल्लेख 'मरपाक विसरपी लोकांचो जुंवो' म्हूण करतात. निवळ परिसर, नितळ वारें, खडकाळ प्रदेश जे खातीर तांकां आपसुक्च व्यायाम जाता. हे खातीर थंयचे लोक भलायकेन खूब निरोगी आसतात. ते दनपारची एक सुस्त न्हीद काडटात. ते वर्साचे अर्दी मर्दी लागीं लागीं ६ म्हयने उपास करतात. उपास केल्यार कुडींतल्यो पेशी ताज्यो टवटवीत आनी पुनर्जिवीत जावन कूड जाणटी जावपाची प्रक्रिया मंदावता अशें संशोधनांतल्यान सिध्द जालां. तांची जीवनशैली गोंयकारां भशेन सुशेगाद. रेड वाइन, सकस आहार हाका लागून ते दिर्घायू जीण जगतात.

अश्या पांचूय ब्लु झोन्साचो अभ्यास करून लेखकाक णव गजाली सगळ्यां भितर समान आसात अशें दिसून आयलें. त्यो म्हळयार-

१. **सैमसांगात** - ब्लु झोन्सांत रावपी लोक सैमाक खूब लागीं आसतात. तांची वार सैमा कडेन जुळिल्ली आसता. ते सैमीक रितीन आपली दिनचर्या घालयतात. बागबागायत, शेती बी केल्ल्यान ते मातयेंत चड वावुरतात आनी आधुनीक यंत्राचे वापर ते करनाशिल्ल्यान काबाडकश्ट तांकां करचे पडटात. एका जाग्या वेल्यान दुसऱ्या जाग्यार चडशें चलतूच वचें पडटा. आपलें घर लेगीत तांकां स्वताच आपल्या हातान बांदचें पडटा. दिसपट्टे सकाळ सावन सांज मेरेन कामांत गुंतून उरिल्ल्यान तांकां जीमांत वचून वेगळोसो व्यायाम करचो पडना. आपसुकूच तांची कूड आनी भलायकी निरोगी उरता.

२.**जिणेचो उद्देश**- ओकिनावाक ताका इकिगाय म्हणटात, निकोयानाक प्लॅन दी विदा. दोनाचोय अर्थ म्हळयार हांव सकाळीं फुडें कित्याक उठ्ठां ? वो म्हजे जिणेचो उद्देश किते?. आपले जिणेचो उद्देश जाणां जावप म्हळयार जीण सात वर्सांनी वाडटा अशें म्हणटात.

३.**ताणतणाव हाताळप**- ताणतणाव सगल्यांकूच जाता. चड ताणा खाला जगल्यार आमकां जायतीं दुयेंसां उप्रासतात. ब्लु झोन्सांत रावपी लोकांकूय



आमचेवरींच ताणतणावांक फुडो करचो पडटाच. पुण ते तो हाताळपाक जें किर्ते करतात तें आमी करनांत. ओकिनावाचे लोक ध्यान करतात, तशेंच आपल्या पुर्वजांक याद करतात आनी आर्गां ओपतात. एडवेन्टीस्ट प्रार्थना करतात. इकारियन्स दनपारची मात्शी झेम काडटात आनी सार्दिनीयन्स सांजेचें एक वर भर रवता खातीर मजेन घालयतात जाका ते 'happy hour' अशें म्हणटात.

४.८०% **नियम**- २५०० आदीं कॉनफुसियनान ओकिनावाक दिल्लो मंत्र म्हळ्यार- ***हारा हाची बू*** जाचो अर्थ तुमचें पोट फकत ८०% भरात आनी २०% रिकामें दवरात. तशें केल्यार पचनसंस्थेचेर ताण पडचोना, तुमचें वजन नियंत्रणांत उरतलें आनी भलायकीय बरी उरतली.

५.**शाकाहारी आहार**- तांचो आहार चडसो करून शाकाहारी आसता. मांस-मटन ते खूब उणें म्हळ्यार सरासरी म्हयन्याक ४-५ वेळां खातात. धान्य-कडधान्य, भाजी पालो, तरेकवार बियाचें गर, बोकडेचें दूद असो तांचो आहार आसता.

६.**वाइन** - एक एडवेन्टिस्ट सोडले जाल्यार बाकी चारूय थळावेले लोक वाइन पितात. दर दिसाक सांजेचे १ ते २ कप तांची थळावी वाइन ते सेवन करतात. आनी तेंच आपल्या दिर्घायुचें गुपीत अशें मोठे अभिमानान ते सांगतात.

७.**आपुलकीची भावना** - ते आपल्या समुदायांतल्या मनश्यां वांगडा मोगान आनी आपुलकेन वागतात. तशेंच ते खंयचे तरी संस्थेचे वांगडी जावन नेमितपणान एकमेकांक मेळटात आनी एकमेकां वांगडा सुखांदुखां वाट्टात. तशेंच ते धार्मिक संस्थेचे वांगडी आसतात आनी म्हयन्याक चार वेळां तरी श्रध्देन थंय वचून प्रार्थना करतात. अशें केल्ल्यान तांचे जिणेंत ४-१४ वर्सांची भर पडटा अशें संशोधनांतल्यान सिध्द जालां.

८.**घराब्यांतल्या मनशांचेर उपाट मोग**- तांचे घराब्यांतल्या मनशां कडेन खूब घट बंध आसतात. ते आपल्या आवय-बापायची खूब काळजी घेतात. आपल्या जोडीदारा वांगडा लेगीत तांचें नातें घट आसता. तशेंच आपल्या भुरग्यांक लेगीत वेळ आनी मोग दिवन कुयदादीन आनी संस्कारान वाडयतात. बऱ्या मुल्ल्यांचीं तांचे मदीं रुजवण करतात. ते खातीर हींच भुरगीं व्हड जावन आपल्या आवय-बापायची काळजी घेतात. फक्त पयशां फाटल्यान धावपाची संस्कृती तरी अजून मेरेन थंय रुजली ना. आनी ब्लू झोन्सांच्या खंयच्याच थळांत वृध्दाश्रमाची गरज पडना. मोग मोयपास तांचे जिणेंत ३-५ वरसांची भर घालता.

९.**जमातीची निरोगी जिवनशैली** - ते जे जमातींत वो समुदायांत रावतात तांच्या रितीरिवाजांत निरोगी जिवनशैली आसपावता. ते एकमेकांक सामाजीक, आर्थिक, भावनीक आदार दितात. ते भायर जिवाक हानीकारक अशीं वेसनाय करप तांचे जमातींत वर्ज्य आसतात.

आयजकाल आमी खूब दगदगीची जीण जगतात. आमी वेळाचीं तशेंच घड्याळींचीं गुलाम जाल्यांत. धांवत पळत सगल्यो नित्यक्रमाच्यो गजाली आमकां २४ वरांत चेंपच्यो पडटात. जेवण जेवतना लेगीत आमकां टीवीची गरज पडटा. आमचो भावनीक बुध्दांक देंवत आसा. कॉर्पोरेट संस्कृतीक लागून तर मनीस फकत टार्गेटांच्या फाटल्यान पडिल्लो आसता. चडशें काम कदेलाचेर बसून करचें पडिल्ल्यान आमचे कुडीक जाय तितलो व्यायाम मेळना. आनी मानसीक पिराय ही संकल्पना आमचे मनांत इतली घट्ट बशिल्ली आसता की आमी ६० वर्सां जालीं काय फकत नोकरेंतल्यानूच न्ही तर सक्रीय जिणेंतल्यानूय निवृत्त जातात. आतां आनी जिणेंत कांय उरलें ना, आतां जिणेची उतरती कळा, फक्त जितीं आसात म्हूण स्वास घेवपाचो वो स्वास घेतात म्हूण जितीं आसात अशे चुकीचे समजुतेंत जगतात. ते खातीर आयज काल शारांत रावपी मनशांचे जिणेंत एक पोकळी निर्माण जावंक लागल्या.

संशोधनांतल्यान हीं थळां *ब्लु झोन्स* म्हूण नामनेक पावल्यांत. संवसारांत तशीं आनीकूय थळां आसत जंय लोक दिर्घायु जीण जगतात पूण जाचो अजून मेरेन सोद लागलो ना आसत. हाचे फुडें कोणूय सोद घेतूय बी. पूण आमकां सगल्याच जाणांक काय त्या थळांचेर वचून रावप शक्य ना. आमकांय बी अशी जीवन पध्दती आपणावन दिर्घायु आनी निरोगी जीण जगपाक जाय जाल्यार आमी आसा थंयच रावन आमचो वैयक्तिक **ब्लु झोन** निर्माण करचो पडटलो अशें सारांशाक लेखकान सांगलां. सुशेगादीन जीण घालयात. मनान सदांच आनंदी आनी चिरतरूण रावात. सतत क्रियाशील रावात, जगपाक किर्तेय तरी अर्थपुर्ण कारण सोदात, मांसाहारा परस शाकाहार आपणायात, समुदायांतल्या सगळ्यां कडेन मोग मोयपासान रावात. बारीक सारीक गजालींचें टेन्शन घेवं नाकात आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार सकारात्मक विचारांनी मन भरून घेयात असो संदेश निमणे कडेन लेखकान दिला.

पिपिरमोट



पुजा
लक्ष्मीकांत
भांडारे

महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मिती कडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला ताचें हें मोस्त.

# यो दिसा भर पोटा



**तुमकां ते पयशे खावन खावन पुरोव जावना रे, आरे आतां ते पयशे हांव पचोवपाकूय शकना. हांव फकत ते पयशे म्हजे भितर दवरतां. मात्शी म्हजेर खिणा खातीर नदर तरी घालात. निदान पळवात तरी हांव खावन खावन कितलें मोटें जालां तें ।**

"सगल्यांक मनाकाळजा सावन भरलेल्या पोटाचो येवकार! किर्ते इश्टांनो, कशे आसात तुमी? चल्लां न्ही बरें? हांव आनी किर्ते विचारतां पळयात तुमकां, बरेच आसतले तुमी, म्हाका बरें मागून, किर्ते? तुमी म्हाका विचारतात, कशें आसा काय म्हणून? आरे, हांव अजाप जाले, हरशीं सूर्या खंय पुर्वेकूच उदेता न्ही, आयज अस्तंत दिकेक सो उदेलो! शी, हांव आनी एक! उतरां उलयतना निखालूस कसलो विचार करी ना. आतां तुमी म्हाका विचारतलेच न्हय, हांव कशें आसा काय म्हणून! आरे, हांव जर बरें आसत जाल्यारूच तुमी बरे, हांव खोशी आसत, हांव साका भशेन तुडूंब भरिल्लें आसत जाल्यार तुमची खोस सामकी मळबांत पाविल्ले वरी जाता न्ही, आरे हांव म्हणून तर तुमी! आनी सांगात, कशीं चल्ल्यांत तुमचीं सगळीं कामां? आरे, म्हज्या कानार खबर आयल्या, आतां खंय कोरोनान सामको बॉम्ब घाला खंय न्ही रे! सगल्यांचेर एकूच बोवाळ, कोरोना! कोरोना! शी, किर्ते रे एक एक हे जंतू येतात! तुमकां खरें सांगू, आरे, हे आयिल्ले खातीर म्हजी सुखाची जीण सगली पुस्पल्या. सुतावरी पुस्पता मरे! दिसभर जी तरेकवार खाणां म्हाका मेळटात पळय, तीं बंद जातात मरे, शी, किर्ते म्हूण करप कांयच सुचना. म्हजे रडें कोणांच्या कानां मेरेन वचना. आरे आतां जाता तितल्या बेगीन ह्या कोरोनाक धांवडायात हांगा सरल्यान. तुमकां सांगू, म्हाका चिकन बी मेळपाचें बंद जालां मरे कोरोना खातीर! हांव आनी कितलें पिशें पळयात. तुमकां विचारतां तुमचें कशें चल्लां काय म्हूण! जशें की म्हाका कांय खबरूच ना. किर्ते म्हणटा? म्हाका खबर आसा काय म्हूण विचारता? आरे तुमी आनी नवीन किर्ते दिवे लायतले, तें म्हाका कळिल्ले कडेन आसा. तुमचें म्हळ्यार यो दिसा, भर पोटा असलीच गत. हें तुमचें सदचें. तुमी आनीक कांय नवीन उजवाड घालपाचे नात. पयलींच्या काळांत ते विजेचो सोद लावपी कोण बरेच बुदवंत आसतले जावंक जाय! ताणी पुराय जगाक वीज दिली, पूण तुमचे तकलेंत मात तो लायट पेटोवपाक विसरलो! किर्ते म्हणटा, हांव किर्ते उलयतां तें कळना? आरे, तुमी स्वताक अशे म्हजे सामकार तरी फटोवं नाकात आं. हांव तुमकां सारकें वळखतां. तुमी दीस रात म्हाका भरच्या परस दुसरें करतात तरी किर्ते?

पूण म्हाका एक सांगात, हांव कोण तें तुमकां कळ्ळें तरी मरे? वळखलें तरी मरे म्हाका तुमी? आरे, हांव तेंच, जाका तुमी दिसरात भरपाक सामके एक सारके काबाड कश्ट करतात, म्हाका भरपाक किर्तेंय करूंक तुमी शकतात. हांव म्हळ्यार तुमचो मोग, हय, आतां कळ्ळें मरे हांव कोण तें, यो दिसा, भर पोटा.. ही सोबीत म्हण तुमकां

खबर आसतलीच न्हय! आरे, हाचो अर्थ म्हळ्यार तुमी आयल्या दिसा, फकत सूर्या वांगडा उठतात, म्हाका भरतात, आनी पांय सोडून न्हिदतात. सारकें न्ही, हांव उलयतां तें! पूण एक मात, म्हाका खरेंच तुमची अपुर्बाय दिसता. म्हजी जशी तुमी जतनाय घेतात पळय, हांव बरें उरचें म्हूण तुमी सगळे प्रयत्न करतात तें पळोवन खरेंच बरें दिसता. पूण तुमकां सांगूं, आतां, तुमी म्हाका इतलें भरतात, इतलें भरतात की म्हाका अजीर्ण जाता रे आतां. आरे, जशो तुमच्यो तरेकवार शीममेरो आसतात, तशो म्हज्योय बी आसतातूच न्हय! आतां पळयात, एका पेल्यांत जर तुमी सरबत घालें जाल्यार तुमी तो जितलो पेलो व्हड आसा तितलेंच सरबत तातूंत घालतले न्हय! पेलो पुराय भरतकच सुद्दा जर तुमी सरबत घालीत रावत जाल्यार तें सरबत, पेलो घेवचो ना. तें भायर उडयतलो. तशेंच जाता म्हजें. तुमी म्हाका इतलें भरतात की म्हाका अजीर्ण जाता, आनी हांव मागीर चड वाडटां. म्हजो आकार खुबूच मोटो जातकच मागीर तुमकां म्हजी लज दिसपाक लागता. हय मरे, पयलीं म्हजी तोखणाय करणारे तुमी, एका खिणांत आपलें रूप बदलतात. आनी मागीर म्हाका बारीक करपाक तुमी किर्ते करीत ताचो नेमूच ना! शी!! तीं कसलीं कसलीं म्हजे भितर वखदां घालतात तुमी म्हाका बारीक करपा खातीर, वीट येता सामको! इतलेंच न्हय, तर एक एकदां तर अशी अवतिकाय जाता की हांव मोटे जातां म्हूण तुमी म्हाका सामकेंच उपाशीं दवरतात. आरे, म्हाका कितलीय भूक लागल्यार सुद्दां म्हाका तुमी खावपाक दिनांत. आनी तेन्ना मात म्हाका तुमचो खूब राग येता. किर्ते आसता जाणां, मळबांतलो सुर्या जर उजवाड दिवंक शकता, आनी ताका जर केन्नांय तिडक येत जाल्यार विचार करी नासतना तो आपले



हुनसाणेन हुलपांवकूय शकता. तशेंच मागीर हांवूय तुमकां ख्यास्त करतां. आनी तोच खीण आसता जेन्ना तुमची भलायकी बिगडटा. तुमी ह्या जगांत कसलीय पध्दत समजून घेत, पूण म्हजी पध्दत समजुपाक बरीच कठीन. म्हाका सांबाळप म्हळ्यारूच तुमकां व्हड परिक्षा दिवचीं पडटा. सारकें न्हय, तुमी जर म्हाका चड खावपाक दियत, जाल्यारूय म्हाका तुमचो राग येता, आनी जर खावपाक दिना जाल्यारूय येता. आता म्हजो मूड सांबाळपाचो यत्न तुमी सदांच करतात.

तुमकां एक सांगू, खूब किर्ते पळयलां हांवें म्हज्या दोळ्यांनी. जें किर्ते आयजवेर पळयलां, तें पळयतकच केन्ना केन्ना अशें दिसता की हांवूच लोकांच्या दुख्खाचें मुखेल कारण काय, हांवूच तांकां चड त्रास दितां काय, पूण मात्शें चिंततां तेन्ना जाणविकाय जाता, ना, देव जेन्ना मनशाच्या तरेकवार आंगांक कामां वाटून दितालो, तेन्ना म्हाकाय एक काम मेळ्ळें, खावपाचें. मेळत तें खावपाचें, माती जशी आपल्या भितर सगलें किर्ते एकवटून घेता, तशें सगलें किर्ते एकवटून घेवपाचें, हांवें मान्य केलें जें म्हाका देवान सांगलें. उपरांत म्हाका देवान सांगलें, मनशाची भलायकी बरी उरपा खातीर तुका परत परत भूक लागतली. हांवें तेंवूय मान्य केलें. आनी उपरांत जेन्ना मनशान जन्म घेतलो तेन्ना सावन तें आतां मेरेन कितलोसोच काळ हांव सगलें किर्ते पळयत आसां. एक पुतळो जसो सगलें किर्ते पळयता पूण वग्गी आसता तशें तांचे वरीं हांव मनशाचें जिवीत पळयत आयलां. पयलीं काळांत संवसारांत जेन्ना भरपूर गरिबी आसली न्हय, तेन्ना तर म्हाका बरे जिन्नस न्हय, तर शीत, मिरसांगे पिठो असले जिन्नस मेळटाले. मिरसांगे पिठ्यांत हांव सगलें हुलपतालें. पूण तातूंतलीच कांय प्रमाणांत थाकाय म्हज्या भितर येतालें. हाचें कारण किर्ते आसलें जाणांत तुमी, लोकांचे हाल हांवें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळयल्यात. म्हज्या दोळ्यां मुखार दोन गोट्यांनी म्हाका भरपा खातीर आपल्या रगताचें उदक केल्लें हांवें पळयलां. भूक सोंसूं नज जाल्ल्यान म्हाका एका कापडांत घट्ट बांदून लोकांनी कामां केल्लीं हांवें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळयल्यांत. एके आवयक आपल्या भुरग्यांक आपलेकडे आशिल्ले दोन अन्नाचे गोटे शिजोवन तांकां खावयतना हांवें पळयलां. आपल्या भुरग्यांची भूक भागिल्ल्यान तांच्या तोंडां वयल्या त्या हांशांची खूब फावट अन्नाच्या जाग्यार म्हाका थाकाय मेळ्ळया. गरिबी आशिल्ले कारणान म्हाका भरपा खातीर रस्त्यार पडिल्लें उश्टें लोकांक खातना हांवें पळयलां. तांकां म्हजेर हात दवरून, रस्त्यार भीक मागतना पळयल्या. म्हजें ल्हानशें बीळ भरपा खातीर कितलेशेच गुन्यांव मन नासतना सुद्दां घडटना पळयल्यात. लोकांक फकत म्हाका भरपा खातीर एकमेकांच्या गळ्यांचेर तिडकीन सुरो

भोंवडयतना पळयलां. इतलें सगलें रामायण म्हज्या दोळ्यां मुखार घडटना पळयलां. आनी खूब दुख्ख जाता, की हें सगलें म्हजे खातीर लोक करतात.

हो आशिल्लो पयलींचो काळ, आनी आतां सगलेंच जशें एका सपनावरी दिसता. पयली काळांत लोकांक अन्नाचे चार गोटे मेळनाशिल्ले देखून अन्न म्हळ्यार किर्ते हाची जाणविकाय तांकां आशिल्ली. अन्नाचें आमच्या जिवितांत कितलें म्हत्त्व आसा हाची जागृताय लोकां मदीं आसली. पूण आतां, सगलेंच किर्ते बदल्लें. कांय लोक अजुनूय संवसारांत आसात, जे म्हाका भरूंक पुराय तरेन शकनात, पूण त्याच बरोबर आनीक एक बाजूय बी तयार जाल्या. आतां ह्या संवसारांत अन्नाचें मोलूच सोंपत चल्लां. खंयचोय उत्सव आसलो, जाल्यार कितल्याशाच प्रमाणांत तें अन्न भायर पडिल्लें आमकां दिश्टी पडटा. एक भुरगो आपल्याक जाय तें दिना म्हूण आवयन मोट्या कश्टान केल्लें अन्न आपल्या पांयांनी खोट मारून, वा हातान धुकलून उडयल्लें पळयलां. मनांत एकएकदां प्रस्नांचें वादळ उडटा, आसत काय संवसारांत असो कोणूय जो अजुनूय सद्दां आपल्या मुखार जेवणाचें ताट पळोवन अन्नाक हात जोडटा, अन्नाक पांयां पडून उपरांतूच तें म्हजे भितर घालता? आसा काय कोणूय असो जो त्या अन्नग्रहणां आदीं म्हणपाचें स्तोत्र म्हणटा? अशे कितलेशेच विचारांचे रोपे काळजांत आपुणूच फुलतात आनी तांचेर कितल्याशाच प्रस्नांच्यो वाली येतात. पूण जापेचें उदक तांकां मात लेगीत मेळना. आत्तां कोणतरी जापेचें उदक ह्या प्रस्नांच्या रोपांक घालतलो अशें दिसता, पूण तेन्नाच आनीक एक नव्या रोपट्याची तांतूंत भर पडटा.

तुमकां खबर आसा, कांय काळा पयलीं हांव फकत अन्न खातालें, पूण आतां म्हजें खाणूय बी बदल्लां आं, आतां हांव अन्न न्हीं, पूण अन्नाच्या जाग्यार चड पयशेच पयशे खातां. आतां जर म्हाका तुमी बारकायेन पळयत न्हय, जाल्यार अन्न तुमकां म्हजे भितर दिसर्चेच ना, फकत पयसो दिसतलो, कितलीशीच गुपितां दिसतलीं, कितल्योशोच अशो गोष्टी तुमकां म्हजे भितर दिसतल्यो ज्यो तुमी केन्नाच कोणांक सांगूंक ना. एका फुडल्यो एक भयानक गजाली. कारण पयली काळांत किर्ते जातालें, तुमी तीनसांजची आंगणांत बसून शितळ वारो घेतां घेतां आपल्या मनांतलें सगलें लोकां मुखार उगडें करतालीं. देखून सगलो कचरो जो आसा पळय, तो भायर वतालो. हांवूय बी बारीक उरतालें. जशें आसूंक जाय तशें आशिल्लें. पूण आतां तुमचीं लोकांचीं गुपितां, तुमी खाल्लेले पयशे म्हजे भितर इतले, सामकें बुरशा डबक्या वरीं साचल्यात की हांव आतां मोटें जायत चल्लां. इतलेंच न्हय, आतां खरेंच हें मोटपण म्हज्यान सोसूंक जायना. किर्ते करतलें, देवान म्हाका वरूच तसो दिला, मनीस जें तुज्या साकांत घालता तें तुवें घेवपाचें, तुकां ना म्हणपाक मेळचें ना. मागीर तुमी म्हजे भितर अन्न घालूं वा पयशे, ते म्हाका घेवचेंच पडलें न्हय, तुमकां एक सांगूं, पुरो करा रे आतां पयशे खावप, ताचे परस अन्न बरें, किर्तेय खायात. तुमकां ते पयशे खावन खावन पुरोय जायना रे, आरे आतां ते पयशे हांव पचोवपाकूय शकनां. हांव फकत ते पयशे म्हजे भितर दवरतां. मात्शी म्हजेर खिणा खातीर नदर तरी घालात. निदान पळयात तरी हांव खावन खावन कितलें मोटें जालां तें । आतां तर म्हाका अशें दिसता कीं हांव आतां एक दीस फुट्टलें, जसो बोमाडो फुट्टा. खरेंच, कित्याक तुमी खातात ते पयशे? पचोवपाची शक्त आनी आरस्त दोनूय म्हाका जाल्यार ना, मागीर हांव जर जाम जालें जाल्यार फुट्टलेंच न्हय! तुमी जाणांत, बायलां मदीं हांव सदांच बारीक कित्याक आसतां, कारण सांगतां तुमकां, कारण तुमी दादले किर्ते करतात, वचत ती गजाल म्हजे भितर साठयतात, ती केन्नाच भायर सरना. पूण बायलांचें तशें नासता, तांची जीब मातशी हलकी. देखून म्हजे भितर ज्यो गजाली आसतात पळय तांचे खातीर जीब म्हळ्यार बागेंतली घसरगुंडी. बागेंत तुमी घसरगुंडी वयल्यान भुरगीं घसरून सकयल येतात, मागीर पडटात, खेळटात हें दृश्य पळयलां आसतलेंच न्हय. तशेंच तरेन बायलां भितर जीं सगलीं गुपितां आसतात पळय तीं सुळूक करुन जिबे वयल्यान घसरून केन्ना भायर वतात हाचो जिबेक सुद्दां थाव लागना. देखुनूच बायलां आपल्या पोटांत म्हळ्यार म्हजे भितर केन्नाच किर्ते गुपीत दवरूंक शकनांत. ते खातीर म्हजे भितर कसलोच कचरो साचना, पूण दादले किर्ते करतात, आपले विचार, केन्ना कोणांक सांगनात, सगलें किर्ते आपल्या पोटांतूच दवरतात. देखून हांव मोटें जातां. आतां मात तरी समजात. म्हजे भितर भलायकेक बरें अशें अन्न घालात. नाका जाल्लें म्हजे भितर चोंदूं नाकात. खाल्ले अन्न तरी म्हाका नाकां. ते भायर उडोवपाक मेळटा. पूण तुमच्या गुपितांचें किर्ते करूं?, तें तुमीच भायर काडपाक जाय. आरे, म्हाका दुखूंक कशें लागलें मरे, आरे, किर्ते जाता काय म्हाका, तुमी मरे म्हजे भितर किर्ते किर्ते अशें भरून दवरलां की आतां म्हाका त्रास जातात. खरेंच, चल येतां हांव, दोतोरागेर वचपाचें पडटा दिसता आतां...शी, आरे ए मनशा, विचार कर मात्सो, सद्दां वो दिसा, भर पोटा केलें म्हूण तुमचीं कामां जावचीं नात. म्हाका हालय मात्शें, काम बी कर मात्शें, म्हाका बारीक कर मात्शें....।

अस्नोडा-गोंय.
☏ 7768835310

कुरकूट



दत्ता दामोदर नायक

**जाय काय जूय** ह्या ललित निबंधाच्या पुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ले **दत्ता दामोदर नायक** हे कोंकणींतले विनोदी, त्रोसात्मक आनी वैचारीक ललित साहित्य रचपी आयच्या काळावेले एक लोकप्रिय लेखक. तांचीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ते बिम्ब मासिकाच्या ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार यादस्तीक पुरस्काराचे मानकरी जावन आसात.



# एक उद्योजकाची आमकाणी...

*१९८५ वर्सा भाऊ हो संवसार सोडून गेलो. म्हजें म्हज्या बापायचेर इल्लेंय प्रेम नाशिल्लें देखून तो मरतकीर एक कटकट गेली म्हणून म्हाका खोस जावपाची पूण तशें जालें ना. म्हाका खूब वायट दिसलें. दोळयांत पळपळीत दुकां आयलीं. भाऊ बापूय म्हणून (म्हजे नदरेन) वायट आसत! पूण मनीस म्हणून खूब बरो आशिल्लो.*

म्हजो जल्म एका वेपारी कुटुंबांत जालो. म्हज्या शेणज्याचें नांव सुकडो. सुकड्याच्या बापायचें, आज्याचें, पणज्याचें बी नांवां आमकां कोणाकच खबर नात. आमी आमचें आडनांव आतां नायक इतलेंच लायतात. पूण खरें म्हळयार आमी नायक शंखवाळकार. आमच्या पुर्वजांचो गांव सांकवाळ. एक कुवाडें म्हाका केन्नाच सुटलें ना. नरशिंव दामोदर नायक ह्या कुटुंबा कडेन आमचे बारा दिसांच्या सोयर सुतकाचे संबंध. पेटको नायक म्हळयार बाबय नायक हांचेय कडेन आमचें तीन दिसांच्या सोयर सुतकाचें नातें. नरशिंव नायक कुटुंबाची सांकवाळ गांवांत जमीन आसा. बाबय नायक कुटुंबाची मात सांकवाळे जमीन ना आनी आमचीय ना. हें कशें..?

म्हाका दिसता, कांय वर्सां आदीं सुकडो नायक आनी बाबय नायक हांच्या पुर्वजांचीं सांकवाळ गांवच्या लोकां कडेन कसलीं ना कसलीं झगडीं जालीं आनी रातोरात आपलें घरदार सोडून, भाटांबेसां सोडून हे लोक आपली साटली पोटली घेवन मडगांवां आयले आसूंक जाय!

सुकडो नायक सादारण १८५० उपरांत मडगांवां आयिल्लो जावंक जाय! ह्या म्हज्या अंदाजाक एक विशिष्ट कारण आसा. सुकड्याक तीन पूत जाले. एक दामोदर-जो म्हजो पणजो. दुसरो राम आनी तिसरो विष्णु. १८९० वर्सा मडगांवां काम्राचे वेंचणुकेंत, सक्यले बाजारांत आशिल्ले काम्राचे वारतु मुखार जमिल्ल्या लोकांचेर पुलिसांनी फारपेट केलो. तेन्ना सुकड्याचो पूत राम फत्तर लागून भायर पडलो. चड करून तो लग्न जावंक नाशिल्लो जावंक जाय! देखून ताका भुरगें बाळ नाशिल्लें.

दामोदराचो पूत काशिनाथ. काशिनाथाचो पूत दामोदर आनी दामोदराचो पूत हांव दत्ता. म्हजो पूत चिराग आनी चिरागाचो पूत रणवीर. अशे तरेन सुकडो, दामोदर, काशिनाथ, दामोदर, दत्ता, चिराग

आनी रणवीर अशीं सात पिळग्यांचीं नांवां आमकां खबर आसात.

दामोदराचें लग्न 'बा' कडेन जालें. बा चें खरें नांव म्हाका खबर ना. हांवें बा क पळयल्या. तिका सगळे बा च म्हणटाले. दामोदराक चड आयुश्य मेळ्ळें ना. काशिनाथ आनी श्रीनिवास ह्या ताच्या दोन पुतांचो सांबाळ बा नच केलो.

मडगांवां येतकीर सुकड्यान चड करून नाल्लांचो वेपार सुरू केलो आसूंक जाय! तो साधारण सो बरो चलतकीर ताणें खोबरें, खोबरेल हांचे वांगडा भुसारी म्हालाचो मांड मडगांवचे आंगर्डेत घालो जावंक जाय! सुकड्यान कोंबांत १८७५ वर्साच्या सुमाराक घर घेतलें आसूंक जाय! फुडें ताणें वा ताच्या वंशजांनी ताका तेंकून आशिल्लीं आनीक दोन घरां घेतलीं आनी पन्नास-साठ जाणांच्या एकत्र कुटुंबाक रावपा सारकें व्हडलें घर बांदलें आसूंक जाय! तेंच आमचें सध्याचें घर, जातूंत हांव रावतां. गोंय सरकारान ताका पारंपारीक (हेरिटेज) घराचो पावंडो दिला.

सुकड्याचो तिसरो पूत विष्णु. ताका तीन पूत जाले. एक पांडुरंग-जाका दादा म्हणटाले. तो निपुत्रीक आशिल्लो. देखून ताणें म्हज्या बापायक पोसको घेतिल्लो. पूण म्हजो बापूय नांव मात आपल्या जल्मदात्या बापायचें म्हळ्यार काशिनाथाचें लायतालो. दुसरो पूत नारायण. नारायणाक सोनू आनी कृष्ण हे दोन पूत जाले. विष्णुच्या तिसऱ्या पुताचें नांव यशवंत. पूण तो बोंबी (बोंबी नायक) ह्या नांवान फामाद जालो.

बोंबी नायक हो आमच्या घराण्यांतलो पयलो उद्योजक. ताचें नांव गोंयभर गाजलें. ताणें पयलीं लुगटां (कपडे) विकपाचो मांड घालो. विदेशी गाड्यांची एजन्सी घेतली. मागीर ताणें पिठाची गिरण घाली. खोबऱ्याचें खोबरेल करपाचो घाणो घालो. बोंबीन गडगंज पयसो केलो. आमच्या घराण्याक बोंबी नायकालें घराणें म्हणून लोक वळखूंक लागले.

बोंबीचो भाव नारायण. ताका सोनू आनी कृष्ण अशे दोग पूत जाले. तातूंतल्या सोनून रोपां आळींत 'सोनू नारायण नायक' ह्या नांवान मांड घालो. सोनू हो खांपो वेपारी आशिल्लो. ताचे कडेन गिरायक ओडून हाडपाची फिशालकाय आशिल्ली. सोनून आपल्या धंद्यांत बरें यश मेळयलें. सोनून भाटां-बेसां घेतलीं.

कुटूंब वाडत गेलें तशें बोंबीन आनी सोनू आनी कृष्ण ह्या भावांनी नवीं घरां बांदलीं आनी ते मूळ घरांतल्यान भायर सरून नव्या घरांत रावंक लागले.

म्हजो आजो काशिनाथ. ताका 'ताता' म्हणटाले. ताताचो जल्म १८९५ वर्सा जालो. ताचो जल्म जातकीर पांच स वर्सांतच ताचो बापूय दामोदर भायर पडलो आसूंक जाय. पूण ताची आवय 'बा' ही कापाजदादीची बायल आशिल्ली. तिणें ताताक जाता तितलें शिक्षण दिलें आनी पिरायेचीं पंदरा वर्सां जातकीर ताता बोंबीच्या धंद्यांत लक्ष घालूंक लागलो. पूण बा न ताच्या मनांत म्हत्वाकांक्षेचें बीं रुजयल्लें. देखून ताता १९२० सालांत बोंबी नायकाच्या धंद्यांतल्यान वेगळो जालो आनी ताणें स्वताचो 'काशिनाथ दामोदर नायक' ह्या नांवान धंदो सुरू केलो. पुर्तुगेज भाशेंत आशिल्ली Caxinate Damodor Naique ही पाटी हालीं हालीं मेरेन आमचे कडेन आशिल्ली. आपलो तिपोलभाव सोनू आनी कृष्ण रोपांच्या (कपड्यांच्या) धंद्यांत आसात हें पळोवन ताता त्या धंद्यांत पडलो ना. तातान भुसारी धंदो सुरू केलो. नाल्ल, खोबरें, खोबरेल, कडधान्य, तांदूळ, गंव हाचे वांगडा विदेशांतल्यान आनी भारतांतल्यान आयात केल्ल्यो बिस्कुट्यो, चॉकलेटी, पिपीरमिटां, शाबू, सायकली, टायर, ग्लास अशे तरातरांचे जिन्नस ताच्या मांडार मेळटाले. चवथी वेळार तो फोगोट्यो आनी फोग हाडटालो. गोंयच्यान नाल्ल आनी खोबरें श्रीलंकेक (तेन्नाचें सिलोन) धाडपाचो यत्नय म्हज्या आज्यान केलो.

म्हज्या आज्यान मुंबय प्रिन्सेस स्ट्रीट ह्या मुंबयच्या रस्त्यार पेढी उगडली. गोंयभरचे वेपारी हे पेढ्येर भारतीय म्हालाची मागणी दिताले. तांचे मागणे प्रमाण पेढी तांकां म्हाल धाडटाली. ह्या वेपारांत ताताक बरें कमिशन मेळटालें.

ताताक समाजकार्याची आवड आशिल्ली. तो खूब वाचन करतालो. लेखन करतालो. नाणी आनी स्टॅम्प जमोवपाचो ताका छंद आशिल्लो. सादारण १९३० च्या दशकाच्या निमाण्या वर्सांनी ताताची घरकान्न भायर पडली. मागीर तातान धंद्या कडेन दुर्लक्षच केलें आनी तो समाजकार्य, लेखन, वाचन आनी आपले छंद हातूंतच गुल्ल जालो. १९३५ वर्साच्यान म्हळ्यार पिरायेच्या १६ व्या वर्साच्यान शिक्षण अर्दें सोडून (सादारण सातवे मेरेनचें शिक्षण घेवन) म्हजो बापूय दामोदर धंदो पळोवंक लागलो. ताका १९८५ त मरण आयलें. म्हळ्यार १९३५ ते १९८५ हीं ५२ वर्सां अखंड ताणें धंद्याची जापसालदारकी सांबाळ्ळी.

१९३५ ते १९६१ ह्या काळांत म्हज्या बापायन, जाका भाऊ म्हणटाले ताणें विदेशांतल्यान कॅडबरी चॉकलेट्स, जेकब ॲन्ड पाल्मर बिस्किट्स, यार्डले पावडर, डनलॉप टायर्स,केडीके फॅन्स अश्यो गिरायकाक जाय जाय त्यो गजाली

आयात केल्यो. ह्या धंद्यांत ३० ते ४० टक्के कमिशन मेळटालें देखून बरो फायदो जातालो.

ह्याच सुमाराक आमी सिने लता नांवाचें ३४०सिटांचें थियेटर सुरू केलें. पूण तें आमी चलयलें ना. दुसऱ्याक चलोवपाक भाड्यान दिलें.

म्हजो बापूय चड म्हत्वाकांक्षी नाशिल्लो. आमकां कालटेक्स नांवाच्या ऑइल कंपनीची एजन्सी आशिल्ली. हे कंपनीच्या संबंधाचो उपेग करून आमी मडगांवांत पेट्रोल पंप घालचो अशी म्हज्या आज्याची इत्सा आशिल्ली. पूण पेट्रोल पंपाची भानगड आनीक नाका म्हणून म्हज्या बापायन तो विचार शेंवटून वडयलो.

गोंयचे मुक्तताये पयलीं म्हजो बापूय भाऊ सुटके झुजाऱ्यांक अर्थीक मजत करतालो. जे सुटके झुजारी कादयेंत पडल्यात तांच्या कुटुंबाक तो आदार दितालो. १९५४ सालांत भारताचे पंतप्रधान जवाहरलाल नेहरू हांणी गोंयची अर्थीक नाकेबंदी (इकॉनॉमीक ब्लॉकेड) केली. गोंयच्या वेपाऱ्यांक भारतांतल्यान म्हाल हाडपाक मेळना जालो. पूण बुदवंत वेपाऱ्यांनी भारतीय म्हाल सिंगापूच्यान गोंयांत आयात केलो. देखून अर्थीक नाकेबंदी फसली. उपाट देशप्रेमाचे भावनेन भाऊन मात सिंगापूरच्यान भारतीय म्हाल हाडलो ना. अशें करपी तो गोंयांतलो एकटोच वेपारी आसतलो. भाऊचे - दामोदर काशिनाथ नायकाचे हे करणेची नोंद गोंयचे राजकी इतिहासांत उरूंक जाय..

ताताक म्हज्या चार पूत. तातूंतलो निमाणो पूत नरशिंव दोतोर जालो. दुसरो पूत-श्रीधर-तो मुंबयची पेढी सांबाळपाक लागलो. मडगांवच्या धंद्यांत ताता आनी म्हजो बापूय दामोदर आनी बापोलयो सुब्राय हे भागिदार आशिल्ले. सादारण १९५० च्या दसकाचे सुर्वेक म्हज्या बापायचें आनी बापोलयाचें पटना जालें. वांटणी जावन बापोलयान दुसरो धंदो सुरू केलो. मूळ धंद्यांत ताताक आठ आणे आनी भाऊक आठ आणे अशे वांटे उरले.

ताता आपल्या इत्सापत्रांत आपल्या आठ आण्यांतले दोन आणे म्हाका आनी दोन दोन आणे उरिल्ल्या तीन पुतांक दिवंक सोदतालो. म्हजे आवयन शिटूकसाणीन ताका सांगलें- अशें निखालस करूं नाका. आठय आणे नातवाक म्हळ्यार म्हाका दी. उरिल्लीं भाटां बेसां, पयशे हेर पुतांक दी. तातान म्हजे आवयची सुचोवणी आयकली. ताता मरतकीर धंद्याचो मालकी हक्क पुराय आमचे कडेन, आठ आणे म्हळ्यार ५० टक्के भाऊक आनी आठ आणे म्हळ्यार ५० टक्के म्हाका आयलो. पूण आमकां भाटां बेसां मेळ्ळीं नात. तातान आपल्या इत्सापत्रांत आमी आमच्या धंद्यांतल्यान कांय हजारांची रोकड रक्कम म्हज्या बापोलभावांक आनी बापोलयाक दिवंची अशी इत्सा उक्तायल्ली.

गोंय स्वतंत्र जावंचे एक दोन वर्सां आदीं मडगांवां खोजा समाजाचे धर्मगुरू राजकुमार आगाखान हांणी भुरग्यां खातीर एक जार्दिन बांदिल्लें. गोंय मुक्त जातकीर थंय आपल्याक एक रेस्टॉरंट घालून दिवंचें असो अर्ज गजानन गवंडळकार हांणी नगरपालिकेक केलो आनी तो मंजूर जातकीर रेस्टॉरंटाचें बांधकाम करपाक सुरवात केली. पूण भुरग्यां खातीर बांदिल्ले फुलबागेंत रेस्टॉरंट आसपाक मडगांवच्या कांय नागरिकांनी विरोध केलो. देखून नगरपालिकेन आपली मंजुरी फाटीं घेतली आनी गजानन गवंडळकार हांकां कोमुनिदाद बिल्डिंगे कडेन आशिल्ली थोडी जमीन भाडेपट्टीन दिल्ली. ते जमनीर सकयल उडुपी हॉटेल आनी वयल्या दोन माळ्यांचेर बार आनी रेस्टॉरंट आसपी इमारतच उबारपाचें गवंडळकारबाबान थारायल्लें. पूण तांचे कडेन इतले पयशे नाशिल्ले. म्हणून ते म्हज्या बापाय कडेन आयले. म्हज्या बापायन कांय पयशांची गुंतवणूक करून त्या धंद्यांत गवंडळकार कुटुंबा वांगडा ५० टक्क्यांची भागिदारी घेतली. इमारत बांदून जाली. पूण उडुपी हॉटेल आनी रेस्टॉरंट चलोवप भागिदारांक जमना जालें. म्हणून ह्यो सुवाती भाडेपट्टीर चलोवपाक दिवंच्यो पडल्यो. म्हज्या बापायन सुरू केल्लो हो एकच नवो धंदो. तातूंतल्यान आयज गवंडळकार कुटूंब आनी आमकां भाड्याच्या रुपान म्हयन्या म्हयन्याक येणावळ येता.

गोंय मुक्त जातकीर आयातीचो धंदो बंद जालो. आयात केल्ल्या म्हालाचेर ३० ते ४० टक्के नफो मेळटालो. मुक्तताये उपरांत म्हज्या बापायन ब्रिटानिया बिस्कीट्स, कॅडबरी चॉकलेट्स, पॅरी पेपरमिंट्स, टाटा किनले च्या, टाटा शाबू, लखमे सौंदर्य प्रसाधनां, टायर्स,पॅरी सॅनिटरी वेअर्स (बेसिनां,कमोड) टाटा केमिकल्स, शिवकाशीचे माराण आनी फोग हांची एजन्सी घेतली. ह्या धंद्यांत पांच टक्के कमिशन मेळटालें. खर्च काडल्यार एक टक्को नफो उरतालो. पुर्तुगेजा तेंपार नाशिल्ले ते नवे कर आतां भरचे पडले. पयलीं गिरायक आमचे मांडार स्वता येवन म्हाल व्हरतालें. आतां गाडयांनी म्हाल व्हरून गिरायकाक पावोवपाची चाल सुरू जाली. खर्च वाडलो. येणावळ उणी जाली. भाऊक हे नवे परिस्थिती कडेन जुळोवन घेवप कठीण जालें.

१९६८ त म्हजो आजो भायर पडलो.

आमकां इस्टेट ड्युटी भरची पडली. ताच्या इत्सापत्रा प्रमाण म्हज्या बापोलभावांक आनी बापोलयाक भांडवलांतल्यान काडून रोकड पयशे दिवंचे पडले. भाऊन सोनु नारायण नायकाचो पूत पुंडलीकबाब आनी ताचे भाव हांचे कडल्यान देड लाख (म्हळ्यार आवचे नदरेन देड कोटी) रुपया कर्जान घेतले.

एक दोन कर्मचाऱ्यांनी अफरा तफरय केली. भाऊ निराश जालो. ताका डिप्रेशन आयलें. ह्याच सुमाराक १९६७ आनी १९७२ वर्सा म्हज्या दोन भयणीचीं लग्नां जालीं. त्या लग्नखर्चाचें वझें धंद्याचेर पडलें. मडगांवच्या एका धूर्त आनी लंपट वेपाऱ्यान भाऊचें धंद्याचेर दुर्लक्ष जालां हें पळोवन कंपनीच्या मनशाक धरून आमच्या टाटा किनले च्या आनी टाटा शाबू हांच्यो एजन्सी फारायल्यो.

ज्युरत ह्या वेळार हांवें मेट्रीक जावन (१९७१) कॉलेजींत प्रवेश घेतलो. भाऊ 'दुडू ना, दुडू ना, दुकान बंद करचें पडटलें ' असो म्हजे आवय कडेन पिरंगता तें म्हज्या कानार पडूं लागलें. १९७१ ते १९७५ ह्या वर्सांनी हांव विध्यार्थ्यांचो फुडारी म्हणून गोंय गाजयतालों. अश्या वेळार तीग जाणांनी भाऊक शिटकायलो. एक म्हजो बापोलयो नरशिंवबाब, दुसरो म्हज्या बापायचो आतेभाव रामकृष्णभाऊ आनी तिसरो बाबू नायक.

हांवें भौशीक जिर्णेतल्यान भायर सरून सांजच्या वेळार धंद्यांत लक्ष घालचें असो उपदेश त्या तिगांय जाणांनी म्हाका केलो. बाबू नायकान तर स्पश्ट उतरांनी सांगलें, 'कांय कंपन्यो तुमच्यो एजन्सी दिवपाक म्हजे कडेन येतात. हांव त्यो घेवंचो ना ती गजाल वेगळी. पूण गांवांतले बाकी वेपारी त्यो फारावतले..!' फुडें ह्याच बाबू नायका आड वेंचणुकेक आमी उदय भेंब्याक उबो




करून हारयलो तेन्ना बाबू नायका कडेन हांव कृतघ्न जालों ही निजी अपराधित्वाची भावना म्हज्या मनांत सासणाची उरली.

एक मात खरें-हांवें त्या तिगांयचोय सल्लो काना मनार घेतलो ना. कॉलेजीचीं चारय वर्सां म्हाका जाय तशीं सारीत म्हजे इत्से प्रमाण केलें. पूण बीए उपरांत मात फुडलें शिक्षण घेना आसतना सरळ कुटुंबीक धंद्यांत पडलों.

०००

हांव धंद्यांत पडलों खरो, पूण म्हाका धंदो कसो करचो हाचें कसलेंच औपचारीक शिक्षण वा अणभव नाशिल्लो. कॉमर्स करी नासतना हांवें कला (आर्टस्) शाखा वेंचून काडून बीए केल्लें. देखून म्हाका अकाउटन्सीचेंय गिन्यान नाशिल्लें. म्हाका झांकून झांकून गांवकार जावंचें पडलें. स्वाध्यायान कांय ल्हान व्हड कोर्सेस करून व्यवस्थापनशास्त्राचें गिन्यान हांवें घेतलें. हें गिन्यान आनी म्हजे अणभव हांच्या बळग्यार हांवें फुडें ***आत्मदीपो भवः*** हें व्यवस्थापनशास्त्राचेर पुस्तकय बरयलें.

गणेशपूजेक कुसको नाल्ल मेळचो तशें जालें. आमकां आशिल्ल्या सगळ्या कंपन्यांचें कार्यक्षेत्र पुराय गोंय आशिल्लें, पूण जून १९७५ त ब्रिटानिया कंपनीन म्हापशें आनी पणजेची आमची एजन्सी दुसऱ्याक दिवपाचें थारायलें. हांव तडक मुंबय गेलों. कंपनीच्या मॅनेजराक मेळ्ळों. हांव नव्यानच धंद्यांत पडलां, म्हाका संद दियात अशें सांगलें. म्हाका पन्नास टक्के यश आयलें. आमची पणजेची एजन्सी आमकां उरली. म्हापशेंची गेली.

म्हापशेंची ब्रिटानिया एजन्सी वतकीर म्हापशेंच्या दुकानाचो फायदो उणो जालो. त्याच सुमाराक मांडवी पूल पडलो. हांवें पागडी घेवन म्हापशेंचें दुकान गजानन पारकाराक दिलें आनी ताकाच कॅडबरी, पनामा, किसान ह्या कंपन्यांचो सब एजन्ट केलो. वर्सभरान पारकाराक आपूण एजन्ट जावपाचो लोभ जालो. कंपन्यांकय दोश दिवंक जायना. तांणी पारकाराक एजन्सी दिली.

म्हापशेंचें दुकान बंद जातकीर हांवें वारको दुकान विकतें घेतलें आनी एक फोंड्यांय भाड्यान घेतलें. अशे तरेन पयलीं पुराय गोंयांत मडगांव, पणजे, म्हापशां ह्या दुकानांनी आमी म्हाल पावयताले, आतां मांडवीच्या दक्षिणे कडल्या गोंयांत मडगांव, फोंडें, वारको आनी पणजे ह्या चार दुकानांनी पोवोवंक टेम्पो भायर सरूंक लागले.



आमच्या धंद्याची उलाढाल सिगरेटीच्या धंद्यांतल्यान लाखांनी रुपयांची आशिल्ली. सगळे अकाउंट गोवा अर्बनांत उगडले. हे बँकेन आमकां रिणाची मर्यादा वाडोवन दिली. आज मेरेन आमचे वेव्हार गोवा अर्बन बँकेंत आसात.

म्हज्या आज्यान म्हज्या नांवार आक्यां एक हजार चौखण मिटरांचो एक प्लॉट दवरिल्लो. तो तीस रुपया चौखण मिटर ह्या दरान म्हळ्यार तीस हजार रुपयांक हांवें विकलो. ते भायर कुडचड्या मारुती गडा सकयल आमची थोडी जमीन आशिल्ली. थंय प्लॉट करून ते विकले. हे सगळे पयशे धंद्यांत गुंतयले.

म्हज्या बापायक पांडुरंग (दादा) हाणें पोसको घेतिल्लो. ताचें सुमार एक लाख पंचवीस हजार चौखण मिटरांचें भाट वाक्यां दर्या देगेर आशिल्लें. थंय दोन मुंडकार आशिल्ले. एक किर्तेर म्हणून किरिस्तांव बायल मनीस आनी दुसरो म्हाड्डू नांवाचो शेतकार आनी दुदकार. ह्या भाटाचो दर्या वटेनचो मुंडकार नाशिल्लो. देखून हांवें ८० हजार चौखण मिटर जमीन विकपाची थारायलें. तशी टायम्स ऑफ इंडियांत जायरात दिली. हॉलीडे इन, जुहु हॉटेलाचो मालक रमेश खन्ना ही जमीन धा रुपया मिटर दरेन आठ लाखांक घेवपाक तयार जालो. पूण घरच्या सोयऱ्यांक ही खबर जेन्ना कळळी तेन्ना ते म्हणूंक लागले- ही जमीन भायल्यांक कित्याक विकता? म्हज्या बापायचो चुलतभाव भगवंतभाऊ म्हाका वसंतबाब धेंप्या कडेन घेवन गेलो. वसंतबाब ही जमीन आठ लाखांक घेवंक तयार जालो. हे आठ लाख घेतकीर सगल्यांत पयलीं आमी पुंडलीकबाब आनी तांच्या भावांनी दिल्लें रीण फारीक केलें. उरिल्ले पयशे धंद्यांत गुंतयले.

त्या उपरांत हांवें थोड्यो एजन्सी सोडपाचो निर्णय घेतलो. ब्रिटानिया, कॅडबरी, किसान जॅमस्, पॅरी पिपरमिंट आनी पनामा सिगरेटस् ह्यो पांचच एजन्सी दवरल्यो. बाकीच्यो लखमे, डनलॉप, टाटा केमिकल्स, शिवकाशी माराण असल्यो कंपन्यो सोडल्यो.

पनामा सिगरेटीचें वितरण कशें जाता हाची देखरेख करपाक कंपनीन सोपोरी नांवाच्या अधिकाऱ्याची नेमणूक केल्ली. सोपोरी हो मूळ काश्मीरी पंडित. गोरोपिठ्ठ आनी निळे दोळे. खूब कश्ट करपी. गिरायकांक जाय त्या गजालींचें वितरण कशें करचें तें हांव सोपोरी कडल्यान शिकलों. तो म्हजो वितरण विद्येंतलो द्रोणाचार्य म्हळ्यार जाता.

पनामा, ब्रिटानिया, कॅडबरी, किसान आनी पॅरी हांच्या वितरणा खातीर हांव गोंयच्या खांची कोयंड्यांनी भोंवलां. ल्हान व्हड मांड आनी दुकानां माड्डिल्यांत. गाड्या गाड्यांचेर पावलां. बार्स, शॅकस्, रेस्टॉरंटस्, हॉटेलां हांच्या मालकांक मेळळां.

पणजे व्यवस्थापनशास्त्राचेर एक दिसाची कार्यशाळा आशिल्ली. ताका हांव गेलों. थंय एराज्मो सिकेरान आमकां SWOT ही संकल्पना सांगली. एराज्मो कडेन म्हजी इश्टागतय जाली. वेळा वेळार हांव ताचे कडल्यान मार्गदर्शन घेवंक लागलों. SWOT तलो S म्हळ्यार खंयच्याय आस्थापनांतलें Strengths- बळगें..सामर्थ्य. W म्हळ्यार Weakness दुबळेपण वा दोश. O म्हळ्यार Opportunity -त्या आस्थापना मुखार आशिल्ली संद आनी T म्हळ्यार Threat. त्या आस्थापनाक आशिल्ली भिरांत.

हांवें म्हज्या आस्थापनाची SWOT संकल्पने प्रमाण चिकित्सा केली तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें-आमचे कडेन ब्रिटानिया, कॅडबरी, पनामा, किसान, पॅरी ह्यो बऱ्या ब्रॅन्डांच्यो एजन्सी आसात. हें आमचें बळगें. धंद्याक फावो तें भांडवल नासप हें आमचें दुबळेपण. गोंय पर्यटन केंद्र आशिल्ल्यान आमकां धंदो वाचोवपाची उपाट संद आसा. आनी धंद्या कडेन दुर्लक्ष केल्यार दुसरे वेपारी आमच्यो एजन्सी फारायत ही भिरांत आमच्या धंद्याक आसा.

ही चिकित्सा करतकीर हांवें धंद्यांतलें भांडवल वाडोवपा खातीर बँके कडल्यान रिणाची मर्यादा वाडोवपाचें थारायलें. आमची बँक आशिल्ली कॅनरा बँक. तिणें न्हयकार दितकीर हांव गोवा अर्बन बँके कडेन गेलों.

हे वटेन जमीन आपल्याक विकली ना हें पळोवन रमेश खन्ना फुर्योज जालो. मागीर हांवें ताच्या रिसोर्टा खातीर माजोड्ड्या दर्या देगेर एक जमीन सोदली. रमेश खन्नाक ती आवडली. तार्णे ती घेतली. ते जमनीर तार्णे माजोर्डा बीच रिजोर्ट बांदलें. ह्या वेव्हारांत जमीन मालका कडल्यान हांवें अठरा हजारांचें कमिशन घेतलें.

हांव धंद्या खातीर इतलो धडपडटां तरी म्हजो बापूय म्हजेर खूश नाशिल्लो. दरेक गजाल हांवें आपल्याक सांगून करची अशें ताका दिसतालें. धंद्यांत दर खिणाक निर्णय घेवचे पडटाले. देखून दर गजाल बापायक सांगून निर्णय घेवप शक्य नाशिल्लें. देखून म्हजो बापूय आनी हांव हांचो संघर्श जावंक लागलो. एक दीस तर तार्णे अतितायच केली. तो म्हणपाक लागलो-बँकेक हांव दर चेकार दोगांवच्योय सयो जाय म्हणून कळयतलों. हांव म्हाका जाय त्याच चेकार सयी करतलों. हांव मरतकीर म्हज्या पार्थिवाक लेगीत तुवें उजो लावचो न्हय अशें बरोवन दवरतलों. ह्या वेळार म्हजे फाटल्यान उबी रावली ती म्हजी व्हडली भयण मीनाक्षी, जिका हांव दिदी म्हणटालों आनी म्हजो भावोजी भाई केणी. तांणी भाऊक झिरीपात दिलें. तेन्नाच्यान भाऊ मात्सो मोव जालो.

१९८५ वर्सा भाऊ हो संवसार सोडून गेलो. म्हजें म्हज्या बापायचेर इल्लेंय प्रेम नाशिल्लें देखून तो मरतकीर एक कटकट गेली म्हणून म्हाका खोस जावपाची पूण तशें जालें ना. म्हाका खूब वायट दिसलें. दोळ्यांत पळपळीत दुकां आयलीं. भाऊ बापूय म्हणून (म्हजे नदरेन) वायट आसत! पूण मनीस म्हणून खूब बरो आशिल्लो. तो प्रामाणीक,चोख आनी कश्टाळू वेपारी



आशिल्लो. ताचो जल्म १९१७ तलो. पिरायेच्या १६ व्या वर्सा पासून म्हळ्यार १९३३ वर्सा सावन १९८५ मेरेन ५२ वर्सां एक दीस चुक्य नासतना तार्णे धंदो सांबाळ्ळो.

ते मजगती भाऊ आसतना १९६० वर्सा हांवें कपडे धुवपाचो शाबू करपाची ल्हान फॅक्टरी घाली. ती स म्हयन्यांत बंद करची पडली. म्हाका शाबू करपाचें कसलेंच तांत्रिक गिन्यान नाशिल्लें. सल्लागार घेवन हांवें ह्या धंद्यांत उडी मारिल्ली. फॅक्टरी बंद करतकीर कांय हजारांचें लुकसाण जालें. लघु उद्योजक जावपाचें म्हजें सपन भंगलें. पूण हांव निर्शेलों ना. १९८६ सालांत काकोडा औद्योगीक वसाहतींत हांवें एक शेड घेतली. मुंबयच्या फामाद ड्युक्स सोडा, लेमनेड, मँगोला ह्या शितपेयांची हांवें फ्रेंचायज घेतली आनी तांचो बॉटलींग प्लान्ट काकोडेचे शेडींत घालो. गोंय, सिंधुदूर्ग आनी रत्नागिरी वाठारांत हांव ह्या शितपेयांचे एजंट नेमून वितरण करूंक लागलों. सुर्वेक हो धंदो बरो चल्लो. लघु उद्योजकांक अवकारी करांत सवलत आशिल्ल्यान फायदोय जावंक लागलो. दोन वर्सांनी जे लघु उद्योग दुसऱ्यांच्या मालकीच्या ब्रँन्डांचें उत्पादन करतात तांची अवकारी कराची सवलत सरकारान काडल्या उपरांत ताचो खूब मोठो अर्थीक धक्को आमकां बसलो. धंद्यांत लुकसाण जावंक लागलें. दुश्काळांत तेरावो म्हयनो म्हणून तर फॅक्टरीचे कामगार युनियनाचे सदस्य जाले. दर दोन वर्सांनी तांचो पगार वाडोवंचो पडलो.

१९९३ वर्सा भारत सरकारान अर्थीक धोरण सदळ केलें. भारतीय अर्थवेवस्था संवसारीक अर्थवेवस्थेची वांटो जाली. रोखडीच कोका कोला आनी पेप्सी कोला हीं भोवराष्ट्रीय कंपन्यांचीं शीतपेयां भारतांत आयलीं. तांचे कडेन आमकां सर्त करची पडली. ह्यो कंपन्यो दुकानदारांक ल्हान फ्रिज दिवंक लागल्यो. फ्रिज दिवप आमकां शक्य नाशिल्लें. आमच्या शीतपेयाची विक्री उणी जावपाक लागली.

फुडें १९९० च्या दसकाच्या उत्तरार्धांत ड्युक्स कंपनीच पेप्सीन विकती घेतली. तांणी आपली आमी दितात ती ब्रॅन्ड रॉयल्टी वाडयली. ड्युक्स ब्रॅन्डाची जायरात बंद केली. हो कॉफिना वयलो निमाणो खिळो आशिल्लो. हांवें फॅक्टरी बंद करपाचें थारायलें. २००० वर्सा हांवें मशिनरी श्रीपाद नायकाचो मेवणो संतोष महानंदु नायक हाका सुमार तिसेक लाखांक विकली. इडीसीचें लोन फारीक केलें. कामगारांक काम केलां त्या दर वर्सा फाटल्यान दर दीस ह्या कोंतान पयशे दिले. हें सगळें करतकीर म्हज्या हातांत कांयच उरलें ना. उरली ती शेड. कांय वर्सांनी ती विकली. तिचे आठ-धा लाख आयले.

म्हजे जिर्णेतलीं १४ वर्सां फुकट गेलीं. पयशांचो गोबोर जालो. मेळ्ळो तो मात अणभव,उपाट अणभव...

उस्तवारीं



अरूण काकोडकार

अरूण काकोडकार हे कथा आनी ललित लेखनात फिशाल. तांचो 'मूठभर मळब' हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी तांचीं आनिकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. ताणीं सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांतल्यान तशेंच गोंयच्या हेर कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन केलां. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब' पुरस्कार आनी कला तशेंच सस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.



# झुजांचो इतीहास सोदतना...

*क्रांती, बंडां, उठाव कित्याक लागून जातात? श्रीकृष्णान भगवद्‌गीतेंत सांगलां तशें...जेन्ना जेन्ना धर्तरेचेर अधर्म, अन्याव, अत्याच्चार जातलो तेन्ना तेन्ना तो नश्ट करपाक हांव अवतरतलों. चळवळ, संग्राम, संघटणा जेन्ना उब्यो जातात तेन्ना त्यो वेगळ्याच रुपांत जल्माक येतात.*

झूज, युद्ध ह्या उतरांचो अर्थ म्हाका केन्ना समजूंक लागलो म्हाका आतां याद जायना. सादारण सात-आठेक वर्सांचे पिरायेर आसूं येता. तेन्ना चांदोबा मासिकांत दर म्हयन्यांत खिरस्तीनी महाभारताचें कथानक येतालें. मुखपृश्ठार युद्धाचें रंगीत चित्र आसतालें. रथाचेर बसून गीता सांगतना कृष्ण आनी म्हऱ्यांत उबो धनुर्धारी अर्जुन, बाणांचे शय्येचेर धारातीर्थी पडिल्लो पितामह भीष्म, सकयल देंवून रथाचें चाक ओडटना अर्जुनाच्या बाणांनी घायाळ जाल्लो कर्ण आनी अशीं अनेक चित्रां पळोवन महाभारताचो इतिहास जाणा जावन घेवपाची उत्सुकताय जाताली. झुजांच्या इतिहासाची पयली वळख चांदोबांतल्यान जाली.

'गेर' हें पुर्तुगेज भार्शेतलें उतर. गोंय स्वतंत्र जालें तेन्ना हांव धायेक वर्सांचो. नोव्हेंबर सोंपून डिसेंबर म्हयनो लागिल्लो. इश्कोलांत येतना-वतना वांगडा भुरगे आसताले. आमचे मदीं आंतोन नांवाचो भुरगो आसतालो. खूब बडबडो. जगाच्यो सगळ्यो खबरो ताचे माथ्यार थापिल्ल्यो. एके फावट तो सांगपाक लागलो-

''तूं जाणां....आतां हिंगा व्होडलें गेर जावपा आहा.''

''गेर म्हटल्यार किर्ते रे?'' कोणें ताका विचारलें.

''गेर म्हटल्यार झगडीं, मारामारी. बेश्ठीं येशीं जाताय तसलीं न्हूंय.बॉम्ब घालताय बॉम्ब...सोगळे-इतल्याक उजो पेट्टा.....आहा तें सोगळें काबार कोत्ताय...आख्खी धर्तरी हालोता...तुमी जाणाय?''

''कित्याक लागून करतात तशें?'' कोणे एकल्यान अबुद्दीपणान ताका विचारलें.

''इंदीयान आसाय न्हूं ! ते गोंयें घेवपाक सोदीताय. वयर न्हेरु बसला..तो कोत्ता सोगळें..!''

''कित्याय किर्ते सांगून भेसडांव नाका तेंकां. गेर-बीर कांय जावपाना. तूं माल्सो ओगो रावशी?'' आमचे मदल्या पिरायेन व्हड अशा भुरग्यान ताचेर धेंगसो घालो आनी आमचीं चकाटां तितल्याचेर सोंपलीं.

आंतोन उलयता तें सामकें फट नाशिल्लें. ताका कसली तरी सुलूस लागिल्ली. घरांत जावं सरभोंवतणी जाणटे कोणूय उलयतात तें ताणें आयकल्लें

आसूंये!

ताचे उपरांत सुमार धायेक दिसांनी- दोळयां मुखार घडटा तें एक गेर्र पळोवपाचो अणभव म्हाका आयलो....अठरा डिसेंबर, दीस सोमार...आमचे स-माही परिक्षेचो पयलो पेपर. ते दिसाची सकाळ अशीच दमटील्लीशी. सदचे परस रस्त्यार येरादारी उणी. वयर हॅलीकॉप्टरांचो गरगर.....किर्तेतरी वेगळें-विचित्र शें घडटालें.....इश्कोलांत माळये वेल्यान सगळे भुरगे गर्दी करून अजापान सकयल पळयताले...जिपींत आनी रणगाड्यार सज्ज जाल्ले आर्माद पुर्तुगेज सोल्दाद...सगळें बळ एकटावन फुडें सरताले पुणून तांकां बळगेंच नाशिल्लें. ते भिल्ले वरीं, गोंदळील्ले वरीं दिसताले....झुजाचो प्रतिकार करपा इतली शक्त तांचे लागीं नाशिल्ली.

कोण-कोण किर्ते किर्ते उलयताले...वारकोचो विमानतळ मोडून घालतले...वारकोतल्यो पेत्रोलाच्यो टांक्यो काबार करतले...सगळे पूल मोडून उडयतले... अफवांक ओतो आयिल्लो. केम्याचो पूल आमकां लागीं. सांजवेळां पूल मोडिल्ल्याचो ढण्ण असो व्हडलो आवाज आयलो....सगळयांची भिवून गुळी....तो दीस असो हुसक्यांतच गेलो.

दुसऱ्या दिसाची सकाळ उदेली ती नव्या उजवाडान......'आयज आमचें राज्य आयलें..आयलें आमचें राज्य..।' मनोहररायांच्या कवितेची उर्बेभरीत उतरां काळजां सुखायतालीं...व्हडल्या भावाचो हात धरून स्वतंत्रायेचे मिरवणूकेंत चलतना मन धादोसकायेन भरून आयलें.

झुजाची ही पयली वळख. ताचे उपरांत था म्हयन्यां भितर व्हडलें झूज जालें. भारत-चीन झूज. ह्या झुजाचो वृतान्त खबरांपत्रांत वाचतना झुजांचें एक आगळें-वेगळें चित्र दोळयां मुखार उबें जातालें.....ताचे उपरांतचें १९६५ वर्सा जाल्लें भारत-पाकीस्तान झूज...१९७१ वर्सा उर्दत पाकीस्तानाचे मुक्ततायें खातीर जाल्लें भारत-पाक झूज...तातूंतल्यान बांगला देशाची निर्मणी जाली. णव वर्सांच्या अंतरान भारताचे शिमेचेर तीन खडेगांठ झुजां जालीं. ह्या झुजांतल्यान खूबशें किर्ते शिकूंक मेळळें. झुजां कित्या खातीर जातात, कितली मनीसहानी जाता, कसली नासाडी जाता, निमणो परिणाम किर्ते जाता.......

१९६२ ते १९७१मदलो तो झुजांचो काळ अजूनय याद जाता. त्यो काळखी तिनसांजो..ते थरकांप दिवपी सायरनाचे आवाज....मळबांत घुंवतालीं तीं जेट विमानां आनी तांचेर सोडिल्ले ट्रेसर बुलेट्स..खिणां-खिणांत उध्वस्त जाल्लीं आयुश्यां.. हें सगळें प्रत्यक्ष पळयलेंना जायत तरीकय खूबशें अणभवलें.

णववी -धावी यत्तेंत इतिहासाचे धडे शिकतना विंगड विंगड झुजांची वळख जाली. सम्राट अशोकाचें कलिंग झूज आनी मराठा-मोंगल झुजां पसून १८५७ चो उठाव, पयलें म्हाझूज, दुसरें म्हाझूज आनी मागीर इंटराच्या वर्गांत शिकतना अमेरिकेचो स्वातंत्र्य-संग्राम, रशियन क्रांती, फ्रेंच क्रांती अश्यो अनेक क्रांती आनी बंडांची संक्षिप्त म्हायती फावो जाली.

झुजांचो इतिहास वाचतना इतिहासाचीं असंख्य रक्ताळील्लीं पानां दोळयां मुखार फडफडूंक लागतात.रामायण आनी महाभारताच्या झुजांत जाल्ल्या असीम मनीस सांवारा पसून हालीं जाल्ल्या संवसारांतल्या ल्हान व्हड झुजां मेरेन आनी तातूंत जाल्ल्या रक्तखेवा मेरेन कितले तरी भयांकूर तपशील मनांत जागे जातात. लडायो, कट-कारस्थानां, बॉम्ब, मनीस हत्या, छळ-छावण्यो, उध्वस्त जाल्ले संवसार, अनाथ जाल्लीं भुरगीं-बाळां, शारांची, वास्तूंची जाल्ली नाशाडी..., ..थोडे भितर मनीस संस्कृतायेन जें जें किर्ते सोबीत, सुंदर, अर्थपूर्ण, विशाळ अशें जें निर्माण केलां ताचो विनाश म्हणल्यार झुजांचो इतीहास अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

इतिहासांत अनेक काळखंड आसात....कांय ल्हान, कांय व्हड...त्या त्या वेळावयले, त्या त्या काळांतल्या घडणुकांचे, संस्कृतायेंचे....आतां मातये भरवण जाल्ले ढिगारे....ह्या ढिगाऱ्यांत माती, फातर ,चिखोल इतलेंच उरुंना...एका दर्या धातूंचे कण तातूंत भरसल्यात.... शंबर नंबरी भांगरावरी कांय शे.. झुजांतल्या नाशाडीच्यो, विध्वंसाच्यो काणयो आमी वाचतात तेन्ना चेंगिझखान, हिटलर, स्टॅलीन, औरंगजेब, अब्दाली असल्या जुलमी राज्यकर्त्यांची वळेरी मनांत जागी जाता. तेच वेळार इतिहासांत अजरंवर जाल्ल्या म्हान झुजाऱ्याची याद जाले बगर रावना.... औरंगजेबाच्या कारवायांक भीक घालचे परस मरण पत्करपी धर्मवीर संभाजी, पानीपतचे लडायेंत वीरगती फावो जाल्लो सदाशिवराव भाऊ, मेरी झाँसी नहीं दूंगी हें ठणकावन सांगपी झाँशीची राणी लक्ष्मीबाई, ब्रिटीशांक नाका शेवट करपी म्हैसूरचो वाग टिपू सुलतान.....अशो कितल्योशोच देखी !

क्रांती, बंडां, उठाव कित्याक लागून जातात? श्रीकृष्णान भगवद्गीतेंत सांगलां तशें....जेन्ना जेन्ना धर्तरेचेर अधर्म, अन्याय, अत्याच्यार जातलो तेन्ना तेन्ना तो नश्ट करपाक हांव अवतरतलों. चळवळ, संग्राम, संघटणा जेन्ना उब्यो

जातात तेन्ना त्यो वेगळयाच रुपांत जल्माक येतात. जागृतायेची मंद जोत पेट्टा, भगभगता....ताचो जाळ मोटो मोटो जायत वता आनी अचकीत ताचो स्फोट जाता. क्रांती कशो, केन्ना, कित्याक घडल्यो?... इतिहासकारां मुखार विंगड विंगड पुरावे, पर्याय आसतात आनी तातूंतल्यान तांकां इतिहास मांडपाचो आसता. तत्काळीक कारण कितेंय आसूं, मूळ कारण वेगळें आसूं येता. १८५७ चें बंड जावपाक कारण हिंदुस्तानी सैनिकांच्या काडतूशींक गाय-दुकरांची लायिल्ली चरबी अशें इतिहास सांगता. पुणून तें फक्त निमीत्य आसा. बंडाचें मूळ कारण भारतीयांक परकी आनी परधर्माचे लोक आमच्या पवित्र मायभूंयेर राज्य करतात आनी आमची पिळवणूक करतात हाची तिडक आशिल्ली आनी ताकाच लागून संघर्श पेटलो. अशीच देख अमेरिकेची. ब्रिटनान अमेरिकेक 'च्या'चेर जकात भरपाक लावूंक नाशिल्लो तरी लेगीत स्वातंत्र्य-झूज पेट्लें आशिल्लें .

बंड आनी क्रांती...नांवां कसल्याय अर्थान येतलीं तरीय तसल्या चळवळींची मोख एकच! आसा ती परिस्थीती बदलप . जें असह्य, सोंसूंक जायना अशें आसा तें पुराय बदलप.....तोडून मोडून उडोवप.-मनशांचे वैचारीक बंडखोरींतल्यान समाजीक, धर्मीक , तत्वीक असल्या तरेची क्रांती घडटा. बदल घडोवपाक जेन्ना हजारांनी हात फुडें येतात तेन्ना क्रांती घडटा. भरधांव रथाचेर सज्ज जावन दुस्मानां वांगडा लडपाक विलक्षण शौर्य आनी धाडस लागता. क्रांती असल्याच पायाचेर उबी आसता. संवसार जेन्ना थंड मनान एकामेकां वयल्या विस्वासाचेर जियेवंक सोदता आनी नकळटां जुलूम, पिडापीड, अत्याचार सहन करता तेन्ना तांकां जागे करपाच्या हावेसान आत्म त्यागाक सज्ज जाल्ले क्रांतीकारी आख्खो समाज वेठीक धरून धुमशेणां घालतात....तेदे वेळार न्हिदिल्यांक जाग येता आनी तांच्या घामाच्यो पांवळ्यो रगताचे व्हाळ जावन क्रांतीच्या वादळांत पयस-पयस मेरेन व्हांवत वतात.....हाची गवाय इतिहासांत मेळटा.

क्रांती आनी बंड हातूंत फरक आसा. क्रांती फाटल्यान विचार आसता, समज आसता. बंडखोरींत विरोध-प्रतीरोध आसता. दोगांयची मोख एकच--मूळ परिस्थीती पुराण बदलप...तांतूंत सुदारणा हाडप. पुणून बंड घणाघाती...एक घाव दोन कुडके अशें ! जाल्यार क्रांती एकाद्रा तुटिल्ल्या नखेत्रावरी एकदम कोंसळटा आनी त्या राखेंतल्यान जैत एकाद्रा फिनीक्स सुकण्या वरी वयर सरता.

दोन म्हाझुजांची तुळा करतना इतिहासकार म्हणटात, दुसरें म्हाझूज पयल्या म्हाझुजा परस चड हिंसक आनी विध्वंसक आशिल्लें. पयल्या म्हाझुजांत लाखांनी निष्पाप आनी निशस्त्र नागरीकांक मरण आयलें .पुणून दुसऱ्या म्हाझुजांत एकूण सांवाराची आनी विध्वंसाची व्याप्ती खूब व्हडली आशिल्ली. पयलें म्हाझूज १९१९ वर्सा सोंपलें आनी दुसरें १९३९ वर्सा सुरू जालें. ह्या वीस-पंचवीस वर्सांत



हिटलर आनी स्टॅलीन हांचीं कर्तुपां तेंगशेर पाविल्लीं. हिटलराच्या जुलमी राजकारणाक लागून सुमार अंयशीं लाख जर्मन आनी साठ लाख ज्यूंक मरण आयलें. विद्रोही लेखक, कवी, विचारवंत, शास्त्रज्ञ हांचें हत्याकांड हिटलरान केलें. स्टॅलिनान लाखांनी शेतकामत्यांक आनी कामेऱ्यांक जिवेशीं मारून उडयले. दुसऱ्या म्हाझुजाच्या पांच वर्सांच्या काळांत हिटलर आनी स्टॅलिनान एकूण मेळून एक कोटीवयर लोकांक मारून उडयले अशें इतिहास सांगता.



स्टॅलिनाच्या सांगातान युरोपाचो सर्वेसर्वा जावपाची हिटलराची मेख आशिल्ली. ब्रिटन जर हिटलराक शरण गेल्ले जाल्यार इतिहासाक एक वेगळेंच मोडण मेळटलें आशिल्लें. पुणून तशें जालें ना. विन्स्टन चर्चीलाच्या फुडारपणा खाल ब्रिटनान शरणागती पत्करली ना आनी थंयच हिटलर सोंपलो, पुराय रसातळाक गेलो...

...हिटलराचो शेवट कितलो भयानक.... दुसरें म्हाझूज निमण्या पांवड्यार पावलां...बर्लिन शारांत रशियन लाल सेना पुसल्या...जर्मनीचो बहूतेक भूंय प्रदेश रशिया, अमेरिका, ब्रिटन आनी फ्रान्सच्या संयुक्त फौजाच्या ताब्यांत गेला...इटालींत दोन दिसां आदीं फॅसिस्ट विरोधी गटांनी मुसोलिनी आनी ताचे घरकान्नीक धरून-पकडून गुळयो घाल्यात....भर चौकांत तांचीं मडीं सकयल-वयर हुमकळावन तांचे कुडींची विटंबणा केल्या....आपली आनी आपले घरकान्नीची अशीच विटंबणा जावूं येता हाची भिरांत हिटलराक जाता. देखून खंयचेच परिस्थीतींत दुस्मनांच्या हातांत आपूण मेळूंक जायना आनी आपूण मेले उपरांत आपलीं मडीं तांच्या हातांक लागूंक जायना हें चिंतून हिटलर आपल्या पिस्तोलान स्वताचेर आनी घरकान्न ईव्हाचेर फार मारता आनी जीव सोडटात. ताचे मनीस तार्णे सांगिल्ले प्रमाण तांच्या मड्यांचेर पेट्रोल ओततात आनी उजो लावन तांच्या मड्यांचो गोबोर करतात.

एकूण सव्वाबारा वर्सां सर्वकश सत्ता चलयतल्या, साठ लाख ज्यूंची निर्दयतायेन कत्तल करतल्या, अख्खो युरोप जिंकून जर्मनीचें साम्राज्य प्रस्थापीत करपा खातीर दुसरें म्हाझूज जगाचेर लादतल्या, एका अक्राळ विक्राळ क्रूरकर्म्याक ताच्या सांगात्यांनी तांकां दिल्ली ही अखेरची सलामी..

जियेवपाची खोशी फावो करपाक मनशाक एकच आयुश्य मेळटा. आमी सगळे जाण आयुश्यभर सुखी रावपाक धडपडटात. संवसारांत कांय जाण अशेय आसतात जे हातांत किर्ते आसा हाची पर्वा करी नासतना, नडी अडचणी सोंशीत, आडखळीच्या खांची-गोळण्यांनी नवे क्रांतीची वाट सोदीत पयस पयस मेरेन पावतात. म्हणटां म्हणटां तांचें आयुश्य सोंपून वता. पुणून जिवीत-प्रवाह थांबना. उपरांतच्यो पिळग्यो मागीर वाड-वडीलांच्यो यादी काडीत आपापले तांकी प्रमाण फुडें वतात. संवसारांत अशे क्रांतीकारी, विचारवंत, शूर लडवय्ये, तत्वगिन्यानी घडटात, फुडें येतात. हिटलरा सारके भस्मासूर बी धुमशेणां घालतात. अती विस्वास, अती म्हत्वाकांक्षा तांच्या नाशाक कारणीभूत जाता.

मरण ही जिणेंतली वास्तवताय ! जियेवप हेंवूय तितलेंच वास्तवीक. हाल-अपेश्टा सोंसून मरचे परस सुखासुखी मरण येवचें अशी सगळ्यांचीच इत्सा आसता. जियेवपाचें बळगें तर निबर आसता. नवे निर्मणीची ओड प्रबळ आसता....महाभारताचो शेवट खूब परिणामकारक आसा. कुरुक्षेत्रार जाल्ल्या अठरा दिसांच्या सांवारा उपरांत रणांगणार वचत थंय मनशांचीं, हती-घोड्यांचीं मडीं पातळिल्लीं आसतात. थंयच एके कडेन हतयाच्या गळ्यांतल्यान तुटून पडिल्ली फुटिल्ली घांट आनी घांटीच्या पोंदा सुरक्षीत उरिल्लो शेंवण्याचो घोंटेर ! मरणाच्या तांडवांतल्यान वाटावन उरिल्ली कुकूली जीण महर्षी व्यासान सोबीत तरेन मांडल्या .....संवसारांत व्हडव्हडलीं मोडां, सैमीक अरिश्टां येतात...येत रावतात. सगळे इतल्याक हाहाकार घालतात. आसा तें सगळें ना करतात आनी अचकीत मोड़ खंयतरी वचून थांबता......फाटलें सगळें विसरून संवसार पर्थून आपल्या कामाक लागता......हाकाच जिवीत म्हणटात.....हीच जीण...होच इतिहास !



दुकळे हॅवन, कारांझाळे-गोंय.
मो.: ९८२२५८८८५२

कथा

गौरांग बाबुराव भांडीये

# काळ ?.....



**गौरांग बाबुराव भांडीये** हो कोंकणीच्या मळार साहित्य निर्मणी करपाच्या हावेसान कथा आनी ललित लेखनात प्रयोग करता. 'काळ' ही ताची अशीच एक कथा जी वाचतकच ह्या मळार ताका परजळीत फुडार आसा म्हणपाची कल्पना येता.

*एक काम करा, जर पंकजाल्या पप्पाक चलो नासलो जाल्यार तुमी किर्ते करतले आसले तें करात. चड येवन बसूं नाकात. फक्त सरण काय किर्ते तें पेटोवपाचें न्हय, पेटयात कोणूय. आनी आमकां परत परत डिस्टर्ब करूं नाकात. बेकार ना आमी. पंकजाले मम्मीच्या वेळार मागीर पळोवया*

हरशीं हरी स म्हळयार घरा पावतालो. चडांच चड साडे स ते सात. केन्नाय येवपाक उशीर जालोच जाल्यार फोन करून कळयतालो. पूण घड्याळीचो कांटो णवांक तेकपाक आयलो तरी हरी येवंक नासलो. श्यामलबाय सामकें थतर-वितर जाल्लें. 'हरशीं बाये उशीर जावपाचो आसत जाल्यार फोन करून कळयतात हे. पूण आयज किर्ते जालें काय?' असो दुबाव गायत तें शेजारच्या तातूगेर गेलें.

पुतान घरांतल्यान भायर घाल्लो तातू आपले बायले सयत हरील्या शेजरा फाटलीं इकरा वर्सां सावन रावतालो. हरी आनी तातू दोगूय एकामेकाल्या वखदार्चे पाळ जावन आसले. दोनूय घरां शेजारी जावन लेगीत एक कुटुंब कशीं रावतालीं.

श्यामलबाय तातूगेर पावलें तेन्ना तातू गडबडींत भायर सरपाचे तयारेंत आसलो. श्यामलबायन तेन्नाच ताका ताकतिकेन सांगलें,

''तातू, हांचे कंपनींत मातसो फोन करून पळय आनी हे खंय पावल्यात तें विचार. हरशीं फोन करतात पूण आयज फोन लेगीत तांचो लागना.''

तातून बेगोबेग खुंटयाळाचो बुशकोट घालो आनी म्हणलें, ''आगे, तूं मातशी घरान बस. हांव पळयतां किर्ते जालां तें. फोन कित्याक? सरळ कंपनीन वचून येतां.''

तो मोटारी कडेन गेलो. आपले बायलेक श्यामलबायक घरा व्हरून बसय म्हूण सांगलें आनी आपल्या शेजारी रामूक येवन तो बांबोळेच्या सरकारी इस्पितळाचे दिकेन वचूंक गेलो.

सत्तावन वर्सांचो हरी उसगांवचे नरहरी कॅमीकल्स हे कंपनीन निवळ करपाचें काम करतालो. साकोर्ड्या ह्या वाठारांत रावन आपली अपुरबायेची बायल श्यामला सयत संवसार करतालो. धूव पुर्वाक लग्न करून दिल्लें, जाल्यार चल्याक शिश्यवृत्तेचेर पुण्याक शिकपाक धाडिल्लो. आपल्या कश्टान जोडून पेज जेवपी हरी प्रामाणिकतायेचो निव्वळ हारसो आसलो. पुराय गांव ताच्या प्रामाणिकपणाक तोखेतालो. आपूण जरी गरिबी भितर राबलों तरी आपलीं भुरगीं सुखान नांदतलीं हाची जतनाय तो घेतालो. तरी पूण घरची परिस्थिती बिकट आशिल्ल्यान चलयेक भटागेर व्हरून मणी घालून घोवा घरा धाडलें हो विचार ताका खातालो.

हरीलो पूत मात सामको स्वभावान वायट सभावाचो आसलो. गिरेस्त जीण जगपाचो ताका खूब हावेस. केन्ना कोणा कडेन सारको उलय नासलो, कोणाची वासपूस कर नासलो आनी बापायक सदांच थोमण्यांनी पाचारतालो.

एक दीस पंकजान हरीक म्हणलें,

''पप्पा, तुजीं बोल्सां सदांच रितीं कशीं रे? केन्नाच कांय आसना मरे?''

''म्हणजे इतले तेप पन्नास पन्नास तूं तर व्हरतालो.'' हरीन म्हळें.

''तूं असो सांगता जसो पांचशें पांचशें रुपया व्हेल्ले भशेन.'' पंकजान तिडकीन म्हळें.

''पंकज, तोंड चड चलता तुजें, आवर घाल. म्हजे कडेन पयशे आसल्यार दिना तुका? केन्नाच दिनाशिल्ल्या भशेन म्हणटा मरे तूं!'' हरीन आवाज चढयलो.

''मागीक्र कितें उपकार करता? हेरांचे बापूय लाखांनी जोडटा. आनी आमगेर भिकेचे दुवाळे लागल्या. देवा खबर कित्याक म्हूण हांव हांगा जल्माक आयलों. पप्पा, तुमी पळयात एक दीस हांव जैताची अशी उडी मारतलों की सगळ्यांक फांटी सोडटलों. तुमकां सुध्दां... उपरांत तुमकां सोडपाची पाळी सुध्दां आयली जाल्यार लेगीत.''

अशें म्हणून तो गेलो. हरीक पुताची उतरां खावपाक येवंक लागलीं.

पूण शिकपाक हुशार आशिल्ल्यान ताका वयाच्या १८व्या वर्सा शिक्षण शिश्यवृत्ती मेळ्ळी आनी तो शिकपाक लागून पुण्याक शिकपाक गेलो. कांय तेपान हरीलें घरटें ल्हान जालें.

फाटल्या वर्सा पंकजाक पुण्यांतले एके बॅंकेंत हिशोब पळोवप्याची नोकरी मेळ्ळी. कांय तेपान आपलो संवसार लेगीत तार्णे थंयच थाटलो. घरा येवपाक तार्चे काम ताका मान्यताय दी नासलें काय ताका येन दिसनासलें देवाक खबर! हरी आनी श्यामल पुताचे आनी धुवेचे यादींनी दीस काडटालीं.

त्या दिसा सकाळीं श्यामलान हरीक डबो करून दिलो आनी म्हळें,

''आयज मातशे घरा बेगीन येयात. पंकज एक वेळ फोन करत. तार्णे सांगलां न्ही, आपल्याक मिसकॉल करात म्हूण. वेळ मेळ्ळ्यार फोन करता. आयज बीन करत तो. म्हणून म्हणटां, फोन केल्यार नातवाची आनी सुनेची खबर घेवपाक मेळटली आनी....''

''हय, हय बाये. सगळें करुया. भियं नाका. पुताचो आवाज आयकल्यार तेंप जालो.'' हरीन म्हळें.

''बरें. पूण यादीन येया बेगीन. जाल्यार कामारूच उरश्यात.'' श्यामलान फकाणां करीत म्हळें.

''बरें बरें. चल, वतां हांव. ना ना ना, येतां हांव.'' अशें म्हणून तो घरांतल्यान भायर सरलो पूण तो गेलो तो परत आयलोच ना. तार्णे जणू पयलीं सारकेंच म्हणलेलें,'वता हांव'.

कंपनींतल्यान हरी साडेपाचांक भायर सरलेलो. कंपनीचे बशीक तो गेटी कडेन उबो राविल्लो. इतल्यांत कंपनीची गाडी वेगान आयली आनी कंपनीचे गेटीक धपको मारलो. हरी आनी हेर चार जाण धपक्याक चिड्डले. गाडी चलोवप्याक न्हिदेची लकण आयिल्ल्यान तार्चे नियंत्रण गेलें आनी पांच संवसार जागचे जाग्यार मातये भरवण जाले. कंपनीच्या हेर कामगारांचेर जणू दुख्खाचें ल्हार आदळ्ळें. एकट्यान बेगोबेग १०८ क फोन केलो पूण ते पयलींच त्या पांचूय जाणांक मरण आयिल्लें.

कंपनीच्या मॅनेजरान हरील्या घरा कडेन एका कामगाराक धाडलो आनी परिस्थितीची जाणीव दिवपाक लायली. श्यामलाक सांगपाचें धाडस कामगारा कडेन जालें नाशिल्ल्यान तार्णे शेजारी तातू कडेन रकाद दिलो. तातूक रकाद दिले उपरांत ताच्या पांया पोंदची जमीनच हाल्ली. गांवच्या लोकांक हाची चत्राय दिवन श्यामल बायक हे गजाली विशीं सांगूं नाकात अशें सांगून तो भायर सरपाक वतालो, इतल्यांत श्यामलबाय ताच्या घरा कडेन पाविल्लें.

श्यामलाचेंय कित्याक कोण जाणां आयज मन खातालें. कितें तरी घडपाचें आसा हें भोंवतणचें वातावरण ताका कळीत करतालें. सगळे लोक घरा भोंवतणी जमतना ताका दिसलें. काचाबूल जावन तार्णे घरांतल्यान भायर यवन दत्तुले बायलेक विचारलें,

''आगे, सगळे जाण हांगा कित्याक जमल्या? जालां तरी कितें? तुमी कोणाच्या मर्णाक आयिल्ले भशेंन कित्याक जमल्यांत ? जालां तरी कितें?'' श्यामलाली प्रश्नावळ सोंपच ना जाली.

दत्तुली बायल गळगळीत रडपाक लागली. पूण लिपोवन लिपोवन कितलो वेळ लिपयतलीं देखून तातूले बायलेन काळजार फातर दवरून श्यामलाक परिस्थिती सांगली. श्यामलाक जणूं जितेपणी मरण आयलें. ताच्या सौभाग्याच्या कुंकमार अरिश्ट आयलें. तार्णे मारलेली किळांच आयकून पुराय गावांक चर्र जालें.

शेजारच्या गिरीशान हरीली धूव पुर्वा आनी पूत पंकज हांकां घडलेली गजाल कळयली. दोगांकय सकाळीं बेगीन येया अशें कळीत केलें. आनी श्यामलाच्या हुयेल्यांनी पुराय गावांन रात काडली.

सकाळीं फुडें तातू आनी हेर ग्रामस्थ हरीली कूड घेवन घरा आयले. घराच्या चौकार कूड दवरून ते निसण बांदपाचे आनी हेर विधींचे तयारेक लागले. भट येवंक नासलो. हरीली धूव पुर्वा सकाळ फुडेंच घोवा सयत पाविल्लें. बापायलें मडें पळोवन तें सुध्दा दुख्खान खोंसळ्ळें.श्यामलाच्या हुयेल्यांनी घर खावंक येतालें. सगळ्या गांवान हरीलें निमर्णे दर्शन घेतलें. सोयरे, ग्रामस्थ पाविल्ले पूण अजून पंकज पावंक नासलो.



राजून पंकजाक फोन केलो,

''पंकज शाण्या खंय पावला? आनी कितल्या वेळान पावतलो? '' राजून विचारलें.

''जाणा रे राजू, पूण आयज म्हजें अरजंट कंपनी व्हिंजीट आसा. म्हणून खरेंच येवपाक मेळचें ना.'' पंकजान सहज अशें म्हळें.

''तूं आसा मरे जाग्यार? आरे हरी भाई आमकां सोडून गेला. बापूय तुजो.'' राजून म्हळें.

''हय रे जाणां. पूण म्हाका कामूय पळोवपाक जाय न्ही. म्हाकाय दूख्ख आसा. पूण म्हत्वाचें काम आसा रे. म्हाका रिपोर्ट दिवंचो पडटा. नाल्यार बॅड रिमार्क पडटा जो हांव येवंक शकना. थंय आयल्यार म्हाका लुकसान जावपाची शक्यता आसा.'' पंकजान म्हळें.

''आरे पूण हरीभाईली निमणो विधी कोण करतलो? तूं ताचो एकसुरो पूत.'' राजून तिडकीन म्हळें.

पंकजान फोन काडून बायले कडेन दिलो. आनी बायलेक उलोवपाक लायली.

''हॅलो, हांव पंकजाली वाय्फ प्रिया उलयतां. पंकज भायर सरता कामाक वचपाक.'' प्रियान म्हळें

राजून खंत उक्तायत विचारलें,''आतां हांगासर लोकांक आनी पंकजाले आवय-भयणीक किर्ते सांगपाचें तें तुमीच सांगा.''

''एक काम करा, जर पंकजाल्या पप्पाक चलो नासलो जाल्यार तुमी किर्ते करतले आसले तें करात. चड येवन बसूं नाकात. फक्त सरण काय किर्ते तें पेटोवपाचें न्हय, पेटयात कोणूय. आनी आमकां परत परत डिस्टर्ब करूं नाकात. बेकार ना आमी. पंकजाले मम्मीच्या वेळार मागीर पळोवया.''

अशें म्हणून प्रियान फोन कट केलो. राजूक कांयच सुचना जालें. तातून येवन ताकतीकेन राजूक विचारलें,

''राजू, किर्ते जालें? किर्ते म्हणलें पंकजान?''

एकेवटेन श्यामलबायल्यो हुयेली जाल्यार दुसरे वटेन पुर्वालें रड्वें तोंड. सत्य परिस्थिती सांगप ताका जमलें ना. राजून श्यामलबायक आनी पुर्वाक पळोवन खंत उक्तायत म्हळें,

''कांय ना रे तातू, काळा प्रमाण ह्या जगांत सगळेंच बदलता. आसूं सोड. कांय उपयोग ना उलोवन.''

राजू सरळ श्यामलबाय कडेन गेलो आनी सांगलें,''श्यामलबाय, आयज पुण्याक वाहतूक संप आशिल्ल्या कारणान आयज पंकजाक येवपाक मेळना. बस आनी विमान सेवा लेगीत बंद आसा. तो पावता तेन्ना पावता. पूण अशी चड वेळ कूड दवरप बरें न्हय. म्हाका दिसता जांवय ह्या नात्यान पुर्वालो घोव अक्षय हांणे फुडली विधी करची.''

आनी श्यामलबायक सांगून हरीक चार खादांचेर येतलो. मसणभूंय लागींच आसली. भटान सगळी विधी केली आनी उपरांत पुर्वाल्या घोवान हरीक अग्नी दिलो.

राजू आड्याक तेंकून उबो आसलो. सत्य परीस्थिती सगळ्यांक कळटा तेन्ना कळटा. पंकजाल्या उतरांचो हुलोप ताका सरणाच्या उज्या वरीं मारतालो. पेटतें सरण पळोवन तो चिततालो,

पुण्याच्या पोटां पाप जल्मलें काय सृश्टीन आपलो नेम बदल्लो?

काय.. हो मनशाचेर आयिल्लो काळ!....



सावय-वेरें, फोर्णे-गोंय.
फोनः ८५५२८८३८०८

डायरी



दिलीप बोरकार

# वळवयची सांजवेळ...

आयज ६ माय. हेमा नायकाचो आज वाढदीस. आयच्या काळार कोणाचो वाढदीस केन्ना म्हणपाचें लिपून उरना. आपलो वाढदीस आपल्याक एक वेळ याद उरना आसत। पूण कोणाक तरी ताची याद आसताच आनी मागीर तो ती बातमी समाज माध्यमाचेर घालता. जांकां याद ना तांची याद जागयता आनी मागीर कोण कोण शुभेच्छा दिवपाच्या वावराक लागतात.

पयर २ मायाक म्हजो आशिल्लो. फेसबुकाचेर आयलीच बातमी. मागीर शुभेच्छांची रांक. हेमानूय म्हाका शुभेच्छा भेटयल्ल्यो. आतां ताका भेटोवच्यो पडल्यो ना..! आदीं लग्नाक कोर्णेय केळवण भेटयल्ली आसल्यार फावना आसलें तरी तीं उश्णीवायनां फारीक करूंक ताच्या लग्नाक वच्चें पडटालें. हो काय तसलो प्रकार न्हय. तार्णे म्हाका म्हज्या वाढदिसाक विश केल्लें म्हणून हांवें ताका करूंक जाय अशें येवजुपी हांव काय न्हय. बरें विसरलों आनी करूंक पावलों ना जाल्यार हेमाय तें येवन बसपाचें ना. येवन बसपाक आता वेळ आसा तरी कोणा लागीं..? सगळे आपापल्या व्यापांत..

पूण 'वाढदिसाचीं परबीं' वा 'जल्मदिसाच्यो शुभेच्छा' अशें म्हणून तरी हो प्रस्न मिटटा..? एक फॉर्मलदाद म्हूण आतां कोणूय वळखदेख नासल्यारूय आपल्या हातांतल्या मोबायलाचेर क्लीक करता आनी मागीर तें औपचारीक 'थॅन्क यू' वा 'देव बरें करूं' चें कृत्रीम पर्यावण. हांगा हेमा आनी म्हजे बाबतींत हो प्रकार असो ना. आमी दोगांय एकमेकाक खूब लागींच्यान वळखतात. चार साडेचार दसकांचें आमचें नातें. कोंकणी चळवळीन आमचो एक परावो तयार केल्लो. रक्ताच्या नात्या परस ह्या नात्याची वीण सामकी घट्ट घट्ट विणिल्ली आमी. कितलोच काळ. हेमा, पुंडलीक, पुंडलीकाचो भाव, भावजय..पूण कालांतर ही वीण कुसकुशिल्ल्यावरीं शी जाली. कित्याक काय..?

आमच्या साहित्य जगतात आमी एकमेकांचे स्पर्धक काय न्हय. कांय गजाली आपल्याक मेळूंक नात, तांकां मेळ्ळ्यात देखून मत्सर वो दुस्वासांतल्यान हें घडटा असल्यांतलोय प्रकार न्हय. आतां स्वतंत्रविचारसरणेक लागून मतभेद आसूं येतात. ते आसूंकच जाय. ना तर मागीर कसले आमी व्यक्तीस्वातंत्र्याचे पुजक? पूण तसलेंय कांय ना. मागीर कोंकणी जगतांत लिपून उरूंक नाशिल्लें आमच्या नात्यांतलें हें विरविरीतपण कशें निर्माण जालें काय? तें खऱ्यानीच जालां काय तशें आमकां भासता..? तशें जाल्यार हो भ्रम, हो आभास पयस करपा पासत व्यक्तीगत रुपान वचून हेमाक शुभेच्छा दिल्यार कशो? पूण लॉकडावन चालू आसा. सामाजीक दुराय राखपाचो कायदो आसा. मनांत इत्सा आसुनय ह्या कोरोनाच्या वशान आडमेळें उबें केलेंच.

पूण 'इत्सा आसल्यार हून वडे घांटार पावतात' खंय..! कसो कोण जाणा राजू नायकाचो फोन आयलो..तार्णेच विचारलें, 'हेमाक वीश केलें मरे..?'

हांवें म्हळें, 'तेंच करतां.'

तर म्हणूंक लागलो,'कर बेगीन आनी सांग आमी दोगूय येतात म्हूण सांजचे.'

'पूण हो लॉकडावन..?'

'कांय जायना ..मास्क घालून वचपाचें आनी विश करून येवपाचें..'

हांवें फोन केलो. हेमा उचंबळीत. 'खरेंच? खरेंच येतात.? पळय आं रावतात.. केटां करशात..!'हेमाच्या आवाजांतल्यान तें वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतय धरना असली गत जाल्याचें भावतालें.

राजू, मनस्विनी आनी हांव गेले सांजवेळा. जाल्यार किर्ते, आमच्या येवकाराक कोंकणी चळवळींतले सुरेल तिळवे, उर्वशी, कृपाली आनी हेर पंदरा वीस युवाशक्त. तांच्या वांगडा तोंडाक मास्क घालून कला आनी संस्कृती मंत्री गोविंद गावडे..आनी पुंडलीक..आनी ताचो भाव नाना..सगळ्यांच्या मुखामळार खोस..आमी येतात म्हूण कळ्ळ्या बराबर युगांकान लॉकडावन आसतनाय ही एक ल्हानशी मदलस आयोजीत केल्ली. मंत्री केक कापून, धा पंदरा मिणटां आमचे लागीं गजाली मारून गेलो. तार्णे वचपूय गरजेचें आशिल्लें. घरचो आसलो तरी राजकीय बंधना आसतातच सामाजीक अलगीकरणाचीं.

पूण हांव गेल्लों आमचे मर्दी आशिल्ली भ्रामक दुराय पयसावपाक..ग्रीष्मांतल्या तप्त वातावरणांत तांणी आंगणांत कदेलां मांडिल्लीं. वळवयच्या शांत वातावरणांत आांगणांतल्या चाफ्या पोंदा आमच्या नात्याचो सुगंध परमळत रावलो. ह्याच आंगणांत कितल्याच साहित्यीक कार्यावळींक हांव आयलां..त्याच आंगणांत आज हेमाच्या वाढदिसा निमतान युवा साहित्यकार आनी कार्यकर्ते हांचे लागीं आमी वार्तालाप करताले..हेमा, पुंडलीक, युगांक 'साहित्यीक येती घरा, तोची दिवाळी दसरा' हे खोसयेन वावुरतालीं..

महामारी मनशाक कुडीन पयस दवरता जायत पूण मनान लागीं हाडटा. फक्त तीं शुध्द मात आसूंक जाय...

०६ मे २०२०

खळांतली आंबली

# नित्याच्यो यादी

नित्यानंद नायक भायर पडलो म्हणपाची खबर कानार पडली आनी मनांत पयली प्रतिक्रिया आयली ती किर्ते आसा काय कोंकणीच्या नशिबांत..? २ माय हो म्हजो वाढदीस मनोवपाचो दीस. हांव जरी मनयना तरी कोण तरी मनयता. कोरोनाच्या वशाक लागून लॉकडावन जरी आसलो तरी सामके लागशिल्ले इश्ट किर्ते ना किर्ते तयारी करतलेच हें खबर आशिल्लें. आमचो आमदार सिल्वेर, सरपंच झेव्हियर, शिरिष लवंदो, सुरेश धोंड बी हांणी किर्ते तरी आयोजन केलां हाचो वास लागिल्लो. प्रमोद कामतीन तर केक लेगीत सांगिल्लो. पूण ही असली बातमी आयली म्हणटकच खंयचो वाढदीस आनी खंयची पार्टी..! 'आयज ना रे हांव' असो रकाद धाडलो आनी हांवें तो विशय बंद केलो.

हो असोच प्रकार कांय वर्सां आदीं घडिल्लो. हांव आगशी रावतालों तेन्ना. घर सजोवन बी तयार दवरिल्लें १ मायाक. जाल्यार सकाळीं फुडें नंदकुमार कामतीचो फोन. दिसलें ताणें शुभेच्छा दिवंक फोन केला. पूण ताणें दिली सुश्रूत मार्टीनाच्या मरणाची खबर. ताका रातचो अॅटक येवन तो गेलो खंय..! खूब्ब वायट दिसलें. जांचेर गोंयची राखण करपाची जापसालकी आसा आनी जे ते पासत आपूण जावन मुखार सरून आंदोलनानी वांटो घेतात ते अशे ऐन पोंसार कशे वतात काय? अशें वचप तांकां कशें पुटवता काय..? असोच नित्या सारको पन्नाशी कडेन पावता आसतनाच गेलो सुश्रूत. नित्याचो तर ह्याच म्हयन्याक १४ तारकेर ४८ वो वाडदीस. मागीर हे पिरायेर अशें वचप सारकें नासता. खंयचोय तरनाटो हे पिरायेचेर पावता आनी खास करून वेगवेगळ्या चळवळींनी वांटेकार जावपी तरनाटो, तेन्ना ताचे विशीं खूब जाणांच्यो अपेक्षा आसतात. तांच्या बऱ्या वावराच्यो गजाली कानार पडपाक जाय आसतात. आनी हें किर्ते ध्यानी मनी नासतना अकरमात उठून गेल्ल्याच्यो खबरी...



नित्यानंद तसो म्हजो सामको जिवाभावाचो मित्र बी अशें न्हय. नाय म्हळ्यार आमी तशे दोन जिल्ह्यांनी वाटून गेल्यात. हांव उत्तरे कडलो जाल्ल्यान तशें सट्ट सट्ट करून दक्षिणेंत वचप जायना. देखून म्हजें वयले वयर मेळपी मित्रमंडळ उत्तरे कडचें. नित्यानंदाचें कार्यक्षेत्र आनी राबितो दक्षिणे कडेन. जातूंत जण एकल्याची म्हूण वेगळी कालेत आसता आनी आपले कालेतीक जुळटा तसल्या पंगडांत जणेकलो आपल्याक आसपावन घेता. म्हणटकच नित्यानंदाची मित्रमंडळी मडगांवची. अशें आसुनय हे सगळे वेगवेगळे कालेतीचे एका धाग्यान एकठांय येतात ते कोंकणी पासत. कोंकणी भास, कोंकणी संस्कृताय, कोंकणी साहित्य, कोंकणी चळवळ अशें कोंकणीचें साम्राज्य आमकां सगळ्यांक वेंगेंत घेवन आसता. ताका लागून आमी कोंकणीच्या एका अदृश्य धाग्यान एकठांय विणिल्ले सांपडटात. ही वीण इतली घट आसता, तातूंत एकमेकां मदले मतभेद खंयच दिश्टी पडनात तर फक्त एका कोंकणी कुटुंबाचें प्रेम तितलें निशेतना झळकता. म्हजे कडेन नित्याचें नातें तें हें कोंकणी कुटुंबांतलें.

नित्यानंदा कडली म्हजी वळख कोंकणी चळवळीक लागून. नित्यानंद कोंकणीचो फुडारी न्हय. तो हेर कितल्याच कार्यकर्त्यां सारखो एक निश्ठावंत कार्यकर्तो. ताचें व्यक्तीमत्वूय तशें उठून दिसपी न्हय. तरी ताचे भितरले फुडाऱ्याचे गूण लिपून रावनाशिल्ले. ताच्या वावुरपांतल्यानूच तो चार चवगां मदीं सहज नदरेक भरतालो आनी ताचें कारण ताचें हांसतें मुखामळ आनी आंगार पडिल्लें खंयचेंय काम पुराय निश्ठेन तडीक व्हरपाची ताची आंतरीक ओड. ताची मित्रमंडळी, खास करून प्रशांत नायक, संदेश प्रभुदेसाय जावं चेतन आचार्य बी तकलेक चड ताप दिना आसतना कितले खेपे, 'हां! नित्याक सांगलां मरे? मागीर हुस्को करपाची गरज ना. तें जालेंच म्हणून समज!' अशें सामकें विश्वासान म्हणिल्लें खूब खेपे आयकलां. इतलो तांचो नित्याचेर विश्वास.

कोंकणीचें खंयचेंय काम जावं तें, जीव तोडून करप अशें मनांत घट्ट गांठीक बांदून जे कोण रावल्यात तातूंतलो नित्यानंद नायक एक. ताचें कोंकणी कडचें नातें आत्म्याचें. कोंकणीचें कसलेंय काम जावं तें मागीर, नित्याचें

ताका प्राधान्य. असले हे कितलेच तरनाटे कोंकणी भाशा मंडळान राबयल्ल्या युवा महोत्सव ह्या उपक्रमांतल्यान घडले आनी हे फौजेच्या वावरांतल्यान कोंकणीन कितलींच जैतां हातासलीं. हेच फौजेक पळोवन कोंकणीक नखलामी करूंक फुरफुरपी, किर्तेय करूंक वच्चे आदीं हजार खेप चिंतताले. तेच पासत हे फौजेंतले हे असले सरदार आपले गुणांनी परजळटा आसतना स्वताचेच निश्काळजीपणाक लागून जेन्ना जीव होगडावन बसतात तेन्ना दोश कोणांक दिवंचो हो प्रस्न पडटा.

नित्यानंदाचें आयुश्य तितलेंच आशिल्लें अशें म्हणप आनी आपणें आपल्याकूच भुजवण दिवप वेगळें आनी निश्काळजीपणाक लागून ऐन उमेदीच्या काळांत जीव होगडावप वेगळें. म्हाका म्हजो इश्ट सतीश सोनकाची याद जाता. ताच्या कुटुंबांत काळजाच्या दुर्येसाचो इतिहास आसा. ताचो बापूय हार्ट ॲटकान गेल्लो. सतीशाकूय तें दुर्येस आशिल्लें. पूण ते पासत जी जतनाय घेवंक जाय आशिल्ली ताचे कडेन ताणें आडनदर केली आनी ताणें कांयच सांगलें ना देखून आमीय केन्ना ताचेर लक्ष दिलें ना. तो अकस्मात गेलो. नित्यानंदाकूय अशी तक्रार आशिल्ली म्हूण कानार पडटा. पूण ताणें कोणाक सांगू नाका अशें शिटकायल्लें खंय..! हें अशें कशें..? नित्यानंद म्हयन्यांतल्यान एक खेप तरी सटरडे क्लबच्या जावं आनी कसल्याय निमतान मेळटालो. चड उलोवप ना, तोंडार हांसो हाडून शेर्व जावन,' दिलीपबाब' म्हणत हात धरून हडकप आनी आपल्या आवडीच्या पंगडांत विरगळप. तो तर म्हजे परस कितलोच ल्हान. हांवें दत्ता नायक वा म्हजे पिरायेच्या हेर कोणाकूय 'वेळावेळार भलायकेचो चेकअप बी करता मरे?' अशी चवकशी करप वेगळें आनी नित्यानंदाचे पिरायेच्या तरनाट्यांक विचारप वेगळें. तशें विचारप म्हळ्यार लेगीत कोणाकूय राग येवं येता. हे असले परिस्थितींत जण एकल्यान किर्तेय खंय खूट्ट जाल्यार आपल्याचेर लक्ष दिवंक जाय. थंय मातसो जरी याळ रावलो जाल्यार अनरिपेरेबल लॉस जावं येता, जो नित्यानंदा बाबतींत घडलो.

हें सगळें कित्याक सांगचें पडटा तर मराठींत एक म्हण आसा,'पुढच्यास ठेच मागचा शहाणा..' आयची जिवनपध्दत खूब गतीमान जाल्या. हे गतींत अपघातांत जी तरणी पिळगी वता तेन्ना काळजांत चर्र जाता. बातमी कानार पडटकच वा वाचतकच तांच्या घरच्यांचेर किर्ते कलकल आयला आसतलो काय! अशे विचार येतात. पूण ते कोण वळखीचे नासतात आनी तांची समाजालागीं तशी बांधीलकीय नासता. पूण नित्यानंदा बाबतींत तशें न्हय. कोंकणी आनी हेर युवा चळवळींतले नित्यानंद हें एक युनीट जरी आसलें तरी तें एकेरी नासून संयुक्त युनीट आशिल्लें. तो जेन्ना खंयचेय कार्यावळीक येतालो तेन्ना ताचे वांगडा ताची घरकान्न आनी एक तीन चार वर्सांचो ताचो भुरगो आसतालो. हें संपूर्ण कुटूंब म्हळ्यारच नित्यानंद. आज नित्यानंदाच्या रुपान त्या युनीटांतल्यान एक अणू कुशीक सरला. अशे परिस्थितींत हे फुडें तांच्या सामाजीक भरसणेची स्थिती किर्ते..?

नित्यानंद गेल्या उपरांत कांय जाणांक चुरको लागलो आनी तांणी लेख बरोवन आपल्यो भावना उक्तायल्यो. नित्यानंद म्हळ्यार तसो सिलेब्रेटी न्हय जांचे सावळेक रावून कोणाकूय मोठेपण मेळटलें. पूण दत्ता नायकान लोकमतांत आपल्यो भावना काळजाचे खरायेतल्यान मांडल्यो. 'नित्यानंदाच्या लग्नाक आपली व्यक्तीगत गाडी आपल्या वाहन चालका सयत तीन दीस आपणें वापरूंक दिली' अशें दत्तान आपल्या लेखांत बरयलें म्हूण कांय जाणांक उरतुरे गेलें. म्हजे कडेन तसो शिणूच काडलो. पूण दत्ताक जे सामके लागिच्यान वळखतात तांकां तें कांयच दिसचें ना. म्हाकाय कांयच खटकलें ना. दत्ताच्या त्या लेखांतलें निमणें वाक्य मात काळजाक चर्र करता. तो बरयता- आम्हा सगळ्या नित्यानंदच्या मित्रांना नित्या गेला याचे खूप दुःख झाले. पण नित्या गेला याचे सगळ्यात जास्त दुःख स्वतः नित्यानंदला झाले असेल- ह्या वाक्यान दोळ्यां मुखार नित्यानंद उबो रावता. नित्यानंद ज्या गांवांतल्यान , ज्या समाजांतल्यान आयलो आनी आपली वळख घडयतनाच त्या समाजाक, त्या गांवांक वळख दिली तो गांव आनी समाज पोरको जाल्लो पळोवन नित्यानंदाक दुःख जालां तें दिसता. कोंकणीची नित्यानंदान आपले परीन सेवा केली आनी कोंकणीनूय ती रुजू करून घेतली आनी नित्यानंदाक भरभरून दिलें. नित्यानंदाची वळख घडली ती कोंकणीक लागून. तो उच्च शिक्षण घेवंक पावलो, महाविद्यालयांत शिकोवंक पावलो तो कोंकणीक लागून. देखूनच तो विद्यार्थ्यां मर्दीं लोकप्रीय जावंक पावलो. नित्यानंदान आपलो एक सुंदर, मोगाळ संवसार थाटलो. हें सगळें जें किर्ते ताणें तयार केलें तातूंत तोच ना म्हणटकच ह्या मुखार तें सगळें अर्दकुटेंच उरतलें. नित्यानंदाची ताचेर जेन्ना नदर वतली तेन्ना हेरां परस नित्यानंदाच्याच काळजांत चड चर्र जातलें.

-दिलीप बोरकार




राज वैद्य

# नसीब अपना अपना...



गोयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगविंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

बाबाः आरे,विजू बेटा आयलो? केन्ना दिता खंय मम्मीक डिस्चार्ज?

विजूः पप्पा, प्रॉब्लेम जालो. आनीक थोडे दीस उरतली म्हळां दोतोरान.

बाबाः आरे..कित्याक रे? वॉकराचेर चलूंक लागिल्ली मरे ती!

विजूः हय. पूण तिका हॉस्पिटलांत युरीन इन्फेक्शन जाल्लें न्ही? तें चडार पडलें. मुताचो सेन्सिटिविटी रिपोर्टय आयलो. ताका दोतोरान अँटीबायोटीक सुरू केल्लें तें रेसिस्टंट म्हणून रिपोर्ट आयला.

बाबाः आरे, हे तें तूं किर्ते रेसिस्टंट बी किर्ते म्हणटा पळय तें म्हाका सारकें कळूंक ना रे.

विजूः दोतोरीण बरी आसली. तिणें म्हाका सामकें समजावन सांगलें. पयलीं तिणें सांगलें, दोतोरांचे प्रयत्न आसतात की पेशंटांनी उण्यांत उणे दीस हॉस्पिटलांत सारचे. कित्याक तर हॉस्पिटलांनी पेशंटांची एक सारकी यो-वच आसता. तांकां तरेतरेचीं इन्फेसांवां आसतात. हीं इन्फेसांवां विशाणू पासून म्हळ्यार तरांतरांच्या बॅक्टेरियां पासून जातात. ह्या विशाणूंक लागून इन्फेक्सांव दुसऱ्या रुग्णाक जावंक शकता. हॉस्पिटलांत जाल्ल्या ह्या असल्या इन्फेसांवांक हॉस्पिटल ॲक्वायर्ड इन्फेक्शन (HAI) अशें म्हणटात.

बाबाः पयलेच फावटी आयकतां मरे हांव असली भानगड! हॉस्पिटलांत दुर्येत पडप म्हणजे किर्ते!

विजूः हांवें पासून चिंतूंक नासलें, पूण येतना गुगल करून पळयलें. तर हो असलो प्रकार संवसारभर घडटा. बऱ्यांतल्या बऱ्या हॉस्पिटलांनी लेगीत घडटा. वर्सुकी कितलेशेच अब्ज डॉलर हो HAI ट्रिट करपाक खर्चतात. हातूंत कितलेशेच जाण मरतात लेगीत. अमेरिकेंत खंय वर्साक १७ लाख सुमार HAI चे दुर्येत जातात आनी तातूंतले लाख भर तरी लोक हाका लागून जीव वगडायतात.

बाबाः आरे देवा! हें तशेंच जालें मरे मम्मीचें? तिका ॲडमीट केल्ली पांय मोडलो म्हूण आनी आतां दुर्येस थारलें भलतेंच! शी बाबा!!

बाबाः हय, किर्ते करुंया, सुमार ३० टक्के HAI प्रकरणां हीं मुताचीं इन्फेसांवां आसतात. आनी मम्मीक कॅथेटर घाला न्ही तीय एक रिस्कूच! पूण किर्ते करतले?

बाबाः ताकाच लागून हॉस्पिटलांनी तो वास मारता..स्पिरीट,फिनेल..

विजूः हय तर! हॉस्पिटलांनी साफसफाय चालूच आसता. हाकाच लागून हॉस्पिटलांनी दोतोर, नर्सी बी तोंडाक मास्क घालतात, ग्लवज घालतात, हात बी परत परत स्पिरिटान धुयतात.

बाबाः राव रे, म्हाका एक सांग मम्मीक मुता इन्फेसांव जालां जाल्यार तिका हॉस्पिटलांत कित्याक दवरल्या? ती चलूंक शकता न्ही रे वॉकर घेवन!

विजूः म्हजेंय तशेंच म्हणणें आशिल्लें. पूण दोतोरीण...तिणें म्हाका बरे तरेन समजावन सांगलें. मम्मीचो रिपोर्ट केल्लो न्ही मुताचो..तातूंत जे बॅक्टेरिया आसले न्हय, जाका लागून हें इन्फेक्सांव

जालां मम्मीक, ते बॅक्टेरिया खंयचे ते पळोवंक मायक्रोबायेलॉजीस्टान प्रयोगशाळेंत चाचणी केली आनी कन्फर्म केलें. मागीर तांची वाड कशी जाता तें सोदून काडलें. मागीर ते मारून उडयतले जाल्यार खंयचें ॲन्टीबायोटीक वापरचें पडटलें हाचेर संशोधन केलें

बाबाः पूण दोतोरांनी युरीन इन्फेक्सांवांक पयरूच ॲन्टीबायेटीक सुरू केल्लें मरे।

विजूः हय..हें तिणेंच सांगलें म्हाका! तांच्या अणभवा प्रमाणें खंयच्या बॅक्टेरियांक लागून इन्फेक्सांव जालें आसतलें आनी ताचेर खंयचे ॲन्टीबायोटीक काम करतलें तें वापरूंक सुरू केलें. तेच वांगडा मूतय ॲन्टीबायेटीक सेन्सेटिविटी टेस्टींगाकूय दिलें.

बाबाः मागीर किर्ते रिजल्ट आयलो..

विजूः नशीब बरें नासलें आमचें अशें म्हणचें पडटलें. लागीं लागीं सगळ्याच ॲन्टीबायोटीकांक हे विशाणू दाद दिनांत. म्हणचे हातूंतलीं खंयचीय ॲन्टीबायोटीकां मम्मीक दिलीं जाल्यार तांचो विशाणूचेर कसोच असर जावंचो ना. हे विशाणू मरचे नात आनी इन्फेक्सांव वचचें ना. ताचेर कसल्योच गुळयो येनात.

बाबाः आरे सायबा.. मागीर किर्ते करपाचें तर रे?

विजूः ते पासत तीन इंजेसांवां करचीं पडटात. म्हणटकच तीं करपाक तिका हॉस्पिटलांत दवरचेंच पडलें ना? आतां मेरेन तिका सर लावन तातूंतल्यान तें दिवपाक आरंभूय केला आसतलो दोतोरान. ताईक विचारल्यार कळटलें.

बाबाः आतां आनीक कितले दीस दिवंचो पडटलो हो ॲन्टीबायोटीकांचो कोर्स काय?

विजूः सात दीस तरी म्हणटालो दोतोर. ते भायर इन्फेक्सांव गेल्या उपरांत आनीक एक-दोन दीस मायज दिवंचें पडटा खंय!

बाबाः सायबा भोगोस! जालें किर्ते आनी पावलें खंय तें पळयात!

विजूः तेंच म्हणटा न्ही..ऑर्थोपेडीक दोतोर म्हणटा हाडाचें ऑपरेसांव सारकें जालां आनी घावोय बी पेकत आयला. ती आतां चलताय बी बरी वॉकर घेवन. पूण हें जालें किर्ते भलतेंच म्हणपाचें।

बाबाः मम्मी तशी मनान जिद्दी म्हूण सांग! तिका तसो प्रॉब्लेम ना. तिचे सुवातेर हांव आशिल्लों जर हॉस्पिटलांत जाल्यार केन्ना शूट मारतलों आशिल्लों हॉस्पिटलांतल्यान.

विजूः तशें म्हण केन्ना जाता? तीं ॲन्टीबायोटीकां सरांतल्यानूच दिवंचीं पडटात आनी सर लायतलो म्हणल्यार हॉस्पिटलांतूच रावचें पडलें ना? दोतोर म्हणटा, जर तिचो जोर गेलो आनी दोन दीस मेरेन तो आयलो ना जाल्यार डिस्चार्ज दिवंक शकतां. पूण उरिल्लीं इंजेसांवां मात परा कडेन दिवंचीं पडटलीं. ते पासत आमचे शेजराक ती नर्स आन्टी आसा ती जापसालदारकी घेता जाल्यार पळोवंचें पडटलें.

बाबाः पळोवया कशी किर्ते वेवस्था करूं येता ती! पूण हें सगळें पळोवंक गेल्यार चक्रावपाचें मरे मनशाक! आयज वैजकी ट्रिटमेंट सामको आधुनीक जाला, आमी आतां चंद्रार आनी मंगळाचेर वचपाची तयारी करपाक लागल्यात आनी हांगा हे येदेशे विशाणू आनी जंतू आमकां नाचयतात मरे!

विजूः हय, तुजें सामकें खरें बाबा..थंय दोतोरूय तेंच उलयताले. कितल्याच जाणांक खंय ॲन्टीबायोटीकांक दाद दिनांत असलीं इन्फेसांवां जातात. तांचे आड झुंजतां झुंजतां तांकां नाका शेवट जाता खंय! तांच्या म्हणण्या प्रमाण आयज संवसारांत ॲन्टीबायोटीकांचो इतलो दुरूपेग जाता खंय, ताका लागून ही असली परिस्थिती उप्रासता. कितल्याच ॲन्टीबायोटीकांचो गूण पडना आनी नवीं ॲन्टीबायोटीकांचो सोद लागना.

बाबाः भयानक मरे हें सगळें. आतां हाका जापसालदार कोण म्हणपाचो?

विजूः दोतोर म्हणटा हे घडणुकेक आमी सगळेच जबाबदार. दुयेंत दिता तीं ॲन्टीबायोटीकां सांगता ते पध्दतीन आनी वेळावेळार घेना वो आपल्याक जें घेन दिसता तें कोणाक विचारी नासतना घेतात. दोतोर ॲन्टीबायोटीकांचो डोस सारको दिनात, चुकीची वो गरजे भायर ॲन्टीबायोटीकां दितात, फार्मासकार रसेद नासतना आपले आपूणच ॲन्टीबायोटीकां दितात. फार्मा कंपन्यांचें अनैतीक मार्केटींग, हाचेर ड्रग कंट्रोल खात्याचें नियंत्रण नासप असलीं कितलींच कारणां सांगताली दोतोर. समाजांतलें हें चुकीचें वर्तन जे सर बंद जायना तेसर ही असली अंधाधुंदी चालूच रावतली खंय!

बाबाः हय रे बाबा, कोण कोणाक म्हूण सांगतलो? सगळेंच गेलां नियंत्रणा भायर. कोणाकूच दुसऱ्याच्या जिवाचें पडून गेल्लें ना. जणेकल्याक पिशें लागलां दुडू करपाचें. आनी आमकां आतां नशिबाचेर भार घालून रावचें पडटा!

विजूः ना तर किर्ते! आतां फुडें हाचेर उपाय करपाचो ना तर 'नशीब अपना अपना' म्हण ओगीच बसपाचें!



इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन,
गोंय
ई-मेल : ipacpd@gmail.com, 9422062286







**ह्या** वर्साच्या मार्च म्हयन्या सावन साहिर लुधियानवीच्या जल्मशती वर्साक आरंभ जाला. कोण हो साहिर...? आयचे तरनाटे पिळगेक हो प्रस्न पडूं येता. साहिरूच कित्याक, काळाच्या पड्ड्या आड गेल्ल्या कितलेशेच कलाकारांचे, साहित्यकारांचे बाबतींत हो प्रस्न आयचे पिळगेक पडूं येता....पूण साहिरा सारख्या कितले तरी संवेदनशील कवी साहित्यकारांनी आपले कवितेंतल्यान, साहित्यांतल्यान आमचे पिळगेच्यो संवेदना जे पध्दतीन ल्हवपीकपणान जागयल्यो तश्यो आयचे पिळगे मेरेन हे साहित्यकार पावंक शकलेनात. ताचें कारण म्हळ्यार तांचे अस्तित्वाची आयचे पिळगेन वळख करून घेवपाचो केन्ना यत्नूच केल्लो दिसना.

हाचें कारण म्हळ्यार तांकां आपली संवेदना जागी दवरपा पासत कितें प्रयत्न करूंक जाय, हेरांच्यो भावना समजून घेवपाक खाशेल्या अभ्यासाची गरज आसा म्हणपाची तांकां कल्पना आसा अशें लेगीत दिसना. तांकां आज साहिर म्हळ्यार कोण अशें विचारल्यार जापे पासत तांचीं बोटां गुगलप्रवेशा पासत हुळहुळटात. असले हे पिळगेक जिका जिवीत म्हळ्यार कितें हाची हयन्हयशी सुलूस लेगीत लागूंक नासता तीं पोरां आत्महत्ते सारखो तोकाचो निर्णय कित्याक घेतात, जांकां सहजीवन म्हळ्यार कितें हाचो अर्थूच केन्ना जाणवलो ना ती ही पिळगी काल मोग, आयज लग्न आनी फाल्यां घटस्फोटा मेरेन सहज प्रवास कशीं करूंक शकतात हें कुवार्डे सोडोवपाक विशेश श्रम घेवंचे पडनात. असले हे पिळगेक, तांचे पिरायेचे आसतना आमच्या सारख्यांचे पिळगेचेर मोनेळ घालपी साहिर लुधियानवी, अमृता प्रीतम, गुलजार ह्या सारखे साहित्यकारूय होलमचेनात आनी तांचें साहित्यूय.

तॉलस्तॉय, हेन्रीक इब्सेन, हेरझोग हांचे सारखे कितलेच विदेशी साहित्यकारांच्या साहित्यान म्हजे तरणेपणार मोनेळ घाल्लो तसो प्रेमचंद, टागोर, साहिर, गुलजार, अमृता, जी.ए., सुर्वे, कुसुमाग्रज, बाकीबाब हांच्याय साहित्यान पिशें लायिल्लें. ह्या साहित्यकारांचें प्रत्यक्ष दर्शन घेना आसतनाय आपल्या साहित्यांतल्यान तांणी आमकां घडयले, आमचे कडेन नातें जोडलें.

साहिर आनी गुलजार हांणी हिन्दी चित्रपटांतल्या आपल्या गितांचे वाटे वयल्यान आमकां चलयत व्हेलें तशें अमृता प्रीतमान केलें ना. अमृता प्रीतमचें काव्य वाचपाची सक्ती केली ती साहिरच्या त्या काळा वयल्या काव्यमय प्रेमांची नशा चडून. त्या काळार साहिर आनी अमृताचें काव्यमय प्रेम आमचे सारखे युवा पिळगे मदीं चर्चेंत आशिल्लें. अमृता प्रीतमचें ***रसिदी तिकट*** सारख्या आत्मचरित्राचें एकठांय पंगडांत बसून वाचन करताले. जे पिरायेर अमृताचें *रसिदी तिकट* हातांत पडिल्लें तेन्ना अशें आनी प्रेम आसूंक शकता काय अशेंय प्रस्न पडटाले

अमृता आनी साहिर हांचें प्रेमप्रकरण अमृतान आपल्या पुस्तकांतल्यान म्हजे मेरेन पावोवचे आदीं तसो हांव साहिरच्या मोगांत पडिल्लो. हिन्दी सिनेमांतलीं ताणें बरयिल्लीं विरहपूर्ण गितां आमच्या काळजांत रिगून राविल्लीं. ताच्यो कांय कविताय उर्दू समजना आसतनाय हाका ताका विचारून, अर्थ लावन घेताले. ताचें ***मेरे ख्वाबों के झरोकों सजानेवाली, तेरे ख्वाबो में मेरा गुजर है कि नही,*** ह्या सारखी ताची गैरफिल्मी शायरी जावं वा ***चलो एक बार फिर से अजनबी बन जाएं हम दोनो*** आनी ***कभी कभी मेरे दिल में खयाल आता है*** असलीं एका परस एक सरस अशीं गितां अर्थ आनी नादा सयत काळजाच्या कुरकुटांत येवन बसतालीं.

ताच्या ह्या गितांक लागून आनी अमृता प्रीतमा वयल्या ताच्या प्रेमाक लागून एकदां तरी साहिराक मेळूंक जाय अशें त्या काळार दिसतालें. तशें अमृता प्रीतमाकूय मेळन दिसतालें. तिका उपरांत मेळप जालें पूण साहिराक खंय मेळप, कशें मेळप हें हांव मुंबय आसतना जाणा जावन पेतालों. पूण २६ ऑक्टोबर १९८० दिसा बातमी आयली ती म्हळ्यार 'काल साहिराक काळजाच्या आताकान मरण आयलें.' ताका मेळपाची म्हजी इत्सा अपूर्णच उरली.

त्या उपरांत दिसपट्टो साहिर म्हज्या सांगाताक आसतालो तो आपली शायरी आनी सिनेमांतलीं गितां येवन. तार्चें गीत कानार पडले बगर एक्लूय दीस तेन्नाय सरलो ना आनी आतांय. ताचीं कांय गितां आनी शायरी कोंकणींत येवंची आनी तीं हांवेंच करचीं अशें म्हाका सतत दिसत रावलां. तीं आयच्या काळाक कोणाक आवडत काय ना खबर ना. पूण म्हाका तीं अजून आवडटात. तेन्ना विचार आयलो साहिरच्या जन्मशतीच्या काळांत म्हजी ही इत्सा कित्याक पुराय करची न्हय..! एक वर्सभर साहिर, साहिरचीं फिल्मी गितां, ताच्यो शायरी, कांय शायरी, गितां ताच्यो आसुनय म्हाका म्हज्यो कशो दिसल्यात आनी तार्णे बरोवंक नाशिल्ल्यो जाल्यार हांव बरोवपाचो अशें दिसलां, तांचो कोंकणीत अणकार हांवें करचो अशें दिशिल्ल्यान हो वावर म्हजे पासत आनी बिम्बाच्या वाचकां पासतूय.

कित्याक आवडटालो त्या काळच्या तरणेपणार म्हाका साहिर..? तो काळ अचाट साहसां करपा वांगडाच अचाट प्रेमय करपाचो आशिल्लो. सगळेंच युवा रगत प्रेमांत पडटालेंच. तातूंत कांय जाणांक यश मेळटालें जाल्यार कांय जाणांचें अयशवी जातालें. त्या काळार जांचो प्रेमभंग जातालो तार्चें सांत्वन दितालो साहिर,आपल्या गितांतल्यान, आपल्या शायरींतल्यान आनी गझलांतल्यान. जर साहिरार्चें हें सांत्वन नाशिल्लें जाल्यार मोगांत सदांच अपेशी थारपी म्हजे सारख्यांचें काळीज त्या काळार फुटून वचपार्चें. साहिर आपले शायरींतल्यान आमच्या काळजाच्या जखमांचेर फुंक मारतालो.

कांय लोकांच्या नशिबांत तांचे कडेन सगळे गूण आसूनय तांकां मोग मात केन्ना मेळना. तांकां ते बाबतींत सदांच हार खावंची पडटा आनी मागीर त्याच दुख्खांत तो बुडत रावता. मात तो कलाकार आनी तांतल्या तातूंत जर कवी आसलो जाल्यार प्रेमभंगाच्या ह्या उज्यांत हुलपत तो दर्दभरी शायरी जल्माक घालता. साहिर सुरवातीक सावन आपले कवितेक लागून सदांच प्रसिध्दीचे तेंगसेर आसतालो.

साहिराचो पयलो काव्य संग्रह तल्खियां . हो काव्यसंग्रह ताचे विद्यार्थी दर्शेतूच उजवाडाक आयिल्लो आनी काव्य रसिकानी ताका माथ्यार घेतिल्लो. इतले भुरगेपणार शायरीच्या मळार नामना फावो जाल्लो उर्दूंतलो तो पयलो शायर. तो दिसपाक जरी खडबडीत दिसलो जाल्यारूय ताचे उंचायेक लागून तार्चें व्यक्तीमत्व चार चवगांत सामकें उठून दिसतालें आनी तेच सांगाताक ताचे लोकप्रीय शायरीक लागून ताचेर त्या काळांतल्यो काव्यप्रेमी चलयो मरताल्यो. तार्चें नांव कितल्याच फिल्मांतल्या तशेंच साहित्यांतल्या कितल्याच चलयां-बायलां वांगडा जोडटाले. पूण ताचो चड लागसार आशिल्लो तो महिंदर कौर, इशर कौर आनी अमृता प्रीतम ह्या पंजाबी साहित्यकार कलाकारां लागीं. तींय ताचेर जीव घालतालीं. पूण तार्चें प्रेम केन्नाच पुर्णायेक पावंक शकलें ना. कोणाच कडेन कसलेंच नोत नासतना, कोणाचोच विरोध आनी आडखळ नासतनाय एकलेय कडेन साहिरार्चें प्रेम तडीक पावंक शकलें ना हार्चें कारण कितें आसूं येता..कांय घडणुकांक कारण आसच ना. तो नियतीचो खेळ आसता. नियती आपली एक चाल खेळटा आनी मागीर प्रेम हेंच सर्वस्व मानपी त्या प्रेमाच्या उज्यांत जळत रावतात. तांच्या नशिबांत फकत येतात ते वियोग वेगवेगळ्या रुपांनी. मागीर त्या विरहार्चें व्यसनूच झडटा जावंक जाय. मागीर ती व्यक्ती कितलेंय प्रेम आपूण जावन ताच्या पांया कडेन आयलें तरी ताका खोटायता आनी तेच घडणुकेचो विरह मनांत भरून मागीर जिवीत सारता. तातूंतल्यान मागीर जें कितें निर्माण जाता ती कविता आसता. प्रेमाच्या विरहांत आपणें जळत साहिर बरयत रावलो आनी ताच्या बरपांतले दरेक ओळीचेर आमचे सारके प्रेमभंग जाल्ले आशिक मरत रावले.



तरणे पिरायेर जांचो जांचो प्रेमभंग त्या काळार जालो तार्णे साहिराची त्या प्रेमभंगांतल्यान भायर काडपी ही शायरी नक्कींच वाचल्या हातूंत दुभाव ना.

## मता-ए-गैर

मेरे ख्वाबों के झरोकों को सजाने वाली
तेरे ख्वाबों में कहीं मेरा गुजर है कि नहीं
पूछकर अपनी निगाहों से बता दे मुझको
मेरी रातों के मुकद्दर में सहर है कि नहीं

चार दिन की ये रफाकत जो रफाकत भी नहीं
उम्र भर के लिए आजार हुई जाती है
जिन्दगी यूं तो हमेशा से परीशान-सी थी
अब तो हर सांस गिरां-बार हुई जाती है

मेरे उजडी हुई निंदों के शबिस्तानों में
तू किसी ख्वाब के पैकर की तरह आई है
कभी उपनी-सी,कभी गैर नजर आती है
कभी इख्लास की मूरत,कभी हरजाई है

यार पर बस तो नहीं है मिरा,लेकिन फिर भी
तू बता दे कि तुझे प्यार करूं या नकरूं
तूने खुदअपने तबस्सुम से जगाया है जिन्हें
उन तमन्नाओं का इजहार करूं या न करूं

तू किसी और के दामन की कली है,लेकिन
मेरी रातें तिरी खुश्बू से बसी रहती हैं
तू कहीं भी हो तिरे फूल-से आरिज की कसम
तेरी पलकें मेरी आंखो पे झुका रहती हैं

तेरी हाथों की हरारत, तिरे सांसो की महक
तैरती रहती है एहसास की पहनोई में
ढूंढती रहती है तखईल की बांहें तुझको
सर्द रातों की सुलगती हुई तन्हाई में

तेरा अल्ताफो-करम एक हकीकत है, मगर
ये हकीकत भी हकीकत में फसाना ही न हो
तेरी मानूसनिगाहों का ये मोहतात पयाम
दिल के खू करने का इक ऐर बहाना ही न हो

कौन जाने मिरे इमरोज का फर्दा क्या है
कुर्बतें बढके पशेमान भी हो जाती हैं
दिल के दामन से लिपटती हुई रंगीं नजरें
देखते-देखते अनजान भी हो जाती हैं

मेरी दरमाँदा जवानी की तमन्नाओं के
मुज्महिल ख्वाब की ता'बीर बता दे मुझको
तेरे दामन में गुलिस्तां भी हैं, वीराने भी
मेरा हासिल-मेरी तक्दीर बता दे मुझको

*मता-ए-गैर* म्हळ्यार दुसऱ्याची आरसपत. परक्याची संपत. लग्न जाल्ली बायल आसूं वा एखाद्र्या कोणा कडेन प्रेम आशिल्ली चली जावं. आमच्या समाजांत एक खेप हें दावें गळ्यांत पडलें काय मागीर ती अस्तुरी मनीस उरना. ती एक वस्त जाता आनी मागीर ती वस्त जार्णे तिच्या गळ्यांत आपल्या नांवान दावें घालां ताची ती संपत्त थारता, आरस्पत जाता. कोणाचेंय कोणा कडेन लग्न थारलें वा जालें जाल्यार ती एक समजिकायेची सामाजीक जुळोवणी आसता. दोगांयनी जीं आंकवारपणार सपनां रंगयल्लीं तीं सगळीं एकेच व्यक्तींत आसपावल्लीं आसतलींच अशें ना. ते पासत तांकां जें आसा तातूंतच समाधान मानून संवसार करचो पडटा. फुडाराक कोणाय एका दादल्याक आपले 'अर्धांगीं'त आपल्याक जाय आशिल्लें तें आनीक खंय तरी सांपडलें जाल्यार तो तें हातासता. ताका कोण दुशणां दिनां. तो हें सगळें फैदासता आपले अर्धांगीक आपल्याच दांव्याक बांधून. आपर्णे जाका आपलें अर्धांग मानलां तो सामाजीक हुकूमशायेक लागून आपलो मालक हे मानून बशिल्ली तीय आपलीं सपनां निमण्या स्वासा मेरेन हातासपाक वथरेता. तीं तिच्या दोळ्यां सामकार कोणांत दिसलीं तरी समाजाचे हुकूमशायेंत तिका तीं स्पर्शूक सोड नदर लेगीत भोंवडावंक मेळना. आनी ह्या इल्लेश्या जिवितांत ती अर्धांगी मागीर अर्दकुटीच उरता. एखाद्रेक संगीताची आवड आसता, कवितेची आसता, चित्रकलेची आसता पूण केल्ले तडजोडीक लागून आपल्या अर्धांगांत तांतलो गंध सांपडना आनी मागीर ह्या जिविताच्या ल्हानश्या प्रवासांत वाटेर कोणूय ते अर्धांगीचीं तीं सगळीं सपनां काळजांत घेवन आपटता तेन्ना एकमेकानी तीं सांसपिलीं जाल्यार कितें गैर आसा..हें सांसपप कुडीचे ओडीन, कामवासनेन नासता तर आपले भितरल्या कलेच्या सर्गान तेन्ना दार उकतें केल्लें आसता. पूण तातूंत कोणाकूच प्रवेश घेवंक मेळना. कित्याक तर परक्याची संपत्त ही भ्रामक कल्पना खाक्केक मारून कितल्याश्या अर्धांगांचें आनी अर्धांगिनींचें जिवीत अर्धांगवायून पिडीत जाल्ले वरी अर्दकुटेंच सरता.




### परक्याची आरपत

येवन म्हज्या सपनांत तूं तीं सजयता
सांग म्हाका, केन्ना हांव तुज्या मिरयतां
विचारून नदरांक तुज्या सांग बाये म्हाका
म्हज्या रातींच्या नशिबांत आसा व्हय फांतोड

चार दिसांचो हो सांगात जो सांगातच न्हय
जिवीत भरा खातीर पिडा जावन उरता
तशें जिवीत म्हजें सदचें त्रासांचेंच जाल्लें
आतां तर दरेक श्वास सोसूं नज जाता

म्हज्या उद्वस्त निहदांच्या शयनघरांत
आयलां तू एका सपनाच्या रुपावरीं
केन्ना भासता आपलेंशें केन्ना परकी
केन्ना निसुवार्थी मुर्ती,केन्ना शिंदळशें

मोगाचेर तशें ना नियंत्रण म्हजें,तरीय
तुजेर हांवें मोग करचो काय ना तें सांग
तुवें खासा तुज्या हासपान जागयला जाका
ते म्हजे अभिलाशेचें प्रकटन करूं वा नाका

तूं आसत कोणा गोपांतली कळी,पूण
म्हज्यो राती तुज्या परमळान भरून रावतात
आसूं तूं खंयीय,तुज्या फुलावरीं गालांचो सोपूत
तुज्यो मलप्यो म्हज्या दोळ्यांचेर आसता पडून

तुजे हातांची हुनसाण, तुज्या स्वासांचो सुगंध
उफेत रावता अनुभुतीच्या आसमंतांत
सोदीत रावतात कल्पनेचे हात तुकाच
थंड रातीच्या धुंवतल्या एकटेपणांत

तुजी अनुकंमा एक सत खरें, पूण
हें सत थारचें न्हय सतांतलीच काणी
तुजे इश्ट नदरेचो हो अनपेक्षीत संदेश
काळीज रक्ताळपाचो थारचें न्हय नीब

कोणा खबर म्हज्या ह्या आयचो फुडार किर्ते
तुजो लागसार यालूंक शकता लजेकूय म्हाका
काळजाच्या पदराक दसपी रंगयाळ्यो नदरो
पळयतां पळयतां अनवळखीय वता जावन

म्हज्या विवश तारुण्यांतल्या इत्सांच्या
धुसर सपनांचें फळ किर्ते सांग म्हाका
तुज्या गोपांत बाग आनी वैराणूय आसा
म्हजी जोड किर्ते - हे म्हज्या नशिबा सांग म्हाका

साहिरच्या पुराय जिवितांत *मता- ए-गैर* हे कवितेंत आयल्यात तशे हे दुभाव एक सारखे आयिल्ले दिसतात. आमच्या ऐन तारुण्यांत तेय दुभाव आमचीय फाट सोडी नाशिल्ले देखून साहिर आमचो आमचो दिसतालो...आनी आतां..आतांय तो आमचोच दिसता.

साहिर सारखे कितलेच शायर, गीतकार सिनेमां खातीर गितां रचतात आनी लोकप्रिय जातात. तांचीं गितां हीट जातात. तांचें कारण आसता त्या गिताची चाल. त्या उपरांत येता ती शब्दकळा. दुसऱ्या नंबराचेर. केन्ना केन्ना संगिताक लागून ते तिसऱ्या पावंड्यार वतात. पूण कवी प्रदीप आनी साहिर हांच्या गितांचे शब्द संगीत आनी चाल हांकां फाटीं घालून आयकुप्यांच्या ओंठार ते खेळयता. तेच पासत साहिरचें दरेक गीत कानार पडलें काय तें काळजांत घर करून बसता.साहिराचें मोठेपण तें हें....

(चलता)

आकर्शण

# सुसेगाद

# राजू नायकाचो अभ्यासपूर्ण लेख संग्रह

आमच्या गोंयांत दर वर्सा वेगवेगळ्या भासांतलीं कितलींच पुस्तकां उजवाडाक येतात. तांचो आंकडो पळयत जाल्यार दिसाक एक पुस्तक ह्या हिसपान वर्साक गोंयांत ३६५ पुस्तकां प्रकाशीत जातात अशें म्हणटात. खरेंय आसत. कित्याक गोंय सरकारचें कला आनी संस्कृती खातें, गोवा कोंकणी अकादेमी आनी राजा राममोहन रॉय फाउंडेशन बी पुस्तकां खरेदी करूंक लागिल्ल्यान आतां जो तो उठ्ठा आनी पुस्तकां बरयता आनी तीं छापपा पासत आपूणच प्रकाशक जाता. पूण असल्या पुस्तकांची दखल तसो गोंयांत कोणूच घेना.

पूण कांय प्रकाशन संस्था आसात ज्यो सरकारी येवजणेचो लाव मेळटलो काय ना हें पळयनासतना दर्जेदार पुस्तकां काडटा आनी तांचें वितरण आपले तांकीर करतात. खरें म्हळ्यार असल्या प्रकाशकांची तोखणाय करून तांच्या पुस्तकांची वळख समाज माध्यामांतल्यान करून दिवप हीय एक समाजसेवा थारू येता. आमचे खूबशे समिक्षक वा आस्वादक पुस्तकांची मोलावणी करतात खरे पूण तांचो ओढो इंग्लीश पुस्तकां कडेन आसता. तांकां असल्या पुस्तकांची तोखणाय केल्यार आपल्याक लोक विद्वान म्हणटले आनी आपूण व्हड जातलों अशें दिसता.

खरें म्हळयार आपल्या मनशाच्या कर्तृत्वाची वळख करून दिवपा इतलें मोठेपण आनीक दुसरें ना. हें सगळें सांगपा फाटलो उद्देश्य म्हळ्यार हालींच मुंबयचे अक्षर प्रकाशन संस्थेन गोंयचे एक ज्येष्ठ पत्रकार आनी लोकमतचे संपादक राजू दा. नायक




हांच्या गोंयचे संस्कृतायेचेर तांणी बरयल्ल्या लेखांचो ***सुसेगाद*** ह्या नांवान एक संग्रह उजवाडाक हाडला. पुस्तक मराठी म्हणटकच मराठी साहित्य विश्वांत ताची वळख जातलीच. पूण कोंकणी मनशाक ह्या पुस्तकाची वळख कशी जावंक पावतली..?

आमचे कोंकणी लेखक आपलें पुस्तक सोडून आनीक कोणाचें कांयच वाचिनात अशें फकाणांनी म्हणटात. तशें पळोवंक गेल्यार तातूंत तथ्यूय आसाच, ना न्हय. म्हणटकच कोंकणी मनशाचें मराठी पुस्तक कोण वाचतले म्हणपाची शक्यताय तशी उणीच. तरी लेगीत ह्या पुस्तकाची वळख जर तांकां जाली जाल्यार तातूंत आयिल्ले विशय संदर्भा पासत केन्नाय तांकां उपकारा पडूं येता.

ह्या पुस्तकांत गोंयच्या वेगवेगळ्या प्रश्नांचेर २६ लेख आसात. प्रत्येक लेखाचो विशय वेगळो जरी आसलो तरी तांचो संबंध गोंयचे संस्कृतायेक दसून आसा.

हें पुस्तक गोंयच्या विंगड विंगड आंगानी वेध घेता. तातूंत इतिहास आसा, समाजकारण आसा, लोकांचो संघर्श आसा आनी ही भूंय कशी घडली, हांगचो मनीस कसो घडलो हाची बारकायेन केल्ली विस्कटावणी एका वेगळ्या संदर्भांत हांगा वाचूंक मेळटा.

गोंया भायलो मनीस गोंया कडेन पळयता आसतना आपले नदरेन पळयता. तांकां गोंय हें एक सुंदर राज्य, तें सैमीक सुंदरायेन नटलां, गोंयकार हो पोब्र फिदाल्ग, तो सुसेगाद खुशालकायेन जियेता अशें ताका दिसता. तर गोंयकाराचें हें जें व्यक्तीमत्व घडलें ताचें फाटलें दरेक कारण वेगवेगळया संदर्भांतल्यान राजू नायक आमकां दिता जाचे फाटल्यान रास्त कार्यकारणभाव वाचकां मुखार रावता.

गोंयची उत्पत्ती कशी जाली हें सांगतना आमच्या गोंयचे इतिहासकार पुराणांतलो दाखलो दितात आनी परशुरामान बाण मारून दर्यातल्यान गोंय वयर काडलें अशें सांगतात. हे गजालीक कांय लोक विरोधय करतात. त्या फाटलीं कारणां आमकां ह्या पुस्तकांतल्या लेखांतल्यान समजून येवंक मेळटात.

गोंयांत पुर्तुगेज येवंचे आदीं गोंय खऱ्यानीच सुखी आनी समृध्द आशिल्लें काय किर्ते असो प्रश्न खूब खेप आमकां गोंयकारांकूच पडटा. त्या काळांत हिंदू समाज कितल्याच विकारांनी, विकृतींनी कसो पिडिल्लो आसतालो, गोंयची सती प्रथा, जात वेवस्था, वयल्या समाजा कडल्यान सकयल्या समाजाची पिळवणूक जाताली काय किर्ते आनी त्या काळार पुर्तुगेजांची भुमिका किर्ते आशिल्ली, पुर्तुगेज मिशनरी फकत हिन्दू लोकांचोच छळ करताले काय बाटून क्रिस्तांव जाल्ल्यांचोय करताले हाचो एक नियाळ त्रयस्थाचे नदरेन केल्लो आमकां वाचूंक मेळटा.

फाटल्या धा वर्सांत आमचें गोंय खूब बदल्लां आनी झपाट्यान बदलत आसा. गोंयचेर कितल्याच लोकांनी हे आदीं आक्रमणां केलीं तरी गोंयकारांच्या पुर्वजांनी तेय परिस्थितींत गोंयचें सत्व आनी तत्व राकून दवरलें. पूण ह्या आयच्या काळांत हें सगळें मातये भरवण कशें जायत वता आनी ताचो परिणाम किर्ते जातलो, ताचेर नियंत्रण कशें आनी कोणें दवरपाची गरज आसा, तें तशें दवरलें ना जाल्यार गोंयचेर कसली हावळ येवं येता हाची बारकायेन उस्तवारी लेखकान केल्ली आसा आनी ताच्या बरपांतली व्हांवती भास जर पळयत जाल्यार हे लेख बरोवपा फाटली तळमळ वाचतल्याक होलमता.

गोंयची वाट कशी लागली, ती लागपाचें कारण किर्ते, आमचें सोबीत सुंदर गोंय संबाळू येतालें तें सांबाळप कित्याक जालें ना आनी ताका जापसालदार कोण हाची जाप लेखक सोदता आनी ताका ताच्यो जापोय मेळत वतात. आमचें गोंय आवज जे अवतिकायेक पावलां तें आसा तशें पुर्व पदार हाडपा पासत गोंयकारां कडेन उपाय आसात म्हणपाचें लेखक पोट तिडकेन सांगता आनी ते चालीक लावपा पासत गोंयकार फाटीं फुडें जाता देखून खंतीय जाता. गोंयच्या ह्या प्रस्नांचेर गांभिर्यान विचार जर



करी ना जाल्यार गोंयांत कसो विद्रोह जावपाची शक्यताय आसा ताचीय सुलूस आमकां ह्या पुस्तकांतल्या लेखांनी लागता.

ह्या पुस्तकांत जे विशय हाताळल्यात तातूंत लेखकान अमुकच विशयांची मर्यादा घालून घेतिल्ली ना. गोंय, गोंयकार आनी गोंयकारपण नदरे मुखार दवरून त्या संदर्भांत किर्ते किर्ते मांडू येता हाचेर चिंतन करून दरेक विशयाक योग्य न्याय दिल्ल्याचें वाचकाक जाणवतलें. गोंयच्या वेगवेगळ्या प्रस्नांचेर तटस्थपणान कशें बरोवंचें आनी पत्रकाराची ते नदरेन कशी नदर आसूंक जाय आनी ताणें किर्ते तारतम्य बाळगुपाची गरज आसा हाचें मोस्त आमकां ह्या पुस्तकांतले तरातरांचे लेख वाचतकच लक्षांत आयले बगर रावना.

सुसेगाद हें राजू नायक हांचें पयलेंच पुस्तक न्हय. हे आदींय तांचीं मराठींतलीं चार पांच पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत आनी तींय हेच जातकुळयेंतलीं आसात. पत्रकाराक दरदिसा आपले कर्मभुंयें कडेन जागरुकतायेन पळोवंचें पडटा. ती ताची मांयभूंय जाल्ल्यान तिचे राखणे पासत संद मेळटा तेन्ना भाश्य करचें लागता. गोंयचे हे वेगवेगळे विशय राजू नायक हांणी हाताळल्यात ते ह्याच संदर्भांतल्यान. ताकाच लागून ते अभ्यासपूर्ण जावपा वांगडाच तांकां एक संदर्भमुल्यय लाभलां. आयज गोंयकार जागृत जायत आसा. ताची नदर सातत्यान गोंयचे आड कोण किर्ते करता ताचेर लागून रावल्या. गोंयां आड कोणूय किर्तेय करता अशें दिसलें जाल्यार तो आपल्या मोबायला वेल्यान ती घडणूक आपले काणये सांगातान समाज माध्यमाचेर घालता. ताका ते वेळार सगळी म्हायती सट्ट करून येवजतली आनी हाताक लागतली अशें कांय ना. तेन्ना संदर्भ म्हूण राजू नायकाच्या ह्या सुसेगाद पुस्तकांतल्या लेखांचो खूब बरो उपेग जावं येता. हे लेख एका पत्रकाराचे लेखणेंतल्यान तयार जाल्ले कारणान त्या लेखांतल्या घडणुकांची अधिकृतताय तपासपाचीय तशी गरज आसना. म्हणटकच रासवळ मळार जे कोण वावुरतात तांकां आपल्या भाशणां पासत जे किर्ते मुद्दे जाय आसतात ते सगळे रेडीमेड हांगा मेळूंक शकतात. तांचो कसो वापर करप हें जाचे ताचेर आसता. पूण तांणी हें पुस्तक वाचलेंच ना, त्या पुस्तकांत कसले विशय आसात हाची कल्पनाच नासत जाल्यार मागीर आमचे गोंयकारांचे नशीब म्हणपाचें.

सगळेच लोक सगळ्याच गजालींचो अभ्यास करूंक शकनात. हो अभ्यास कोणें तरी अधिकृत मनशान करपाची गरज आसता. आपल्या लेखां पासत राजू नायका सारखे पत्रकार दिसाची रात करून तो अभ्यास करतात आनी मागीर हेरांक तें गिन्यान असल्या पुस्तकांतल्यान हाताक लागता. ह्या पुस्तकांचें खाशेलेंपण तें हेंच आसता.

आमी राजू नायकाच्या ह्या पुस्तकाक वेवकार दिवंया.



– संतोष हळर्णकार

बांदिवडे-बंदर.फोंडा-गोवा ४०३ ४०१.

मो. : ९७६२६४१६१५





**आडवे :** १. गुन्यांवकारी मनशांक बंद करून दवरचेलें घर, कैदखानो, ३. पुजेवेळार देवा भोंवतणी ओंवाळटात त्यो पेटयल्ल्यो वाती, ७. झुजांत वांटो घेवपी तारवां आनी बोटी, कपाट, ८. भलायकी, बरो सभाव, शार्णेपण, ९. तळ्यांत जाल्लें सुंदर धव्या, तांबड्या रंगाचें फूल, १०. आडवाद, १२. विक्री, विकिल्ल्यो वस्तू, १३. सात आनी चार, १५. नेवरेचो पिठो भरूंक लाटिल्ली पातळ रोटी, १६. श्रीफळाचें झाड, १७. कसलीय वस्त पकडचेली गावी, १९. धीर, नेट, धिटाय, २०. चुलती, २२. महादेव, २३. सत्य, खरें, २४. लायकी, फावो त्या गुणांचें आसतेंपण, २६. दर्या (इंग्लीश), २७. हिऱ्या माणका सारकी मोलादीक वस्त, २८. दीस (इंग्लीश)

**उबे :** १. सगळे तरेची वेवस्था आनी मांडणी, कडक तयारी, २. यत्न करपी, खटपट करपी, ३. दोनूय वटेन, फुडले आनी फाटले वटेनचें, ४. लक्ष्मी, ५. तलवार, ६. उसळप, दुखप, सणसणप, ११. आंगाक दसपा सारकें, चिकट, १२. शिटकावणी, इशारो, १४. रामायणाचो नायक, सीतापती, १६. आवयची भयण, १८. जपानची राजधानी, २०. फाटीर कट्टें आशिल्लो चार पांयांचो जीव, २१. तियात्रांतलें गीत, पद, २५. खटपट, तकालस.

मार्च २०२० ची जाप

| म्हा | ता | र | प | ण | | आ | नी | क | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ज | | क | | व | न | स्प | त | | भा |
| न | ट | व | प | | ग | त | | घा | वो |
| | पा | प | | पा | | | प | ण | जी |
| फो | ल | | प | य | ल्या | पा | रा | | |
| ली | | सु | पा | री | | प | त | क | र |
| ण | व | को | | | | ले | | | स |
| | य | | क | र | ब | ट | | मो | र |
| जा | ल्या | र | य | | डा | | म | | स |
| व | न | | ल | ढा | य | | घा | ल | प |

**कोरोना महामारीक लागून देश-विदेशांतल्या खंडीत जाल्ल्या प्रवासाक पर्थून उर्जितावस्था हाडपा पासत यात्रिक ट्रॅव्हल्स आनी बिम्ब परिवाराचो एक प्रवासोत्सव भोंवडी आयोजीत करपी दिग्गजां लागीं खुल्लमखुल्ला चर्चा आनी पुस्तक लोकार्पण सुवाळो.....**

## हिमालयांत

जांच्या कोंकणी साहित्याक पयलो साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाभलो त्या रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या प्रवासवर्णनाचें दुसरें संस्करण.....

## सप्तपदी

हर्षा सद्गुरू शेटये हांणी केल्ल्या ७ देशांच्या प्रवासांचें सुरबूस वर्णन

## गोमांचल ते हिमांचल..

दिलीप बोरकार हांच्या साहित्य अकादेमी पुरस्कारान भोवमानीत जाल्ल्या प्रवासवर्णनाचें ४ थें संस्करण

माया खरंगटे हांची राजस्थान भोंवडी
तशेंच
साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत साहित्यकार
शीला कोळंबकार हांणी देशांतल्या विंगड विंगड थळांनी केल्ल्या भोंवड्यांचें मनभुलायणें आनी रंजक वर्णन
त्या भायर
दिलीप बोरकार हांच्या सिध्दहस्त लेखणींतल्यान तयार जाल्लो अभ्यासपूर्ण लेखसंग्रह

## गोंयच्या लेखकांच्या प्रवासवर्णनांचो प्रवास

(गोंयच्या लेखकांनी बरयल्ल्या प्रवासवर्णनांचें प्रदर्शन आनी विक्री, प्रवासाचे आनी प्रवासवर्णन वाचनाचे लाभ ह्या विशयाचेर परिसंवाद, पुस्तक लोकार्पण सुवाळो आनी भोंवडेकारां लागीं गांठभेट-दिसभराच्या ह्या सुवाळ्याक पुरस्कर्त्यांक येवकार)

